# कषाय मधुर




**रवीन्द्र केळेकार**

संपादन:
माधवी सरदेसाय



जाग प्रकाशन

# KASHAI MADHUR

*Collection of Essays*

जाग प्रकाशन क्र. ७१



पयली उजवाडावणी (१००० प्रती):

बुद्धपौर्णिमा, २७ मे २०१०

उजवाडावपी:

डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

२०१ - बी, सालदॅल अपार्टमॅन्ट्स

रूअ द साउदादिश,

पाजीफोंड-मडगांव, गोंय-४०३ ६०१

अक्षर जुळणी/मांडणी :

जाग प्रकाशन

भायलें चित्र:

डॉ. सुबोध केरकार

छापपी:

मौज प्रिंटिंग ब्यूरो

खटाववाडी, गिरगांव, मुंबय - ४०० ००४

मोल: २२५/- रुपया

*This book has been published with assistance from Sahitya Akademi's 'Writers in Residence' scheme.*

जाणटेपणांत धीर आनी आधार दिवपाक नियतीन म्हजे सरीं
धाडिल्ल्या ज्योतीक उपाट वात्सल्यान

कांय तंत्रीक कारणांक लागून ह्या पुस्तकांत '–' हे कुरवेचे सुवातेर 'ह्न' अक्षर छापून आयलां. वाचप्यांनी समजून घेवचें.

– उजवाडावपी

# एका तपाचें संचीत... युगान्तराचें भाकीत!

अक्षर साहित्याचें खाशेलें लक्षण म्हळ्यार ताची असाधारण कालजैती क्षमता. सोबीत रुपकारा वांगडा उदार मोखी आसल्यारूच खंयचेंय बरप समाज-मानसांत सुवात जोडटा आनी काळापटार आपणाल्या अस्तित्वाची कुरू आंखूंक पावता. असलें बरप निखटें वाचुंकूच ओडलायणें दिसता अशें न्हय, तें जिविताकूय पुरक आसता. कालांतरान संदर्भबदला प्रमाणें तातूंतलो तपशील 'कालबाह्य' दिसूं वा विशय 'थळावो' दिसूं, ताचो आशय सार्वकालीक आनी ताचे फाटल्यो मोखी दूरगामी आशिल्ल्यान तें वाचप्याक आपलेंशें दिसता, आनी ताची परिणामकारिता कालातीत उरता.

हे निकश रवीन्द्र केळेकार हांच्या वेंचीक साहित्यकृतींक लायत जाल्यार त्यो भारतीय साहित्यांतल्यो कांय उत्तम कृती ह्या बिरुदाक कित्याक पात्र थारतात हें होलमता. लक्षणीय गजाल म्हळ्यार, खासा रवीन्द्रबाबान आपल्या साहित्याक (खरें म्हळ्यार पुराय साहित्याक) जिविताचें 'उप-फळ' (by product) मानलां. तांगेल्या सगल्याच बरपांतल्यान साहित्यिकाची जिणे विशींची धारणा, तागेली समाजा कडेन आशिल्ली लागणूक, सरभोंवतणे कडेन आशिल्ली बांदिलकी आनी सकारात्मक बदला खातीर साहित्याचें उपयोजन हांचो संवेदनशील वाचप्याक प्रयत्य येता.

मुजरत सांगपाचें म्हळ्यार, बरपा भायरूय वयर उल्लेख केल्ल्या विशयांचेर तांणी उलयतना तशेंच समाजमळार वावुरतना सदांच भर दिल्या. घडये, साहित्या विशींच्या ह्या दिश्टीकोणाक लागुनूच तांणी आपल्या बरपांत ललीत निबंद ह्या वैचारीक भासाभाशेक पुरक आनी वाचनीय अशा सुलभ, उकत्या आनी आटापशीर साहित्यप्रकाराचो पुरस्कार केला. ललीत निबंद बुद्दीक आवाहन करुनूय 'जड' जायनासतना उरूंक शकता, आनी भावनेक हय-न्हयसो आफडुनूय 'सुको सडसडीत' उरना.

*कषाय मधुर* हो तांगेलो निबंदसंग्रह लेगीत त्याच ललीत गद्याच्या 'म्होंवाळ-आडूक' रायरस्त्यान आयला. तातूंत ह्या सिद्धहस्त गद्यकाराची असामान्य जीवनसाधना, कालातीत मुल्यां वयली ताची असाधारण निष्ठा आनी ओडलायणे शैलींतलें विश्लेशण-विवेचन हांचें धादोसदिणें दर्शन

घडटलेंच. पूण ते भायर, रवीन्द्रबाबान साहित्यांतल्यान कुशळतायेन केल्लें विचार प्रवर्तन आनी ताका लागून वाचप्यांत घडपी अंतर्मुखन हाचोय प्रत्यय येतलो. म्हणजेच, ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्याक गोडसाणी वांगडा तुरटसाण आनी आस्वादना वांगडा आकलनय हातांत हात घालून मेळटलीं. हे नदरेन पळेल्यार 'कषाय मधुर' ह्या माथाळ्याचेर भाष्य केले बगर रावं नजो.

'कषाय मधुर' हो माथाळो भारतीय कला-शास्त्र-चिंतनांत अग्रसुवात आशिल्ल्या आनी आयुर्वेदांत विस्तारान वर्णिल्ल्या षड्रसांची जाका याद करून दिना असो वाचपी मेळप भोव कठीण. असो कोणूय आसलोच जाल्यार ताका वैद्यकशास्त्रांत 'अन्य-पॅथी'चो आनी साहित्य-कला-शास्त्र हांचे विशीं 'ॲन्टीपथी'चो पुरस्कार करपी म्हणचो पडटलो. समतोल जीण आनी निरामय शरीर हांची पोसवण आनी वाड करचे पासत जाणट्यांनी कषाय, मधुर हांचे वांगडा कटू, तीक्त, आम्ल आनी लवण हेवूय चार रस सांगल्यात.

मागीर रवीन्द्रबाबां सारक्या गिन्यानस्रोतान बाकीचे चार रस कुशीन दवरुपा फाटलें कारण कितें आसुये अशी कोणाकूय जिज्ञासा जावं येता. तांतले तातूंत मूळ कटु (तीख) आनी तीक्त (कोडू) ह्या दोगांयची आर्विल्ल्या भासांनी नांव आनी अर्थाचे नदरेन अदल-बदल जाल्ल्यान तांकां एकवेळ लेखकान भायर दवरले जायत हें समजूं येता. पूण जाचें नांव काडटनाच जिबेक उदक सुट्टा त्या 'आम्ल' रसाचें कितें? तो आमट-गोड आनी आमट-तिखट ह्या दोनूय रुपांनी सारकोच भुलयता.

आनी, 'लवण' (खारट) रसाची तर *'ख्यातः सर्व रसांना हि लवणो रस उत्तमः'* अशी *हितोपदेशां*त तोखणायूच केल्या. हरशीं पसून 'salt of the earth' सारकेल्या वाक्यांशांनी आमी मिठाचें 'सार' म्हूण म्हत्व वाखाणीत आयल्यांत. मागीर रवीन्द्रबाबान आपल्या पुस्तकाच्या माथाळ्यांत ताका कित्याक प्रतिनिधित्व दिवंकना तर, अशें आयच्या वाचप्याक दिसूं येताच. कारण, आज आमी आयिल्ल्या दिसा सरकारांत आपली 'हक्काची सुवात' मागपी नाकशिमऱ्या लोकप्रतिनिधींचे अनुयायी वा समर्थक वा मूक प्रेक्षक जावन जियेत आसात.

पूण *कषाय मधुर* पुस्तकांतले चार-पांच लेख अऽशे चाळटकच ह्याच 'रस-द्वयां'क माथाळ्यांत सुवात कित्याक फावो जाल्या हाची

जाप मेळटा. 'कषाय मधुर' म्हळ्यार तोरांज्या वरी तुरट मिरमिरीत, आनी आंब्या-उसा वरी म्होंवाळ गोड. रवीन्द्रबाबांची लेखनशैली कशी ती खबर आसा ताका *कषाय मधुर* कित्याक हो रुक्षप्रश्न पडच ना. सहज विनोदबुद्धी, गोड दिसपी पूण मदींच फटकारपी आकर्शक शैली आनी उपहासा परस व्यंग्य उकतावन वतां वतां जिवितांतल्या विरोधाभासांचेर नेमकें बोट दवरपाची कळाशी म्हळ्यार 'ब्रॅण्ड रवीन्द्रबाब'.

ह्या ब्रॅण्डाची खासियत म्हळ्यार जें लेखकाच्या मनाक पटलां, संवेदनेक भावलां वा ताका संशोधन वा चिंतन-मननांतल्यान गावलां तें भीडमुर्वत दवरनासतना स्पश्ट उतरांनी सांगप ह्व कसलीच अडेची कलय काडी नासतना. दुसरी खासियत म्हळ्यार, कितेंय तथ्य सांगतना वा वास्तवाची भिरांकूळ/आशादायी छटा उकती करतना ते वाचप्याक वाचतां वाचतां चिंतूंक (आनी आपल्या म्हायती-गिन्यान-अणभवाच्या म्हालवजार तो विचार तिजूंक) प्रवृत्त करतात. इतलेंच न्हय तर, हो लेखक वाचप्याचे सद्विवेकबुद्धीक (बरेच खेपे नुलयत) आवाहन करता आनी ताचे कडसून कृतीशीलतायेची अपेक्षाय बाळगिता, हेंय जाणवता.

देखूनच, रवीन्द्रसाहित्यांत वाचप्याक अंतर्मुख करपाची सभावीक तांक आसा हें मानचें पडटा. कांय फावटीं निखटो लेखाचो माथाळो लेगीत वाचप्याक अंतर्मुख करूंक शकता. देखीक, *कषाय मधुर* पुस्तकांतलो 'राष्ट्रपिता मानूं नाकात' (मॅन ऑफ द मिलेनियम?) हो माथाळो वा 'क्रांती जातलीच... कोण करतलो?', 'सुभाषबाबूंचो उबंत पडिल्लो अस्थिकलश', 'व्हड मनीस सदांच अपेशी जाल्यात', 'तांचे इतलेच हिन्दू धर्मकोल्ली' हीं लेखांचीं शीर्षकां चिंतूंकूच लायतात अशें न्हय तर आपल्याच मनाच्या अंतःपुरांत देंवपाक बाध्य करतात.

तेच परी, कांय अशेय लेख ह्या पुस्तकांत आसात जे वाचून मनीस आपल्या अंतर्मनाक जागोवन चिंतूंक लागता; आपले परीन सामकारा आयिल्ल्या अनपेक्षीत प्रस्नांच्यो प्रामाणीक जापो सोदूंक प्रवृत्त जाता. हाच्यो दोन-तीन तरी देखी दिले बगर रावं नजो. 'हांकां एक जात दिवंक मेळत व्हय?' हातूंत लेखक प्रांजळपणान सांगता : ''शिकून विदेशांत वताले तांकां पडमूर मानतालों. वचपाचें कारण समजऽनाशिल्लें. पूण जे 'भारतीय' म्हूण जगूंक सोदतात तांकां जातीचो शिक्को जाय.'' तशेंच, विनोबाजींक पारशी दस्तुरान विचारिल्लो प्रस्न (''आमचें 'अवेस्ता' तुमी

वाचूंक ना, आमी तुमचे कडेन झगडनात म्हूण?'') आनी ताचे वेली रवीन्द्रबाबांली टिप्पणी (पारशां विशीं 'आमी उदासीन') वाचून मन खुनळायल्ले वरी जाता.

आनीक एक देख दिवची जाल्यार 'क्रांती जातलीच... कोण करतलो?' ह्या लेखाची दिवची पडटली. आमचे सरभोंवतणीं विषवृक्षा वरी मातिल्ल्या करप्शनरुपी चांडाळचक्राच्या सत्ता-भ्रश्टाचार-लांच ह्या अंतर्चक्रांक लागून देशा मुखार आयज विघटन वा नक्षलवाद हांचो हावको उबो जाला, हें शिटकायतनाच लेखक क्रांती जातलीच, पूण ती धवाड्या वर्गा वरवीं वा भौसा वरवीं न्हय, ही चत्राय दिता. इतलेंच न्हय तर तो मुखार एक सकारात्मक भाकीत उकतायता : ती मध्यमवर्गा वरवीं जातली. पूण हें कुड्ड्या आशावादांतल्यान किल्लल्लें भाकीत न्हय; तें लेखकाल्या जागरूक विश्लेशणाचें फळ. कित्याक काय म्हळ्यार, समकालीन अर्थकारण आनी समाजकारण हांचे मदली निसरगांठ ताका होलमल्या. तो जाणा, चैनीची ओड लागिल्ल्या नवश्रीमंतांतलो अर्द्या परस चड वर्ग भोवजन समाजांतलो. पूण मध्यमवर्गांतलो एक व्हड घटक 'नानाकार चलयता', तो 'निर्शेला' आनी सॅझ, आयटी, शारीकरण, उद्‌देगीकरण ह्या गिराणांनी ग्रासून उबगल्लो तोच घटक घडये क्रांती हाडटलो हो लेखकाचो अदमास. आनी, 'गोंयांतलो हो भार सगलो देश पेटयतलो' हो तागेलो आशावाद. आपले पिके पिरायेर रवीन्द्रबाबांक उतरां फुट्टात, ''वांचून उरल्यार पुरो म्हणटां हांव ताका पळोवपाक आनी ताचे क्रांतींत वांटो घेवपाक.'' असो सकारात्मक दिश्टीकोण बाळगुपाचें बळगें आनी तो उकतावपाचें धाडस हेर लेखांनीय लख्ख बरें दिश्टी पडटा.

अशे तरेची जिविता विशींची धारणा आनी आस्था होच ह्या पुस्तकांतलो खरेलो 'मधुर रस', अशें म्हाका तरी दिसता. रवीन्द्रबाबांल्या ह्या वेंचीक लेखांची साहित्य म्हूण 'सार्थकताय' आनी 'युगानुरुपताय' तांचे सकारात्मकतायेंत आनी ते वरवीं वाचप्याक लाभपी कृतीपरक उत्तेजनांत आसा. स्पश्टपणान, अकृत्रीम भाशेंत समकालीन जिणेक भेश्टावपी प्रस्न आनी तांचे फाटलें कूट कारस्थान ह्न जावं अर्थकारणाचें वा राजकारणाचें, समाजकारणाचें वा 'म्हारगाय-कारणा'चें ह्न दाखय-लिपय करनासतना उकतावप म्हळ्यार समजाक जागोवप. ताका जिणेची वास्तव वट सांगप; अशे तरेन समाजाची व्यथा समजाकूच समजावप म्हळ्यार

समाजमनाक जडिल्ली संभ्रमाची अवस्था सुधारप, सामाजीक व्याधी निवळावपाचो यत्न करप आनी निर्वीय स्थितींतल्या समाज घटकाक चेतवप.

हें करचेली भास आनी शैली 'कषाय' (तुरट वा आडूक) रस पिवयल्ले वरी भासुये पूण त्याच आशयांत एक कार्यकारिता (functionality) आसा. 'कसाय' वा 'काढो' कुडीच्या दुयेंसांचेर जशें कार्य करता, तसलेंच काम ती सामाजीक वायटांचेर करता. हाकाय 'कषाय' म्हणूंक जाय. हे वरवीं वाचप्याक जिणेची चड सखोल जाण मेळटा. पूण इतलेंय करून, वाचपी निराश जावचो ना, विटून विरागी जावचो ना, जियेवपाचे काडाओडींतल्यान आंग काडून घेवन निश्क्रीय जावचो ना, हाचीय जतनाय लेखकान ह्या पुस्तकांतल्या चडांत चड लेखांनी घेतल्या.

एक म्हळ्यार, आदीं सांगलां तशें, अदीक सकारात्मक नदरेन संवसाराक पळोवंक, अदीक कृतीशील जावन जियेवपाक झटूंक हो लेखक वाचप्याक प्रवृत्त करता. दुसरें म्हळ्यार, एकाद्रो लेख वाचून विरूस जावन वाचप्यान पुस्तक कडेक सारचें न्हय हाची जतनाय लेखकाची बरपाची धाटणी घेता. हातूंत तागेली उत्सुकतावर्धक निवेदनाची शैली, नाविन्यपुराय तपशिलाची सतत पुरवण करपाची क्षमता, आनी आख्यायिका-वदंता-कथिका-निरिक्षणां हांची हात सोडून जावपी शिंवरण वाचप्याक पुस्तकांतले गोडसाणीचेर खिळावन दवरता. फुडें कितें हाचो सोद घेवंक तत्पर दवरता. तागेली सभावीक जिज्ञासा आनी सैमीक कुतुहल हांकां बेस बरीं केळयता. फुडें फुडें वाचूंक प्रेरीत करता. वाचपी मुखार वता तसो तसो म्होंवाळपणाचो सांटो उणो जायना... उशीकांड्याच्या वयल्या पेरा कडल्यान सकयल्या पेरा मेरेन वाडत वचपी गोडसाणे वरी...! पूण ही गोडसाण भावनीक उचांबळायेची वा वासनांच्या भारा सारकी खिणयाळी न्हय. ती सताचो सोद घेवंक पळोवपी मतीक दिल्ले थाकायेची, गिन्यानाक भुकेल्ल्या मनाक दिल्ल्या भरावाची आनी परिवर्तनाक आशेवपी समाजाक केल्ल्या मार्गदर्शनाची!

देख म्हण, 'पारशां विशीं हिन्दू सामकेच उदासीन कशे?' हो लेख पळोवं येत. हातूंत म्हायती आसा, गिन्यान आसा, भासाभास आसा, आख्यायिका आसात, उद्धरणां आसात, संशोधकी नदर आसा आनी आदली 'मौलीक' विसकावणी वापरून काडिल्ले कांय निष्कर्श आसात, तश्योच घसघशीत पुराव्यांच्या अभावान ताटकळून उरिल्ल्यो कांय

अवधारणाय आसात. असले लेख वाचून व्यासंगी अभ्यासकय सुखावता आनी जिज्ञासूय मुजरत व्यासंगा वटेन वळटा.

*कषाय मधुर* वाचून खंयचोच वाचपी थटाकना, अस्वस्थ जायना. उत्तेजीत जायना असो ह्या विवेचनाचो अर्थ न्हय. वाचप्याक provoke करप हो तर रवीन्द्रबाबां भितल्ले विचारपरक वृत्तीचो छंद. वाचपी विचार करूंक, मुद्द्यांचें खंडन-मंडन करूंक 'उद्युक्त' जाले बगर तो सर्वांगी समज मेळोवंक पावना. देखून, जेन्ना एका वाचप्याक 'देश शंबर वर्सां फाटीं गेला ह्न सावरकरांक लागून' वाचून तकलेंतलो घयरांव निवळ जाल्ले भशेन दिसता, तेन्ना दुसऱ्या 'उजवे' विचारसरणेच्या मनशाक सावरकरांच्या 'अशीर मनाच्या हिन्दुत्वा'चो उल्लेख खटकूं येता. पूण बारीकसाणेन हो लेख वाचल्यार लेखकानूय 'अंदमान बंदखणीं'तल्या सावरकरांक हातूंत वेगळी सुवात दिल्या हें होलमता. तशेंच, उकत्या मनान चिंतल्यार, विवेकानन्दाचे प्रेरणेन रवीन्द्रनाथ, अरविन्द, उपरांत गांधी आनी तांचे सांगाती 'हिन्दू आसुनूय सर्वधर्मसमभावी जाले' हें लेखकाचें विधान कसल्याच बौद्धीक आडमेळ्या बगर मानून घेवंक जाता.

तशेंच, 'हिन्दू मुखावेलीं आव्हानां' हातूंत व्यक्त केल्लें लेखकाचें निजी मत ह्न 'हिन्दू समाज संघटीत करूंक मुसलमान वा ख्रिस्ती समाजाच्या दुस्वासाचें धृति-तत्व वापरलां' ह्न थोड्या-भोव अशीर शिमांनी बांदल्यार आक्षेप घेवपा सारकें दिसता. पूण सर्वांगीण सामाजीक-धार्मीक यथार्थाचो जो संदर्भ तांणी थंय दिला, ताचे वेल्यान त्या विधानांतली सत्यासत्यताय थारावंक मेळटा. आनी तें मत पट्टाय.

पूण 'तांचे इतलेच हिन्दू धर्मकोल्ली' ह्या लेखांतल्या कांय विधानांक पौराणीक अतितायेचो दर्प उरिल्ल्यान तातूंतली तार्कीक वट मातशी मोटवी उरिल्ली जाणवता. देखून, तांचेर आदारिल्ले निश्कर्ष तशातशे आपणावंक आडखळ जाता. देखीक, "ते 'कॅनिबल्सूय' आशिल्ले. अगस्ती रुशी तर दोन दोन तीन तीन राक्षस एकेच फावटीं खावन पचयतालो म्हणपाची ताची नामना आशिल्ली" ह्न ही म्हायती "अगस्ती तिबेटी लोकांक... मारून खातालो असो हाचो अर्थ जाता" हें विधान स्विकारपाक उणी पडटा. तशें केल्यार 'अगस्तीन समुद्र पियेवन उडयलो' ही आख्यायिका मान्य करपा खातीर आनीक खंयच्याय संदर्भांत दबाव येवंक शकता. म्हूण "जैनां संबंदान (धर्मानंदांनी) असलें कितेंय बरयल्यार ते खुबताले.




म्हूण जाय जाल्यार, हो वादाचो विशय अशें म्हणून आमी तो कडेक दवरुया'' हे लेखकाले समजिकायेचो लाभ हिन्दू संबंधीचे चर्चेकूय दिवचो पडटा.

पूण कांय लेखांनी रवीन्द्रबाबांची सभावीक समजिकाय, डोळस आपुलकाय आनी सुक्षीम जाण हांचे वांगडा भोवच हृदयस्पर्शी तशेंच म्हायतीपूर्ण बरप वाचप्याचे सुपूर्द करता. हातूंत कांय व्यक्तीचित्रणां आसात: 'सुनीतिभास्कर' लिंगूबाब रघुवीर दळवी (लेखकाचो 'मातुल' आजो), मनोहरराय, त्रिश्तांव, आचार्य कृपालानी हांचो तांचे भितर आसपाव जाता. कांय अशेय लेख आसात जे आमच्या दोळ्यांत अंजन घालतात : हातूंत. 'कालिगुला', 'काझेमीरु मोन्तैरु', 'डॉ. राधाकृष्णन', 'गुजरात पॅटर्न' हे आसात. पूण 'उपरांतची राष्ट्रपतीची वेंचणूक' हातूंत अब्दुल कलामांक आडमुटें माप मेळ्ळां काय, अशें दिसले बगर रावना.

'म्हारगाय ह्व कारण' आनी 'कोडसाणीचेर जैत...' हे म्हाका भोव आवडिल्ले लेख. 'आयज ताका फाल्यां घडये आमकांय' होय लेख अतिशय सोबीत दिसलो ह्व प्रभावी आनी प्रेरणादायी. खरेपणान *कषाय मधुर*चो मुवाद आनी परिणाम एका वांगडा केळोवपी. विद्वानांनी म्हळां, 'परंपरेन विद्यादान आनी आरोग्यदान हीं सर्वश्रेष्ठ'. हे परंपरेक धरुनूच घडये, रवीन्द्रबाबान आपल्या बारा वर्सांच्या (सादारणपणान १९९६-९७ मावन २००८-०९ मेरेनच्या) काळा वेल्या ह्या पुस्तकांतल्या लेखांतल्यान व्यक्तीक विद्यादान आनी समाजाक आरोग्यदान करचेलो संकल्प केल्लो दिसता. ह्या संकल्पांतल्यानूच *कषाय मधुर* पुस्तकरुपान अवतरलां. ह्या नव्या अवतारांत अळंग ओडिल्लो माधवीबाय सरदेसायाचो संपादकी हात वाचप्याक जाणवता पूण दिश्टी पडना. लेखांचे येवजून करून केल्ले मांडावळीक लागुनूय हें पुस्तक वाचप्याचेर एक आगळो वेगळो परिणाम करता. हे खातीर माधवीबाय तोखणायेक पात्र थारता.

*कषाय मधुर* एका आधुनीक तपस्वी-संवेदनेच्या पुराय तपाचें संचीत; पूण तातूंतल्या धारणा-अवधारणांचें, आलोचना-अवलोकनांचें पाथेय पळेल्यार ताका भावी बदलाचें आश्वासक अर्जीत म्हणूंक जाय. तातूंत युगान्तराची संभावना लिपल्या आनी... भाकितूय!

**- डॉ. किरण बुडकुले**

# मांडावळ

१.

# इतिहास परतून मूळ पदार

कोणाकूय आपणालो शिष्य करून घेवचे पयलीं बुद्ध ताका पांच सोपूत घेवंक लायतालो ह्य

१. हांव फटींगपणां करचों ना.

२. हांव प्राणघात करचों ना.

३. हांव चोरी करचों ना.

४. हांव व्यभिचार करचों ना, आनी

५. हांव चैनींत लोळत रावचों ना.

ह्याचो अर्थ, बुद्धाचे मुस्तींतलो लोक फटींगपणां, प्राणघात, चोरी, व्यभिचार करीत आयिल्लो आनी चैनींत लोळप हाकाच जियेवप मानतालो, असो जालो ना? बुद्धाक एक नवो समाज घडोवपाचो आशिल्लो. जांच्या आधारान तो हो समाज घडोवंक सोदतालो तांच्या निजी जिवितांत कांय नेम चलिल्ले तो पळोवंक सोदतालो. तांचे देखीन समाजूय ह्या नेमांक पाळो दितलो अशी आस्त बाळगितालो.

आनी, हे भाशेन, समाजाचो नितीचो पांवडो वयर व्हरूंक आंवडेतालो.





बुद्धा उपरांत सुमार अडेज हजार वर्सांनी गांधी आयलो. ताकाय देश घडोवपाचो आशिल्लो. जांच्या आधारान तो देश घडोवपाक सोदतालो तांच्या प्रशिक्षणा खातीर ताणें एक आश्रम सुरू केलो आनी आश्रमांत येवन रावतल्यां खातीर ताणें एक नेमावळ तयार केली. हे नेमावळींत बुद्धाच्या 'पंचशीलां'तल्या पांच नेमां भायर आनीक स नेमांची ताणें भर घाली आनी तांकां 'एकादश व्रत' (इकरा व्रतां) हें नांव दिलें.

थोड्या लोकां मजगतीं जावं, पुणून ह्या नेमांक (इकरा व्रतांक) पाळो दितल्या लोकांनी देशांत चारित्र्याची एक शेगडी कांय वर्सां पेटत दवरली. तिका लागून देशाच्या चारित्र्याचें तापमान कांय डिग्री तरी वाडूंक पाविल्लें.

पुणून, बुद्धाचें जालें तेंच जिस्त गांधीचें जालें. बुद्ध आसासर देशाच्या चारित्र्याचो पांवडो वयर सरत रावलो आनी तो वयर सरिल्ल्यान बुद्धमत्त संवसारभर पातळूंक पावलें. तागेलें परिनिर्वाण मात जालां, देश आशिल्लो तसो इल्लो इल्लो करून फटींगपणां, मारामारी, चोरी, व्यभिचार आनी चैनींत गुल्ल जालो.

तो अवनतीच्या ह्या पांवड्यार पावला त्याच वेळार जिस्त यवन, शक, पहलवी, कुशाण बी वाटमारे एका फाटल्यान एक घुरयो घालून येत रावल्यात आनी देश हजार देड हजार वर्सां परक्यांचो बंदो जावन उरला.

कितल्याश्या शतमानांच्या बंदेपणा उपरांत १८५७त तो पर्थून एक फावट तकली वयर काडून उबो रावलो. १९१७ मेरेनच्या काळांत ताणें वयर सरपाचे कितलेशे यत्न केले. संस्कृतायेच्या मळार सगळ्यांत चड केले. गांधीच्या हातांत रासवळ जिविताचीं सुतां आयलीं तेन्ना देश पर्थून एक फावट वयर सरपाक लागलो आनी तीस पस्तीस वर्सां भितर एक 'सार्वभौम प्रजासत्ताक राष्ट्र' ह्या रुपान संवसारा मुखार उबो रावलो.

गांधीची हत्या मात जाल्या, आरे आरे म्हणटासर पन्नास वर्सां भितर देश आशिल्लो तसो फटींगपणां, मारामारी, चोरी, व्यभिचार, चैनीच्या आपल्या मूळ पांवड्यार येवन रावला.

आनी, नव्या वाटमाऱ्यांच्या ह्व भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या ह्व नव-साम्राज्यवादाचें एक आंग जावन पडला.

('जाग', ऑगस्ट २००२)





## २.

# वेव्हारवादी राजकर्ण

जें रोयतात तेंच आमी लुंवंक पावतात. अळसांदे रोयले जाल्यार अळसांदेच काड्डूंक पावतले. मूग काड्डूंक पावपाचे नात. गंव रोवन तांदूळ काड्डूंक येना. पणस रोवन नाल्ल काड्डूंक येनात आनी माड रोवन आंबे काड्डूंक येनात.

सैमाचो एक बुन्यादी नेम हो. जिविताच्या सगळ्या आंगांक लागू जाता हे तरेचो. राजकर्णाक तर चड्डूच.

राजकर्ण ध्येयवादाक धरून चलतालें ते मेरेन देशांत एका फुडले एक त्यागी तपस्वी फुडारी निर्माण जायत राविल्ले. राजकर्ण एक दीस वेव्हारवादी जालें आनी गडगडत गडगडत अश्या एका तळाक वचून पडलें की जंयच्यान चिमणभाई पटेलां सारके फुडारी आनी राज़ रिसालदारा सारकेले तांचे सरदारूच निर्माण जावपाक लागले.

चिमणभाई आज नात. पुणून आशिल्ले तेन्ना देशांतले सगळे वेव्हारवादी फुडारी तांचे कडेन लक्तुबायेन पळेताले. 'सक्सॅसफूल लीडर' म्हणून तांचे कडेन पळेताले. 'अमकें एक काम जावपाचें ना' हीं उतरां चिमणभाईंच्या तोंडांतल्यान केन्नाच

भायर सरनाशिल्लीं. ताचे बदला ‘अब्बा! कशें जावचें ना, पळोवया’, अशें म्हणून ते काम आंगार घेताले आनी करुनूय दाखयताले. मनार घेतिल्लें खंयचेंच काम तांणी जावचें ना म्हूण सोडून दिवंक ना. नर्मदा धरण बांदुंकूच जाय अशें तांणी थारायलें. मेधा पाटकरांनी कितलेय उपास करूं, तांणी पर्वा करूंक नाशिल्ली. कर तूं उपास, नर्मदा धरण जातलें, अशें म्हळ्ळें. वर्ल्ड बँकेन दुडवांचो आधार दिना म्हूण सांगलें. ‘तुमच्या दुडवांचेर म्हजें कांयच अडून उरपाचें ना... हांव धरण उबें करतलों’ अशें म्हणून तांणी संवसारभर पातळ्ळेल्या गुजराती ‘एन्‌आर्‌आयं’ (नॉन रेझिडन्ट इन्डियन्सां)क फोन लायले आनी आठ दिसां भितर जाय आशिल्लो सगळो दुडू उबो केलो. अमेठींत काँग्रेसीचें अधिवेशन भरचें अशें नरसिंहरावांनी थारायलें. नरसिंहरावां कडेन दुडू नाशिल्लो. तांणी कॅप्टन सतीश शर्मांक चिमणभाईं सरीं धाडून दिले आनी कॅप्टन शर्मा जाय आशिल्लो दुडू घेवन दुसऱ्याच दिसा दिल्लीक परतले.

चिमणभाई गुजरात राज्याचे कर्तुम-अकर्तुम-अन्यथा कर्तुम फुडारी आशिल्ले.

मुदलांत काँग्रेसीचे एक सादे कार्यकर्ते. गुजरात राज्यांत जीवराज मेहतांचें सरकार चलतालें. मोरारजीभाईंक जीवराज मेहता नाका आशिल्ले. चिमणभाईंचेर मोरारजीभाईंची नदर गेली. केल्यार होच कितेंय करीत, अशें येवजून तांणी एक दीस चिमणभाईंक विचारलें, ‘करशीत व्हय तूं एक काम म्हजें? जीवराज मेहतांक सत्ये वयले देंवोवंक जाय.’ ‘येदो व्हड एक फुडारी आपणाक येदें व्हड काम करूंक सांगता जाल्यार ना कित्याक म्हणटलों हांव?’ अशें म्हणून चिमणभाईंनी ‘पावलें म्हजेर’ अशी तांकां जाप दिली. आनी त्याच खिणा पसून ते कामाक लागले.

कांय दिसां भितर जीवराज मेहतां आड तांणी अविस्वासाचो थाराव हाडून तांकां सत्ये वयले निखळायले!

मागीर? एका फुडलीं एक पावलां घालीत चिमणभाई एक दीस गुजरात राज्याचे मुखेलमंत्री जाले. आनी अशे तरेन राज्य करपाक लागले की लोकांक ते भस्मासूरा सारके दिसपाक लागले. गुजरात राज्यांतलो सगळो लोकच ह्या मनशाक सत्ये वयलो देंवोवंक जाय ह्या निर्णयार पावलो. ‘ल्हॅान’ मनीस ‘मोस्ट सक्सॅसफूल’ जाता तेन्ना तो मदांत जाताच जाता म्हणटात तें खरें जाल्लें. लोकांनी ‘नवनिर्माण समिती’ नांवाची एक आघाडी सुरू केली. आनी हे आघाडेन गुजरात राज्यांत

चिमणभाई आड एक व्हडली चळवळ उबी केली. जयप्रकाशां सारकेल्यान हे चळवळीक तेंको दिलो. राजकर्णांत पडनात असले रविशंकर महाराजां सारकेले एक तपस्वी गांधीवादी लेगीत णव्वद वर्सांचे उतार पिरायेर हे चळवळींत पडले. आनी ह्ल

एक दीस चिमणभाईंक देंवचें पडलें!

ते देंवल्यात त्या दिसा पुराय गुजरात राज्यांतल्या बायलांनी ताटांचेर लाटण्यो बडोवन 'गुजरात एका दैत्याच्या शेकांतल्यान मेकळें जालें' म्हूण खोशयेन गजर केल्लो.

खरें म्हळ्यार, त्याच दिसा चिमणभाईचें राजकी जिवीत सोंपूंक जाय आशिल्लें. पुणून चिमणभाई ते. सपसप हार खावपी मनीस नाशिल्ले. चिमणभाईंक देंवोवपाक चलिल्ले चळवळीक ज्या जयप्रकाशांचे आशिर्वाद मेळिल्ले, त्याच जयप्रकाशांच्या भक्तांनी एक दीस काँग्रेसीची राजवट सोंपोवन आपणाली जनता पक्षाची राजवट गुजरात राज्यांत हाडली. हे राजवटींत मुखेलमंत्री कोण जावचो? चिमणभाई पटेल!

चिमणभाई सदांच एकेच गजालीक एकनिष्ठ रावल्यात ह्ल सत्येचे कदेलीक. सत्येचे कदेली खातीर तांणी काँग्रेस धरल्या, काँग्रेस सोडल्या. जनता पार्टी धरल्या, तीय सोडल्या. ते खंयच्याय पक्षांतल्यान खंयच्याय पक्षांत गेल्यात. खंयचेय पक्ष फोडल्यात आनी तांकां एकटांय करून नवे पक्ष उबे केल्यात. हे नवे पक्ष गरज भासल्या तेन्ना मोडुनूय उडयल्यात. आयज आशिल्ले जाल्यार ते भाजपांतूय वचत आशिल्ले आनी गेल्ले जाल्यार कोणाक अजाप जावचें नाशिल्लें.

राजू रिसालदार हो चिमणभाईंचो सरदार!

राजू वीस बावीस वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना बडोद्यांतल्या सिनेमा टॉकिजां मुखार उबो रावन काळ्या बाजारांत तिकेटी विकतालो. चार पयशे जोडटालो तितले ताका पुरो जाताले.

एक दीस ताका ताचेच पिरायेचो एक भुरगो मेळ्ळो. 'तिकेटी कितें विकता?... हांव तुका हाचेकूय बरो एक धंदो दितां... यो म्हजे वांगडा' अशें म्हणून तो राजूक एका स्मगलरा सरीं घेवन गेलो. हांगासल्लें भांगर थंय व्हरून पावयतकच जालें, घे म्हणून पयसो मेळटा म्हणपाचें राजून पयलेच 'हेराफेरीं'त पळेलें. ताणें सिनेमाच्यो तिकेटी ब्लॅकांत विकपाचो धंदो सोडून दिलो आनी हो नवो धंदो सुरू केलो. एक

खेपे ताका पुलिसांनी धरलो. राजू पयलीं भियेलो. पुणून पुलीस खात्यांत एक व्हड अधिकारी तागेलो एक सोयरो आशिल्लो. राजून ताचे पांय धरले. 'हे खेपे तुका सोडटां... हे मुखार असले धंदे करचो ना मू?'

'ना, केन्ना करचों ना,' राजू उतर दिवन सुटून आयलो.

कांय दिसांनी पुलिसांनी ताका परतो धरलो. राजून तांकां म्हळें, 'म्हाका धरून कांय फायदो ना... हांव सुटून येतां हें तुमी पळेतात, म्हजे वाटेक कित्याक वतात?' अशें म्हणून राजून तांकां 'हप्ते' दिवपाचें उतर दिलें. पुलीस हप्ते घेवपाक लागले. राजूचो धंदो नेटान चलपाक लागलो. पयलीं इल्लें इल्लें भांगर हाडून हेवटेनचें तेवटेन पावयतालो. आतां भंय नाशिल्लो. स्मगलर्स दितात तितलेंय ह्व गाडे भरून ह्व हाडून पावोवपाक लागलो.

एक दीस कांय 'बिल्डर्सां'ची नदर राजूचेर गेली. बडोद्यांतल्यो पोरण्यो बिल्डिंगो मोडून तांकां नव्यो बांदपाच्यो आशिल्ल्यो. अडचण येताली ती पोरण्या बिल्डिंगांनी भाड्यान रावतल्या लोकांची. तांणी राजूक विचारलें, 'हांकां थंयचे धांवडावंक जाय. करशीत व्हय तूं हें काम आमचें?' राजू ना कित्याक म्हणटलो? ताणें बिल्डिंगांनी रावतल्यांक धमक्यो दिवन त्यो रित्यो करून दिल्यो. राजूक खूब पयसो मेळ्ळो. बिल्डर्स ह्या 'कर्तुत्वी' भुरग्याक जाय तितलो पयसो दिवपाक लागले. बिल्डर्सांनी मागीर ताका आनीक एक काम करूंक सांगलें. बडोद्यांतल्या झोंपडपट्ट्यांनी रावतल्या लोकांक धांवडावन घालपाचें. झोंपडपट्ट्यांनी चडशे मुसलमान रावताले. राजू शिवसेनेचो कार्यकर्तो जालो. 'साल्यांनो, पाकिस्तान जाय आशिल्लें न्हय तुमकां? तुमकां पाकिस्तान मेळ्ळें... आतां हांगा रावपाचो तुमकां कसलो अधिकार? वतात काय ना तुमी हांगासल्ले?' अशें म्हणून ताणें उजो लावन झोंपडपट्ट्यो लासून उडयल्यो. कांय मुसलमानांक मारुनूय उडयले. मुसलमान जीव मुठींत घेवन पळ्ळे. झोपडपट्ट्यो 'साफ' करून ताणें जमनी बिल्डर्सांक मेळोवन दिल्यो.

राजू कडेन पयसो खूब एकठांय जावपाक लागलो. तशे मनिसूय ताणें खूब एकठांय केले. कोणाक रिक्षा घेवन दिल्यो, कोणाक पिकपी दिल्यो. जाल्यार कोणाक ट्रक. सगळ्यांक पोटाक लायले. आपुणूय एका बंगल्यांत रावपाक लागलो. चक्क बरे एके कोंटेसा गाडयेंतूय भोंवपाक लागलो.

एक दीस 'सुपारी घेवन' कांय जाणांचो 'कांटो काडपाचें' काम ताणें सुरू

केलें हाका लागून चिमणभाईंचें लक्ष ताचे कडेन गेलें. चिमणभाई राजू कडल्यान असलीं कामां करून घेवपाक लागले. राजू आड पुलिसेंत कितल्योश्यो केशी गेल्यो. पुणून जाचे फाटल्यान व्हडले व्हडले लोक आसात ताका धरपाचें काळीज ह्या देशांत खंयच्या पुलीस अधिकाऱ्याक जालां? 'कांटो काडपाचो' राजूचो धंदो नेटान चलत रावलो.

एक दीस बडोद्याच्या रेल्वे स्टेशनार अशोक भोगीलाल नांवाच्या एका मनशाचो दनपारच्या कडार खून जालो. अशोक सटरफटर मनीस नाशिल्लो. गुजरात काँग्रेसीचो ट्रेजरर आशिल्लो. ते भायर चिमणभाईंचो आनी माधवसिंह सोळंकींचो 'खास' मनीस आशिल्लो. ताचो खून करपी मनीस राजूचो 'उजवो हात' आशिल्लो. पुराव्यां सयत तो 'सांपडिल्लो'. पुणून कोर्टांत पुलिसांनी ताचे आड जी केस मांडली ती इतली दुबळी आशिल्ली की कोर्टाक ताका 'निर्दोष' म्हणून सोडून दिवचो पडलो. तो उकत्या माथ्यान बडोद्यांत भोंवपाक लागलो. तेन्ना राजूचे 'टोळये'क व्हडल्या व्हडल्यांचो आशिर्वाद मेळ्ळा, अशें लोक उकतेपणीं उलोवपाक लागले. अशोक भोगीलालाची हत्याय ह्या व्हडल्या व्हडल्यांचे सांगणेन जाल्या जावंक जाय अशें म्हणपाक लागले. अशोक भोगीलाल चिमणभाईंकूय जड जाल्लो तसो माधवसिंह सोळंकींकूय जाल्लो.

कांय दिसांनी दिनेश पाठक नांवाच्या एका पत्रकाराचो खून जालो. आपूण हाचो 'कांटो काडपाचो आस्सां' अशें राजू उकतेपणीं लोकांक सांगतालो. इतलेंच न्हय, तर तो अशें म्हणटा म्हूण खबरेपत्रांनी छापुनूय आयिल्लें. सामान्यतायेन असलें कितेंय छापून आयलें म्हणटकूच हांवें तशें म्हणुंकूच नाशिल्लें ह्या अर्थाचो 'खुलासो'य दुसऱ्या दिसा त्याच खबरेपत्रांत उजवाडा येता. राजूक असलो खुलासो करपाची गरजूय भासूंक नाशिल्ली. कित्याक, सांगपाची गरज आसा? ह्या दिनेश पाठकाचो 'कांटो काडपाचो' निर्णय ताचो नाशिल्लो. तो 'वयल्यां'चो आशिल्लो. अशोक भोगीलालाचो कांटो काडटकूच दिनेश पाठकाचो काडपाक राजूक कसलीच अडचण नाशिल्ली. अशोक 'वयल्यांचे' नदरेन 'सोरोप' आशिल्लो जाल्यार दिनेश 'सोरपाचो पिलो' आशिल्लो. राजू दिनेशाच्या ऑफिसा म्हऱ्यांत गेलो आनी दिनेश ऑफिसांत भितर सरता आसतनाच ताणें आपणाल्या हातान गुळयो सोडून ताचो खून केलो.

दुसऱ्या दिसा 'टायम्स ऑफ इंडिया'चेर ही खबर पयल्याच पानार छापून

आयली. इतलेंच न्हय तर खून करपी मनीस राजू रिसालदार नांवाचो एक 'माफिया डॉन' आनी तो चिमणभाईंचो 'खास' मनीस म्हुण्णूय छापून आयलें. कोणें कसलोच 'खुलासो' धाडलो ना. कित्याक,खबर खरी आशिल्ली. बडोद्यांत दुसऱ्याच दिसा एक व्हड मोर्चा भायर सरलो. राजू पसून दुखावल्ले सगळे मोर्चांत आशिल्ले. पत्रकार सगळ्यांत मुखार आशिल्ले. सभा जाली. एका दिसाचो 'बंद' जाहीर जालो. आनी लोक उकतेपणीं चिमणभाईं कडेन जाप मागपाक लागले.

'राजूचो आतां कांटो काडचो पडलो' ह्या चिमणभाई मुखार दुसरो उपाय उरूंक नाशिल्लो. राजूक धरून हाडात म्हूण तांणी रोखडोच पुलिसांक हुकूम सोडलो. राजू बडोद्यांत नाशिल्लो. मुंबय गेल्लो. 'मुंबय वचून ताका धरून हाडात', चिमणभाईन तांकां फर्मायलें. पुलीस मुंबय गेले आनी राजूक तांणी धरलो.

राजूक धरिल्ल्याची खबर कानार पडना फुडें 'राजू आतां जितो बडोद्याक पावपाचो ना' अशें गुजरातभरचे लोक म्हणपाक लागले.

कित्याक जितो पावपाचो ना? जितो हाडलो जाल्यार ताका कोर्टांत उबो करचो पडटलो आशिल्लो. ताचे आड गवाय दिवपी मनीस हाडचे पडटले आशिल्ले. कोण येवचे नाशिल्ले. कित्याक, आनीक एक खेपे कोर्टान ताका 'निर्दोष' म्हूण सोडून दिल्लो तसो हे खेपेय सोडून दिलो जाल्यार ताचे आड गवाय दिवपी कोण उरचो नाशिल्लो. आपणाक धरला तो पुलिसांनी न्हय, तर जांणी आपणा कडल्यान कांय जाणांचे कांटे काडून घेतिल्ले तांणी, इतलें सांगपा इतली अक्कल राजूक आशिल्ली. कोर्टांत वकिलांनी ताची उलट-तपासणी सुरू केल्ली जाल्यार तो खरें तें सगळें मेकळेपणान सांगून उडयतलो आशिल्लो. चिमणभाईं सारकेल्यांक हें म्हारग पडटलें आशिल्लें. ताका जितो हाडप चिमणभाईंक पुटवपाचें नाशिल्लें.

पुलिसांनी ताका धरलो. बडोद्याचे गाडयेंत बसयलो आनी नवसारीक पावपाक 'हो गाडयेंतल्यान पळून वचपाचो यत्न करतालो' अशें सांगून ताचेर गुळयो घालून ताका मारून उडयलो.

राजूचें प्रेत बडोद्याक पावलां त्या दिसा चिमणभाईंच्या जल्मदिसाचो सुवाळो आशिल्लो. चिमणभाईन लोकांक एक व्हडली 'पार्टी' दिल्ली. थंय पुलिसांनी चिमणभाईंक ही खबर 'भेट' म्हूण दिल्ली. आनी चिमणभाई ही भेट घेवन खोश्शी जाल्ले.

वेव्हारवादी राजकर्णान निर्माण केले ते चिमणभाईं सारके 'मोस्ट सक्सॅसफूल'

फुडारी आनी राजू रिसालदारा सारके 'मोस्ट फेथफूल' 'कार्यकर्ते'.

दुसरेय पक्ष आतां कॉंग्रेसीच्या पावलार पावल दवरून हेच वाटेन मुखार चलपाक लागल्यात.

'बऱ्या लोकां'क उबे करून वेंचून हाडात म्हूण राष्ट्रपतींनी वा वेंचणूक कमिशनरान राजकी पक्षांक कितलेंय सांगूं, राजकर्ण जे मेरेन वेव्हारवादाक धरून चलतलें ते मेरेन राजकी पक्षां मुखार दोनूच ध्येयां उरतलीं ह्य

१. 'कशेय भाशेन' सत्येर येवप, आनी

२. सत्येर येतकूच 'कशेय भाशेन' सत्येक दसून रावप.

आनी ते मेरेन राजकर्ण चिमणभाई सारकेले फुडारी आनी राजू रिसालदारा सारके कार्यकर्तेच निर्माण करीत रावतलें.

'बऱ्या लोकांक' वेंचून हाडपाचें भाग्य आमकां मेळपाचें ना.

('जाग', मार्च १९९८)



## ३.

# डॉ. राधाकृष्णन

डॉ. राधाकृष्णनांक सगळें समजल्लें. समजलें ना तें फकत *'स्वधर्मे निधनं श्रेय: परधर्मो भयावह:'* हें तत्त्व. म्हूण पडले ह्म लोकांचेय नदरेंतल्यान, आनी आपणालेय नदरेंतल्यान.

तांचें नांव घेना फुडें कसली प्रतिमा येता आमच्या दोळ्यां मुखार? एका व्हड तत्त्ववेत्त्याची. भारतीय संस्कृतायेच्या एका व्हड भाष्यकाराची. एका व्हड प्रॉफेसराची. एका व्हड विद्वानाची. बऱ्यांतल्या बऱ्या एका वक्त्याची. हीच तांची खरी प्रतिमा आशिल्ली. हेच प्रतिमेंत ते सोबताले. साठ वर्सांचे पिरायेचे जाय सर ते फिलॉसॉफर, प्रॉफेसर, विद्‌वान, ह्याच रुपान संवसारांत चलताले, भोंवताले.

साठ वर्सां जातकूच अवचीत तांणी आपणालो स्वधर्म सोडलो, आनी नवो सूर ते आळोवपाक लागले. तांणी जवाहरलालांचें लक्ष ओडून घेतलें आनी 'कॉंस्टिट्युअंट एसेंब्लीं'त आपणा खातीर एक सुवात करून घेतली. रोखडेच 'युनिव्हर्सिटी एज्युकेशन कमिशन'चे अध्यक्ष जाले. म्हणटासर 'युनेस्को'च्या अध्यक्षपदार वचून बसले. उपरांत, भारताचे

राजदूत म्हूण रशियेंत गेले. उपराष्ट्रपती जाले आनी निमाणें राष्ट्रपतीपदाच्या आसनार बसले. मुदलांत विद्‌वान म्हूण तांची नामना आशिल्लीच. हुशार म्हुण्णूय लोक तांकां वळखताले. आनी तांगेल्या वक्तृत्वाचेर तर सगळेच भाळिल्ले. ज्या ज्या आसनार ते बसले त्या त्या आसनाची 'शान' तांणी वाडयली. 'काँस्टिट्युअंट एसेंब्ली'तलीं तांचीं उलोवपां, 'युनिव्हर्सिटी एज्युकेशन कमिटी'चो तांचो रिपोर्ट, 'युनेस्को'तलो तांचो वावर, सगळें पळेतकूच दिश्ट कशी लागली ना तांकां असो प्रस्न पडटा.

राजदूत म्हूण ते रशियेंत गेल्यात त्या वेळार रशियेंत स्टॅलिनांचो शेक चलतालो. स्टॅलिन केन्ना खंयच्याच राजदुताक मेळूंक नात. पुणून 'दीस रात पुस्तकांच्या सांगातांत रावपी ह्या राजदुताक आपणाक मेळपाचें आसा' अशें सांगून तांणी राधाकृष्णनांक मुजरत आपोवन घेतिल्ले आनी राजदुता कडेन करतात तसल्यो खबरी करपा बदला संस्कृताय, तत्त्वज्ञान, ईश्वर असल्या विशयांचेर तांचे कडेन मेकळेपणान खबरी केल्ल्यो. उपराष्ट्रपतीपदार तांची नेमणूक जाली तेन्ना स्टॅलिनांची निमाणी भेट घेवपाक ते परतून एक फावट क्रॅमलीनच्या राजम्हालांत गेल्ले. बरोऽ वेळ उलयले उपरांत ते उठले तेन्ना खंयच्याय प्रॉफिसरान आपणाल्या विद्यार्थ्याचे तकलेर हात दवरून ताका आशिर्वाद दिवचो तसो स्टॅलिनांचे तकलेर हात दवरून तांकां तांणी आशिर्वाद दिलो! खंयच्याच राजदुताक वा राजनेत्याक आयजवेर असलें कितें करपाचें सपनांत लेगीत काळीज जावचें नाशिल्लें. स्टॅलिनान खंय मागीर म्हळें, म्हाका 'मनीस' मानून म्हजे कडेन उलोवपी होच एकलो मेळ्ळो म्हाका म्हज्या पुराय आयुष्यांत. स्टॅलिनांचे दोळेय खंय ह्या उतरां वांगडा ओले जाल्ले.

उपराष्ट्रपती ह्या नात्यान ते राज्यसभेचे अध्यक्ष आशिल्ले. युनिव्हर्सिटींतलो वर्ग चलोवचो तशी तांणी राज्यसभा चलयल्ली. शिस्त म्हळ्यार कितें ती तांणी जवाहरलालांकूय खंय एक दोन खेपे शिकयल्या.

उपराष्ट्रपतीपदाचो पांच वर्सांचो टर्म सोंपले उपरांत तांकां राष्ट्रपतीच्या आसनार बसपाची इत्सा जाली. हातूंत चूक कांयच नाशिल्ली. तो तांचो अधिकारूय आशिल्लो. पुणून राजेनबाबू राष्ट्रपती आशिल्ले आनी तांकां आनीक एक टर्म मेळूंक जाय अशें कांय काँग्रेसी फुडाऱ्यांचें मत्त आशिल्लें. राजेनबाबूंक हालोवन आपणाक ते सुवातेर बसूंक मेळचें म्हूण राधाकृष्णनांनी ज्यो लटपटी खटपटी

उपरांत सुरू केल्यो तातूंत तांचो पांवडो लोकांक कळ्ळो. पयलीं तांणी उत्तर/दक्षीण वेगळेचार सुरू केलो. प्रधानमंत्री उत्तरेचो आसलो जाल्यार राष्ट्रपती दक्षीणेचो आसूंक जाय अशें म्हणपाक लागले. राजेनबाबू बिहारी. म्हळ्यार एके नदरेन उत्तरेचेच. तांकां कडेक दवरून आपणालें नांव मुखार येवचें म्हूण तांणी दक्षीणेंतल्या राज्यांतल्या मुखेलमंत्र्यांक फूस लावपाचो यत्न केलो. हे मुखेलमंत्री दक्षीणेंतले आसले तरूय देश स्वतंत्र जावचो हे खातीर झुजिल्ले. स्वतंत्रतायेच्या झुजा कडेन कसलोच संबंद नाशिल्ल्या डॉ. राधाकृष्णनां परस राजेनबाबू तांकां चड लागींचे आशिल्ले. उत्तर/दक्षीण कसवटणी व्हडलिशी चलपाची ना म्हणपाचें पळेना फुडें तांणी राष्ट्रपतीपदार कोणेंच पांच वर्सां वयर आसूंक जायना असो एक नेम करूंक जाय, अशें म्हणपाक सुरवात केली. जवाहरलालांक राजेनबाबू राष्ट्रपतीपदार परते आयिल्ले नाका आशिल्ले. ते राधाकृष्णनांकूच राष्ट्रपती करूंक सोदताले. पांच वर्सां वयर कोणेंच राष्ट्रपतीपदार आसचें न्हय अशें राधाकृष्णनांच्या सुरांत सूर मेळोवन तेवूय म्हणपाक लागले. तेन्ना काँग्रेसींतल्या कांय जाणांनी प्रधानमंत्रीपदाकूय हो नेम लागू करूंक जाय अशें म्हणपाक सुरवात केली. राधाकृष्णनांक तेंको दिवप म्हारग पडटा म्हणपाचें दिसून येना फुडें जवाहरलालांनी दिल्लो तेंको मोन्यांनी फाटीं काडून घेतलो. राधाकृष्णन दुखावले. दुसरो कोणूय जाल्लो जाल्यार 'म्हाका परतून उपराष्ट्रपतीपद नाका' अशें म्हणून उठून घरा वतलो आशिल्लो. पुणून राधाकृष्णनांनी 'फुडले खेपे म्हजें नांव तुमी राष्ट्रपतीपदा खातीर सुचयतले मू?' अशें विचारून आनी 'हय' म्हूण जवाहरलालां कडल्यान उतर घेवन ते परतून एका टर्मा खातीर उपराष्ट्रपतीपदार बसले. पुणून हे खेपे जवाहरलालां कडल्यान तांणी एक सूट मागून घेतली. 'राज्यसभेचें अधिवेशन नासता तेन्ना म्हाका संवसारभर वेगळे वेगळे कडेन 'रोविंग कल्चरल एंबॅसॅडर' म्हूण भोंवूंक मेळूंक जाय' म्हळें आनी जवाहरलालांनी तांकां ही मेकळीक मोटे खोशयेन दिली.

पुणून ह्या पांच वर्सांच्या काळांत तांणी आनीक एक काम मोटे रुचीन केलें ह्व राजेनबाबूंची वचत ताचे कडेन निंदा-नालस्ती करपाचें. तांच्या चारित्र्या संबंदान कोणाकूय नाका नाका जाल्लें कितेंय सांगपाचें. वीट दिसपा सारकें तांचें हें काम आशिल्लें.

पांच वर्सांचो टर्म सोंपना फुडें राजेनबाबू निवृत्त जाले आनी तांचे सुवातेर राधाकृष्णन आयले. जिस्त ह्या वेळार चीनान भारताचेर घुरी घाली आनी

जवाहरलालांक अर्धांगाचो झटको आयलो.

राधाकृष्णन आतां देशाचीं सगळीं सुत्रां आपणा हातांत घेवपाचीं सपनां रंगोवपाक लागले. सुरवातेक तांणी 'मरऽसर सत्येचे खुर्चेक दसून रावप ही आमच्या फुडाऱ्यांची संवय जावन बसल्या.' अशी जवाहरलालांची (तांचें नांव घेनासतना) टिका सुरू केली. उपरांत सद्दां सकाळीं 'दरबार' भरोवन ते लोकांक मेळूंक लागले. आनी लोक जीं निवेदनां (गाराणीं) तांच्या हातांत हाडून दिताले तीं त्या त्या मंत्रालयांत धाडून ते 'लोकांचीं कामा करून दिवपाक लागले'. हें काम तांचें नाशिल्लें. पुणून ह्या कार्याक लागून सत्या आपणा हातांत आयिल्ले वरी तांकां दिसपाक लागलें. आनी तातूंत तांकां एके तरेचो आनंदूय मेळपाक लागलो. चीनाचे घुरये उपरांत कृष्ण मेननां आड देशांत एक व्हडलें मोड उठलें. राधाकृष्णनूय मेननां आड उलोवपाक लागले. मेननांक सरकार सोडचें पडलें. मागीर जवाहरलालांकूच कुशीक काडून सत्या आपणा हातांत घेवपाचो तांणी बेत केलो. ते खातीर तांणी कामराजांची इश्टागत जोडली. आनी एक दीस तांचे मुखार तांणी आपणाली एक येवजण दवरली. प्रधानमंत्री धरून मंत्रीमंडळांतल्या सगळ्यांनी सोडचिटी बरोवन राष्ट्रपतीं कडेन धाडून दिवच्यो. मागीर कामराजांच्या आधारान राष्ट्रपतींनी नवें मंत्रीमंडळ घडोवचें. तातूंत कांय पोरणे मंत्री दवरचे, कांय नवे घेवचे, अशी ही येवजण आशिल्ली.

कामराजांक केन्द्रीय मंत्रीमंडळांतले कांय मंत्री भायर आयिल्ले जाय आशिल्ले. पुणून जवाहरलालांक काडूंक ते निखालूस तयार नाशिल्ले. तांणी जवाहरलालांक राधाकृष्णनांचे हे येवजणे संबंदान सांगलें आनी जवाहरलालांचेच मान्यतायेन 'कामराज येवजण' म्हूण तांणी ती कॉंग्रेस वर्किंग कमिटी मुखार दवरली. जवाहरलाल सोडून सगळ्यांच्यो सोडचिटी घेतल्यो आनी तेच बराबर 'आयचे परिस्थितींत जवाहरलालांचे सेवेची देशाक खूब गरज आसा' ह्या अर्थाचो एक थारावूय पास करून घेतलो.

राधाकृष्णनांचो तोल सुटलो. 'सगळे भ्रश्ट जाल्यात, सगळे सत्येक दसून रावल्यात, सगळे लांचखायरे जाल्यात, कोण सारकें काम करिनात, सगळे अकार्यक्षम जाल्यात' असली टिका ते करपाक लागले. एका जवाहरलालांक लागून देश असो जाला, अशें सुचोवपाचो तांचो हो यत्न आशिल्लो. एका व्हड मनशाचें येदें व्हडलें हें पतन पळोवन निमाणे कडेन सगळे तांचेर विटिल्ले ह्या 'व्हड

नाशिल्लेच ते. ल्हानूच आशिल्ले. दिशीं दिशीं चडूच ल्हान जायत गेल्यात', अशें खूब जाण म्हणपाक लागले.

तांकां आनीक एक टर्म जाय आशिल्लो. जिस्त ह्या वेळार इन्दिरा गांधींच्या हातांत देश गेलो. इन्दिराजींची तांणी खूब खुशामत केली. आनीक एक टर्म मेळचो म्हूण खूब लटपटी खटपटी केल्यो. पुणून, राधाकृष्णनांची जातकुळी लोकांक कळिल्ली. कोणें तांकां दाद दिली ना. इन्दिराजी तर सामक्योच पयस रावल्यो. टर्म सोंपना फुडें इन्दिराजींनी डॉ. झाकिर हुसेनांक राष्ट्रपतीपदा खातीर उबे करून वेंचून हाडले.

खर्शेल्ले, निर्शेल्ले, अपमानीत अवस्तेंत राधाकृष्णनांक घरा वचून बसचें पडलें.

आयुष्यांतलीं साठ वर्सां जे राधाकृष्णन आपणाल्या 'स्वधर्मा'क धरून जियेल्ले ताकाच धरून ते मुखावयली वाट चलत राविल्ले जाल्यार भारतीय संस्कृतायेचे एक व्हड उद्गाते ह्या रुपान ते लोकांच्या उगडासांत उरतले आशिल्ले. आनी ह्याच रुपांत ते सोबतले आशिल्ले. परधर्माच्या नादाक लागून तांणी आपणाली पत होगडायल्ली.

('जाग', सप्टेंबर १९९८)



## ४.

# उपरांतची राष्ट्रपतीची वेंचणूक

साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष म्हूण केन्ना कोण एकाद्र्या चित्रकाराक वेंचून हाडीत व्हय? आसूं मागीर व्हडांतलो व्हड एक चित्रकार तो. संवसारभर नामना जोडिल्लो. साहित्याच्या मळारूय ताणें कसलेंय कर्तुत्व केल्लें आसलें जाल्यार गजाल वेगळी. ना जाल्यार, फकत चित्रकार म्हूण ताका केन्नाच कोण साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष करचो ना.

ते ते सुवातेर त्या त्या मळा वयलोच मनीस सोबता.

राष्ट्रपतीपदा खातीर आमी राजकी मळा वयलोच कोणूय तरी एक व्हड मनीस वेंचून काडूंक जाय आशिल्लो. डॉ. ए. पी. जे. अब्दुल कलाम व्हड मनीस आसले तरूय राजकी मळा वयले न्हय. तांचें मळ सामकेंच वेगळें. राजकर्णा कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लें.

मागीर, डॉ. राधाकृष्णनांक आमी राष्ट्रपतीपदार हाडून कशे बसयले? तांचेंय मळ वेगळें आशिल्लें. राजकर्णा कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लें. गजाल खरी. पुणून ते राजकी मळा वयले नासूं, संस्कृतायेच्या मळा वयले एक दिग्गज आशिल्ले.

इतिहासांत वेगळ्यो वेगळ्यो संस्कृतायो कश्यो जल्माक आयल्यो, तरतरून कश्यो वयर सरल्यो आनी एक दीस घसांयंच करून त्यो कश्यो कोंसळून ना नपश्चात जावन गेल्यो हो इतिहास तांचे जिबेर आशिल्लो. राष्ट्रपतीच्या आसनार बसपा खातीर तांगेलो हो 'अधिकार' पुरो आशिल्लो.

पुणून एक विसरूंक फावना, डॉ. राधाकृष्णनांचें नांव राष्ट्रपतीपदा खातीर मुखार आयलां तेन्ना 'तांकांचशे कित्याक मुखार काडल्यात? अमको नाशिल्लो? तमको नाशिल्लो?' म्हूण नांवां घेवन लोकांनी शिणूय काडल्यात.

डॉ. राधाकृष्णनां कडेन डॉ. कलामांची सर करूंक येना. डॉ. कलामांचें नांव मुखार आयलें तें राजकी मळार 'व्हड' कोणूच नाशिल्लो म्हूण. संस्कृतायेच्या मळारूय कोण नाशिल्लो म्हूण. आनी ह्र

देश गिड्ड्या फुडाऱ्यांच्या हातांत गेला म्हूण.

के. आर्. नारायणांक आनीक एक टर्म दिवं येतालो. आपणाक आनीक एक टर्म मेळचो अशें खासा नारायणांकूय दिसतालें. काँग्रेस आनी दाव्या पक्षांचे फुडारीय तांकां आनीक एक टर्म दिवचो अशें म्हणटाले. ते कायद्यान चलपी, राष्ट्रपतीपदाचे शिमेंत रावन वावुरपी मनीस आसले तरूय, गरज पडल्यार, मंत्रीमंडळाच्या निर्णयां आड वचपाचें तांकां काळीज आशिल्लें. नारायणांचो होच गूण भाजप फुडाऱ्यांचे नदरेन अवगूण थरिल्लो. तांकां आपणा आड वचपाचें काळीज आशिल्लो राष्ट्रपती नाका आशिल्लो. पुणून 'ना' कशे म्हणटले? 'ते जाणटे जाल्यात, तांकां चलूंक लेगीत सारकें येना' असलीं निमित्त्यां ते काडपाक लागले. आपणा फाटल्यान भाजप ना म्हणपाचें पळोवन नारायणांनीच 'आपणाच्यान आतां जावपाचें ना' अशें म्हणून नांव फाटीं घेतलें.

म्हणटासर आंध्र प्रदेशाचे चन्द्रबाबू नायडू मुखार सरले आनी तांणी राष्ट्रपती खातीर कृष्णकान्तांचें नांव सुचयलें. कृष्णकान्त उपराष्ट्रपती आशिल्ले. आनी हाचे पयलीं दोग उपराष्ट्रपती राष्ट्रपती जाल्यात. म्हणटकूच कृष्णकान्तांच्या नांवाक विरोध करपाक कोणाक कसलेंच कारण आसूंक जायनाशिल्लें. पुणून नांव सुचयल्लें चन्द्रबाबूंनी आनी चन्द्रबाबू 'अ मॅन टू बी वॉच्ड' ही नामना आशिल्ले. केन्ना कोणाचे तकलेर पांय द्वरून खंय पावतीत, सांगूंक येवचें ना हे तरेचे. कृष्णकान्त कितलींशीं वर्सां आंध्र प्रदेशाचे राज्यपाल आशिल्ले. तेन्ना सावन ते चन्द्रबाबूंले दाट इश्टूय जाल्ले. तांगेली ही दाट इश्टागतूच कृष्णकान्तां आड गेली. चन्द्रबाबू

प्रधानमंत्रीपदाचेर दोळो दवरून रावल्यात म्हणपाचें सगळ्यांक खबर आशिल्लें. कृष्णकान्तांचो केन्ना कसो लाव घेवन ते प्रधानमंत्रीपदार उडी घेतीत, सांगूं येता? वाजपेयींक हें नांव मान्य जालें. पुणून अडवानींनी कृष्णकान्तांच्या नांवाक निबर विरोध केलो. तांकां जॉर्ज फेर्नाण्डिसांचो आनी प्रमोद महाजनांचो तेंको मेळ्ळो. तिगांचोय विरोध पळोवन वाजपेयींनी म्हळें, 'सगळ्यांक मान्य जायत असलें एक नांव सुचयात पळोवया.' जॉर्ज फेर्नाण्डिसांनी कळाव लायनासतना रोखडेंच महाराष्ट्राचे राज्यपाल पी.सी.अलॅक्झांडरांचें नांव सुचयलें. अडवानी आनी महाजन दोगांयनी रोखडोच ह्या नांवाक तेंको दिलो.

महाजनांनी तेंको दिलो तो जॉर्ज फुडें केन्नाय प्रधानमंत्रीपदाचेर आपणालो हक्क सांगीत, दावो करीत म्हूण. अलॅक्झांडर क्रिस्तांव. एक क्रिस्तांव राष्ट्रपतीपदार आसल्लो जाल्यार प्रधानमंत्रीपद ह्या 'सॅक्युलर' देशांत क्रिस्तांवाक मेळपाचें ना म्हूण. महाजनांची नदर प्रधानमंत्रीपदाचेर आसा अशें खासा भाजपांतलेच लोक म्हणटात. आनी अडवानींनी अलॅक्झांडरांच्या नांवाक तेंको दिलो तो तांकां एकाच फातरान दोन शेवणीं मारपाचीं आशिल्लीं म्हूण. बाबरी मशीद कोंसळत सावन 'एक धर्मपिसो (फॅनॅटिक) हिन्दू' म्हण मुसलमान क्रिस्तांवां मजगतीं तांचें जें नांव इबाडिल्लें, तें तांकां उजळ करपाचें आशिल्लें म्हूण, आनी फुडले वेंचणुकेंत काँग्रेस सरकार घडोवंक पावली जाल्यार सोनिया गांधींचो प्रधानमंत्रीपदाचो दावो भायले भायर कडेक पडटलो म्हूण.

सगळे गिड्डे खरे, पुणून पाताळयंत्री.

आपणाक भाजपाचो तेंको आसा, शिवसेनेचो आसा. काँग्रेस कित्याक तेंको दिवची ना? ते भायर, आपूण इन्दिरा गांधी आनी राजीव गांधी दोगांयचो विस्वासू मनीस. तांच्या हाता खाला रावन आपणें निश्ठेन काम केलां, असो बावड्या अलॅक्झांडरांचो समज. पुणून काँग्रेसीन तांच्या नांवाक खर विरोध केलो. (अलॅक्झांडर राष्ट्रपतीपदार आसले जाल्यार सोनिया गांधींक प्रधानमंत्रीपद मेळचें ना म्हूण.) अलॅक्झांडरांक धसको बसलो. हीं पड्मूरपणां काँग्रेसीचीं अशें तांकां दिसलें आनी तिडकीन महाराष्ट्राच्या राज्यपालपदाचीय सोडचीट दिवन ते सरकारांतल्यान भायर सरले.

आपणें सुचयल्लें कृष्णकान्तांचें नांव भायर मारून भाजपान अलॅक्झांडरांचें नांव मुखार हाडिल्लें पळोवन चन्द्रबाबू तिडकीन उसळ्ळे. तांणी भाजपाचो दाव

मोडून घालपा खातीर अलॅक्झांडरांच्या नांवाक विरोध केलो आनी कोणाच्याच ध्यानामनांत नाशिल्लें डॉ. कलामांचें नांव मुखार काडलें. भाजपान अजून कोणाक उतर दिवंक नाशिल्लें आनी डॉ. कलामांच्या नांवाक ताचो विरोध आसपाचें कारण नाशिल्लें. भाजपान डॉ. कलामांच्या नांवाक तेंको दिवपाचो निर्णय घेतलो. कॉंग्रेसीनूय डॉ. कलामांच्या नांवाक तेंको दिलो.

खरें म्हळ्यार, डॉ. कलामांक चडांत चड पंगडांचो तेंको मेळिल्लो पळोवन तांचो कोणें विरोध करूंक फावो नाशिल्लो. तांकां सगळ्यांनी एका मत्तान वेंचून हाडूंक जाय आशिल्ले. पुणून सर्कशींत जनावरांचे तरातरांचे खेळ चलिल्ले आसतना मदींच एक 'ज्योकर' येता आनी वांकडीं तिकडीं तोंडां करून, वांकड्यो तिकड्यो उडयो मारून लोकांक हांसयता, तशे आमच्या राजकी मळा वयले सर्कशींत कांय 'ज्योकर' आसात, ते आपणाक 'लॅफ्टिस्ट' म्हणटात आनी तत्त्वांचे मुद्दे मुखार करून वचत त्या निर्णयाक विरोध करतात. तांणी डॉ. कलामां आड कोणाक तरी उबो करपाचो निर्णय घेतलो आनी प्रभावी व्यक्तिमत्वाचो कोणूच मेळ्ळो ना तेन्ना सुभाषबाबूंचे आझाद हिन्द फौजेंतली डॉ. लक्ष्मी सहगल (आदली मेनन) हिका उबी केली. ८७ वर्सांचे पिरायेची, आंगां सगळीं गळिल्ली, सारकें चलूंक येना असली आनी राजकर्णाचो कसलोच अणभव नाशिल्ली डॉ. सहगल आपणाक उबी करतात त्या सगळ्यांनी आझाद हिन्द फौजेक 'जपानी हस्तक' लेखून खर विरोध केल्लो म्हणपाचें लेगीत विसरिल्ली. ती उबी रावली. कोण तिका वळखनाशिल्ले. नवे पिळगेन तर तिचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें. आनी जांणी आयकल्लें तांकां ती आसा म्हुण्णूय खबर नाशिल्लें. तिका उबी करून ह्या लॅफ्टिस्टांनी कितें मेळयलें, तांकांच खबर! ती पडली.

आनी डॉ. कलाम भोवमतान वेंचून आयले. सगळ्यांक सू जालें.

मुखार? वेंचून आयले उपरांत डॉ. कलामांनी दोन चार कडेन उलोवपां केल्लीं तांची खबर पेपरांनी वाचिल्ली. 'शिक्षणाचो प्रसार जाले बगर देश फुडें सरपाचो ना'. 'गरिबाय ना केले बगर देशाची उदरगत जावपाची ना', 'धर्मनिरपेक्षताये बगर देश एकठांय उरपाचो ना' असल्या शेळ्या गजालीं भायर ह्या उलोवपांनी कांयच नाशिल्लें. देश स्वतंत्र जावन अर्द शेंकडो जालो तरूय देशांत शंबरांतले अंयशीं लोक अजून बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ले कित्याक उरल्यात, गरिबायेच्या सकयल्या पावड्यार ह्व बिलो पॉवर्टी लायन ह्व कित्याक आसात, धर्मनिरपेक्षतायेच्यो

घोशणा धाय दिकांनी चलिल्ल्यो आसतना धर्माच्या नांवान लोक अजून एकामेकांच्या आंगार जुडून कित्याक वतात, ह्या वा असल्या मुळाव्या प्रस्नांचेर डॉ. कलामांनी कितेंय चिंतलां व्हय, कसलेय उपाय तांकां होलमल्यात व्हय, कळना. चिंतलां आसत अशेंय दिसना.

खरेपणानशीं, देशाक पिडा जाल्यात तांतली तत्त्वशून्य राजकर्णाची एक, एकेच रातींत हर्षद मेहता जावपाच्या तरणाट्यांच्या हावेसांची दुसरी, संयम नाशिल्ल्या भोगांची तिसरी, चारित्र्य नाशिल्ल्या शिक्षणाची चवथी, मनीसपणा पसून पयस गेल्ल्या विज्ञानाची पांचवी, नीत नाशिल्ल्या वेपाराची सवी, आनी धोंगी धर्मकर्णाची सातवी. ह्यो सात पिडा मुळा सावन हुमटावन काडले बगर देश कसोच वयर सरपाचो ना. वयर काडुंकूय कोणाक येवपाचो ना. आनी ह्यो पिडा 'आपशीं' ना जावपाच्यो नात. आमी त्यो ना करतले, त्यो हुमटावन काडटले असो नित्शय देशाक करूंक आयलोना जाल्यार देश आयज आसा ताचे पाश्ट आवतिकायेक वचून पडले बगर रावपाचो ना म्हणपाचें डॉ. कलामांक खबर आसा अशें दिसना.

डॉ. कलामां सारको एक व्हड विज्ञानीक गिड्ड्या राजकर्ण्यांच्या अन्नाडी दावपेंचांच्या जाळांत घुसपून निर्फळ जाला. सरसमान परिस्थिती आशिल्ली जाल्यार चलोवन घेवं येतालें. पुणून देश खंयचो, संवसारूच आयज सरसमान परिस्थितींत उरूंक ना. खंयच्च्या खिणाक खंय ठो ढुम्म जायत आनी कितें सकल वयर जायत, सांगूंक येना. असले गंभीर स्फोटक परिस्थितींत 'नांवा पुरतो' राष्ट्रपती उपकारा पडना.

कसल्या गिड्ड्या लोकांच्या जाळांत घुसपल्यात डॉ. कलाम!

('जाग', सप्टेंबर-ऑक्टोबर २००२)



# ५.

# देशाचें राजकी जिवीत

आमचें राजकी जिवीत अवनतीच्या रसातळाक कशें पावलें? फकत गोंयचें न्हय. पुराय देशाचें पावलां. कित्याक लागून?

कितेंय तरी कारण आसूंक जाय. कारण आसले बगर कितेंच घडना. 'तें' आसा म्हूण 'हें' घडटा. 'तें' ना जायत जाल्यार 'हें'वूय ना जाता. हो एक जागरूक नेम जिविताचो. ह्या नेमाक धरून आमचें राजकी जिवीत अवनतीच्या रसातळाक कशें पावलें ह्या प्रस्नाचो सोद घेवपाचो एक यत्न करतां.

सुरवात गोंया सावन करतां.

धरुया, प्रतापसिंग राणेंक काँग्रेसीन फुडले वेंचणुकेंत पर्ये मतदारसंघा बदला नावेली मतदारसंघांत उबे केले आनी नावेलींतल्या लुइझीन्यु फालैरींक पर्ये मतदारसंघांत हाडले जाल्यार, येतीत व्हय दोगूय ह्या मतदारसंघांतल्यान वेंचून? दोनूय मतदारसंघ फाटल्या कितल्याशा तेंपा सावन काँग्रेसी कडेन आसात. दोनूय काँग्रेसीचे बालेकिल्ले. तशे दोगूय उमेदवार

काँग्रेसीचे 'निष्ठावंत सेवक'. दोगूय काँग्रेसीचे तिकेटीर कितल्याशा तेंपा सावन वेंचून आयल्यात. तरूय, तांच्या मतदारसंघाची अदलाबदल केली जाल्यार ते 'येतलेच' म्हूण सांगपाचो धीर काँग्रेसीच्या खंयच्याच फुडाऱ्याक जावपाचो ना. राणे नावेलींतल्यान येवपाचे नात, कुडतरेंतल्यान येवपाचे नात तशे लोटले सावनूय येवपाचे नात. मतदारसंघ काँग्रेसीचे आसून लेगीत. तशे लुइझीन्यु फोंडेंच्यान येवपाचे नात, शिरोडेंच्यान येवपाचे नात, हळडोणच्यानूय येवपाचे नात. हेवूय मतदारसंघ काँग्रेसीचे आसून लेगीत. कित्याक? तांचे थरिल्ले मतदारसंघ सोडून दुसऱ्या खंयच्याच मतदारसंघांत तांकां 'विनेबिलिटी' ना. 'विनेबिलिटी' म्हळ्यार वेंचून येवपाची आस्त, शक्यताय. ती कोणांत आसता? जाचे फाटल्यान जातीचें वा संप्रदायाचें, दुडवांचें वा बावळ्यांचें फाटबळ आसता ताच्यांत. वेंचून येवपाक जात, संप्रदाय, दुडू आनी बावळे हीं चार बळां आसचींच पडटात.

'बऱ्या मनशा' कडेन हीं बळां नासतात. देखून 'बऱ्या मनशा'क वेंचून दियात म्हूण वेंचणुके वेळार लोकांक उपदेश करपी लोक काळा भायरे जावन पडल्यात. out of date तशे out of tune जाल्यात अशें म्हणूंक जाय, आनी तांकां तुमी आतां निवृत्त जायात म्हूण सांगूंक जाय. राजकी ऑर्केस्ट्रांत तांचो सूर कानाक 'बेसूर' लागता. 'बरो मनीस' गोंयचे खंयचेच वेंचणुकेंत केन्ना म्हळ्यार केन्नाच वेंचून येवपाची आस्त ना आनी जे भोवन भोवन एकेच कडल्यान वेंचून येतात तांकां 'बरे मनीस' निखालूस म्हणूंक येना. ते 'बरे मनीस न्हय' हें खासा तेंच विधानसभेंत उबे रावन आइडू आइडून सांगतात. एकामेकांचे पांय ओडटात तेन्ना.

हे 'विनेबिलिटी'क लागून 'आयडियॉलॉजी'क कुस्कूट मोल उरूंक ना.

काँग्रेस पक्षाची आयडियॉलॉजी कसली? कोणूय सांगीत सॅक्यूलर म्हूण. सॅक्यूलर म्हळ्यार जात धर्म बी मानिना असलो पक्ष हो. खंयच्याय एका धर्मसंप्रदायाचो न्हय. खंयचेय एके जातीचो न्हय. सगळ्यांचो. पुणून तो वेंचणुके उपरांतचीं फकत चार वर्सांच सॅक्यूलर आसता. पांचवें वर्स लागपाक खंयचो मतदारसंघ भोवसंख्येन खंयचे जातीचो, खंयच्या संप्रदायाचो हाचो विचार करचोच पडटा ताका, आनी कोण खंयचे जातीचो वा संप्रदायाचो हाचो विचार करून ताका खंयच्या मतदारसंघांत उबो करचो हाचो निर्णय घेवचो पडटा. जात, संप्रदाय मानी नाशिल्ल्या ह्या सॅक्यूलर पक्षाक वेंचणुके आदल्या वर्सा जाती संप्रदायांच्या

बळांचो सगळ्या आंगांनी विचार करचो पडटा. जायत व्हय काळीज ह्या पक्षाक प्रतापसिंग राणेंक दक्षीण गोंय मतदार संघांत उबे करून लोकसभेक धाडपाचो, वा फ्रांसिश्कु सार्दिन्यांक उत्तर गोंय मतदारसंघांत उबे करून धाडपाचो? जवाहरलाल नेहरू आयज आशिल्ले आनी तांणी गोवा प्रदेश काँग्रेसी कडेन लोकसभेक आपणाक धाडात म्हूण तिकेट मागिल्ली जाल्यार हो सॅक्यूलर पक्ष जवाहरलालांक लेगीत सांगतलो आशिल्लो, बाबा रे, तूं सारस्वत बामण जाल्ल्यान उत्तरेच्या मतदारसंघांत वेंचून येवपाची आस्त ना आनी हिन्दू जाल्ल्यान दक्षीणेच्या मतदारसंघांतल्यान वेंचून येवपाचो ना. गोंयांत आमचें सरकार घडलें जाल्यार तुका राज्यसभेंत धाडपाचो यत्न करूं येत आमच्यांनी, लोकसभेंत न्हय.

दुशण कोणाक दितले आमी? काँग्रेस फुडाऱ्यांक? तांचेर अन्याय जातलो. कित्याक, जे तरेची लोकशाय आमी मानून घेतल्या तिच्यांत जाती संप्रदायांचे वेगळेचार ना करपाची तांकूच ना. उरफाटी, ज्या वेगळेचारांचेर राजा राम मोहन रॉयां पसून डॉ. राम मनोहर लोहियां मेरेनच्या देशभक्तांनी घायार घाय घाल्ले तांकां ती पोसवण दीत आयल्या. तिणें जाती जातीं मजगतच्या ऊंच - उणाकपणांचेर बुलडोझरा भाशेन चलून तांकां भूंय सपाट केल्लीं आसलीं तरूय दुसरे वाटेन भोवमत अल्पमत हें तत्त्व चलोवन जाती संप्रदायांचे वाडे तिणें घटूच केल्यात.

सॅक्यूलर पक्षाक खंयचेय जातींत वा संप्रदायांत जल्माक आयिल्ल्या उमेदवाराक खंयच्याय मतदारसंघांत उबो करून वेंचून हाडपाची तांक आसूंक जाय आशिल्ली. काँग्रेसींत ती ना.

हे नदरेन काँग्रेसीचो सॅक्युलरियझम दुबळो.

सॅक्यूलर पक्षान आपले राजवटींत देशांत 'समान नागरीक कायदो' चलोवंक नाका आशिल्लो? काँग्रेसीन देशांत चलयला व्हय? चलोवपाचो तिका केन्ना धिरूच जालो ना. तिणें सगळ्या जमातींच्या 'पर्सनल लॉं'क मान्यताय दिल्या. सगळे चलतात. 'पर्सनल लॉ' कितें, मुसलमान ख्रिस्ती लोकांचोच आसा? हिन्दूंचो ना? तांचोय एक आसा. घोव भायर पडले उपरांत बायलेन सती वचप ही चाल हिन्दूंच्या 'पर्सनल लॉं'त नाशिल्ली? राजा राम मोहन रॉयान सती प्रथे आड एक व्हड चळवळ चलोवन लॉर्ड बँटिकाक सती प्रथेचेर बंदी हाडूंक लायली ना? म्हूण कितें, हिन्दू धर्म बुडला? एक बायल आसतना हिन्दूक दुसरी बायल करूंक मेळनाशिल्ली? हिन्दूंचो 'पर्सनल लॉ' करूंक दितालो. एक कित्याक, सात सात

बायलां कडेन लग्न जावपी गिरेस्त हिन्दू आशिल्ले. स्वराज्य मेळना फुडें भारत सरकारान 'द्विभार्या विरोधी' कायदो करून ही प्रथा बंद केली ना? काँग्रेस पक्ष कितें. हिन्दू मजगतींच सुधारणा घडोवन हाडपाक सत्येर आयिल्लो? सॅक्यूलर पक्ष तो. हिन्दू पक्ष न्हय. हिन्दू मजगतीं ताणें सुधारणा घडोवन हाडल्यो तश्यो ताच्यान हेर जमातीं मजगतींय घडोवन हाडूं येताल्यो. हाडल्यो नात. ताका धीर जालो ना. आयज,धरुया, ताणें समान नागरीक कायदो हाडपाचो निर्णय घेतलो जाल्यार कितें जातलें? काँग्रेसी परस आपूण अदीक प्रगतिशील मानपी मुलायम सिंगांचो समाजवादी पक्षूच विरोध करतलो. तो मुसलमानांक सांगतलो, 'तुमच्या 'पर्सनल लॉ'त काँग्रेस धवळाधवळ करता. आमचो पक्ष करचो ना. दुसऱ्या कोणाक करुंकूय दिवचो ना. तुमी काँग्रेसीक मतां दिवं नाकात. आमकां दियात. तुमचो 'पर्सनल लॉ' तुमकां जाय तितलो तेंप दवरूंक मेळटलो', आनी मुसलमानांचीं मतां घेवन तो वेंचून येतलो.

हाचो अर्थ, जी लोकशाय आमी घेतल्या ती देशाच्या बऱ्याचे प्रगतिशील कायदेय देशांत हाडूंक दिना असो जालो ना?

भाजपाच्या 'अजेंडां'त 'समान नागरीक कायदो' आशिल्लो. भोवमतान हो पक्ष सत्येर आयिल्लो जाल्यार ताका हो कायदो हाडपाचो धीर जातलो आशिल्लो काय कितें, दुबाव आसा.

देश सॅक्यूलर म्हणप आनी 'पर्सनल लॉ' चलूंक दिवप ही विसंगती लोकशायूच चलूंक दिता ह्या देशांत. आमचे लोकशायेचे बडीचें एक दुबळें आंग हें.

हाचेकूय व्हड तिचें आनीक एक दुबळें आंग आसा. तें वेंचणुके वेळार पळोवंक मेळटा.

वेंचणुकेक जो उबो रावता तो वेंचून येवं वा नाका येवं, वेंचणुकेचो निकाल लागना फुडें ताका अमक्याच दिसां भितर वेंचणुके खातीर आपणें केल्ल्या खर्चाचो हिशोब वेंचणूक आयोगाक दिवचो पडटा. ना जाल्यार ताका फुडले खंयचेच वेंचणुकेक उबो रावंक मेळना. खर्चूय अमकेच एके शिमे भितर जावंक जाय असो नेम आसा. उबे राविल्ले सगळे शिमे भायर आपणें खर्च करूंक ना अशें दाखोवन आयोगाक हिशोब दितात, आनी आयोग ते मोन्यांनी मानून घेता. प्रत्यक्षांत कितलो खर्च जाला तें कोण दाखयना आनी तो सोदून काडपाची यंत्रणा आयोगा कडेन ना. हाका लागून थारायल्ल्या खर्चा परस धा, शंबर, हजार, केन्ना केन्ना

हाचेकूय चड वांट्यांनी चड खर्च केल्लो आसत जाल्यारूय तो उमेदवाराक पचता. उमेदवार खंयच्याय एका पक्षाचो आसत जाल्यार ताच्या निजाच्या खर्चा भायर पक्षूय ताचे खातीर खर्च करता आनी ताचोय हिशोब आयोगा कडेन पावता. पक्षा कडेन पयसो खंयच्यान आयलो आनी उमेदवारानूय तो खंयच्यान हाडलो हें सोदून काडपाची यंत्रणा आयोगा कडेन ना.

हातूंत काळ्या पयशांची उलाढाल आकांताची जाता.

महाराष्ट्रांत पयर जाल्ले विधानसभेचे वेंचणुकेंत भाजपा-शिवसेनेक सरकार घडोवपाक जाय आशिल्लें भोवमत मेळ्ळें ना. सोनिया गांधी आनी शरद पवार हांचे काँग्रेसीचे युतीक तें मेळ्ळें. युतींतल्या ज्या गटाक चड सुवातो मेळटात त्या गटाचो मनीस मुखेलमंत्री जाता असो नेम आसा. सोनिया शरद गटांची युती जाल्या त्या वेळार भोवमत आपणाल्या गटाक मेळ्ळें जाल्यारूय मुखेलमंत्री सोनिया गटाचो जातलो अशें उतर शरद पवारांनी दिल्लें. खासा पवारांनीच हें सांगिल्लें (हांवें तरी) 'बातम्यां'त आयकल्लें. वेंचणुकेचो निकाल लागलो तेन्ना पवार गटाक चड सुवातो मेळिल्ल्याचें दिसून आयलें. रोखडीच मुखेलमंत्रीपदा खातीर दोनूय गटां मजगतीं घासाघीस सुरू जाली. सोनिया गांधीन अपक्षांचो आधार घेवन भोवमत घडयलें. कितलेशे दीस घासाघीस चल्ली. अखेरेक, सोनिया गांधी गटाचो मनीस मुखेलमंत्री जातलो, उपमुख्यमंत्री शरद गटाचो जातलो, कांय म्हत्त्वाचीं खातीं शरद गटाक मेळटलीं अशीं वाणपणां करून घासाघीस सोंपली.

'जन्मभूमी' नांवाचें एक गुजराती दिसाळें मुंबयच्यान भायर सरता. ताच्या २६ ऑक्टोबराच्या आंकांत पयल्याच पानार हे घासाघिशे फाटल्या उलाढालींची 'बातमी' आयिल्ली. तातूंतलो तपशील वाचतकूच दोनूय गटां मदीं चलिल्ली घासाघीस तत्त्वां खातीर जाल्ली, प्रतिष्ठे खातीर जाल्ली काय दुडवां खातीर जाल्ली असो प्रस्न पडटा आनी समज आशिल्ल्या मनाक धसको बसता.

मुखेलमंत्री ज्या पंगडाचो आसता ताणें आपणाल्या पंगडाक म्हयन्या म्हयन्याक अमकेच पयशे जमोवन दिवंक जाय असो खंय एक संकेत आसा. जो मुखेलमंत्री ह्या संकेताक धरून पयशे जमोवंक पावना ताका त्या पदा वेलो निखळावपाचें राजकर्ण रोखडेंच पक्षांत भितर सुरू जाता. शिवसेना भाजपा युतीच्या काळांत मनोहर जोशींच्या आंगांत ही कळाशी नाशिल्ली म्हूण तांकां निखळावन शिवसेनेन नारायण राणेंक ते सुवातेर बसयल्ले. विलासराव देशमुखांच्या आंगांतूय ही कळाशी

नाशिल्ली म्हूण काँग्रेसीन तांकां निखळावन सुशील कुमार शिंदेंक तांचे सुवातेर बसयल्ले.

मुंबय म्हळ्यार भांगराची एक मोट्टी खण. सत्येर आशिल्ल्या पक्षा खातीर पयशे जमोवपाचें काम पक्षाचें सरकार करता. शहर विकास मंत्रालय, महसूल आनी सहकार खातें, कृषी मंत्रालय, अन्न आनी नागरी पुरवण खातें, गृह मंत्रालय अशीं कांय 'खातीं' हें काम हातांत घेवन बसल्यांत. हांतल्या गृहखात्याच्या हातांत पुलीस विभाग आसा. आनी ताच्या हातांत मटकेवाले, कायदो मोडून सोरो गाळटले, क्रिकेट मॅच जुगारी, बियर बार, बार डान्सर, चरस धरून कोकैन मेरेनचीं घुंवळे वखदां खाचीं कोनशांनी वचून फिल्म स्टारांक आनी नवश्रीमंतांक विकतले, सुपारी घेवपी, स्मगलिंगांत घुसपल्ले सगळे तरेचे माफिया लोक आसात. तांची दिसपट्टी उलाढाल उणी पुरी धा कोटी रुपयांची तरी आसताच आसता.

हाचेकूय हळशिकावणें काम म्हळ्यार कुंटणखाने चलोवपी लोकां कडल्यान पयशे पुंजावपाचें. तेंवूय हो विभाग करता. मुंबयंतली पीला हावस, फॉकलँड रोड, कामाठीपुरा, फोरस रोड, कॅनडी ब्रीज ही गरीब गिरायकांची 'रॅड लायट एरिया'. ह्या वाटारांत एके एके बिल्डिंगेंत पंदरा वीस कुंटणखाने चलतात. कुडी विकपी चलयो चडश्यो सगळ्यो पळोवन (अपहरण करून) हाडिल्ल्यो. नेपाळी, बांग्लादेशी, कर्णाटकी वा आंध्र प्रदेशी. असली दर एक बिल्डींग मुख्यमंत्री फंडाक म्हयन्या म्हयन्याक पांच लाख रुपयांचें योगदान दिता. असल्यो सुमार शंबर बिल्डिंगो ह्या वाटारांनी आसात. हाचो अर्थ, दर म्हयन्याक मुख्यमंत्री फंडांत पांच कोटी रुपये कुंटणखाने चलोवपीच जमा करतात असो जाता.

मदल्या वर्गांतल्या आनी तांचेकूय वयल्या वर्गांतल्या लोकां खातीर कुलाब्या सावन कफ परेड मेरेनच्या वाटारांत सुमार पांचशीं 'प्रायव्हेट' कुंटणखाने चलतात. तांचे कडसून म्हयन्या म्हयन्याक पंदरा कोटी रुपया मुख्यमंत्री फंडांत जमा जातात. हांचे भायर, खार, बांद्रा, सांताक्रूझ, विलेपार्ले, अंधेरी, मुलुंड सारक्या सुवातांनी चलतात त्या कुंटणखान्यां कडल्यान येता तो पयसो वेगळो.

मटक्याचे अड्डे मुंबयंत खंय सुमार दोन हजार आसात. एक एक अड्डो दर म्हयन्याक देड लाख रुपयांचो हप्तो भरता. ताचेच तीस कोटी रुपया जातात. हांतले पन्नास प्रतिशत मुख्यमंत्र्याच्या फंडांत वतात. उरिल्ले खंय वतात, खबर ना.

धवे फुल्ल खादीचे सदरे लेंगे न्हेसपी, सुमारा भायले नमळायेन येतल्या वेतल्यांक नमस्कार करपी, साद्या भोळ्या मुखामळाच्या काँग्रेसी फुडाऱ्यांचोय हो धंदो, तसो भारताचे 'पुर्विल्ले आनी उजळ' संस्कृतायेचो म्हयमा गावपी भाजपा फुडाऱ्यांचोय होच धंदो. तें कित्याक, शिवाजी म्हाराजांचो जयजयकार केले बगर जांची चांट केन्ना उखलना त्या शिवसेना फुडाऱ्यांचोय खंय होच धंदो.

पुणून ही 'संस्कृताय' फकत महाराष्ट्रांतूच चलता अशें न्हय. गांधींच्या गुजराताची लेगीत हीच 'संस्कृताय'. चिमणभाई पटेल गुजरातचे मुखेलमंत्री आशिल्ले तेन्ना आपूण सद्दां एक कोटी रुपया जमोवन 'बहेनजीं'क धाडटालों, अशें तांणीच सांगिल्लें वाचिल्लें.

डॉ.जीवराज मेहता सारकेल्या एका सत्पुरसाक निखळावन तांचे सुवातेर मोरारजीभाईंनी चिमणभाई पटेलांक बसयल्ले. जीवराज मोरारजींक मानिनाशिल्ले होच तांगेलो व्हडांतलो व्हड 'गुन्यांव' आशिल्लो. तांकां दुशण कोण दितलो? Morarji like Brutus was an honourable man.

स्वराज्याचे सुरवेच्या काळांत वेंचणुको आयचे सारक्यो खर्चाळ जावंक नाशिल्ल्यो. वेंचणुके खातीर काँग्रेसीक जाय आशिल्लो फंड बिर्ला, टाटा आनी हेर उद्देगपती तशे व्यापारी हांकां फकत फोन लावन एकले सरदार पटेलूच एकठांय करताले. सरदार भायर पडले उपरांत सदोबा पाटील, अतुल्य घोष, रामकृष्ण हेगडे हांचे सारके फुडारी तो जमोवन हाडपाक लागले. ते मुस्तींत वेंचणुकेंत भ्रष्टाचार चडसो जाय नाशिल्लो. (हांवें 'चडसो' म्हळा. 'मातूय जाय नाशिल्लो' अशें म्हणूंक ना.) जवाहरलाल भायर पडले उपरांत काँग्रेसींत प्रधानमंत्रीपदा खातीर किजिलां सुरू जालीं. मोरारजी आपलो हक सांगपाक लागले. तांकां येवंक दिवचे न्हय म्हूण काँग्रेसीच्या म्हालगड्या फुडाऱ्यांनी प्रधानमंत्रीपदार एक 'मोनी बावली' *(गुंगी गुडिया)* हाडून बसयली. म्हालगड्यांचो अदमास चुकिल्लो. ती 'मोनी बावली' नाशिल्ली. बापायचेच तालमींत वाडिल्ली. सगळ्यांक 'सारकी बरी' वळखताली. आपणाकूय हे म्हालगडे एक दीस अचळय काडून कडेक मारतले म्हणपाचो दुबाव येना फुडें तिणें 'दुर्गे'चो अवतार घेतलो आनी एका फाटल्यान एका एका म्हालगड्याक 'लोळोवन' तिणें काँग्रेसूच फोडली. दोन काँग्रेसी जाल्यो. फंड पुंजावपी सगळे म्हालगड्यांचे काँग्रेसींत उरिल्ले. हिचे कडेन कोण नाशिल्ले. तिणें by hook and crook रितीन (येनकेन प्रकारेण)

फंड जमोवपाक सुरवात केली तेन्ना नीत-बीत सगळी पांयां पोंदा माड्डिली.

तेन्ना सावन देश एके फटकिरे आनी खुनशी लोकशायेंत जियेत आयला. इन्दिराजीन सुरू केल्ली ही लोकशाय ती आसतनाच संजय गांधीन घट्ट केल्ली. उपरांत राजीव गांधीन ती मुखार चलयली. आतां सोनिया गांधी चलयता.

काँग्रेस पक्षाचो हो वसो भाजप, शिवसेना, समाजवादी, राष्ट्रीय जनता दल ह्या सगळ्या पक्षांक लागला. १९६९ उपरांतच्या काळांत राजकर्ण हो एक 'धंदो' जावन पडला. खंयच्याय राज्यांत पळोवचें (सत्येर खंयचोय पक्ष आसूं), मुख्यमंत्री आनी तागेल्ले सांगातीच न्हय तर पक्षाचो सादो आमदार लेगीत पांच वर्सां भितर 'ख्रंयचे खंय' पावता. गाडयो म्हणूं नाका, बंगले (वा बेनामी फ्लॅटस्) म्हणूं नाका. उद्देगधंद्यांत पार्टनरशीप म्हणूं नाका, अंतपार नाशिल्ल्या वैभवांत लोळूंक लागता. मोगल सम्राटांक लेगीत नसाय जावची हे तरेचें वैभव हें. आंगा वेले सादे खादीच्री सुवात मागीर बाफ्टा घेता. दोनूय हातांच्या घाय बोटांनी मोठ्या मोठ्या खड्यांच्यो धा धा वीस वीस हजार रुपयांच्या मोलाच्यो मुदयो येतात. सगळ्यांचो कोणूय तरी एक 'गॉडफादर' (धर्मपिता) आसता. आनी तो धीरूभाई सारको कोणूय आसत जाल्यार ताका गांधी लेगीत 'राष्ट्रपिता' दिसना, (आपणा सारकोच) एक 'राष्ट्रपुत्र' दिसपाक लागता. (प्रमोद महाजनांक विचारल्यार कळटलें.) तांचे मदलो कोणूय एक बंगारू लक्ष्मणा सारको न्हेनो (बावळट) सांपडटा. सुखराम सांपडत जाल्यार तो काँग्रेस सोडून भाजपांत वता आनी भाजपा ताका आसरो दिता. असले वाटमारे केन्ना गांधींचें, केन्ना सुभाष बोसांचें वा केन्ना भगतसिंगांचें नांव घेवन देश लुटपाक लागतात.

हांचीं कोणा कडेन कसलीं लफडीं आसत, सांगूं येना. फाटीं वीरप्पनाक धरून जिवानशीं मारलो तेन्ना खूब जाण म्हणपाक लागले, ताका मारूंक जायनाशिल्लो. जितो धरुनूच हाडपाचो. खूब जाणांचीं लफडीं भायर सरतलीं आशिल्लीं. वीस वर्सां मेरेन तो कोणाक मेळूं नाशिल्लो. कित्याक, ताका व्हडल्या व्हडल्यांचो आसरो मेळिल्लो. ते कोण आशिल्ले तें कळटलें आशिल्ले. जयललिताबायन ताका मारिल्ल्याची खबर पत्रकारांक सांगली त्या वेळार तिच्या आंगा वेली गुलाबी साडी आनी मुखामळा वेलो प्रसन्न मुमुरखो हांसो (टीवीर) पळोवन 'ही तांचे मदली एक नाशिल्ली मूं' असो म्हाका दुबाव मारिल्लो.

असल्या ह्या चिखलांत मुंगरिल्लो लोकशायेचो रथ वयर कसो काडचो होच

सगळ्यांत व्हड प्रस्न देशा मुखार आसा. वेंचणुकांचे प्रक्रियेंत मुळा सावन बदल घडोवन हाडले नात जाल्यार देशाचें राजकी जिवीत निवळपाची निखालूस आस्त ना. जे लोकशायेची आमी पोटभर तुस्त तोखणाय करीत आयल्यात तिणेंच देशाचें राजकी जिवीत अवनतीच्या चिखलांत धुकलून उडयलां. ही लोकशायूच देशाची दुस्मान जाल्या.

हांगा फकत देशाक जाल्ले पिडेचें निदान केलां. डायग्नॉसीस ही फकतह्व'जन्मभूमी' सारकेल्या जबाबदार खबरेपत्रान दिल्ले म्हायतीक धरून केल्ली. गोंय देशा पसून वेगळें उरूंक ना. हेर खंयच्याय मळार तें आपणाली 'अस्मिताय' सांबाळून रावलां आसत, राजकी मळार तें देशा कडेन पुरायपणान एकरूप जालां. हांगाय असलेंच कितें घडटा जावंक जाय. वेंचणुकेक उबो रावपाक जाय आशिल्लें 'डिपॉझीट' जांचे कडेन नाशिल्लें तांचे मजगतचे कांय जाण आयज आठशीं आठशीं कोटींचे धनी जावन फुडारी जाल्यात म्हणपाचें लोक उलयतात. घडये अतितायेचें आसत, पुणून सामकेंच फट आसचें ना. आठशीं कोटी नासत, शें दोनशीं कोटी तांणी केल्लेच आसूंक जाय. इतले 'ताण' ते धा वीस वर्सां भितर कशे जाले? भोवन भोवन काँग्रेस तांकांच कित्याक उबे करता? कितेंय तरी ते आयचे 'बहनजीं'क धाडटात आसूंक जाय. आनी आमी मूर्ख तोंकां भोवन भोवन वेंचुनूय दितात!

हे पिडेक वखद कसलें करचें हें तज्ञांनी सांगपाचें. नेपाळांतले लोकशायेक तें मेळ्ळें ना. म्हूण थंय माओवादी वयर सरून धुमशेणां कांडपाक लागल्यात. आमच्याय देशांत खंय खंय नक्षलवादी वयर सरल्यात. गोंयांत असले कोण वयर सरूंक नात खरे. पुणून सरचे नात हाचें खरेपण खंय आसा? हें अशेंच चलूंक दिवपाचें?

तज्ञां मुखार फकत निदान दवरतां. खोलायेन मंथन जावचें ह्याच एका हावेसान.

('जाग', मार्च-मे २००५)



# ६.

# 'गुजरात पॅटर्न'

मनीस खरें उलोवपी आसलो म्हूण जायना. तो खरें उलयता अशें दुसऱ्यांक दिसूंक जाय. हो लोकीक न्याय भाजपाच्या फुडाऱ्यांक खबर आसासो दिसना. कित्याक, ते एक दीस एक सांगतात आनी दुसऱ्या दिसा जिस्त ताचे उरफाटें सांगतात. गुजरातचे वेंचणुकेंत भाजपाक मेळ्ळें तें हिन्दुत्ववादाक मेळिल्लें जैत अशें तांणीच म्हळ्ळें. इतलेंच न्हय, तर हो 'गुजरात पॅटर्न' आमी आतां सगळ्या वेंचणुकांनी चलयतले, अशेंय म्हळ्ळें. म्हणटासर, 'प्रवासी भारतीयां'च्या संमेलनांत गुजरातांत जें घडलें तें aberration आशिल्लें (आड वाटेन गेल्ल्यान घडिल्लें); हे मुखार आमी असलें खंयच घडूंक दिवपाचे नात, अशें तांणीच म्हळ्ळें वाचूंक मेळ्ळें.

'फ्रिडम फर्स्ट'च्या ऑक्टोबर-डिसेंबरच्या आंकांत 'In the Grip of a Frightening Mindset' माथाळ्या खाला आयिल्ल्या नगीनदास संघवींच्या लेखांत गुजरातांत पयर ज्यो वेंचणुको जाल्यो तांची फाटभूंय सांगल्या. ते म्हणटात, गोधराकांडा उपरांत वेंचणुकां मेरेनच्या काळांत

गुंडांनीह्न

१. सुमार आठशीं लोकांक जिते मारून उडयले. तांचो कसलोच गुन्यांव नासतना.

२. तांचीं तीस हजार घरां आनी दुकानां लुटलीं वा उजो घालून लासून उडयलीं.

३. तशीं तीन हजार वाहनां (गाडयो, टेम्पो बी धांवतेरीं) तोडून फोडून वा हुलपावन उडयलीं. आनी,

४. एक लाख सात हजार लोकांक आपणालीं घरां-दारां सोडून 'रेफ्युजी कॅम्पां'नी वचून आसरो घेवचो पडलो.

नगीनदास 'कितेंय' बरोवपी मनीस न्हय. देशांतले एक जबाबदार पत्रकार म्हूण तांणी देशांत तसो गुजराती समाजांत भोवमान जोडला. तांकां खंयच्याच राजकी पक्षाची ओड ना. तशी खंयच्याच पक्षाची तिडक ना. मदेस्त ह्न impartial ह्न कोणाचोच पक्षपात नाशिल्ले एक पत्रकार ते. तांणी दिल्ल्या आंकड्यांच्या खरेपणा संबंदान दुबाव घेवपाचें कारण ना.

ते म्हणटात, ह्या भयांकृत घडणुकांक लागून लोकांच्या सभावांत जे बदल घडून आयल्यात ते पळेतकूच तुमकां जो थरथरो भरतलो ताचे मुखार वयल्या आंकड्यांक लागून भोगल्या ती खंत तुमकां कांयच न्हयशी दिसतली. आनी सांगतात, 'जें घडलें तें तुमकां कशें लागलें' काय म्हूण कोणाकूय विचारातह्न शिक्षकांक विचारात, पत्रकारांक विचारात, सरकारी नोकरांक विचारात, पुलिसांक विचारात, खंयचेच भानगडींत पडनात असल्या साद्या पसरकारांक विचारात, 'अशेंच जावंक जाय आशिल्लें... खूब मातयले तुमी ह्या लोकांक माथ्यार घेवन... तांकां तांची सुवात दाखोवन दिवंकूच जाय आशिल्ली... बरी बुद्द शिकयली तांकां आमी गुजराती लोकांनी' हेच तरेची जाप तुमकां सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळटली.

'बरें दिसलें ना' अशें म्हणपी लोक आयज गुजरातांत खंय सामकेच कडेक पडल्यात.

फाटल्या अर्द शतमाना सावन हांव गुजराती समाजाक खूब आपलेपणान वळखत आयलां. थंय इतल्यो भेसूरवाण्यो घडणुको घडटल्यो अशें सपनांत लेगीत केन्ना दिसूंक नाशिल्लें. गुजराती लोकांक हांव 'शामळुभाय' (सामकींच बाबत

कुळां), संकश्ट क्रोंसळटा तेन्ना 'रणछोडभाय' (झुजामळ सोडून पळून वचपी), 'शुं शां पैसा चार' सोडून कांयच समजना असले (फकत पयशे करपी पसरकार) म्हणीत आयिल्लों. आयज ते तशे उरूंक नात अशें दिसलें. गांधीं पसून ते पयस ह्न सामकेच पयस ह्न गेल्यात, नरेन्द्र मोदींक ते आतां नवो 'अवतार' मानूंक लागल्यात अशें दिसलें.

आनी खूब खूब वायट दिसलें.

गुजरात अशें दुस्वासी केन्ना सावन जालें? तर खंय १९६९ सावन. (कित्याक लागून तें नगीनदासांनी सांगूंक ना. पुणून) ह्या दुस्वासाक वारो घालून पेटोवपाचें काम अडवाणींनी खंय आपणाले रथयात्रेन खूब म्हळ्यार खुबूच केलें. रथयात्रा तांणी सुरू केली ती लेगीत सोमनाथ मंदिरा सावन ह्न पोरण्या इतिहासाचे उगडास लोकांच्या मनांत जागोवन आनी तांकां खुबळावन घालून. परिणाम ह्न बाबरी मशीद मातये भरवण करपाक जे कारसेवक अयोध्येक पाविल्ले तांचे मजगतीं गुजराती कारसेवक सगळ्यांत चड आशिल्ले. (अशें विश्व हिन्दू परिशद मोठ्या अभिमानान सांगता.) इतलेंच न्हय तर केंद्र सरकाराच्या घर खात्यांत गुजरात राज्याची 'खंयच्याय खिणाक केदेय दंगे जावं येतात' असल्या 'a communal riot prone zone' म्हूण नोंद जाल्या. कितलेशे दंगे, कसलेंच कारण नासतना, थंय फाटल्या कांय वर्सांनी जाल्यात. एकूच राज्य हें पुराय देसांतलें, जंय पयलेंच फावट दुसऱ्या खंयच्याच पक्षाचो आधार घेनासतना भाजप सत्येर आयला. भाजपांतल्यो भितल्ल्यो धोशी आनी मेंग्या, सारकें काम करिना असल्या सरकारी कारभाराक लागून सात वर्सां भितर पांच सरकारां थंय आयलीं तरूय भाजप थंय घट पाळां-मुळां पातळावन उबो आसा.

पक्षांतल्या धोशींक लागून आनी सदळ राजकारभाराक लागून रुळां वेल्यान देंविल्ली भाजपाची गाडी सारकी रुळार हाडपा खातीर भाजप हायकमांडान नरेन्द्र मोदींक गुजरातांत धाडून दिल्ले. (ते खासदार जावन दिल्लीक पाविल्ले.) मोदींनी गाडी इतली बेस बरी रुळार हाडली की तांचे आड दांत वोंठ चाबून उलोवपी पत्रकार लेगीत 'वेंचणुकेंत आतां भाजपाक कोण उडोवंक पावचो ना' अशें म्हणपाक लागले. तेंवूय, गुजरातांत घडलें ताका एकले मोदीच जापसालदार, येदेंय व्हडलें हें हत्याकांड तांणीच घडोवन हाडलें, तांणीच लोकांक खुबळावन घाले, अशें खासा तेच ताळे सरांटून म्हणटा आसतना.

पुलीस दंग्यांत पडले तेन्ना पुलीस कमीशनर पांडे हांणी 'हांकां ख्यास्त जावंक जाय' अशें मोदींक सुचयलें. तेन्ना मोदींनी कांय पुलिसांच्यो रोखड्यो बदल्यो केल्यो. पुणून खंयच्या पुलिसांच्यो? दंगे करतल्यांक धरून भितर घालताले तांच्यो.

नगीनदासांचो लेख सगळो हांगा दिवपाचें मनांत ना. खूब व्हड म्हूण. पुणून ह्या हत्याकांडाक लागून जो दुसरे तरेचो परिणाम गुजराताचेर आनी गुजराती समाजाचेर जाला ताची बारीक तेळणी तांणी केल्या. तिचो थोडो वांटो हांगा दिवंक जाय. ते म्हणटात ह्र

युरोपीय संघान गुजराताच्या हत्याकांडाची सर विसाव्या शतमानाच्या तिसऱ्या दसकांत हिटलरान घडोवन हाडिल्ल्या जर्मनींतल्या हत्याकांडा कडेन केल्या. गुजरात राज्यांतूच न्हय तर पुराय भारतांत व्यापार-धंद्यांत पयसो घालचो काय ना हे विशीं युरोप अमेरिकेंत आतां लोक दुबाव उकतावपाक लागल्यात. घालचो न्हय म्हणटल्यांचो आवाज सगळ्यांत चड वयर सरपाक लागला. इतलेंच न्हय, तर युरोपाच्या न्यायालयां मुखार मोदींक आनी तांच्या सरकाराक उबीं करपाची भास लेगीत थंयचे कायद्याचे कांय जाणकार उलोवपाक लागल्यात.

संवसारीकरण आतां कोण थांबोवंक पावपाचो ना म्हणटल्या ह्या भारत देसाक हें पुटवपाचें तर नाच, चुकोवंकूय येवपाचें ना.

नगीनदासभाई आनीक कांय भयंकर गजालीं कडेन आमचें लक्ष ओडटात. ते म्हणटात ह्र

फकत स सप्तकां भितर ह्या हत्याकांडान गुजराती समाजांतल्या मदल्या वर्गांतल्या शिक्षीत बायलांक आनी भुरग्यांक लेगीत जनावरां पाश्ट सभावाचीं करून उडयलीं. दुकानां लुटपांत सगळ्यांत चड वांटो हांचोच आशिल्लो. एक फावट ही कीड गुजराती समाजांत रिगली म्हणटकूच ती पुराय समाज पोखरून उडयले बगर रावपाची ना.

सरकार आयज सुमार ब्याण्णव रेफ्यूजी कॅम्प थंय चलयता. ह्या कॅम्पांनी आसऱ्याक येवन राविल्ल्या लोकांक 'तुमी आतां तुमच्या घरा वचात' म्हूण सरकार सांगता आसतना कोण वचूंक तयार जायना. आमी रावताले थंय दुसऱ्या जमातींचे लोक रावतात... आतां थंय केन्ना कसली हावळ आमचेर येत, सांगूंक येना. आमचेच जमातीचे लोक जंय रावतात थंयच आमकां सुवात दियात' अशें ते सांगतात. म्हळ्यार, शेंकड्यांनी वर्सां सावन एकठांय रावन आयिल्लो गुजराती

2316

समाज आयज फुटून कुडके कुडके जावन पडला. तातूंत 'विश्व हिन्दू परिशदे'न मुसलमान समाजाचेर आर्थीक सामाजीक बहिष्कार घालात म्हूण हिन्दूंक उलो मारून सांगिल्ल्यान गुजराती समाजाची विघटणाची प्रक्रिया नेटान चलपाक लागल्या. परिणामीं, गुजरात आतां उग्रवाद्यांक जल्म दिवपी थळ जातलें अशें जाणकार म्हणटात. दंग्यांक लागून जांचीं घरचीं मनशां मेलीं, मोडून पडलीं, अपंगूळ जालीं, जांच्या बायलांचेर बलात्कार जाले, जांची आशिल्ली नाशिल्ली सगळी संपत गुंडांनी लुटून व्हेली ते निर्शेवन उग्रवादी जाले जाल्यार कोणें अजाप करचें न्हय म्हणटात.

उग्रवाद्यांची निर्यात फकत पाकिस्तानूच करता म्हूण शिणपांत अर्थ ना. उग्रवादी फकत मुसलमानूच आसतात, अशेंय ना. आनी ते भायल्यानूच येतात अशेंय ना. बिहारांतले आनी आसामांतले उग्रवादी हिन्दू, नागालँड मिझोराम बी उदेंत-उत्तर वाटारांतले क्रिस्तांव आनी खलिस्तान निर्माण करपा खातीर जे वावुरताले ते शीख आशिल्ले. गुजरातांत जे जल्मा येतले ते मुसलमान आसतले. पुणून पाकिस्तानान प्रशिक्षीत करून धाडिल्ले न्हय. आमीच आमच्या करण्यांनी तयार केल्ले. ते भारताक जड वतले.

आनी पाकिस्तान 'क्रॉस बॉर्डर टॅररिझम' बंद करून तांचेच कडल्यान आपणाक जाय तें काम करून घेतलें.

हो 'गुजरात पॅटर्न' भाजपाक वेंचणुकेंत जैत जोडून दीत. पुणून हिन्दुस्तान संघटीत करपा बदला कितल्याशा जमातींचीं पाकिस्तानां निर्माण करून देशाच्यो तिसत्यो वादऱ्यो करून उडयतलो.

देशाक खूब म्हारग पडटलो हो 'पॅटर्न'.

('जाग' जानेवारी २००३)



७.

# खंडीत देशाचो प्रजासत्ताक दीस

मुंबयंत एका शिबिरांत सुचेता कृपालानींचें एक उलोवप आयकुपाक मेळिल्लें. नोआखालींतल्या दंग्यांत ज्या हिन्दू बायलांक थंयचे मुसलमान उबारून घेवन गेल्ले तांकां तांच्या दावकुलांतल्यान सोडोवन तांच्या घरांनी व्हरून वसोवपाचें काम गांधीजींनी सुचेतादीं कडेन दिल्लें. काम भंयाचें आनी सुमारा भायल्या धाडसाचें आशिल्लें. पुणून, असलीं धाडसाचीं कामां करपाक बायलांक मुखार काडलीं नात जाल्यार ते गांधी कसले? सुचेतादी जीव संकश्टांत घालून कांय बायलांक सोडोवन घेवन आयली. आनी तांकां तांच्या घरांनी घेवन गेली. जाल्यार, हे 'कम्बख्त' (तांचेंच उतर हें) हिन्दू घोव तांकां परत्यो घेवंक तयार नाशिल्ले! त्यो आतां भश्टल्यात, म्हणपाक लागले. सुचेतादी तिडकीन तांचेर उसळ्ळी, 'सभाग्यांनो, त्यो आपूण जावन गेल्ल्यो? काय, तांकां उबारून व्हेल्ल्यो? तांकां उबारून व्हरता आसतना तुमी कितें करताले? तांचेर तुमी जुडून वचपाचें न्हय?... तुमी पळून गेले!... आतां तांणी खंय वचपाचें?'





'जहन्नूम में जाएँ,' तांचे कडल्यान जाप मेळ्ळी.

उलयतां उलयतां सुचेतादी हुडके दिवन रडपाक लागली. मागीर, दांत वोंठ चाबून म्हणपाक लागली, 'यह है हमारा हिन्दू धर्म और कहते हैं, हमें इस धर्म का बडा गर्व होना चाहिए!'

सुचेतादींचें उलोवप आयकता आसतना म्हजें काळीज कळवळून आयिल्लें. हांव चिंतपाक लागलों, हिन्दू अशे केन्ना सावन जाले? मुदला सावन ते अशे आशिल्ले? अल् बेरुनीन *किताब उल् हिन्द* पुस्तकांत म्हळां, 'दुसऱ्या धर्माच्या लोकांक हिन्दू'म्लेंच्छ' म्हणटात. म्लेंच्छ म्हळ्यार, भ्रश्ट, बुरशे. तांचे कडेन ते कसलोच संबंद दवरी नात. आपूण भश्टत म्हणपाचो तांकां भंय दिसता. उदकाक आनी उज्याक लेगीत दुसऱ्या धर्माचो मनीस आफडीत जाल्यार उदक-उजो लेगीत, हांच्या मत्तान, भश्टता. बुरशें जाल्लें कितेंय निवळ करून घेवं येता. पुणून हिन्दू जाका भश्टलां म्हणटात ताका ते निवळ करून केन्ना घेनात. तें, तांच्या मत्तान, सदांकाळ भश्टल्लेंच उरता.'

अल् बेरुनी गझनीच्या मुहम्मदा मुस्तींतलो. हिन्दूंचो हो सभाव ताच्या दोन तीन तरी शतमानां आदीं घडिल्लो आसूंक जाय. इतलीं खोल पाळां-मुळां आशिल्लो हो संस्कार हिन्दूंच्या फकत निजी जिवितांतूच दिश्टी पडटा अशें न्हय, तांगेल्या समाज-जिवितांतूय तो पळोवंक मेळटा. गांधार हें पंजाब बंगाला सारकेंच ह्या देशाचें एक वेगळें काड्ंक येना असलें आंग आशिल्लें. कुरुकुळांतल्या धृतराष्ट्राची घरकान्न गांधारी हांगासल्ली आशिल्ली. ह्या वाटारांत कांय काळान बुद्ध धर्म पातळ्ळो. आनी सुमार बाराशीं चवदाशीं वर्सां हो वाटार बौद्ध उरलो. चिनी यात्रीक फाहियान हाका उत्तरे कडलें हिन्दुस्तान म्हणटा. बुद्धाच्यो पयल्यो वयल्यो मुर्ती ह्याच वाटारांत तयार जाल्यात. त्या मुर्तींक 'गांधार शैलीं'तल्यो मुर्ती म्हणटात.

एक दीस ह्या वाटारांत इस्लाम पातळ्ळो. गांधाराचें नांवूय तांणी बदल्लें. अफघानिस्तान केलें. जालें. तितलेंच हिन्दूंक पुरो जालें. 'आ! आतां हो वाटार भश्टलो' अशें म्हणून तांणी ताका आपणा पसून वेगळो काडलो.

आयज हो देस आमकां 'परकी' जाला.

१९४७ मेरेन संवसाराचे फाटीर खंयचेच कडेन पाकिस्तान नांवाचो देस नाशिल्लो. हिन्दुस्तान इंग्रजांच्या हातांत आशिल्लें आनी तांकां तें सोडचें पडिल्लें.

इंग्रजांच्या शेका तळा आसतना हिन्दू मुसलमानां मजगतीं किजिलां चलूं, पुणून ते एकठांय राविल्ले. इंग्रज वतातशे पळेले, दोगूय एकामेकां लागीं झगडूंक लागले आनी अंतीं 'हांची कटकट नाका' म्हूण हिन्दूंनी मुसलमानांक पाकिस्तान दिवन उडयलें. एका देशाचे तांणी दोन देश केले.

आनी आतां?

दोनूय एकामेकांचे 'दुस्मान' जाल्यात.

एकामेकां पसून वेगळे सरूं, एकामेकांचे दुस्मान जावपाची गरज नाशिल्ली. खूबश्या कारणांक लागून दोग भाव एकामेकां पसून वेगळे सरून दोन वेगळीं बिराडां करून रावतात. पुणून एकामेकांचे दुस्मान जायनात. ह्या नेमान, 'एक देश में दो हुकूमतें' मानून आमी एकामेकांचें बरें चिंतून रावंक जाय आशिल्लें. एकाच घरांत दोन बिराडां करून दोग भाव राविनात? जो वाटार आमी पाकिस्तानाक दिला थंयच हिन्दू संस्कृताय जल्माक आयिल्ली. थंयच वेद उपनिषदांनी जल्म घेतिल्लो. थंयच तक्षशीले सारकें विश्वविद्यालय आशिल्लें. थंयच आमी 'पूर्ण स्वराज्या'चो सोपूत घेतिल्लो. आनी थंयच्यानूच हिन्दू संस्कृताय जशी पुराय देशांत पातळिल्ली तशी स्वतंत्रतायेची चळवळूय पातळिल्ली. त्या वाटाराक 'दुस्मान' मानप? पुणून हिन्दूंच्या सभावाक कोण कितें करतलो? हिन्दू सगळें सोडटीत, पुणून आपणालो आफूड-भश्ट सभाव सोडपाचे नात. नोआखालींतल्या हिन्दू घोवां भाशेन, उबारून व्हेल्ल्या बायलांक परते घरांत घेवपाचे नात. 'जहन्नूम में जाएँ' म्हणून सोडून दितले.

ह्या सभावाक लागून ते कितें कितें सोडटीत, सांगूं येना.

'खंडीत' देसाचो 'सार्वभौम प्रजासत्ताक दीस' आमी २६ जानेवारीक मनोवपाचे आसात! मनोवया. पुणून देश आनीक आनीक फुटूंक दिवचे नात असो सोपूत तरी घेवन मनोवया.

('जाग', जानेवारी २००२)



८.

# सुभाषबाबूंचो उबंत पडिल्लो अस्थिकलश

सुभाषबाबू कोणाचे नेताजी आशिल्ले? फकत बोस घराण्यांतल्या लोकांचे? तांगेल्या सोयऱ्यां-धायऱ्यांचे? फकत 'फॉर्वर्ड ब्लॉकां'तल्या तांगेल्या सांगात्यांचे, आझाद हिन्द फौजेंतल्याच सैनिकांचे? *आमचे* न्हय?

स्वतंत्रतायेच्या झुजाच्या निमाण्या पर्वांतले ते एक आगळे वेगळे सेनानी आशिल्ले. 'देशभक्तां मदले एक व्हड देशभक्त' अशें गांधींनी तांचें वर्णन केलां. लोकप्रियतेंत जवाहरलालांच्याच तोलामोलाचे... लोकांक थोडे-भोव चडूच जाय आशिल्ले.

मागीर, तांगेलो अस्थिकलश जपानांतल्या रिओकोजू मंदिरांतूच कित्याक उरचो? फाटल्या पांच स दसकांच्या काळांत जे जे राष्ट्रपती, प्रधानमंत्री, सभापती तोक्योंत पावल्यात ते सगळे ह्या मंदिरांत वचून आपणालें मस्तक तांच्या अस्थिकलशाक तेंकोवन आयल्यात. हें भाग्य आमच्या ह्या सरसमान भारतीयांच्या ह्या वांट्याक येवं नाका आशिल्लें?

येवंक पावूंक ना तें एकाच कारणाक लागून. संवसारांतल्या खंयच्याय महानायकाच्या वांट्याक येवंक नात असले दळभद्रे

सोयरे-धायरे आनी अनुयायी सुभाषबाबूंच्या वांट्याक आयले, देखून. 'तो अस्थिकलश नेताजींच्या अस्थींचो न्हयच. नेताजींक विमान अपघातांत मरण येवंक ना. ते मरूंक नात. ते आसात. एक तर सायबेरियांतले खंयचेय बंदखणींत आसतले वा संन्यास घेवन हिमालयांत भोंवतात जातले. तांकां सोदून काडपाचें काम भारत सरकाराचें आशिल्लें. भारत सरकार तें करिना. जवाहरलालांनी मुद्दाम तें करूंक ना; कित्याक, जवाहरलाल तांकां थर्त भियेताले.' असलें आत्साण पात्साण नाशिल्लें 'कित्याय कितें' ते उलयत रावल्यात, आनी आमी (तांगेले सोयरे-धायरे वा अनुयायी नाशिल्ल्यान) ते उलयतात तें फकत आयकत रावल्यात!

परिणाम ह्न आमच्या एका महानायकाचो अस्थिकलश सातां समुद्रां पेले कडल्या एका देशांत 'उबंत' पडला! कोण वारस नाशिल्ले भशेन.

प्रस्न येता ह्न

हो अस्थिकलश नेताजींचो न्हय, जाल्यार कोणाचो?

चाळीस वर्सां जालीं, काकासायबां वांगडा जपानांत भोंवतालों त्या वेळार हांवूय ह्या तोक्योंतल्या रिओकोजू मंदिरांत पाविल्लों. एक जाणटो बौद्ध भिक्खू हो अस्थिकलश सांबाळटालो. काकासायब कोण हें कळटकूच तो मुखार आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'सुभाषबाबू जपानाचे इश्ट आशिल्ले. म्हुण्णूच तर हो अस्थिकलश आमी हांगा सांबाळून दवरला... वीस वर्सां जालीं, हांव तो सांबाळटां... आतां जाणटो जालां. म्हजे उपरांत ताचें कितें जातलें, खबर ना. तो भारतांत व्हेल्लो बरो... हांगा पाविल्ल्या सगळ्या भारतीयांक हांवें सांगलें, कितेंय करात आनी तो व्हरात म्हूण... कानामनारूच कोण घेना...'

शिकोकू क्युशु जुंव्यांची भोंवडी सोंपोवन आमी परते तोक्योक पावल्यात तेन्नाच जिस्त मोरारजीभाईय जपानांत पाविल्ले. 'जपान बुद्ध संघा'न तांकां एक पार्टी दिल्ली. हे पार्टेक काकासायबां वांगडा आमीय आशिल्ले. मोरारजी ते मुस्तींत उपपंतप्रधानपदार आशिल्ले. काकासायबांनी तांकां अस्थिकलशाची खबर सांगली. तेन्ना तांणी म्हळें, 'कालूच हांव त्या मंदिराक भेट दिवन आयलां... भिक्खून म्हाकाय तें सांगलां...'

'तशें जाल्यार हांव आतां निश्चिंत रावतां,' काकासायबांनी उस्कार दिवन म्हळ्ळें. हाकाय आतां चार दसकां जावन गेलीं. अस्थिकलश अजून भारतांत पावूंक ना... हाडपाचो कोणें यत्न केल्लोय आयकूंक ना.

सुभाषबाबूं विशीं तांचो मायदेस इतलो पडमूर कसो जालो, समजना!

जपान एक दोन दिसांनीच अमेरिकेक शरण वचपाचें आसा म्हणपाची खबर हिरोशिमा नागासाकीचेर ॲटम बॉम्ब पडल्यात ताचे एक दोन दीस पयलींच सिंगापूराक सुभाषबाबूंन्या कानार येवन आदळिल्ली. जपानी सैन्य शरण गेलें जाल्यार, ह्या सैन्याच्या पालवान भारताचे सुटके खातीर झुजत आयिल्ले आझाद हिन्द सेनेकूय शरण वचचें पडटलें काय कितें, हें तांकां जाणा जावन घेवपाचें आशिल्लें. सिंगापूरांत आशिल्ल्या जपानी सैन्याच्या वरिश्टांक ते मेळून आयले. 'आमकां कसलीच सुचोवणी येवंक ना' इतलीच एक जाप तांकां मेळ्ळी. जपानान स्पश्ट उतरांनी अजून मेरेन कसलीच सुचोवणी करूंक ना, हाचो अर्थ, आपणेंच आपणालो मार्ग वेंचून काडूंक जाय (अशें जपानाक दिसता जावंक जाय) असो तांणी केलो, आनी ते आझाद हिन्द फौज घेवन रशियेंत वचचें आनी थंयच्यान भारताचेर चाल करून वचचें हे तरेचो बेत आंखपाक लागले. झुजांत इंग्लंड अमेरिकेच्या गटांत रशिया राविल्ली आसली तरूय झूज सोंपना फुडें ती ह्या गटांतल्यान फुट्टून भायर सरतली आनी इंग्लंड अमेरिके आड दुसरो एक गट उबो करतली असो सुभाषबाबूंचो अदमास आशिल्लो. आनी आपणाली आझाद हिन्द फौज जपानी सैनिकां सांगातांत रावन झुजता आसली तरूय ती जपाना खातीर न्हय तर भारत स्वतंत्र करपा खातीर झुजता हाची जाणवीक रशियेक आसतली हाची तांकां खातरी आशिल्ली. नेताजी ते मुस्तींत सिंगापूरच्यान आझाद हिन्द रेडियो वेल्यान भारतीयां खातीर उलोवपां करताले. तीं चडशीं हिन्दींत आनी इंग्रजींत आसतालीं. तांणी रोखडींच बंगालींतल्यानूय उलोवपां सुरू केलीं. बंगाल म्हळ्यार भारतीय कोमुनिश्तांचो एक अड्डो. आनी भारतीय कोमुनिश्त पक्ष आयज आपणाक 'जपानी हस्तक' म्हणटा आसलो तरूय आपणाक तो भितल्ल्यान वळखताच वळखता हाची तांकां खातरी आशिल्ली. आपूण रशियेच्या आधारान आझाद हिन्द फौज भारतांत घेवन गेलों जाल्यार बंगाली कोमुनिश्त आपणाक वाऱ्यार उडोवचे नात, रशियेचेर आपणालें वजन हाडून तिका आपणा वशीन ओडून हाडटले हाचीय तांकां खातरी आशिल्ली.

पुणून निर्णय घेवपाक जपानांत वचप गरजेचें आशिल्लें. सिंगापूरांतल्या जपानी अधिकाऱ्यांक ते मेळ्ळे तेन्ना ते 'हाराकिरी' करपाचो बेत करतात म्हणपाचें तांकां

दिसून आयलें. एका अधिकाऱ्यान तांकां सांगलें, 'तुमी तोक्योक वचून वरिश्टांक मेळिल्ले बरे.'

'थंय वचप कशें?'

'फाल्यां एक विमान जपानी अधिकाऱ्यांक घेवन वचपाचें आसा. ताचेर तुमचे खातीर एक सुवात दवरतां,' ताणें जाप दिली.

'हांव एकलो वचचों ना. म्हजे वांगडा म्हजे पांच तरी सांगाती घेवन वतलों.'

'बरें आसा' म्हण जाप मेळटकूच नेताजींनी तेच रातची आपल्या आझाद हिन्द सरकारांतल्या मंत्रीमंडळाची बसका घेतली. आनी कोणें कोणें वचचें तें थारायलें. पुणून ऐन त्या वेळार जपानी अधिकारी म्हणपाक लागले, 'पांचांक सुवात ना. एकाक मेळटली.'

नेताजी देशा खातीर केदेंय दिव्य करपाक तयार आशिल्ले. पुणून आपणाल्या चारित्र्याक खत लागत असलें कितेंच करपाक तयार नाशिल्ले. 'गेलों जाल्यार पांच सांगात्यांक घेवन वतलों: एकलो निखालूस वचपाचों ना,' तांणी निक्षून सांगलें. बरींच वाणपणां केले उपरांत आनीक एकल्या खातीर जपानी अधिकाऱ्यांनी सुवात दिवची केली आनी 'उरिल्ल्या तिगांक फायच्या वा परांच्या विमानान धाडून दितां' अशें उतर दिलें.

नेताजींनी आझाद हिन्द सेनेचे सरसेनापती लॅफ्टनंट कर्नल हबीबुर रेहमानांक सांगाताक घेतले आनी ते भायर सरले. तांकां पावोवपाक तांगेले खुबशे सांगाती सिंगापूरच्या विमानतळार आयिल्ले. सगळ्यांक हात दिलो आनी 'जयहिन्द' सलामी दिवन ते विमानांत चडले. सांजच्या सवाय पांचांच्या अदमासाक विमान सुटलें. कांय वरांनी तें फ्रँच इण्डो चायनाच्या तुरेन विमानतळार देंवलें. ती रात सगळ्यांनी तुरेनाकूच सारली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तें सुटलें आनी फोर्मोसा जुंव्या वयल्या ताइहोकू विमानतळार दनपारच्या दोनांक देंवलें. थंय जेवण घेतलें. विमान ल्हान. इंधन घेवपा खातीर तें थांबिल्लें. अर्द्या वरान तें सुटलें. म्हणटासर कोंसळ्ळें आनी पेट घेतलो. नेताजी, हबीबुर रेहमान आनी दोग तीग जपानी अधिकारी सोडून बाकीचे सगळे यात्रीक मेले. नेताजीचे कपडे हुलपल्ले. तकलेक भयंकर मार बशिल्लो. हबीबुरांकूय बरोच मार बशिल्लो. दोगांकूय हेरां वाटावल्ल्या जपान्यां वांगडा हॉस्पिटलांत व्हेले. नेताजींचें तोंड हुलपल्लें. तेच बराबर आपणालें अवतारकार्य सोंपलां म्हणपाची जाणवीक तांकां जाली. तांचे ओंठ सुजिल्ले. तेच

अवस्तेंत तांणी हबीबुरांक म्हळें, 'हबीब, हांव चल्लों. निमाण्या खिणा मेरेन देशाचे सुटके खातीर झुजलों इतलेंच एक समाधान आसा. तूं परतो मायदेशाक पावलो जाल्यार हिन्दुस्तान आतां रोखडेंच स्वतंत्र जातलें अशें हांव म्हणटालों म्हूण सगळ्यांक सांग.' तांच्या तोंडांतल्यान फुटिल्लीं हीं निमाणीं उतरां आशिल्लीं. रातच्या आठ-णवांच्या अदमासाक तांगेली प्राणज्योत पालवल्ली.

ताइहोकूकूच तांचे अत्यंसंस्कार जाले.

तांचो अस्थिकलश तोक्योच्या रियोकोजू बौद्ध मंदिरांत आज उबंत पडला! मेळ्ळ्यात व्हय असले दळभद्रे सोयरे आनी अनुयायी संवसारांतल्या खंयच्याय म्हापुरसाक? राग मारता तो आमचो, सुटके झुजाऱ्यांचो. आमकां कांय लागना सुभाषबाबूंचें? आमचे कोण न्हय ते? म्हणूं आशिल्ले तांगेले सोयरे आनी अनुयायी हो अस्थिकलश तांचो न्हय म्हूण, तो हांगा हाडपाक आमी मुखार सरिल्ले जाल्यार आमकां कोण आडायतलो आशिल्लो? आमीय तसलेच, तांच्या सोयऱ्यां सारके दळभद्रे? सपन पडूं नाका आमचें कोणाक. इतले पडमूर कशे जाले आमी?

('जाग', जुलय २००७)



१.

# हांकां एक जात दिवंक मेळत व्हय?

हांगा दोतोर इजनेर जावन विदेशांत गेल्लो कोणूय मेळ्ळो म्हणटकच हांव ताका म्हणटालों, बाबा रे, तुका दोतोर वा इजनेर करपाक फकत तुज्या बापायन खर्च करूंक ना, आमीय केला. सरकारान आमचे कडल्यान डायरेक्ट इनडायरेक्ट मार्गान कर वसूल करून तुका दोतोर वा इजनेर करपाक मॅडिकल आनी इंजीनियरींग कॉलेजां चलयल्यांत म्हूण तूं दोतोर वा इजनेर जावंक पावला. तुका दोतोर वा इजनेर करपाक देशांतल्या लाखांनी लोकांचो हातभार लागला. आनी तूं... शिकून जातकूच आपणाक तुमचें कांय लागना अशें म्हणटा आनी उठून विदेशांत वता? देशाक तूं कांयच देणो ना?

हे भायर कित्याक वतात, म्हाका समजऽ नाशिल्लें.

आनी हांव मनांतल्या मनांत तांकां पडमूर, इंग्रात अशें म्हणून खेपतालों.

पयर एक खबर आयकली.

एक तरणाटो बरो शिकला. नोकरी सोदता. एके बँकेंत

एक वेकन्सी आसा म्हूण तो अर्ज करता. ताका कॉल येता. तो इन्टरव्ह्यूक वता. बँकेचो मॅनेजर ताची फायल उकती करता आनी विचारता, 'तूं जातीन कोण?'

'म्हाका जात ना,' हो जाप दिता. 'म्हजो बापूय एक स्वातंत्र्य-सैनीक. जाती-बिती मानिनाशिल्लो. आडनांवा वयल्यान जात कळटा म्हूण ताणें आपणालें आडनांवूय बदलिल्लें. 'भारतीय' म्हूण आडनांव घेतिल्लें. म्हाका म्हजी जात खबर ना...'

मॅनेजर 'सॉरी' म्हणटा आनी ताका आवियार करता.

येदेंशें तोंड घेवन तो सकल येता. दरवट्यार प्यून एका स्टुलार बसला. तो विचारता, 'सायब, येदे बेगीन इन्टरव्ह्यू सोंपलो?'

हो 'हय' म्हणटा.

'तुका जात विचारिल्ली?'

'हय.'

'तुवें खंयची जात सांगली?'

'म्हाका जात ना म्हूण सांगलें.'

'आरेरे... ही चित्पावनांची बँक. हांगा फकत चित्पावनांकूच नोकऱ्यो मेळटात. तुवें आपणाक जात ना म्हळी. तितलेंच तांकां तूं चित्पावन न्हय म्हूण कळपाक पुरो जालें. मराठो, सारस्वत, सी.के.पी., बी कोणूय आसतलो अशें मानलें आनी तुका परतो धाडलो. तांचो गुन्यांव ना...'

तो घरा वता.

जिस्त ह्या दिसांनी वेंचणुको जातात. नवें सरकार जुटयेर येता. भोवजनसमाजांतलो एकलो मुखेलमंत्री जाता. ताका भाशणां बी बरोवन दिवपी एक प्रायव्हेट सेक्रेटरी जाय आसता. खबरेपत्रांनी हें आयिल्लें आसता. हो अर्ज करता. कांय दिसांनी कॉल येता. हो इंटरव्ह्यूक वता. खासा मुखेलमंत्रीच इंटरव्ह्यू घेता. 'तूं जातीन कोण?' हांगाय ताका त्याच प्रस्नाची जाप दिवची पडटा. बँकेच्या मॅनेजराक दिल्ली तीच जाप तो मुखेलमंत्र्याक दिता.

'भारतीय' आडनांवाचे कोण्ण संवसारांत नात... सॉरी.' मुखेलमंत्र्याक हो चित्पावन, कराडो वा असलोच कोण ब्राह्मण जातींतलो दिसता. ब्राह्मण जाल्ल्यान जात लिपयता अशें दिसता.

परतोय तो येदेंशें तोंड करून घरा येता.

एके व्यापारी पेढयेक एक मुनीम जाय म्हूण एक दीस ताका तागेलो एक इश्ट सांगता आनी म्हणटा, 'अर्ज-बिर्ज कांय धाडूं नाका. निट्ट वच आनी शेठीक मेळ.'

हो तशें करता.

'तूं गुजराती काय मारवाडी?' शेठ विचारता. 'आमगेलो व्यापार ॲक्सपोर्ट इम्पोर्टाचो. माल चडोवप माल देंवोवप असलो. गुजरात्यांक वा मारवाड्यांक हें कशें कितें करचें तें सांगचें पडना. तांगेल्या रगतांतूच तें आसता. असल्या कामाक तुमगेल्यो त्यो डिग्रो-बिग्रो उपकारा पडनात. तूं गुजराती काय मारवाडी?'

'हांव गुजरातीय न्हय, मारवाडीय न्हय,' हो जाप दिता.

'रागार जावं नाका... तूं आमकां जड वतलो.'

परतोय तो मान सकयल घालून घरा येता.

एक दीस ताका एका सरकारी ऑफिसांत प्यूनाची एक सुवात आसा म्हूण कळटा. एका खबरेपत्रांत तो हें वाचता. आनी हो डायरेक्टर, प्रोफेसर, मॅनेजर जावपाच्या पांवड्याचो मनीस प्यूनाची सिर्वीस करपाक तयार जाता.

'तूं शेड्यूल्ड कास्ट, शेड्यूल्ड ट्रायबां मजगतचो?' ताका ह्या प्रस्नाची जाप हांगा दिवची पडटा.

'न्हय... हांव असलो कोण न्हय,' हो म्हणटा.

'ही सिर्वीस शेड्यूल्ड कास्टां ट्रायबां खातीर रिझर्व्हड,' ताका आयकुचें पडटा.

हांगा कथा सोंपता.

हे दोतोरकी इजनेरकी शिकून भायर कित्याक वतात तें समजनाशिल्लें तें ही कथा वाचतकूच बेस बरें समजलें!

('जाग', मार्च २००४)



१०.

# आसा व्हय हाची जाप कोणा कडेन?

धरुया, पिरवळांत ह्यांवें पुर्तुगेज शिकोवपाचो एक वर्ग सुरू केलो. कांय भुरग्यांक आपयले आनी तांकां सांगलें, येवरोपांतल्यो सगळ्यांत व्हड भासो तीन ह्य इंग्लेज, इश्पान्योल आनी तिसरी, पुर्तुगेज. ती पुर्तुगालांतल्या लोकांची भास. तशी, ब्राझील देशाचीय भास. ते भायर, आंगोल, मोझांबीक, काब व्हेर्द, गिनॅ सारकेल्या आफ्रिकेंतल्या देशांचीय राष्ट्रभास. संवसारांतली खुबूच गोड एक भास ही. साहित्याचे नदरेनूय गिरेस्त. ऍंसा द कैरोझ, आल्मैदा गार्रेत, फेरैरा द काश्त्रु, जॉर्ज आमादु, ज्युझॅ सारामागु सारकेले व्हडले व्हडले साहित्यकार हे भाशेंत आस्मात. आनीक कोण न्हय जाल्यार, फेर्नान्दु पेस्सोआ तरी वाचपा खातीर ही भास शिकूंक जाय. संवसारांतलो व्हडांतलो व्हड आनी आगळे वेगळेच जातीचो कवी हो एक... आनी, धरुया, म्हजें आयकून हे भुरगे पुर्तुगेज शिकपाक वर्गांत येवपाक लागले. पुर्तुगेज शिकले. फुंदासांव ओरियेन्तिच्या आधारान तांकां 'पुर्तुगेजीचे जाणकार' म्हण प्रमाणपत्रां मेळ्ळीं... उपरांत, धरुया, 'आमकां आतां नोकऱ्यो

खंय मेळटल्यो' काय म्हूण तांणी विचारलें. जाल्यार, हांव तांकां जाप कितें दितलों? 'तुमकां हांवें नोकऱ्यां खातीर पुर्तुगेज शिकात म्हूण सांगूंक नाशिल्लें. ज्ञाना खातीर शिकात म्हळ्ळें' अशी दितलों? 'नोकरी जोडून दिना असलें ज्ञान कित्याक उपकारता?' अशें तांचे मजगतच्या कोणेंय म्हळें जाल्यार? म्हजें तोंड आपशीं बंद पडटलें.

काल एक तरणाटो मेळपाक आयलो. हांव कुडींत बसून बरयतालों. इतल्यांत नातीन येवन सांगलें, 'भायर तुका मेळपाक एक तरणाटो आयला.'

'कोण?'

'खबर ना... वळखीचो न्हय'.

वळखीचो न्हय असलो कोणूय तरणाटो मेळपाक येता तेन्ना म्हजें हड्डें धडधडपाक लागता. कोणूय आपणाल्यो कविता घेवन आयला जातलो, अशें दिसता. 'कोंकणी जाल्ली जाय आशिल्ली न्हय तुका? घे आतां ह्यो कोंकणी कविता... छाप तुज्या नेमाळ्यांत' म्हूण म्हाका ख्यास्त फर्मावपा खातीर आयला जातलो अशें दिसता. मागीर, खंयची कोंकणी करपाक गेलों अशें जाता. हालींच्या तरणाट्यांक कविता सोडून दुसरें कितेंच बरोवंक येना. आनी कांय जाणांच्या कवितांच्या पुस्तकांत तर कविते परस पाना वेले कोरे सुवातेरूच चड काव्य अणभवूंक मेळटा. भियेत भियेत भायर आयलों. ताच्या हातांत कादेर्न नाशिल्लो.

'कित्याक आयिल्लो?' हांवें ताका विचारलें.

ताणें आपणाली वळख करून दिली. आपूण अमक्याचो पूत. बापूय एक सुटके झुजारी... अमक्या सरकारी खात्यांत नोकऱ्यो आसात. अर्ज मागयल्यात. आपणें अर्ज केला. त्या खात्याचो अमको अमको मंत्री. 'म्हजे खातीर ताचे कडेन तुमी उतर घालें जाल्यार म्हाका नोकरी मेळटली... जल्मांत तुमचे उपकार विसरचों ना...'

हाचे पयलीं असलो कोणूय येतालो तेन्ना हांव ताका सांगतालों, 'बाबा रे, मंत्र्यांचे मतदारसंघ आसात. तांचे खातीर वावुरिल्ले तांचे 'वर्कर्स' आसात, सोयरे-धायरे आसात, इश्ट, बरें मागते आसात. तांकां सोडून तो दुसऱ्यांचीं कामां कित्याक करतलो? दुसऱ्या कोणाचीं करपाक ताचे पसून ताका कसलोय तरी फायदो जावंक जाय वा भंय तरी आसूंक जाय... म्हजे पसून कोणाक कसलोच फायदो जावपाची आस्त ना आनी म्हजो कोणाक भंयूय दिसपाचो ना... तो म्हजें

काम कित्याक करतलो?...'

दोगां चवगांक हे भाशेन सांगून परतिले उपरांत एक दीस इल्ली अक्कल आयली. म्हळें, उतर घालें जाल्यार वचून वचून कितें वतलें? उतरूच फुकट वतलें मूं? वचूं दी... पुणून आशेन दारांत आयिल्ल्याक निर्शेवन परतो धाडूंक जायना. आनी हांव 'बरें आसा. सांजे फोन करून सांगतां... ना जाल्यार फाल्यां वचून मेळटां' अशें सांगपाक लागलों. आनी खऱ्यांनीच फोन करून सांगपाकूय लागलों आनी गरज दिसल्या तेन्ना वचून मेळपाकूय लागलों.

आयज आयिल्ल्याक हांवें विचारलें, 'तूं कितें शिकला?'

ताणें आपणालो 'बायो-डेटा' म्हज्या हातांत दिलो. इंग्लीश, कोंकणी, बायॉलजी, फिजिक्स, कॅमस्ट्री आनी सायकॉलजी घेवन ताणें बारावी केल्ली. म्हळ्यार, नोकरी मेळोवन दिवपाकूय उपकारना आनी कसलोय उद्देग करून पोट भरतलो म्हळ्यारूय उपकारना असलें शिक्षण ताणें घेतिल्लें. असलें शिक्षण भुरग्यांक दिता तरी कित्याक सरकार, समजना. हांवें ताका म्हळें, 'फाल्यां वचून सांगतां.'

आनी खऱ्यांनीच दुसऱ्या दिसा मंत्र्याक सांगुनूय आयलों.

ताका नोकरी मेळ्ळी काय ना, खबर ना. मेळिल्ली जाल्यार मेळ्ळी म्हण सांगपाक येतलो आशिल्लो. येवंक ना. हाचे वयल्यान ताका नोकरी मेळूंक ना अशेंच धरून चलतां.

आमच्या देशांत लोक नोकरी मेळोवपा खातिरूच शिकतात. कांय शेंकडे आमी परक्यांले गुलाम उरले हाचो परिणाम हो. नोकरी म्हणिना फुडें आमच्या दोळ्यां मुखार सरकारी नोकऱ्योच उब्यो रावतात. सरकारी नोकर ह्र गव्हर्नमॅंट सर्व्हंट ह्र आमकां कोण तरी सर्गांतल्यान देंविल्ले सारको मनीस दिसता. म्हण, आपूण जावंक पावलो ना तरूय आपणालो पूत गव्हर्नमॅंट सर्व्हंट जावचो म्हण जण एकलो बापूय आंवडेता. व्हडले व्हडले भाटकार ह्र जांकां कसलीच नोकरी करपाची गरज नाशिल्ली ह्र ते लेगीत आपणालो भुरगो सरकारी येंप्रेगाद जावचो म्हण आंवडेताले. कायतान फिगरेदीचो पूत व्हिसेंत जुआंव फोंड्यां त्रिबुनालार देलेगाद म्हण काम करतालो. ताका मेळटालो तितलो पगार पन्नास जाणांक दिवपा इतली तांक कायतान फिगरेदींत आशिल्ली. पुणून पयशांची तांक कित्याक उपकारता, हुद्दो मनशाचो समाजांतलो पांवडो थारायता असो समज आशिल्लो दुडवांकारांलो लेगीत. उत्पादक स्रमाक कांयच मोल नाशिल्लें ते मुस्तींत.

देशाक स्वराज्य मेळून अर्द शतमान उलगलें. तरूय शिकप म्हळ्यार नोकरे खातीर शिकप आनी नोकरी म्हळ्यार सरकारीच करप हो समज चलता आयजूय ह्या देशांत. येदेंशें आमचें गोंय. आठ धा हजार नोकर पुरो आशिल्ले ताचो कारभार चलोवपाक. आसात खंय पंचेचाळीस हजार! सगळे सरकारी नोकर जावपा खातिरूच शिकिल्ले. इतली बेंदल्ल सरकारा आंगार वाडटकूच राजकारभाराच्या गार्फाक आंबे कशे लागतले? जितले चड नोकर तितलो सदळ राजकारभार, तितलेंच चड अराजक. कोण कसलेंच काम करिना हो अणभव लोकांचो. सरकारी तिजोरेंतले अर्दे पयशे हांच्या पगारांतूच खर्चतात. उरिल्ल्यांतले अर्द काडिल्ल्या रिणांच्या कळांतरांत आनी अर्द दिल्लींत (केन्ना केन्ना विदेशांत) भोंवड्यो करपांत आनी हाका ताका पाट्यो दिवपांत वता.

देशांतल्या रोजगार कार्यालयांत खंय चार कोटी बेकार लोकांचीं नांवां आसात. आनी गोंयांत? नायलॉन ६,६आड चळवळ चलताली तेन्ना एका मंत्र्याच्या तोंडांतल्यान पंच्यात्तर हजार लोकांचीं नांवां आसात म्हूण आयकल्लें. शिकपाचें तें बेकार लोकांचें पंगतींत आसपाव करून घेवपा खातीर असोच हाचो अर्थ. बेकार फकत शिकिल्लेच पळोवंक मेळटात ह्या देशांत. शिकूंक नाशिल्ले कितले बेकार मेळटले? दिसा उजवाडे लापयांव घेवन सोदचे पडटले.

शिक्षणाचो आनी नोकरेचो संबंद तोडूंक जाय. शिकपाचें तें आपणाल्या पांयांर उबें रावपा खातीर, हेच तरेचें शिक्षण सगळ्यांक मेळूंक जाय. आयज जो तरणाटो 'उतर घाल' म्हूण सांगपाक आयिल्लो, ताणें शिक्षण घेतिल्लें बेकारांचे पंगतींत आपणालो आसपाव करून घेवपाचें. ताकाय उपकारपाचें न्हय, कोणाक उपकारपाचें न्हय, असलें. तो एका सुटके झुजाऱ्याचो, ते भायर एका शेतकामत्याचोय, पूत. ताका कूळकायद्यान एक कुळागरूय मेळ्ळां. तो शेतांतूय काम करपाचो ना. कुळागरांतूय करपाचो ना. 'हेंच काम करपाचें आशिल्लें जाल्यार म्हाका शिक्षण कित्याक घे म्हूण सांगलें,' अशें विचारतलो.

हातूंतल्यान वाट कशी काडपाची?

आसा व्हय जाप कोणा कडेन?

('जाग', सप्टेंबर-ऑक्टोबर, २००२)



११.

# म्हारगाय हें कारण

म्हारगाय एका सारकी वाडत गेल्या. पयर सुगंटांचो वांटो चार आण्यांक मेळटालो. आयज तो वीस रुपया दिवन घेवचो पडटा. तांदूळ, गंव, साकर, च्या, तेल, तूप सगळें आतां वीस वीस, तीस तीस वांट्यांनी चड पयशे दिवन घेवचें पडटा.

सरकारूच जंय पेट्रोल, डिझल, टेलिफोन, वीज हांची दर वाडयता थंय बाकीचें सवाय दरेन कित्याक मेळटलें? सगळें वाडटलें. एका सारकें वाडत वतलें.

हाका अंत ना? आसा. आयचें अर्थतंत्र कोंसळून पडटलें तेन्नाच म्हारगाय सोंपतली. ते पयलीं ना. ते पयलीं एक गजाल घडून येतली. म्हारगाय वाडत वतली तशें तशें पयशांचें मोल उणें जायत वतलें आनी एक दीस असो उदेतलो जेन्ना पयसो करून 'दवरप' पिशेपणाचें म्हणपाची जाणवीक सगळ्यांक जातली आनी जोडिल्लो सगळो पयसो ते मोडून मेकळे जातले.

तेन्नाच खरेलें अर्थशास्त्र उदेवंक पावतलें. आयज चलता

तें अर्थशास्त्र अर्थशास्त्र न्हय, व्यर्थशास्त्र जावन पडलां.

एका इश्टान खूब पयसो केल्लो. एक दीस ताचे ताकाच दिसलें, 'जोडिल्लें त्या वेळार ह्या पयशांचें जें मोल आशिल्लें ताच्या अर्दानूय तें आतां उरूंक ना. ह्या हिसपान आनीक धा वर्सांनी ताचें मोल हाच्याकूय अर्दान जातलें... खंयचोय धंदो सुरू केल्लो जाल्यार पयसो घडये वाडटलो आशिल्लो. धंदो सुरू करपाचें येवजलें ना... शॅर घेतले, पयशे बँकेंत फिक्सांत दवरले... आतां ते खर्चून उडयल्ले बरे.' ताणें एक प्लॉट घेतलो आनी थंय एक 'आलिशान' बंगलो बांदलो. आतां म्हणटा, बंगल्यांत हांव आनी बायल, दोगांच रावतात. एक पूत कॅनडाक सॅटल जाला. दुसरो ऑस्ट्रेलियेंत... बंगल्यांत सान्न मारपाक लेगीत गांवांत कोण मेळना... एक व्हॅक्यूम क्लीनर हाडला. तरूय अर्दा वयर घर आमी दोगां निवळ करूंक पावनात.

दुसऱ्या एकल्या इश्टान एक व्हडलें बेंस घेतलें. माड, केळी, पोपायो लायल्यो. खूब उत्पन्न काडटलो म्हण आशिल्लो. आतां म्हणटा, भाटांत काम करपाक मानाय मेळनात, मेळटात ते पुटवनात. 'घांटयां'क घालून कामां करून घेवचीं पडटात आनी सगळें म्हारग पडटा.

पयशांचें मोल उणें जायत वता तसो तसो मानायांचो दिसावडोय वाडत वता आनी म्हारगाय ह्या न्हय त्या रुपान एका सारकी वाडत वता. एके तरेचें 'चांडाळ चक्र' हें, आयचे अर्थनितीन सुरू केल्लें.

आयचें पुराय अर्थतंत्र फॉरेन एक्सचेंज कशी जोडची हेच एके प्रेरणेन चलत रावलां. फ़ॉरेन एक्सचेंज कशी मेळटली? देशांत तयार जाता तो माल भायल्या पेठांनी धाडून. खंयचो माल धाडून? खंयचोय. सुंगटां धाडल्यार मेळटा जाल्यार सुंगटां धाडून. ताल्ले बांगडे धाडून मेळटा जाल्यार ताल्ले बांगडे धाडून. आंबे केळीं धाडून मेळटा जाल्यार आंबे केळीं धाडून. हालीं आमी मोगरीं लेगीत अरब देशांनी धाडपाक लागल्यांत. नशीब आमच्या बायलांचें, आबोल्यांचेर कोणाची नदर अजून पडूंक ना. म्हूण तीं मेळटात तांकां माळपाक. ना जाल्यार तिंवूय भायर वचपाचीं.

फाटीं सरकारान साकर भायर धाडून दिली. कितली धाडची हाचो हिशोबूय केलो ना. मेळटा तितली घेतली आनी धाडून दिली. देशान खूब फॉरेन एक्सचेंज

जोडली. परिणाम ह्व बाजारांत साकरेची दर दुपेट जाली. लोकांनी बोबो मारपाक सुरवात केली आनी तेन्ना साकरेची दर उणी करपा खातीर सरकारान भायल्यान साकर हाडली. आनी जोडिल्ली पुराय फॉरेन एक्सचेंज खर्चून तें मेकळें जालें.

तरूय साकरेची दर देंवल्या व्हय? ना. ह्या देशांत एक फावट कित्याचीय दर वाडूं, ती सकल कशीच देंवना.

कांदोय एक दीस भायर वचपाक लागलो. परिणाम ह्व बाजारांत कांद्याची दर वाडली. कांदो म्हळ्यार गरिबांचें अन्न. ताची दर वाडूंक दिवं येता? सरकारान कांदो भायर धाडपाचें रोखडेंच बंद केलें. पुणून ताची जी दर वाडिल्ली ती परती केन्ना देंवली ना.

सरकारान उदारीकरणाचें, संवसारीकरणाचें, मुक्त बाजाराचें अर्थतंत्र कित्याक सुरू केल्लें? देश भांकरोट जाल्लो ताका जाग्यार हाडचो म्हूण. म्हारगाय वाडत गेल्ली ती आळाबंदा हाडची म्हूण. गरजेच्या वस्तूंच्यो दरो थीर करच्यो म्हूण. दुडवांचें इन्फ्लेशन सकल हाडचें म्हूण. पांच वर्सां जालीं हें अर्थतंत्र देशांत चलता. एक्ूय मोख सरकार सादूंक पावूंक ना. कित्याक? हें सट्ट्याचें अर्थतंत्र. सोर्तीचें अर्थतंत्र. कांयच काम करिनासतना फकत फटींगपणां करून रातयां कोट्याधीश, अब्जाधीश हर्षद मेहता जावपाचो हावेस जागोवपी अर्थतंत्र. बँको लुटपी, सरकारी लोकांक लांच दिवन तांचे कडल्यान कामां करून घेवपी 'टाउट्स' (दलाल) निर्माण करपी अर्थतंत्र. हें अर्थतंत्र देशाचो खंयचोच प्रस्न सोडोवंक पावपाचें ना. सोडोवपाची कुवतूच ताच्यांत ना. हें अर्थतंत्र फायव्ह स्टार हॉटेलां उबीं करीत. पर्यटकां खातीर राजम्हाला सारक्यो आगगाडयो सुरू करीत. भोवराष्ट्रीय कंपन्यां कडल्यान टीव्ही,ट्रॅक्टर, कार, स्कुटरी हांचे वांगडा तरातरांचे शॅम्पू, शाबू, तेलां, सॉफ्ट ड्रिंक्स तयार करून घेत. लोकांक कामां दिवंक तें पावपाचें ना. लोकांचें पोट भरपाचें ना. सरसमान मनशाच्यो खंयच्योच गरजो भागोवंक पावपाचें ना. तें कित्याक, पियेवपाक सादें उदक लेगीत दिवंक पावपाचें ना. देश पोंदच्यान बांदून काडपाचें काम ह्या अर्थतंत्रा कडल्यान जावपाचें ना. तें जे मेरेन चलतलें ते मेरेन म्हारगाय सोंपपाची ना. ती एका सारकी वाडत वतली.

('जाग', ऑक्टोबर १९९६)



१२.

# क्रांती जातलीच... कोण करतलो?

दार्जीलिंग-सिक्कीमची भोंवडी करून कोलकात्याक पावलों. त्याच दिसाचे 'गीतांजली ॲक्स्प्रेसी'न म्हाका मुंबय वचपाचें आशिल्लें. कोलकात्याच्या म्हज्या गुजराती इश्टाक हांवें म्हजो प्रोग्राम कळयल्लो आनी तिकेट रिझर्व करून दवर म्हूण सांगिल्लें. स्टेशनार तो म्हाका व्हरपाक येतलो अशें दिशिल्लें. तो दिश्टी पडलो ना तेन्ना टॅक्सी करून ताच्या 'शॉपा'र गेलों. तो मुंबय गेला म्हणपाचें कळ्ळें.

'म्हजी तिकेट काडून दवरल्या?'

'ना.'

'म्हजी चीट मेळूंक नाशिल्ली?'

'ताका आयिल्ल्यो सगळ्यो चिटी ताच्या मेजार दवरल्यात. तातूंत तुजीय चीट आसूं येता.'

'ताच्या घरा घरकान्न ना?'

'सगळी मुंबय एका लग्नाक गेल्यांत.'

हांव घुटमळ्यांत पडलों. 'हांगा लागसार मदल्या वर्गांतल्या लोकांक पुटवता असलें हॉटॅल आसा?' हांवें विचारलें. म्हजें

आडनांव केळेकार. आडनांवा वेल्यान ताणें म्हाका महाराष्ट्रीय धरलो आनी म्हळें, 'हय, महाराष्ट्र-सदन आसा.'

'खंय शें?'

ताणें खंय तें सांगलें. हांवें टॅक्सी केली आनी ताणें सांगिल्ल्या पत्त्यार महाराष्ट्र-सदन सोदून काडलें. पयल्या मजल्यार एक कूड मेळ्ळी. तळमजल्यार एक खानावळ आशिल्ली. एकलो गुजराती ती चलयतालो. ताका हांवें म्हजी अडचण सांगली. तो म्हणूंक लागलो, 'आतां जेव आनी सुस्त बरो न्हीद. सांजच्या पांच-साडेपांचांक एक सरदारजी येतलो. तो तुजो प्रस्न सोडयतलो.'

साडेपांचांक सरदारजी आयलो. खानावळकारान ताका म्हजी अडचण सांगली. 'चलिए मेरे साथ, मैं आपको टिकट दिलवा दूँगा' अशें म्हणून तो म्हाका आपणा वांगडा घेवन गेलो. एक देड किलोमिटराचे वाटेर एके गल्लींत एक केरळी मनीस एक 'ट्रॅव्हल एजन्सी' चलयतालो. 'आपको कल का टिकट मिल जाएगा, आप के नाम का ही रिझर्व्हेशन होगा... एकाध घंटे के बाद आकर ले जाइएगा...'

वरभर सरदारजीक घेवन हांगा थंय भोंवलों. च्या घेतली आनी गल्लींत परतो आयलों. तिकेटीचे पयशे, रिझर्व्हेशनाचे पयशे आनी आपणाल्या कमिशनाचे पयशे घेवन ताणें म्हज्या हातांत तिकेट दवरली. तिकेटीक लागले तितलेच पयशे ताणें कमिशनाचे घेतले. मोन्यांनी दिले. कितें करतलों? भायर येतकूच हांवें सरदारजीक म्हळें, 'सरदारजी, यह रिश्वत नहीं है क्या?'

'काहे की रिश्वत?... रेल्वेचे पयशे रेल्वेक मेळ्ळे... तुका तुज्या नांवाचें रिझर्व्हेशन मेळ्ळें. ताणें आपणालें कमिशन काडलें... तो एक ट्रॅव्हल एजन्सी चलयता. लोकांचेर उपकार करूंक तो हांगा बसूंक ना. जोडपाक बसला. तो कमिशन घेतलोच. तूं स्टेशनार तिकेट काडपाक गेल्लो जाल्यार तुका वर दोन वरां लायनींत उबो रावचें पडटलें आशिल्लें... रिझर्व्हेशन धा दिसां उपरांतचें मेळटलें आशिल्लें. धा दीस तुका कोलकात्यांत फुकट होगडावचे पडचे नाशिल्ले? तुगेले सगले त्रास ताणें वाटायले. इसमें रिश्वत कहां आयी?

म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली. पुणून खंय तरी चुकलां अशें दिसलें. खंय तें लक्षांत आयलें ना. हे खबरेक आतां पंदरा वर्सां जायत आयलीं. अजुनूय हांवें दिली ती 'रिश्वत' आशिल्ली काय कितें, म्हाका सांगूंक येना.

म्हजे आवयन एक फावट म्हळें, 'आमच्या भुरगेपणांत धुवे खातीर थळ सोदताले तेन्ना भुरगो कितें जोडटा हाची चवकशी आमचे म्हालगडे पयलीं करताले. आनी 'पगार पन्नास रुपया... पुणून म्हयन्या म्हयन्याक अडेजशें तो **वयले मेळयता'** ही जाप मेळटाली तेन्ना थळ पक्कें करताले.'

'वयले म्हळ्यार कसले?'

'लोकांचीं कामां करून मेळटात ते.'

'पुणून लोकांचीं कामां करपा खातीरूच तर ताका पन्नास रुपयांचो पगार मेळटालो न्हय?' अशें हांवें म्हळें तेन्ना तिणें जाप दिली, 'पन्नासान कितें जाता रे? पन्नास रुपयान कसलो संवसार चलयतलो तो?'

ते मुस्तींतल्या लोकांक लांच दिवप वा लांच घेवप समा न्हय अशें दिसनाशिल्लें जावंक जाय असोच हाचो अर्थ करचो पडटा.

दिल्लीच्या तख्तार बशिल्ले मोगल पात्शा कोणाक नोकरेर घेवचो म्हणपाचें येवजिताले तेन्ना खंय ते **'हो वयले कितले करतलो'** हाचो अदमास घेताले आनी ते प्रमाण ताचो पगार थारायताले. नोकरी घेतल्याक पगाराचें व्हडलेंशें लागऽनाशिल्लें. नोकरेक लागतकूच जालें. फुडें कितें करचें हें खासा तोच थारायतालो.

बिरबल अकबराच्यो कांय आख्यायिको चलतात. तांतली एक आयकल्ली ह्न

एक खेपे खंय अकबरान बिरबलाक म्हळें, 'हो भ्रश्टाचार भ्रश्टाचार म्हूण तुमी जप करतात तो कितें? पात्शा निर्मळ आनी कडक आसत जाल्यार भ्रश्टाचारी मनशाक जाग्यार हाडपाक वेळ लागना. राज्यांतलो सगलो भ्रश्टाचार ना करूं येता.'

बिरबलान म्हळें, 'अशें?' आनी दुसऱ्या दिसा ताणें अकबराच्याच दरबारांतल्या एकल्याक ताचे मुखार उबो करून म्हळें, 'हाका जाग्यार हाडून दाखय.'

'सद्दां सकाळीं यमुनेचे तडीर वचून बस आनी न्हंयेंत कितलीं ल्हारां वयर सरतात आनी कितलीं जिरतात हाचो हिशोब सांजवेळा हाडून दी.' अकबरान ताका काम सांगलें. एक सप्तक वचूंक ना, कितलेशे वेपारी ह्या मनशा आड कागाळी घेवन दरबारांत आयले. कागाळ कसली? 'जहांपनाह, हो न्हंये तडीर बसून आमचे कडल्यान भरमसाठ कर वसूल करता... तुमचीं तारवां येतात वेतात तेन्ना म्हज्या ल्हारां मेजपाच्या वावराक आडखळ हाडटात अशें सांगून.'

‘कळ्ळें, जहांपनाह, कितें जाता तें?’ बिरबलान अकबराक म्हळें.

‘हय रे बाबा, तुजेंच खरें, भ्रश्टाचार ह्या लोकांच्या शिरंत्रांनीच घोळटा. तो देशांतलो ना करप कोणाक जमपाचें ना.’

असल्या ह्या जल्मजात भ्रश्ट देशांत स्वराज्य मेळना फुडें कॉंग्रेस सरकारान ‘समाजवादी पॅटर्न’ सुरू केलो आनी सरकाराच्या हातांत सुमारा भायर सत्या दिली. परिणाम ह्व ‘परमीट-कोटा-लायसंस राज्य’ चलपाक लागलें. लांच घेवपाच्यो हजार वाटो उकत्यो जाल्यो. तेन्ना सावन तुमी कसलेंय काम सरकाराच्या खंयच्याय खात्यांत घेवन वचात, चपराश्या पसून डायरेक्टरा मेरेनचे एकान एक सरकारी नोकर पयलीं ‘तुमचें काम जावपाचें ना’ म्हूण सांगतले आनी थोडी चिरीमिरी हाताक लायना फुडें ‘जावपाचीं नात’ तीं सगळीं कामां फटाफट जावन पडटलीं. ‘लांच दिवपी आसात म्हूण लांच घेवपी आसात’ असलें एक कोश्टक लांच घेवपी फटींग सरकारी नोकरांनी चलयलां, तें खरें न्हय. लांच दिलिना जाल्यार स्वराज्यांत तुमचीं कामां कशींच जायनात. लांच घेवपी लोक वयर आसात म्हूण सकल मेरेन भ्रश्टाचार चलपाक लागला. ‘वयलो लोक’ निर्मळ आनी कडक आसलो जाल्यार राजकारभारांत खंयचेच कडेन भ्रश्टाचार चलपाचो ना. *राजा कालस्य कारणम्* होच समाजाचे गतिशीलतायेचो नेम हें विसरूंक फावना. नेहरू राजवटींत भ्रश्टाचार खूब वाडला म्हूण लोक उलोवपाक लागले तेन्ना नेहरून ‘ॲण्टी करप्शन बोर्ड’ सुरू केल्लो. ताणें कसले दिवे लायले?

एका राजाक खंय दुदा साय खूब आवडटाली. राजवाड्या मुखारूच एकलो दूद विकतालो. तागेर सायूय मेळटाली. राजा आपल्या सेवेकाऱ्यां मदल्या एकल्याक चार आणे दिवन वाटीभर साय हाडून खातालो. एक दीस राजाक त्या सेवेकाऱ्याचो दुबाव आयलो. ‘हो चार आणे घेवन वता खरो, पुणून साय चार आण्यांची न्हय, तर तिनूच आण्यांची हाडटा, एक आणो बोल्सांत घालता जातलो.’ राजान ताचेर नदर दवरपाक दुसऱ्या एकल्याक इन्स्पॅक्टर म्हूण नेमलो. ताणें एक दीस साय हाडटल्याक ‘रंगे हाथ’ धरलो. ‘साल्या, चार आणे व्हरून तीन आण्यांची साय राजाक हाडून दिता? आत्तांच्या आत्तां तुका गोळाक लावंक सांगतां राजाक.’

‘नाका, नाका... हांव एक गरीब मनीस... पगार मेळटा तो पावना. म्हूण एक आणो चोरतां,’ ताणें रडून सांगलें.

इन्स्पॅक्टरान म्हळें, ‘बरें आसा, हे खेपे तुका सोडटां... फायच्यान दोनूच आण्यांची साय हाडून राजाक दी. एक आणो तुका दवर. एक म्हाका दी... तूं चारूच आण्यांची साय हाडटा म्हूण हांव राजाक समजावन सांगतां... म्हारगाय खूब वाडल्या. तो एक वर्ल्ड फेनोमेनन म्हूण सांगतां.’

नेहरूंलो ‘ॲण्टी करप्शन बोर्ड’ हाचे भायर दुसरे कसले दिवे लायतलो?

आनीक एक अडचण आमकां नडटा. आमचें काम करून दिवप कोणाच्या हातांत आसा हें केन्नाच कोणाक कळना. म्हूण आमी कितें करतात, ज्या सरकारी खात्यांत आमचें काम आसता त्या खात्यांतल्या सगळ्यांक लांच दिवन मेकळे जातात. ‘हो फाटीं-फुडें पळे नासतना लांच दिता’ म्हणपाचें कळना फुडें जण एकलो आपणालो भाव वाडयत वता. च्यांग-काय-शेकांच्या चीनांत अशें चलिल्लें. भ्रश्टाचार हाता भायर गेल्लो. ह्या भ्रश्टाचारानूच माओत्से तुंगाचे क्रांतीक वाट मेकळी करून दिल्ली. सोविएत रशियेंतूय असोच भ्रश्टाचार वाडिल्लो. ह्या भ्रश्टाचारानूच लेनिन आनी स्टॅलिनान मोट्या यत्नान उबो केल्लो ‘सोविएत संघ’ विघटीत जालो. आमच्या देशांत माओ जल्माक येवपाची आस्त ना. पुणून देश विघटीत जावचो ना हें मात कोणाकूच सांगूंक येवपाचें ना. तुर्तांचीं लक्षणां पळेल्यार एक दोन वेंचणुकां उपरांत तीन चार ‘राष्ट्रां’नी देश विघटीत जालो (फुटलो) जाल्यार कोणेंच अजाप करचें न्हय.

दक्षीण कोरियांतल्या दोगां राष्ट्राध्यक्षांक भ्रश्टाचाराच्या गुन्यांवां खातीर ख्यास्ती जाल्यात. एकल्याक मरणाची, दुसऱ्याक बावीस वर्सांचे बंदखणीची. दोगांयचे आड लोकांची तिडक पळोवन कोर्टान हो निकाल दिल्लो. ह्या ‘इंडिया दॅट इज भारत’ देशांतल्या लोकांचें रगत न्हिवलां आसूंक जाय. तें पेटून उसळना. उसळ्ळें जाल्यार लोक ताचे कडेन लक्ष दिनात. लोक मुर्दाड. न्यायालयां ‘सुशेगाद’. एके एके केशीचो निकाल दिवपाक दोन दोन, तीन तीन दसकां लायतात. नरसिंहरावांचे राजवटींत लखुभाई पाठक नांवाची एक केस न्यायालयांत आशिल्ली. नरसिंहराव मरून किल्लले. लखुभाई किल्लून युगां जालीं. केसीचें कितें जालें, केन्ना समजलें ना. न्यायदान अशेंच चलपाचें असो लोकांचो समज जालो जाल्यार तांचो गुन्यांव न्हय. स्वराज्यान अशे तरेचो एक समाज घडयला की जंय  जण एकलो चोरता. कोण कोणाक धरून व्हरिना. कित्याक, धरून व्हरपीय सवाय-चोर आसतात.

एक गजाल लक्षांत दवरिल्ली बरी ह्व असल्या ह्या देशांत भ्रश्टाचार आळाबंदा

हाडपाचें काम खंयच्याच राजकी फुडाऱ्याच्या हातान जावपाचें ना. ह्या पक्षा बदला दुसरो पक्ष सत्येर आयलो जाल्यार भ्रश्टाचार सोंपतलो हो भ्रम एक. हालींसराचो चोरांचो सम्राट हाजी मस्तान सांगता ह्न

'ह्या देशांत सत्येर आशिल्लो आनी विरोधी पक्ष अशे दोन पक्ष नात. सगळे एकेच माळेचे मणी. आयज जो सत्येर ना तो भ्रश्टाचारा संबंदान उलयता तेन्ना 'हांकां सगळ्यांक फारान मारूंक जाय' म्हणटा. तीनसांज जायना फुडें तो आमगेर येता आनी म्हणटा, 'सत्येर येवपाक पयशे जाय पडटात. ते आमचे कडेन नात.' आमी ताका पयशे दितात आनी ताचे कडल्यान आमकां जाय तीं कामां करून घेतात.'

ह्या चांडाळचक्रांतल्यान देशाची सुटका कशी जातली? गांधीं सारको कोणूय येतलो आनी तो आमची सुटका करतलो म्हूण आमी ताची वाट पळेत बसतले व्हय? जाल्यार एक लक्षांत दवरात ह्न गांधीं सारको कोणूय हजार दोन हजार वर्सां उपरांतूच येता. दोन हजार वर्सां क्रांती गांधींची वाट पळेत बसपाची ना. देशा मुखार आयज दोनूच मार्ग आसात ह्न एक, देश विघटीत जाता तो पळेत बसपाचो. दुसरो, नक्षलवाद्यांच्या हातांत देश गेल्लो पळोवपाचो. तिसरो मार्ग ना. हांवें 'आयज' म्हळां. फायचें सांगूं नजऽ. निर्शेणेच्या काळखांतूच फायची फांतोड लिपिल्ली आसता म्हणटात ती निखटी कवी-कल्पना न्हय. एक भरींव सत्य तें. समाज केन्ना थांबना. तो सदां गतिशील रावला. एक दीस क्रांती जातलीच जातली. डोळस काय कुड्डी हेंच पळोवपाचें.

कोणाचेर येतलो क्रांतीचो भार? धवाड्यां मदल्या कोणाचेर? च्यॅ! हो 'धवाड्यां'चो वर्ग. ताका समाज बदलिल्लो नाका. समाज चलता तसोच तो चंद्र सूर्य आसासर चलत उरचो अशें मानतल्या लोकांचो वर्ग हो. दुसऱ्यांच्या स्रमाचेर फोल्गां मारपी. ताणें खंयच क्रांत्यो घडोवन हाडूंक नात.

मागीर, कोण घडोवन हाडटलो क्रांती? भौसांतलो कोणूय? मर मर मरून भूक आनी उपासा सारकीं दळडिरां जोडपी निर्शेल्लो-खर्शेल्लो वर्ग हो. तो केन्ना केन्ना बंडान पेटून उठ्ठा. पुणून दुसरो कोणूय ताका पेटोवन उठयता तेन्नाच. तेन्ना तो जयप्रकाशां फाटल्यान वता. इन्दिरा गांधींचे फाटल्यानूय वता. कोणाच्या फाटल्यान वचचें हें तो थारायना. तें काळ थारायता. आनी काळ केन्ना जयप्रकाशां

अर्दान आसता. तर केन्ना इन्दिराजींच्या. न्हंयेंत पडिल्ल्या लाकडा सारकी गत्त हाची. लाकूड न्हंयेचे व्हांवतेंत पावलें जाल्यार तें व्हांवतेच्या नेटान व्हांवत वतलें. मदींच तडी वेल्या खंयच्याय झोंपांत घुसपलें जाल्यार कोणूय येवन ताका व्हांवतेंत धुकलून सोडी सर थंयच रावतलें. ताच्या गळ्यांत कोणेंय जड फातर बांदिल्लो आसलो जाल्यार तें न्हंये तळाक वचून बसतलें आनी कुसऽसर थंयच रावतलें. ताका आपली अशी खाशेली इत्सा नासता तशी खाशेली प्रेरणाय नासता.

ह्या वर्गांतल्या लोकांचें मोल शून्य. पुणून हें शून्य जेन्ना आंकड्या उपरांत येता तेन्ना तें आंकड्याचें मोल धा वांट्यांनी वाडयता. जयप्रकाशांचें मोल एक आंकडो आशिल्लें तेन्ना ताणें तांचें मोल धा वांट्यांनी वाडयल्लें. इन्दिराजींचे फाटल्यान रावलें तेन्ना इन्दिराजींचें मोल धा वांट्यांनी वाडयलें.

क्रांतीशास्त्रांत धवाड्या वर्गाकूय मोल ना. तशें भौसाकूय ना. धवाडे आनी भौस ह्या दोन वर्गां मदीं आनीक एका वर्गाचे लोक आसतात. तांकां आमी 'मध्यम वर्ग' ह्या नांवान पाचारतात. आयजवेर संवसारांत जितल्योय क्रांत्यो जाल्यो त्यो ह्या मदल्या वर्गानूच घडोवन हाडल्यात. सकयल्या वर्गाचें (भौसाचें) शून्य तांचे फाटल्यान जितल्या प्रमाणांत रावलां तितल्या प्रमाणांत क्रांत्यांचें मोल वाडलां. म्हूण, समाज बदलूंक जे वावुरल्यात तांणी भौसाक आपणा वशीन ओडपाचो सदांच यत्न केला. आनी जैत मेळ्ळां तेन्ना तें ह्या वर्गांतल्या लोकांकूय तांणी दिलां.

भारताचे स्वतंत्रतायेचें झूज मदल्या वर्गांतल्या लोकांनी चलयल्लें. रशियेंतली बॉल्शेव्हीक क्रांती मदल्या वर्गानूच घडोवन हाडिल्ली. चीनांतले माओचे क्रांतीचें नेतृत्व मदल्या वर्गांतल्या लोकांच्याच हातांत आशिल्लें.

भौस तांचे फाटल्यान आशिल्लो.

समाजांत जी नीत चलता तिवूय मदल्या वर्गांतल्या लोकांनी पोसवण दिवन वाडयल्ली. आयज ज्या पांवड्याची ही नीत त्याच पांवड्याचें राजकर्ण, अर्थकर्ण समाजांत चलता. मदलो वर्ग समाजाचे फाटीचो कणो. तो भ्रश्ट जालो जाल्यार समाजाचें राजकर्ण आनी अर्थकर्णूय भ्रश्ट जाता.

आयज गोंयचोच न्हय तर देशांतलो मध्यम वर्गूच भ्रश्ट जाला.

तो कसो भ्रश्ट जालो? कोणें ताका भ्रश्ट केलो? तागेरूच जल्माक आयिल्ल्या तागेल्या दिवट्यान. मोर्गाद पुतान. **नवश्रीमंतान**. संस्कृतायेचे नदरेन गांवढळ,

vulgar. नितीचे नदरेन आपमतलबी. अर्थीक नदरेन चैनींत लोळपी. तो सत्येचे कदेलीर बसूंक ना. पुणून हे कदेलीर कोणाक बसोवचो, कोणाक न्हय हें तोच थारायता. तो वेंचणुकेक उबो राविना. पुणून ताच्या आधारा बगर कोणूच वेंचणूक जिखिना. मागीर वेंचणुकेक तो कॉंग्रेसीचे तिकेटीर उबो रावूं वा भाजपाचे वा आनीक खंयच्याय पंगडाचे. वेंचणूक जिखपाक उमेदवाराक नवश्रीमंताचो आधार जायच पडटा. तो मेळ्ळोना जाल्यार ह्या भारतवर्षांत साक्षात प्रभु रामचंद्र लेगीत वेंचून येवपाचो ना.तो 'आपल्याच' लोकांक उबे करता आनी वेंचून हाडटा. हाका लागून येता त्या सरकाराचेर ताचोच प्रभाव उरता. तो राजकारभारांतूय 'आपल्याच' लोकांची भरती करता. आनी सगळी सत्या आपणा हातांत दवरता. अर्थतंत्रांतल्या एकान एक आंगाचेर ताचेंच नियंत्रण उरता.

देशाचें शासन प्रशासन आयज नवश्रीमंताच्याच हातांत गेलां.

सरकाराक,लोकांक नागोवपी हर्षद मेहता हें तागेलें आराध्य दैवत. हर्षद मेहतांत शें प्रतिशत हर्षद मेहता आशिल्लो. नवश्रीमंतां मदीं पन्नास प्रतिशत, पाउणशें प्रतिशत, अंयशी प्रतिशत कोणूय आसत, पुणून हर्षद मेहता आंगांत आसले बगर हांची चांट उखलना. रातयांच अब्जाधीश जावप हें हांचे मदल्या जण एकल्याचें सपन. हाकाच लागून देशाचें अर्थतंत्र सट्टे-बाजाराचें रूप घेवंक पावलां.

आपणाले श्रीमंतीचें गांवढळ प्रदर्शन करप ही तांची हौस. घर बांदलें जाल्यार तें पालासी सारकें बांदतलो. घरांतल्यो जमनी (देवळांतले वरी) पाशाणी आसतल्यो. कार्पेट जायच पडटली. पुताचें वा धुवेचें लग्न जालें जाल्यार ताचो सुवाळो अभिषेक-ऐशच्या लग्नाच्या सुवाळ्या परस व्हड दबाज्याचो आसतलो. लालू प्रसादान आपणाले धुवेचें लग्न केल्लें तेन्ना जो सुवाळो घडोवन हाडिल्लो तसलो देशांतल्या खंयच्याच संस्थानिकान पयलींय घडोवन हाडूंक ना, आयजूय हाडूंक ना, हे तरेचो आशिल्लो.

आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, लालू प्रसाद 'समाजवादी' आशिल्लो. लोहिया-जयप्रकाशांचो शिष्य आशिल्लो.

गोंयची सुटका जाली ते उपरांतच्या पयल्याच दसकांत गोंयचो भोवजनसमाज बांदोडकारांचे प्रेरणेन बामण-भाटकार-पसरकारांच्या नांवान खडे फोडपाक लागलो. भाटकार-पसरकार सगळे बामण नाशिल्ले. सांखळेचे राणे आनी कुंकळ्ळी काणकोणचे मराठे भाटकारूच आशिल्ले. पुणून बामण आपणालो बचाव करपाक

मुखार सरले नात. भियेले. तांकां एक कळिल्लें, आमी सरंजामशायेचे अवशेष. सरंजामशायेचे दीस आतां उरूंक नात. आनी तांणी आपणाली लायफस्टायल बदल्ली. ते ल्हान व्हड उदयोग चलोवपाक लागले, डॉक्टर, ॲडव्होकेट, इंजीनियर जाले. टॅक्नोक्रॅट जाले आनी विदेशांत गेले. आयज बामणांतले कितलेशे कर्तुत्वी भुरगे अमेरिकेंत, कॅनडांत, इंग्लंडांत, ऑस्ट्रेलियेंत वचून रावल्यात. थंयच थीर जाल्यात.

आनी देश नवश्रीमंतां मदल्या कॉंट्रॅक्टर, बिल्डर, स्मगलरांच्या हातांत गेला. हांचे मदींय कांय बामण आसतले. पुणून भाटकार वर्गांतले न्हय. कोंताकूय धरपाचे न्हय. कशेंय आसूं, हांगेल्या 'सिक्सटी व्हायट' आनी 'फोर्टी ब्लॅक' ह्या गणितान देशांतलीं सगळीं मुल्यां उरफाटी पराटीं जाल्यांत. काळो पयसो जोडपाचें, लिपोवपाचें आनी धंदयांत गुंतोवपाचें एक नवें शास्त्रूय तांणी विकसावन काडलां.

आनी तांचे आड कोणूच उतर लेगीत काडिना. कित्याक? जाप आयकून कांय लोकांक धसको बसतलो. 'हांतले अदर्या परस चड नवश्रीमंत भोवजनसमाजांतले म्हूण, आनी सत्या आयज तांच्याच हातांत आसा म्हूण.'

हे लोक कावलाक आयिल्ल्या भाटकारांच्यो जमनी फुके-सवाय घेतात. तांचें 'कन्व्हर्शन' करतात आनी तांचें मोल वाडोवन त्यो भायल्या उदयोगपतींक विकतात. कोणें कोणाच्यो जमनी घेतल्यो, कितल्यांक घेतल्यो, कन्व्हर्ट कश्यो केल्यो आनी कोणाक कश्यो विकल्यो हाची चवकशी करपी यंत्रणा ना म्हूण ते वाटावल्यात. प्रामाणीकपणान जियेवचें, भ्रश्टाचारा पसून पयस रावन सादें जिवीत जियेवचें ही देख आतां इतिहासांत जमा जाल्या. फाटल्या एक दोन दसकांत जितले 'घोटाळे' जाले ते सगळे ह्या नवश्रीमंत लोकांनी केल्यात. कांय उकताडा आयल्यात पुणून ख्यास्त कोणाकूच जावंक ना. कित्याक? घोटाळे करपीय ते आनी ख्यास्त करपीय तेच. चोर केन्ना चोराक धरून दिता व्हय? आनी आमी तांकांच भोवन भोवन वेंचून दितात. देश अवनतीक पावचो ना जाल्यार खंय पावतलो?

हाका उपाय ना? आसा. तो कोण करतलो? ज्या मध्यम वर्गागेर नवश्रीमंत जल्माक आयला तागेरूच एक नवो पूत जल्माक आयला. तो निकतोच वयांत आयला. आनी तो कोणूय कितें करता तें नाका नाका म्हणीत रावला. सॅझ? नाका. आयटी? नाका. उदयोगीकरण? नाका. शारीकरण? नाका. हे तरेचो नानाक्कार चलयत रावला. निर्शेल्लो, खर्शेल्लो हो मध्यम वर्गाचो दुसरो पुतूच

क्रांती घडोवन हाडपाचो आसा. मातसो थार धरात. तो पेट्रून उठिल्लो थोड्याच वर्सां भितर दिश्टी पडटलो. तो गांधी नासतलो, लोहिया नासतलो. घडये नक्सलवादी आस्तलो. तो आमचीं सगळीं प्रमेयां उरफाटीं पराटीं करून उडयतलो.

म्हाका तो दिश्टी पडटा. बाकीबाबांक दिश्टी पडिल्लो ह्न

*नेम ना रे केन्ना कोण/ कुदत कसो जावन बळी.*

*घाडी भगत गुरव गोंसांय, देवळि, थवय, मेस्त मुळी...*

*आसत गावडो, आसत सुदीर / आसत कुणबी, आसत म्हार*

*भार येतर तोच देव / मार शेंसार मार शेंसार*

*सत्य आतां आटूय दिको / जोगुल कशें पेट्टलें.*

*आनी लटिक सगळ्या आंगार / खोरोज जावन फुट्टलें*

*घरचीं पिशीं भायलीं भुतां / खिणांत जातलीं थंड गार.*

*मार शेंसार मार शेंसार...*

बाकीबाबांक हो भार गोंयांत येतलो अशें दिशिल्लें. गोंयांत आयिल्लो हो भार देश सगळो पेटयतलो हें म्हाका स्पश्ट दिसता.

वांचून उरल्यार पुरो म्हणटां हांव ताका पळोवपाक आनी ताचे क्रांतींत वांटो घेवपाक.

('जाग', मार्च-मे २००८)



## 13.

# विकासान हाडिल्ली हावळ

सुंदरलाल बहुगुणा कारवार वचपाचे आशिल्ले. पयलीं गोंयांत आयले आनी गोंयच्यान कारवार गेले. वचचे पयलीं आमगेर येवन गेले. अर्द पाऊण वर बशिल्ले. म्हणपाक लागले, आपणें उत्तर काशींत आपणाल्या आश्रमांत तुमचे सारकेल्या बुद्‌धीजीवी लोकां खातीर एक दोन खोंपी उब्यो केल्यात. गिमांत उत्तर काशीक यो आनी आमच्या आश्रमांत रावन बरोवपाचें वाचपाचें काम कर. हांवें म्हळें, 'परतो त्या वाटारांत पावलों जाल्यार गंगोत्रीक वचून रावतलों. उत्तर काशी पेल्यान.'

'गंगोत्री आतां पयलींची उरूंक ना. हिमशिखर विरगळून गेलां. रुखावळ सगळी मारून उडयल्या. सगळो वाटार बोडको जाला. गंगेची व्हांवती आतां अर्दा वयर सुकल्या. इल्ली इल्ली करून गंगा न्हंयूय सुकून वचपाची आसा...'

'राज्यकर्त्यांच्या लक्षांत ही गजाल हाडली तुमी?' हांवें विचारलें.

म्हणपाक लागले, 'टिहरी धरणा आड उपासाक बशिल्लों

तेन्ना वाजपेयीजी मुजरत मेळपाक आयिल्ले. 'आप दृढ रहिए, हम आपके पीछे हैं' अशें सांगून गेल्ले. प्रधानमंत्री जातकूच तांकां मेळपाक गेलों. 'सुनाइये बहुगुणाजी, क्या हाल है?' म्हूण तांणी विचारलें तेन्ना हांवें म्हळें, 'सुनाना तो आपको है, गंगा सूख रही है.' ओग्गी रावले. ते सॅक्युलर कितें, हे हिन्दुत्ववादी कितें, सत्येच्या कदेलार बसतकूच सगळे एकूच जातात...'

गंगा सुकपाची आसा हें आयकून म्हजें मन सकल वयर जाल्लें. हांवें म्हळें, 'आतां सगळ्यो न्हंयो एकिमेकींक जोडपाचें थरलां न्हय?'

'जोडून कितें जातलें? एकेय न्हंयेचें उदक पियेवपा सारकें उरूंक ना... साबरमती साप्प सुकून गेल्ली. आतां नर्मदेचें उदक हाडून तिच्या पात्रांत सोडलां. न्हंय भरून आशिल्ले वरी दिसता. पुणून उदक पियेवपा सारकेंय उरूंक ना, शिंपपाकूय उपकारा पडपाचें ना... अहमदाबाद नगरपालिका शारांतलें सातशें लाख गॅलन स्युएज उदक (बुरशें उदक) सद्दां स्युएज प्लांटांत निवळ करपा खातीर हाडून सोडटा. पुणून स्युएज प्लांटांत फकत साडेचारशीं गॅलन उदक निवळ करपाची तांक आसा. उरिल्लें अडेचशें गॅलन न्हंयेंत सोडटात. पोल्यूशन कंट्रोल बोर्ड जागरूक राविल्लो जाल्यार हाचे आड पावलां उखलीत आशिल्लो. पुणून तो न्हिदून रावला... वासणा बॅरेज उपरांतच्या वाटारांत पावशीत जाल्यार तुका नाकार लेंस धरचो पडटलो, इतली घाण मारता. कागाळ्यो जायत्यो केल्यो लोकांनी. कितेंच जायना...'

थोड्या वेळान बहुगुणा उठून गेले. हांवें तो दीस फुडल्या आयतारचें 'स्वगत' बरोवपा खातीर राखून दवरिल्लो. पूण चित्तूच लागना जालें.

कितें जालां ह्या देशाक, समजना. दिल्लींत यमुनेच्या पुला वेल्यान भावार्ती लोक पुजेक वापरिल्लीं फुलां न्हंयेंत उडयतात ते उडयतात, दुर्गेच्यो, गणपतीच्यो मुर्तीय हाडून उडयतात. न्हंयेंत अशें कितेंय उडोवंक जायना हें लोकांक सांगप, बरें आसा. पुणून न्हंये कांठार आशिल्ल्या शारांतलें स्युएज उदक, कारखान्यांतली घाणूय हाडून लोक न्हंयेंत सोडटात ताका कितें करपाचें? असल्याच न्हंयांनी लोक हे ते परबेक वचून न्हातात. थंयच गोरवांक न्हाणयतात. थंयच लुगटां उमळटात. हें आडावपाचे कांयच उपाय नात देशा कडेन?

प्रयागांत गंगा आनी यमुना दोनींचो संगम जाता. तिसरी सरस्वती गुप्त रुपान व्हांवताली. इतलें उदक ह्या शारांत व्हांवता आसुनूय तें पियेवपा सारकें उरूंक

ना म्हूण सरकारान घराघरांनी नळाचें उदक हाडून पावतें केलां. पुणून नळांत उदक येवं नाका? नळा सकल बालदी दवरून वरांचीं वरां उदकाची वाट पळोवची पडटा लोकांक. सट्ट करून येता. आनी एक दोन वरांनी वता. केन्ना येता, समजना. केन्ना केन्ना रातच्या दोनांक येता आनी चारांक वता...

'विकासा'न लोकांचे प्रस्न सोडोवपा वांट्याचे फकत वाडयल्यात.

हांव सद्दां सांजचो पासयेक शिमेपायणी मेरेन वतालों. वीस मिणटांची वाट. वीस आनी वीस मेळून चाळीस मिणटांची पासय जाताली. आतां रस्त्यारूच देंवना. केन्ना खंयच्यान कितें येवन आपटत, सांगूंक येना. स्कुटरी, रिक्षा, टॅम्पो, मोटारी, बसी, ट्रक, टँकर... गोंयचीं सगळीं धांवतेरीं ह्याच मार्गा वेल्यान कित्याक वतात, समजना. हांवें 'मार्ग अभियाना'च्या वावुरप्यांक विचारलें. 'हांगाच न्हय, खंयूय वच, अशींच वाहनां धांवतात. म्हूण ॲक्सिडँट एका सारके जायत आसात...' म्हाका जाप मेळ्ळी.

'उपाय कितें?'

'रस्ते रुंद करप, बायपास रस्ते काडप.'

'इतल्यान भागतलें?'

'भागलें ना जाल्यार ओव्हरब्रीज काडप.'

ओवरब्रीज म्हळ्यार रस्त्या वयलो रस्तो.

इतल्यानूय भागना म्हूण आतां स्कायबसी सुरू करपाच्यो तजविजो चल्ल्यात. तितल्यानूय भागपाचें ना. म्हणटकूच? मेट्रो रेल्वे सुरू करप. जमनी पोंदच्यान गाडयो चलोवप.

मुम्बयंत, दिल्लींत हें सगळें जालां. अजून जाता, जावपाचें आसा.

ह्या उपायांक लागून रस्ते 'जॅम' जाताले ते जावचे नात. बरें आसा. पुणून फोफसां 'जॅम' जातात ताचें कितें करपाचें? दिल्लींतल्या ट्रॅफिक पुलिसांची बावड्यांची गत्त जाल्या ती पळोवपाची न्हय. सगळ्यांची भलायकी इबाडल्या. रात जातकूच अर्दा वयर ट्रॅफिक पुलीस दम्यान जाम जातात. खांक तर सगळ्यांक दिसूयभर येता. टी.बी. कितल्यांक जाल्या, खबर ना. आनी कॅन्सर? वासपूस करपाचो धिरूच जायना.

पयर एकल्यान सांगलें, दिल्लींत आतां वेगळ्या वेगळ्यां 'सर्कलां'चेर 'ऑक्सिजन

बार' उबे करपाचो वावर सुरू जाला. पांसश्ट हजार रुपयांचें एक एक मशीन हाडून थंय लायतले. तें लोकांक ऑक्सिजनाची पुरवण करतलें. ऑक्सिजनाची पुरवण करपाचें काम झाडां करताली. कॉँक्रिटाचीं रानां उबीं करतकूच बावडीं झाडां कितें करतलीं?

फाटीं खंयच्या तरी एका इंग्रजी नेमाळ्यांत एक कार्टून पळेल्लें. एकलो गिड्डो मनीस एका पिंपळा पोंदा रावता आनी ताका आपणा खांदार उखलून व्हरपाचो यत्न करता. वाटे वेल्यान एकलो वाटसूर येता. तो विचारता, 'हें कितें करता तूं?'

ह्या पिंपळाक दुसरे कडेन खंयूय व्हरून वाटावंक येता जाल्यार पळेतां.'

'ताका कोण कितें करपाचो आसा?' वाटेवाटसूर विचारता.

'हो तो शिमिटाचो रस्तो आमचे फाटल्यान लागला तो तुका दिश्टी पडना? तो आमकां दोगांकूय ना करपाक कसो धांवत येता, पळे...'

जंय जंय शारां उबीं जाल्यांत थंय थंयचीं झाडां-पेडां, शेवणीं मनशां सगळें ना जालां. मनीसपण ना जालां. संस्कृताय ना जाल्या. देशाक जाल्ले पिडेक एकूच उपाय आसा ह्न शारांच उबीं जावंक दिवप ना, हो.

('जाग', जानेवारी २००३)



## १४.

# आयज ताका, फाल्यां घडये आमकांय भोमचें पडूं येता

देशाच्या प्रस्नांची खबर आशिल्ले आनी ताका उदरगतीचे वाटेन मुखार व्हरूंक जाणा जाल्ले इंजीनियर आपणाक जाय म्हणपाचें अनिल अग्रवालान खासा जवाहरलालांच्याच तोंडांतल्यान आयकलें आनी ताचे मुखार आशिल्ली ताचे करीयरीची वाट आपशीं उकती जाली. निकतेंच ताणें तरणेपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरिल्लें आनी आपणें कितें शिकचें आनी कितें करचें हो प्रस्न ताका पडिल्लो. तो आय.आय.टीं.त शिकपाक गेलो आनी एक दीस मॅकानिकल इंजीनियर जावन भायर आयलो. आपणा हस्तुकीं देशाची खूब सेवा घडची हाची ताका मना सावन उमळशीक आशिल्ली. पुणून इंजीनियर जावनूय देशा मुखार कसले प्रस्न आसात ते आपणाक खबर नात, एकाय प्रस्नाची म्हायतती ना, आय.आय.टीं.त आपणाक हे संबंदान कोणेंच कितेंच शिकोवंक ना म्हणपाची ताका जाणवीक जाली. 'म्हणटकूच आतां कितें करपाचें, फकत नोकरी करून पोट भरपाचें? ना.' तो नीट 'हिन्दुस्तान टायम्सा'च्या ऑफिसांत गेलो आनी संपादका

मुखार उबो रावलो. 'हांव एक मॅकानिकल इंजीनियर. म्हाका फकत नोकरी करून पोट भरपाचें ना. देशाची सेवा करपाची आसा. पुणून सेवा करतलों जाल्यार देशा मुखार कसले प्रस्न आसात तें खबर आसूंक जाय. आय.आय.टीं.त हे संबंदान म्हाका कांयच शिकोवंक ना. म्हाका तुमी तुमच्या संपादक मंडळांत काम करपाची संद दिशात व्हय? म्हाका शिकपाचें आसा.' ताणें संपादकाक म्हळें. ताची देशसेवेची तळमळ पळोवन संपादकान ताका आपणाल्या स्टाफार घेतलो आनी ताका 'हिन्दुस्तान टायम्सा'चें विज्ञानाचें पान पळोवंक सांगलें. कांय दिसांनी ताका हिमालयांतल्या उत्तराखंडांत धाडून दिलो. थंय टिहरी गढवालाक 'चिपको' नांवाची एक आगळी वेगळी चळवळ नेटान चलपाक लागिल्ली. चीड देवदार रुखांचो वाटार हो. मदीं मदीं लखनौ-दिल्लींतले 'टिंबर मर्चंट' थंय येताले आनी, सरकारी मान्यतायेनूच, रूख मारून व्हरताले. झाडां मारपी दिश्टी पडना फुडें ह्या वाटारांतल्यो बायलो धांवन येताल्यो आनी रुखांक वेंग मारून 'ना, आमचीं भुरगीं हीं... तांची हत्या आमच्या दोळ्यां मुखार आमी जावंक दिवचीं नात' अशें म्हणून रुखांक दसून रावताल्यो, ('चिपको' म्हळ्यार 'दसून रावात') आनी रूख मारूंक आयिल्ले लोक तांकां भियेवन पळून वताले. अनिलाक हो अणभव सामकोच नवो. तो गौरीदेवी, गंगादेवी सारकेल्या पन्नासां वयले पिरायेच्या आनी रुपसी, हरकी, मालती सारकेल्या तरणे पिरायेच्या बायलांक मेळ्ळो. तांचे कडेन भासाभास करून तांचो प्रस्न समजून घेतलो आनी, कांयच शिकूंक नाशिल्ल्या ह्या तेजिश्ट बायलांक लागून पयलेच फावट ताचें देशांतल्या सगळ्यांत व्हडल्या प्रस्ना कडेन ह्व पर्यावरणाच्या प्रस्ना कडेन ह्व लक्ष गेलें. ताणें चिपको चळवळीची देशांत तशी विदेशांत खूब जायरात केली आनी हे चळवळीचे फुडारी सुंदरलाल बहुगुणांक आंतरराष्ट्रीक नामनाय जोडून दिली.

हांगाच ताका 'ग्रॉस नॅशनल प्रॉडक्ट' आनी 'ग्रॉस नॅचरल प्रॉडक्ट', दों मजगतचो फरक कळ्ळो आनी जितल्या प्रमाणांत एक वाडत वता तितल्या प्रमाणांत दुसरो देंवत वता ह्या निर्णयार तो पावलो. जितलो चड 'विकास' तितलें चड नाशें आनी तितलें चड दळडीर हो विचार तो आपणाल्या बरपांतल्यान मांडपाक लागलो.

रवीन्द्रनाथांचो 'तपोवन' नांवाचो एक निबंध ताका वाचपाक मेळ्ळो. ह्या निबंधान ताका संस्कृतायेच्या प्रस्ना कडेन पळोवपाची एक नवी नदर दिली आनी तो रवीन्द्रनाथांच्या सुरांत आपलो सूर जोडून म्हणपाक लागलो, 'आयज जो

'विकास' चल्ला तो वचत थंय शारां उबीं करपाचो. चिऱ्यां विटांचीं हीं शारां मनशाक सैमा पसून तोडटात आनी ताका ताचे सारक्या दुसऱ्या मनशा पसून पयस व्हरतात. शेजारी शेजाऱ्याक वळखना असलो dehumanised समाज निर्माण करता. संस्कृतायेचो सैमा कडेन दाट संबंद आसूंक जाय. भारतीय संस्कृताय सैमा कडेन दाट संबंद दवरून वाडिल्ली संस्कृताय. रुखां झोंपां कडेन, न्हंयां तळयां कडेन, सुकण्यां सावदां कडेन, सोरपां जिवाण्यां कडेन, किडी-मुयां कडेन, मातये कडेन, मातये वयल्या तणाच्या पात्या कडेन, फुलां-फळां कडेन जशें कितें रगताचें नातें आशिल्ले वरी जावन ती वाडल्या. असले संस्कृतायेंत सर्तीक सुवात ना. भोंवतणच्या पुराय सैमा कडेन ती मनशाक जोडटा म्हुण्णूच ती व्हड जावंक पावल्या. असलेच संस्कृतायेंत उपनिषदां आनी तांचे रुशी जल्माक येवं येतात. असलेच संस्कृतायेंत बुद्ध जल्माक येवं येता. बुद्धाचें पुराय 'त्रिपिटक' वडा मुळांत, पिंपळा मुळांत वा आंब्याचे बागेंत शितळ सावळेंत उकताडा आयलां.

ह्या व्हड दायजा पसून 'विकासा'च्या नांवान आमकां तोडूं नाकात अशें तो म्हणपाक लागलो.

आयजवेर हिमालयांत जे जे कोण गेल्यात तांकां कसले न्हय कसले 'दिश्टावे' जाल्यात. अनिल अग्रवालाक पर्यावरणाच्या प्रस्नाचो, संस्कृतायेच्या प्रस्ना कडेन आशिल्ल्या ताच्या दाट नात्याचो दिश्टावो जाल्लो.

हिमालयांतल्यान परतना फुडें दिल्लींत ताणें 'सँटर फॉर सायन्स ॲण्ड ॲन्व्हायरन्मॅन्ट' नांवाची एक संस्था सुरू केली (१९८२). दोन वर्सां तो देशांत सगळे कडेन भोंवलो आनी 'विकासा'च्या नांवान चलिल्ल्या सगळ्या वावरांची नियाळणी करून खंयच्या मळार विकासान फायद्या परस चड लुकसाण केलां ह्य विकास देशाक कितलो म्हारग पडला ह्य तें दाखोवन दिवपी आपणालो 'रिपोर्ट' देशा मुखार दवरलो आनी ताका उपाट अर्थान भरिल्लें 'फस्ट सिटिझन्स रिपोर्ट' नांव दिवन तो उजवाडायलो. 'सरसमान लोकांचो' रिपोर्ट हो. 'तज्ञां'चो न्हय. 'बुदवंतां'चो न्हय. जांचे खातीर तुमी विकास घडोवन हाडपाक वावुरतात तांचे मुखार तुमी कसलीं कसलीं संकश्टां उबीं करून दवरल्यांत हें दाखोवन दिवपी रिपोर्ट हो. ह्या रिपोर्टाचे कांय देशी भासांनी अणकार जाल्यात. मुजरत सांगपा सारकी गजाल म्हळ्यार, हो रिपोर्ट ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडिल्ल्या शिवराम कारंथांच्या हातांत पडलो आनी तांणी आपूण जावन तो कन्नड भाशेंत हाडून उजवाडायलो.

१९८४ त सुरू जाल्ले ताचे हे 'सिटिझन्स रिपोर्ट' १९९९ मेरेनच्या काळांत एका फाटल्यान एक पांच उजवाडा आयल्यात. देशांत कांय कडेन पावस कित्याक पडना, कांय कडेन बुडट्यो कित्याक येतात, कांय कडेन सुकी धाड कित्याक पडटा, कांय कडेन बांयंतलें उदक कित्याक आट्टा, शिंयां दिसांनी मदींच सुमारा भायर उजो कित्याक जाता, आनी गिमांत मदींच शीं कित्याक पडटा, रुतुचक्रांत कित्याक लागून इबाड जाता, एक आनी दोन न्हय, हजार प्रस्नांचो ताणें सोद घेतला आनी तांचेर उपायूय सुचयल्यात.

इतल्यार तो थांबूंक ना. ताणें फकत पर्यावरणाच्या प्रस्नाची भासाभास क़रपी 'डाउन टू अर्थ' नांवाचें एक पंद्रशी नेमाळेंय कितलींशीं वर्सां चलयलां.

देशांत सगळे कडेन भोंवन ताणें शेंकड्यांनी भाशणांय दिल्यांत. इतलेंच न्हय, तर म्हत्वाच्यो जितल्यो चळवळी देशांत चल्ल्यो तितल्याय चळवळींनी ताणें वांटो घेतला आनी मुखार रावन प्रस्थापितां आड तो झुजला. गढवालांत तो सुंदरलाल बहुगुणां फाटल्यान आशिल्लो. महाराष्ट्रांत अण्णा हजारें फाटल्यान उबो रावलो. राजस्थानांत राजेन्द्रसिंगांच्या आधाराक धांवलो तसो उडिसांत चिल्का तळ्या देगे वयल्या नुस्तेकारां वांगडा रावनूय झुजलो.

ताची सगळ्यांत चड गाजली ती 'रायट टू क्लीन एअर' नांवाची चळवळ. स्वास घेवपाक लोकांक निर्मळ हवा मेळूंक जाय, तांचो तो हक. ह्या हका आड ट्रक, टँकर, बसी, रिक्षा सारकेलीं शारांतलीं डिझल वापरून चलपी धांवतेरीं वतात. डिझलाचेर बंदी घालूंक जाय वा ह्या धांवतेऱ्यांचेर बंदी घालूंक जाय. शारांतल्या लोकांक जी एका सारकी खांक येता ती हीं धांवतेरीं सोडटात त्या धुंवराक लागून. ह्या धुंवराक लागून लोकांक ल्युकेमिया (रगताचो कॅन्सर) आनी फोंफसांचोय कॅन्सर जाता. मुंबय, दिल्ली, कलकत्ता सारकेल्या शारांनी रावतल्या पंदरा जाणां मजगतचो एकलो तरी असल्या कॅन्सराचो बळी आसता. अनिलाचे हे चळवळी आड टाटा सारकेले धांवतेरीं करपी एके गडगंज कंपनीन शंबर कोटी रुपयांचो बदनामीचो दावो कोर्टांत घाल्लो. आनी अनिलान तो खंयच्याच आदोगादाचो आधार घेनासतना स्वता लडोवन जिखिल्लो.

'विकासा'ची भुतावळ सरसमान लोकांच्या हकाची भूंय उदक वारो रानां ही संपत नाडूंक पावची न्हय म्हूण ताणें 'नॅचरल रिसोर्स मॅनेजमॅन्ट टिमू'य सुरू केल्ली.

अनिलान आयुश्यांत एक खिणाचो लेगीत विसव घेवंक ना. निमाणें निमाणें तो म्हणपाक लागिल्लो, लेख बरोवन, रिपोर्ट तयार करून, भाशणां दिवन, नेमाळीं चलोवन, चळवळी करून आतां भागपाचें ना. देशांत एक 'हरित पक्ष' (ग्रीन पार्टी) उबो करूंक जाय आनी पर्यावरणवादी लोकांनी सत्याच आपणा हातांत घेवंक जाय. जर्मनींत पॅट्रा कॅलीन असली एक 'ग्रीन पार्टी' उबी केल्ली आनी तिणें जर्मनींतूच न्हय, तर देशां देशां मजगतच्यो शिमो उंपून फ्रांस, स्पेन, इटालींत आपणाले उमेदवार थंयच्या पार्लामॅन्टार वेंचून हाडिल्ले. हांगाय असलीच एक पार्टी उबी करूंक जाय. देशांत जीं सरकारां आयजवेर आयल्यांत (वा येतात) तीं कोणाचींय आसूं, कॉंग्रेसीचीं आसूं वा भाजपाचीं, मार्क्सवादी आसूं वा द्रविड मुन्नेत्र कळघमाचीं, तीं सगळीं 'विकासवादी' पक्षांचीं. विश्व बॅंक वा आंतरराष्ट्रीय मुद्रा कोशाक जाय तेंच करपी. तांच्याच तालार नाचपी. सगळ्या पक्षांक कडेक दवरून तांचे सुवातेर पर्यावरणवादी पक्षांचीं सरकारां हाडूंक जाय. जो कोण मेळटालो ताका तो 'कितें चान्स आसा असले पार्टीक?' म्हूण विचारतालो. म्हाकाय ताणें हो प्रस्न विचारिल्लो. (म्हाका तो वळखतालो.) 'तुमी गोंयांत द्युपों आड एक व्हड चळवळ चलयल्ली आनी ते कंपनीक साटली पोटली कवळूंक लायिल्ली... गोंयांत तुमी असली एक पार्टी उबी करशात व्हय?' म्हूण ताणें विचारिल्लें आनी हांवें ताका, द्युपों आड चळवळ चलयल्ली लोकांनी, पुणून ती एका राजकी पक्षान 'हायजॅक' केल्ली म्हूण जाप दिल्ली. 'यही तो मुसीबत है इस देश में,' ताणें म्हळ्ळें. 'सगळ्यो चळवळी हे विकासवादी पक्ष हायजॅक करीत आयल्यात... हांगाच न्हय, संवसारभर,' ताच्या तोंडांतल्यान खंतीचीं उतरां फुटिल्लीं.

थोडें आयुश्य मेळिल्लें जाल्यार अनिल स्वताच देशांत एक ग्रीन पार्टी उबी करीत आशिल्लो. ताच्यांत तितली तळमळूय आशिल्ली आनी धमकूय आशिल्ली. जिस्त ह्या वेळार ताका कॅन्सर जालो. आपणाक जाला तो कॅन्सर विखाळ जाल्ल्या पर्यावरणाक लागून हे विशीं ताच्या मनांत कसलोच दुबाव नाशिल्लो. कॅन्सरा आड झुजता आसतनाच ताणें 'आयज जें म्हाका भोगलां तें फाल्यां तुमकांय भोगचें पडूं येता' 'My story today ह yours tomorrow' म्हूण एक लेख बरयल्लो. तातूंत तो म्हणटा, ह्या देशांतले मदल्या वर्गांतले लोक आपणाक असलें कांय जावपाचें ना अशें धरून जियेतात आनी 'विकासा'च्या

नांवान जें चल्लां तें चलूंक दितात. तांणी एक गजाल विसरची न्हय, विकासा खातीर आयज जीं विखाळ वखदां मनीस सैमांत शिंपडायत रावला, तांचो कणान कण हवेंतल्यान, उदकांतल्यान, अन्नांतल्यान आमच्या आंगांत भितर येवन पडटा. देखून, भावांनो, येन्नासर जागे जायात आनी फुडल्या पिळग्यांक तरी ह्या संकश्टांतल्यान वाटायात...'

अनिल चळवळींत पडला ताचे आदीं महात्मा गांधीं संबंदान ताका व्हडलिशी कांय खबर नाशिल्ली. देशाक स्वातंत्र्य जोडून दिवपी एक आगळे वेगळे पोटतिडकेचो सेनानी हाचे पेल्यान तांचे संबंदान तो चडशें कांय नकळ आशिल्लो. पुणून तो चळवळींत पडलो, देशांतलें दळडीर पळेलें, गरिबां कडेन एकरूप जालो आनी गांधीन हें सगळें पळोवन कितें येवजिल्लें तें सोदपाक लागलो. तो म्हणटा, 'with every passing day, his teachings have become more and more relevant for me'. अनिला संबंदानूय अशेंच म्हणचें पडटा. विकासाच्या नांवान देशाचो जितलो जितलो विनाश जायत रावतलो तितलो तितलो अनिल अग्रवाल देशाक 'more and more relevant' जायत रावतलो. जागरूक लोकांक प्रेरणा दीत रावतलो. विनाशाचीं कुपां पयस उब्रोवपाक लोकांक मुखार काडीत रावतलो आनी, सांगूं नजऽ, पर्यावरणवादी लोकांक एक 'हरित पक्ष' उबो करून देश आपणा हातांत घेवंकूय लायतलो.

कॅन्सरा आड स वर्सां झुजून चवपन वर्सांचे पिरायेर अनिल संवसार सोडून गेला. तो भायर पडिल्ल्याची खबर (अदूं २ जानेराक) खबरेपत्रांनी वाचली तेन्ना ह्न

हिमालय बुडलो काय कितें, असो म्हाका भास जालो. देशाचें खूब खूब लुकसान जालां.

('जाग', मार्च २००२)



१५.

# देश शंबर वर्सां फाटल्यान गेला - सावरकरांक लागून

भारतीय संस्कृताये संबंदान आमी चिंतूंक बसतात तेन्ना पयली गजाल लक्षांत दवरूंक जाय ती ही ह्व

ही संस्कृताय खंयच्याच एका वंशकुळाच्या लोकांनी घडोवंक ना.

इतिहासा आदल्या काळा सावन वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे लोक धाय दिकांतसून हांगा येत रावले आनी येवन हांगाच थीर जाले. हजार तरांचे लोक हे. तांच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो चाली-रिती आशिल्ल्यो. वेगळ्यो वेगळ्यो धर्म-परंपरा आशिल्ल्यो. वेगळ्यो वेगळ्यो भासो आशिल्ल्यो. तश्यो, वेगळ्यो वेगळ्यो कुड्ड्यो पिसायोय आशिल्ल्यो. ह्या पिसायां मजगतची एक व्हड पिसाय 'आमी हेरां परस वेगळे' म्हणपाची. ती सगळ्यांत सारक्याच प्रमाणांत आशिल्ली. हाका लागून कोणूच कोणांत भरसूंक पावले नात. 'काळाची गरज' म्हूण सगळे एकामेकां शेजरा रावले आनी एकामेकां कडेन जशे संघर्श करीत रावले तशे एकामेकां कडेन दिवप घेवपूय करीत रावले.

हे प्रक्रियेंतल्यान जी संस्कृताय घडत गेली तिका आयज

आमी भारतीय संस्कृताय ह्या नांवान वळखतात.

दुसरी एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय ह्व

जिका आमी एकराष्ट्रीयता म्हणटात ती ह्या देशांत केन्नाच उदेवंक पावली ना. एकराष्ट्रीयता ही संकल्पनाच नवी, हालींसराची. देखून *'दुर्लभं भारते जन्मा:'* ही देखूय ह्या देशाक नवी. हालींसराची. एकराष्ट्रीयतेचे देखी वांट्याची आमच्या म्हालगड्यांनी दुसरी एक देख आमचे मुखार दवरली ह्व *'माता भूमिः पुत्रोहं पृथिव्याः'* ह्व 'पुराय धर्तरी आमची आवय आनी आमी तिचे पूत' ह्या विचाराची. *'विश्व मानुषः'* जावपाचो हावेस हे देखीन आमच्यांत जागयल्लो.

भारतीय संस्कृतायेचे हे फाटभुंयेचें म्हत्व सगळ्यांत पयलीं नदरेंत भरलें तें स्वामी विवेकानन्दांचे. तांचे मुखार तागेले गुरू श्री रामकृष्णांचो आदर्श आशिल्लो. सगळ्या धर्म साधनांचो प्रत्यक्ष अणभव घेवन सगळे धर्म अखेरेक एकाच मुक्कामार पावतात ह्या निर्णयार श्री रामकृष्ण पाविल्ले. म्हूण शिकागोंतले सर्वधर्म परिशदेंत स्वामी विवेकानन्दांनी जो बावटो उबयल्लो तो फकत हिन्दू धर्माचो नाशिल्लो. तो धर्म समन्वयाचो आनी संस्कृती समन्वयाचो आशिल्लो. हिन्दू धर्माच्या हातांत तांणी तो दिल्लो. हिन्दू धर्माचो तो अधिकार आशिल्लो.

राम मोहन रॉय, रवीन्द्रनाथ, अरविन्द आनी उपरांत गांधी आनी तांगेले सांगाती विवेकानन्दांचेच प्रेरणेन हिन्दू आसुनूय सर्वधर्मसमभावी जाल्ले. विवेकानन्द इतिहासांत चलत आयलां तेंच मुखार चलोवपी नाशिल्ले. नवो उजळ इतिहास घडोवपी ते एक युगपुरूस आशिल्ले. तांची नदर फुडारा कडेन आशिल्ली. ते म्हणपाक लागले, सगळ्यांक आपणांत आसपावन घेवपी जी साधना भारतीय संस्कृतायेन 'सहज' म्हूण हांगा चलयली, तीच आतां आमी उकत्या दोळ्यांनी मुखार चलोवंक जाय आनी ह्या देशांत एकामेकां लागीं झगडत आयिल्ल्या सगळ्या धर्मांक एकामेकां लागीं हाडून तांच्यांत बदल घडोवन हाडूंक जाय. तांकां नवी देख दिवंक जाय. इस्लाम आनी खिस्ती धर्मांक नवी देख दिवपाची तांक हेच भारत भुंयेंत आसा. भारताचें खरें 'मिशन' हें ह्व सगळ्या धर्मांक एकामेकां लागीं हाडून तांकां मनशाळावपाचें.

ह्या 'मिशना'क आडखळ हाडली ती सावरकरांच्या हिन्दुत्वान. विवेकानन्दांक आपणालें हिन्दुत्व भारतीयत्वांत सुरक्षीत आसा अशें दिशिल्लें. सावरकरांक भारतीयत्वांत हिन्दुत्व विरगळून ना जातलें अशें दिसपाक लागलें.

आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल ह्न सावरकरांनी हें कुड्डें, अशीर मनाचें हिन्दुत्व देशभक्तीच्या नांवान मुखार हाडलें. सावरकर हिन्दुस्तानाक भारत लेगीत म्हणिनात. 'हिन्दुस्तानू'च म्हणटात. आनी 'हिन्दुस्तान हिन्दूंचें' म्हूण सांगतात. 'सगळ्या भारतीयां'चें म्हणिनात.

*हिन्दुत्व* नांवाचें तांगेलें एक ल्हानशें पुस्तक आसा, १९२३त इंग्रजींत बरयल्लें. तातूंत ते 'हिन्दू' कोण तें सांगतातह्न

जाची पितृभू, मातृभू आनी पुण्यभू हिन्दुस्तान तो हिन्दू. म्हळ्यार ह्न १. जो रगतान हांगासल्लो, हांगासल्ल्याच एका खंयच्या वंशाचो, हांगासल्लेच एके खंयचे जातीचो आनी धर्माचो, तो. २. हिन्दू संस्कृताय आपणाली मानता, तो. म्हळ्यार, रामायण, महाभारत, इतिहास, पुराणां, साहित्य, कला, स्थापत्य, उत्सव-परबो, परंपरा, सामाजीक चाली-रिती आपणालें दायज म्हूण मानता, तो. आनी ३. जांचे धर्मसंस्थापक, अवतारी पुरूस हांगाच जल्माक आयल्यात आनी जांचीं मुखेल तीर्थ-थळां ह्याच देशांत आसात, तो.

ह्या तिनूय लक्षणांत तिसरें हिन्दू म्हणून घेवपाक गरजेचें. ह्या देशांतले मुसलमान आनी ख्रिस्ती हेर सगळ्या लक्षणांनी हांगासल्ले आसूं, तांचे धर्मसंस्थापक आनी पैगंबर भायले आनी तांचीं तीर्थ-थळांय भायलीं. महम्मद आनी येशू हांगासल्ले न्हय, आनी मक्का तशें जेरुझालेम हीं थळां हे भुंये वयलीं न्हय. म्हूण भारतीय मुसलमान आनी ख्रिस्ती 'भायले'. तांकां हांगा रावपाचें आसत जाल्यार तांणी दुसऱ्या पांवड्याचे नागरीक ह्न सेकंड क्लास सिटिझन्स ह्न म्हूण रावचें. हिन्दूंक आसात ते 'हक' तांकां मेळूंक फावनात.

सावरकरांचें हें हिन्दुत्व खरेलें हिन्दुत्व नाशिल्लें. रामकृष्ण विवेकानन्दांचे परंपरेंतलें निखालूस नाशिल्लें. सगळे धर्म आमचे, तांकां पाळो दिवन चलतात तेवूय सगळे आमचे अशें आमी काळजा थावन मानूंक जाय. कोणाचोच दुस्वास करूंक जायना अशें विवेकानन्द म्हणटाले. सावरकर जिस्त उरफाटें सांगतात ह्न 'जे हिन्दू न्हय ते आमचे न्हय' अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. तांगेल्या *हिन्दुत्व* ह्या पुस्तकांत जायत्या जाणांचीं नांवां आयल्यांत. रामकृष्ण विवेकानन्दांचो मात तातूंत चुकून लेगीत उल्लेख मेळना.

रामकृष्ण विवेकानन्दांक हिन्दू धर्माचे प्रतिनिधी मानल्ले जाल्यार सावरकरांचें हिन्दुत्व हिन्दू धर्मा उरफाटें आशिल्लें अशेंच म्हणचें पडटा. हिन्दू धर्म इतलो

अशीर मनाचो केन्नाच नाशिल्लो. विचार आचारांत कितलेंय वेगळेपण आसूं, सगळे वेगळेचार पचोवन तो पुश्ट जायत आशिल्लो. वेगळेचारांतल्यान एकचारा कडेन, भेदांतल्यान अभेदा कडेन ही हिन्दू धर्माची सभावीक गती आशिल्ली. सगळ्यांक आपणाल्या गोपांत घेवप ही ताची मोख आशिल्ली.

सावरकरांनी हिन्दुत्वाक जिस्त उरफाटे दिकेन व्हेलें. असलें हें हिन्दुत्व देश फोडचें नाशिल्लें जाल्यार दुसरे कसले दिवे लायतलें आशिल्लें?

देशाचें विभाजन जालें तें फकत इंग्रजांचे चाणक्य नितीक लागून न्हय, फकत जिनांच्या हटाक लागुनूय न्हय. सावरकरांच्या अशीर मनाच्या हिन्दुत्वाक लागुनूय तें जालां. सावरकरांक लागुनूच देश शंबर वर्सां फाटल्यान गेला.

सावरकर व्हडांतले व्हड एक देशभक्त आशिल्ले. दुबावूच ना. शेंकड्यांनी, न्हय, हजारांनी तरणाट्यांच्या काळजांत तांणी 'जाज्ज्वल्य देशाभिमाना'ची जोत पेटयल्ली. कितलींशीं वर्सां तांणी अंदमानचे बंदखणींत काडल्यांत. खूब हाल उपाद्रे सोंसल्यात. तांगेलो त्याग ल्हाना समानांतलो म्हणूं नजऽ.

पुणून खंयचे सावरकर हे? अंदमानाचे बंदखणींत पावल्यात ते आदले. ते सावरकर आनी अंदमानाचे बंदखणींतल्यान सुटून आयिल्ले सावरकर एक न्हय. दों मजगती भूंय मळबा येदें अंतर आसा. सुटून आयिल्ल्या सावरकरांच्या तोंडांतल्यान इंग्रजां आड वा इंग्रजी राजवटी आड एक उतर लेगीत केन्ना फुटूंक ना. देश इंग्रजांच्या दावकुलांतल्यान सुटचो म्हूण तांचे हस्तुकीं कुस्कूट लेगीत वावर जावंक ना. पुराय आयुश्य तांणी हिन्दूंच्या मनांत मुसलमानां विशीं दुस्वासूच जागोवपा खातीर खर्चिलां. तांणी मुसलमानांचो केला ताचेकूय लाख वांट्यांनी चड गांधींचो दुस्वास केला. स्वतंत्रताये खातीर गांधींच्या नेतृत्वा खाला कितल्योश्यो चळवळी चल्ल्यो. एकेय चळवळींत तांणी वांटो घेवंक ना. आशिर्वाद लेगीत एकेय चळवळीक दिवंक ना. उरफाटो विरोधूच केला. हे सावरकर इंग्रजांक जाय आशिल्लें तेंच करीत आशिल्ले.

पयल्या सावरकरांची पुण्याय दुसऱ्या सावरकरांक दसोवन दुसरे सावरकर व्हड निखालूस जावपाचे नात.

('जाग', जून २००३)



१६.

# हिन्दू मुखावेलीं आव्हानां

### हिन्दू संघटन

हिन्दू समाज संघटीत करुंकूच जाय. धा कडेन तोंडां आशिल्लो देशांतलो सगळ्यांत व्हडलो धर्मसमाज हो एक. ताका विस्कळीत उरूंक दिवप देशाक पुटवपाचें ना. तो देशाक खंयच्या फोंडांत धुकलून उडयत, सांगूं येना.

तो *कसो* संघटीत करपाचो?

रव्याचो लाडू करपाक तूप आनी साकर जाय पडटा तशें विस्कळीत समाजाक संघटीत करपाकूय तुपा साकरे सारकें एक तत्त्व जाय पडटा. गीतेन ह्या तत्त्वाक 'धृति' म्हूण एक नांव दिलां. संघ परिवारान हिन्दूंक एकठांय दवरपा खातीर सदांच मुसलमान वा ख्रिस्ती समाजाच्या दुस्वासाचें धृति-तत्त्व वापरलां. हेंच तत्त्व वापरून आमी हिन्दू समाज संघटीत करपाक मुखार सरले जाल्यार तें बाबरी मशिदे सारक्यो आनीक कांय मशिदी उडोवपाक उपकारा पडूं येत. धरुया, सगळ्यो मशिदी आनी इगर्जो आमी हे भाशेन मातये भरवण केल्यो जाल्यार, हिन्दू समाज संघटीत जातलो व्हय? इतपार ना.

दुस्वासाचें तत्त्व समाजाक संघटीत करपाक खंयच उपकारा पडूंक ना.

म्हणटकूच दुसरें एक तत्त्व सोदून काडचें पडटलें. खंयचें काडटले?

एक वस्तुताय लक्षांत दवरिल्ली बरी, हिन्दू धर्म मुसलमान वा ख्रिस्ती धर्मा सारको 'बाटोवपी' धर्म न्हय. दुसऱ्या धर्मांतल्या लोकांक बाटोवन तो कोणाक हिन्दू 'करिना'. विस्तारवादी धर्म न्हय, तर आत्मसंतुश्ट एक धर्म हो. हिन्दू जातलों म्हळ्यार कोणाक जावंक येना. करतलों म्हळ्यार कोणाक करूंक येना. हिन्दू *जल्माकूच* येवचो पडटा. आपलो धर्म सोडून ताच्यान, जाय जाल्यार, दुसरो धर्म 'घेवं' येता. खंयचो घेतलो? पारशी? पारशीय जल्माक येवचो पडटा. ज्यू? ज्यूय जल्माक येवचो पडटा. हे दोनूय धर्म कोणाक आपल्या समाजांत ओढून घेनात. मुसलमान वा ख्रिस्ती धर्म मात ताच्यान घेवं येता. म्हळ्यार, हिन्दू धर्म सोडून ताच्यान मुसलमान वा ख्रिस्ती जावं येता. आयज देशांत जितलेय मुसलमान आनी ख्रिस्ती आसात ते सगळे हिन्दू धर्म सोडून मुसलमान वा ख्रिस्ती 'जाल्ले' लोक. भायल्यान 'आयिल्ले' न्हय.

हिन्दू धर्माचें रुपूच वेगळें.

हिन्दू समाज संघटीत करूंक मुखार सरिल्ल्यांनी एका भ्रमांतल्यान पयलीं मेकळे जावंक जाय. हिन्दूंचो मुसलमान दुस्वास वा ख्रिस्ती दुस्वास जागोवन आमी सगळ्या हिन्दूंक 'संघटीत' करूंक पावतले हो तांगेलो व्हडांतलो व्हड एक भ्रम. हिन्दू समाज हजार तरांच्या वेगळेचारांनी विस्कळीत जाल्लो एक समाज. ऊंच/उणाक वेगळेचार, आपले जातीचे/भायले जातीचे वेगळेचार, स्पृश्य/अस्पृश्य वेगळेचार, दादलो/बायल वेगळेचार, सवर्ण/अवर्ण वेगळेचार हे सगळे वेगळेचार बुद्धा आदल्या काळा सावन ह्या देशांत चलत आयल्यात. जमनींत पाळांमुळां पातळावन घट राविल्ले वेगळेचार हे. 'विसरून वचपा' सारके उखलापे न्हय. ह्या वेगळेचारांचेर आतां मेरेन एका फुडले एक घणाघाय जाल्यात, तरूय ते घट्ट तिगून उरल्यात. जेन्ना जेन्ना ह्या वेगळेचारांनी नेट धरला, देश परक्यांचो गुलाम जाला. देखून जांकां देश परक्यांचो गुलाम उरचो वा जावचो न्हय अशें दिसलां तांणी हे वेगळेचार ना करपाचो वावर हातांत घेतला. ते खातीर तांणी *देशभक्तीचें* धृति-तत्त्व वापरलां. मागीर ते आर्यसमाजी जावं, ब्रह्म समाजी जावं, प्रार्थना समाजी जावं, रामकृष्ण मिशनाचे संन्याशी जावं वा सर्वोदय समाजी जावं, सगळ्यांनी देशभक्तीन लोकांचीं हड्डीं पेटोवनूच समाज संघटीत करपाचो यत्न केला. स्वराज्या

आदल्या सुमार पाउणशें - शंबर वर्सांच्या काळांत देशभक्तांचो होच एक मुखेल वावर आशिल्लो. ह्याच वावराक तांणी स्वराज्य हाडपाचो वावर मानिल्लो. हिन्दू खंयच्च्या कारणाक लागून मुसलमान वा ख्रिस्ती जालो हाचो खूब खोलायेन देंवन तांणी विचार केल्लो. राज्य मुसलमान वा ख्रिस्ती चलयताले, तांणी लोकांक बळयां बाटयले म्हणटात तें पूर्ण सत्य न्हय, ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. जांकां गंभीर गुन्यांव केल्ल्यान खर ख्यास्त फावताली तांकां बंदखणींत दवरून पोसचे परस बाटोवन सोडून दिवप तांकां फायद्याचें आशिल्लें. बाटिल्ल्यांक तांचेच लोक लागीं घेनाशिल्ले. हे तरेन खूब जाण बाटल्यात. परकी राज्यकर्त्यांनी तांचेर जबरदस्ती केली, 'पेट्रोल डॉलर' हाडून तांचे मुखार ओतले म्हूण ते बाटले अशें जे मानतात तांकां धर्मान्तराचें खरेलें कारणूच केन्ना समजलें ना. हिन्दू ह्व मागीर तो खंयचेय जातीचो आसूं ह्व सोंपेपणान 'बाटपी' मनीस न्हय. 'डॉलरां' मुखार लोटघोटो जावपी न्हय. आपणाक विकपी न्हय. तो प्राण दीत पुणून जाता तोवेर कुळधर्म जातधर्म बुडोवचो ना. जबरदस्तीन कांय जाण बाटल्यात खरे. पुणून ते चडशे वयल्या वर्णांतले लोक. ब्राह्मण, क्षत्रीय. भौसांतले न्हय. विवेकानन्द म्हणटात, बंगालांतलो भौस बाटून मुसलमान जालो ताचें कारण जमीनदार तांकां लुंचताले. तांकां हिन्दू समाजांत भोवमानान जियेवंक मेळनाशिल्लें. वयल्या वर्णांतल्या लोकांचे हिडीस फिडीस चलणुकेक लागून हिन्दू समाजांत तांकां घुस्मटिल्ले वरी जातालें. बाटून मुसलमान जातकूच बाटोवपी मुसलमानांनी तांकां पुरायपणान आपल्या समाजांत आसपावन घेतले. तांचे वांगडा रोटी-बेटी वेव्हार सुरू केलो. तांकां आपणा सारके हक्क दिवन आपली उदरगत करून घेवपाच्यो वाटो मेकळ्यो करून दिल्यो. म्हळ्यार, बाटून तांणी घुस्मटमारांतल्यान आपणाली सुटका करून घेतली. तांकां बळयां कोणें बाटोवंक नात. उपाय ना जावन ते आपूण जावन बाटल्यात.

धोंगांपोंगांचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, ते हिन्दू समाजाक खोंट मारून भायर सरल्यात.

धरुया, आमी आतां तांकां 'शुद्ध' करून हिन्दू समाजांत 'हाडले'. जाल्यार, संघ परिवार तांचो खंयच्च्या जातींनी आसपाव करतलो? आदल्याच? जाती नाशिल्लो हिन्दू समाजूच ना. मागीर तांणी हिन्दू समाजांत कित्याक येवंक जाय? आसनात ते मुसलमान वा ख्रिस्ती समाजांत, भोवमानान तरी जिंयेवंक पावतले!

विसाव्या शतमानाच्या आरंभाक गोंयांत क्रिस्तांव गावड्यांक हिन्दू समाजांत हाडपाची एक चळवळ मसूरकर म्हाराजांच्या शिष्यांनी चलयली. आमच्या पिरवळ गांवांत गुस्ताव गावडो नांवाचो एक धाडशी, तेजिश्ट आनी बुदवंत मनीस आशिल्लो. तो 'शुद्‌ध जावन' गोपाळ खेडेकार जाल्लो. पिरवळचे क्रिस्तांव गावडे गळ्यांत एक खुरीस घालताले आनी आयतारा आयतारा मिसाक इगर्जेंत वताले. हेर खंयच्याच आंगान ते मूळ गावड्यां परस वेगळे नाशिल्ले. गोपाळ खेडेकाराच्या प्रभावान ते 'शुद्‌ध जावन' हिन्दू समाजांत परते आयिल्ले. येतकूच मागीर मूळ हिन्दू गावड्यांनी तांकां आपल्या समाजांत आसपावन घेतले व्हय? तांचे लागीं रोटी बेटी वेव्हार चलयलो व्हय? ना. तांकां 'जाती भायले'च मानले. आयज ते 'नवहिन्दू' म्हूण वेगळेच रावतात. क्रिस्तांव वा मुसलमान 'शुद्‌ध जावन' परते हिन्दू समाजांत आयले जाल्यार तांचीय हीच गत्त जातली. मुदलच्या तांच्या समाजांतलो कोणूच तांकां आपणांत आसपावन घेवपाचो ना. पयसूच दवरतलो. म्हळ्यार ह्या आनीक कांय नव्यो जाती हिन्दू समाजांत निर्माण जातल्यो. हाचे पेल्यान दुसरें कसलेंच हिन्दू 'संघटन' जावपाचें ना.

हिन्दू समाजाचो सगळ्यांत व्हडलो जीवघेणो प्रस्न म्हळ्यार जाती-जाती मदलें ऊंच-उणाकपण. आयज आमचे मुखार जितलेय घुसपा-गोंदळाचे प्रस्न आसात तितलेय ह्या जातीं जातीं मदल्या ऊंच-उणाकपणान निर्माण केल्यात.

कोणाचो उलो आयकून कोणाक खबर, इतिहासा आदल्या काळा सावन वेगळ्या वेगळ्या देशांचे लोक ह्या देशांत एका सारके येत रावल्यात. 'नेग्रिटो' आयले, 'प्रोटो-ऑस्ट्रॉलॉयड आयले, द्रवीड आयले, असूर, राक्षस, दैत्य आयले, आर्य आयले, शक आनी हूण आयले. कोण कोण, कशे कशे आनी खंयच्यान आयले, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना. कातीन वेगळे, रुपान वेगळे, संस्कारान वेगळे, भाशेन वेगळे कितल्याश्या वंशांचे लोक हे. आयले ते हांगाच रावपाचें थारावन आयले. इतल्याय ह्या वंशांचे लोक एकठांय येवन रावतकूच तांचे मजगतीं संघर्श जावंकूच जाय आशिल्लो. जालो. ते एकामेकां आड किंवाट्यान झुजल्यात. एकामेकांक ना करपाक वावुरल्यात. आरंभाच्या काळांत तांचे मजगतीं खूब झगडीं झुजां जाल्यांत. ऋग्वेदांत ह्या संघर्शाचो इतिहास येथेच्छ भरिल्लो मेळटा. आयज अमेरिका, कॅनडा, आफ्रिका, दक्षीण अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया - तें कित्याक, जंय ग्रेट ब्रिटन नांवाच्या, लोकशायेची आवय म्हण नामना जोडिल्ल्या





'फुडारिल्ल्या' देशांक लेगीत ethnic clashes ह्या नांवान थंय जे संघर्श चलतात ते कशे पालोवचे हें सारकें कळ्ळें ना तें पुराणकाळांत आमगेल्या म्हालगड्यांनी ह्या देशांत करून पळेलें. सगळ्यांक 'एके संस्कृतायें'त आसपावन घेवपा खातीर तांणी सगळ्यांक एकठांय हाडून सांगलें ह्व आमचे मुखार एकूच वाट आसा, आमी एकामेकां कडेन जुळोवन घेवंक जाय. आमी वेगळे वेगळे, पुणून एकामेकां शेजारा रावंक जाय. कोणाकूच आपापणालें खेरीतपण सोडपाची गरज ना. पुणून कोणेंच कोणाच्या जिवितांत आडखळी हाडच्यो न्हय. तशें, एकामेकां आड झुजचेंय न्हय. सगळे एके संस्कृतायेचें आंग जावन रावया. हे भाशेन वेगळ्या वेगळ्या काती-रुपांच्या चाली-रितींच्या, धर्मसंस्कारांच्या लोकांक एकठांय दवरपाचो एक आगळो वेगळो समाजशास्त्रीय प्रयोग तांणी केलो. तातूंतल्यान जाती जल्माक आयल्यात.

जाती मनून निर्माण करूंक नात. मनून जाती वेवस्था फकत codify केल्या. तो संहिताकार आशिल्लो, reformer सुधारक नाशिल्लो. ताणें 'जातीधर्म' आनी 'कुळधर्म' हांचे नेमूच फकत घालून दिल्ले.

इतलेंय आसून जाती जाती मदलें ऊंच-उणाकपण ना जावंक पावूंक ना. तें ना केले बगर आमचो खंयचोच प्रस्न सुटपाचो ना. सामाजीक प्रस्न सुटपाचो ना, राजकी सुटपाचो ना, गरिबीचोय सुटपाचो ना. समाजवाद तर येवपाचोच ना. सेक्युलरिझमूय आमचे लागसार येवपाचो ना. आनी लोकशायूय तिगपाची ना.

खंयच्याय पायान सुट्टलो? आंतर-जातीय लग्नां घडोवन हाडून? तीं सदांच जायत आयल्यांत. ह्या मार्गान जाती जाती मदलें ऊंच-उणाकपण ना जावपाक हजारांनी वर्सां लागतलीं.

एक 'राष्ट्र' म्हूण भारताक वयर काडचो आसल्यार एकूच नेम करूंक जाय ह्व

कुटुंबांतल्या कुंटुबांत लग्नां जायनात, एकाच गोत्राच्या लोकां मजगतीं जायनात, तशीं एकेच जातीच्या लोकां मजगतीं जावंक फावनात असो 'कायदोच' करूंक जाय संसदेन.

पुणून हो गांधी परंपरेंतलो उपाय. काकासाहेब कालेलकर तो आयुश्यभर आड्डू आड्डून मांडीत आयिल्ले. गांधी परंपरेंतलो विचार संघपरिवारांतल्या म्हालगड्यांक घेवपाचें काळीज जायत व्हय? नाजाल्यार, बरोवन दवरिल्लें बरें, ते करतात त्या उपायांनी हिन्दू संघटन केन्नाच जावपाचें ना आनी त्या उपायान हो





देश एक 'राष्ट्र' म्हूण वयर सरपाची इल्लीय आस्त ना.

## धर्मांतरां

देशांत खुब्ब धर्मांतरां जावपाक लागल्यांत. मुल्ला-मौलवी लोकांक मुसलमान करपाक लागल्यात जाल्यार क्रिस्तांव पाद्री लोकांक क्रिस्तांव करपाक लागल्यात. 'धर्मांतरांचेर बंदी हाडूंक जाय' असो एक गजर हालींसराक एकसारको कानार येवन आदळपाक लागला.

खऱ्यांनीच अशें जालां? काय ही निखटी भिरांत, निखटी शिटकावणी, निखटो गजर?

एका काळार धर्मांतरां जातालीं. पुणून त्या काळांत देशाचेर मुसलमान क्रिस्तांवांचो शेक चलतालो. तरातरांचे धेंक घालून वा हांयसां दाखोवन ते लोकांक मुसलमान वा क्रिस्तांव करताले. आयज तांचो देशाचेर शेक चलना. हिन्दूंचो चलता. हिन्दूंनी देशाक 'हिन्दू राष्ट्र' म्हूण घोषीत केल्लें नासलें तरूय लोकशायेक लागून भोवसंख्य हिन्दूच राजकारभार चलयतात. मुसलमान वा क्रिस्तांव राजपाल जातीत, राष्ट्रपती जातीत, मंत्रीय जातीत. पुणून लोकांक धर्मांतरां करूंक लावपा इतले ते शक्तिशाली आयज उरूंक नात. हिन्दू दितले तेंच रूप देशाक मेळपाचें आसा. तेच देशाचो फुडार घडोवपाचे आसात. आयचें सॅक्युलर डॅमोक्रॅटिक रूप तांणीच देशाक दिलां.

मागीर, धर्मांतरां कशीं जातात?

एकाद दुकलो कोणूय आपूण जावन मुसलमान वा क्रिस्तांव जाता जातलो. आडवाद म्हूण्णूच फकत. ताका उपाय ना. तूं तुगेलो धर्म बदलूं नाका म्हूण आमच्यांनी ताका सांगूंक जावपाचें ना. ताचो हक तो. हो हक ताका आमचे घटनेनूच दिला. आनी ही घटना भोवसंख्य हिन्दूंनीच घडयल्या. पुणून 'तूं चूक करता' हें मात ताका आमच्यांनी निश्चितपणान सांगूं येता. कित्याक, एक धर्म सोडून दुसरो धर्म घेवप म्हळ्यार एका धर्मा परस दुसरो धर्म बरो अशें मानिल्ले वरी जाता. आनी हें सर्वधर्मसमभावीक (सॅक्युलर) धोरणांत बसना. सॅक्युलर धोरण खंयच्याच धर्माक दुसऱ्या धर्मा परस बरो मानिना. सगळे धर्म सारके ह्न बरेय आनी भायर मारपा सारके रद्दीय ह्न अशें मानता. सॅक्युलर देशांत धर्मांतर करप हो घटना-द्रोह जाता.

हिन्दू धर्म बऱ्यांतलो बरो धर्म अशें कोणेंय म्हळें जाल्यार हांव ताचो प्रतिवाद करचों ना. पुणून ह्या धर्मांत कोयर भरला तो पळेतां तेन्ना म्हजे घुस्मटमार सुरू जातात हें ताका सांगले बगर रावचों ना. हिन्दू धर्मांतलो कोयर काडून उडोवपाक हांव तळमळटां. पुणून उणो पडटां हें पळोवन निर्शेतां. पुणून हिन्दू धर्म सोडपाची वान्सा म्हाका केन्नाच जायना. कित्याक, हेर धर्मांनीय खूब कोयर भरला. क्रिस्तांव मुसलमान धर्मां भितरूय खूब भरला. इतलेंच न्हय तर हिन्दू धर्मांतल्या कोयरा आड वावुरिल्ल्या बुद्धाच्या धर्मांतूय (बुद्धा उपरांत) भरला. सगळेच धर्म कोयरान भरिल्ले जाल्ल्यान जो धर्मांतर करता ताका आपलोय धर्म समजूंक ना, घेतला तोय समजूंक ना अशेंच म्हणचें पडटा. आनी धर्मांतर करपी म्हाका मूर्ख कसो दिसता.

ह्या सॅक्युलर देशांत धर्मांतराचेर बंदी घाल्ली नासली तरूय धर्मांतराक सुवात ना. आसुंकूय फावऽना. धर्मांतराचेर बंदी हाडात म्हूण सांगपीय एके तरेन घटनाद्रोहूच करतात.

ही जाली ह्या प्रस्नाची एक कड. तात्वीक. ताची दुसरीय एक कड आसा. वेव्हारीक. ती खंयची?

मुसलमानांचेर एक आरोप हे 'बंदी घालात' म्हणपी लोक करतात. कसलो? तर खंय आखाती देशांतल्यान तांच्या हातांत सुमारा भायर 'पेट्रोल डॉलर' येता. आनी तो मुल्ला मौलवींच्या हातांत वता. म्हूण ते व्हडा प्रमाणांत धर्मांतरां करूंक पावतात. प्रस्न येता, मुल्ला मौलवींनी कितल्याश्या क्रिस्तांवांक मुसलमान केल्यात? आखाती देशांत आयज कितलेशे गोंयकार क्रिस्तांव वचून रावल्यात. जीं कामां गोंयांत करपाक तांकां लज दिसताली, तीं करपाक ते अनमनताले तींय कामां ते थंय करतात आनी लाखांनी डॉलर जोडटात. तांकां मुसलमान करूं येताले. मुल्ला मौलवी आखाती देशांनी नात व्हय? पुणून तांणी एकाय क्रिस्तांवाक अजून मेरेन मुसलमान करूंक ना. कित्याक, क्रिस्तांव गरिबायेक लागून कितलोय अकलेक येवं, आपलो धर्म तो सोंपेपणीं सोडिना. प्राण दीत, पुणून तो धर्म सोडचो ना.

बरें, क्रिस्तांव पाद्रीं कडेन भायल्यान कितें, थोडो पयसो येता? पयलीं व्हॅटिकनांतल्यान येतालो. आतां येता काय कितें, खबर ना. पुणून येवरोपांतले कांय उदयोगपती आपले जोडींतलो एक वांटो कुशीक काडून तो धर्मप्रसाराच्या कामाक कांय मिशनांक दानांत दीत आयल्यात. जंय मेकळेपणान धर्मप्रचार करूंक

येना थंय ते शाळा, कॉलेजां वा हॉस्पिटलां चलोवपा खातीर दितात. आनी अप्रत्यक्ष रितीन धर्मप्रसार करतात. मदर तेरेझाचें साम्राज्य असल्याच दुडवांच्या आधारान चलत आयलां.

असो एक तरी कोनसो उरला व्हय ह्या संवसारांत, जंय ख्रिस्ती मिशनां पावूंक नात? आफ्रिकेंत कॅनिबल्स (मनीस मारून खावपी) लोकां मजगतीं लेगीत तीं पावल्यांत. तांणी थंयूय ख्रिस्ती धर्म पावयला. एकल्या मिशनऱ्याचें जिवीत वाचिल्लें. तो ख्रिस्ती धर्म पातळावपा खातीर असल्याच मनशा मांस खावपी लोकां मजगतीं वचून राविल्लो. आवाशिवा करून एक दीस एक आफ्रिकी जोडपें ताचे सरीं ताचो उपदेस आयकुपाक येवंक लागलें. इल्लें इल्लें करून तें ह्या मिशनऱ्याचें घरचंशें जालें. एक दीस उपदेस आयकुपाक घोवूच आयलो. बायल सदां येताली ती नाशिल्ली. ती खंय काय म्हूण मिशनऱ्यान विचारलें तेन्ना ताणें आपल्या पोटार हात मारलो. मिशनऱ्याक तो कितें सांगता तें कळ्ळें ना. खोदून खोदून विचारलें तेन्ना ताणें जाप दिली, 'खावन उडयली'. असल्या भयांक्रूत लोकां मजगतीं वचून ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी धर्मप्रसार केला. म्हाका तांचे विशीं भोवमानूच दिसता, इतलेंच न्हय तर थोडो भोव मत्सरूय दिसता. हिन्दूंनी हे तरेचें कर्तूब (आपल्या देशांत तरी) केलां व्हय? नागालँड, मिझोराम, मेघालय, अरुणाचला सारक्या राज्यांनी एक लेगीत हिन्दू कित्याक ना? आर्य आयले, संवसारभर पातळ्ळे. ह्या वाटारांत पावले नात. बुद्धमत्त अख्ख्या आशिया खंडांत पातळ्ळें. ह्या वाटारांत पावलें ना. चैतन्य महाप्रभूंचे शिष्य मणिपुरांत पावले आनी थंयच थांबल्ले, मुखार खंयच गेले नात. ख्रिस्ती मात सगळे कडेन पावल्यात. आयज नागालँड, मिझोराम, मेघालय, अरुणाचल हो पुराय ईशान्य (उत्तर उदेंत) भारत ख्रिस्ती जाला. पुर्तुगेज, इंग्रजांनी तांकां ख्रिस्ती करूंक ना. अमेरिकनांनी केला. अमेरिकन बॅप्टिस्ट चर्च ह्या वाटारांत आपणालें जाळ पातळावन रावलां. देशांतलो खूबसो आदिवासी वाटार ह्या लोकांनी ख्रिस्ती केला. तो हिन्दूंचो कित्याक जालो ना? तर खंय हिन्दू जावंक येना. तो जल्माकूच येवचो पडटा! मागीर, ह्या वाटारांत ख्रिस्ती पाद्री लोकांक क्रिस्तांव करतात म्हूण हिन्दू बोबो कित्याक मारतात? पाद्रींक विचारलें जाल्यार ते सांगतात, 'आमी कोणाक धर्म बदलूंक लायनात. जांकां धर्मूच नाशिल्लो तांकां आमी धर्म दितात. हिन्दूंक कोणें आडायल्ले?' आसा व्हय जाप आमचे कडेन?

धर्मांतराचो प्रस्न कितलो घुस्पागोंदळाचो हाचो अदमास येवचो म्हूण हें सगळें सांगलां.

ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी आफ्रिकेंतल्या अटंग्या रानांनी ख्रिस्ती धर्म पातळायलो. पुणून तांणी थंयच्या एका तरी मुसलमानाक ख्रिस्ती केला व्हय? भारतांतूय करूंक ना. भारतांत आपलो धर्म सोडून मुसलमान वा ख्रिस्ती जातात ते फकत हिन्दू. ख्रिस्ती केन्ना मुसलमान जायनात. तशे मुसलमान ख्रिस्ती जायनात. ते आपणालो धर्म सोडिनात. हिन्दूच कित्याक सोडटात? बरें, खंयच्या थरांतले हिन्दू आपलो धर्म सोडटात? जांचो पावला कणकणी अवमान जाला तेच. दलीत वर्गांतले लोक. देशाचें नशीब बरें म्हूण दलितां मजगतीं एक फुडारी जल्माक आयलो, जो पयसलें पळोवंक पाविल्लो. द्रश्टो आशिल्लो. देशभक्त आशिल्लो. ताणें खूब अवमान सोंशिल्ले. हिन्दू समाजान जातीप्रथा सोडून दिवची म्हूण ताणें हिन्दू धर्माचेर आयुष्यभर घणाघाय घाले. तरूय तो निवळना हें पळोवन तो म्हणपाक लागलो, ‘हांव हिन्दू म्हूण जल्माक येवं, हिन्दू म्हूण मरपाचों ना’ आनी एक दीस तो बौद्ध जालो. ताचे वांगडा लाखांनी दलीत बौद्ध जाले. हाका ‘धर्मांतर’ म्हणूं येना. विद्रोह म्हणूंक जाय हाका. धर्मांतराचेर बंदी हाडात म्हणपी फुडारी दलितांनी बौद्ध धर्म घेवचो न्हय अशें म्हणटात व्हय?

बौद्ध धर्म एक भूमिनिष्ठ धर्म. तो पुर्तुगेज इंग्रजां वरी कोणाक आपलो देश आपलो न्हय म्हूण शिकयना. आयज पुराय आशिया खंड बौद्ध जाल्लो पळोवंक मेळटा. कोणूच आपल्या देशाक आपलो न्हय म्हणिना. बौद्धधर्म कोणाकूच आपले सांस्कृतीक परंपरे पसून तोडिना. नांवां आडनांवां बदलूंक लायना. भास सोडूंक लायना. जपानी बौद्ध जपानीच उरला. तिबेट, भूतान, ब्रह्मदेश, थायलँड, काम्बोडिया, चीन ह्या बौद्ध देशांतले लोक तिबेटी, भूतानी, ब्रह्मदेशी, थायलँडी, काम्बोज, चीनीच उरल्यात. आमचे नवबौद्ध भारताचेच उरतले. तांगेल्या धर्मांतराक धर्मांतर म्हणूंक येवपाचें ना. सोळाव्या शतमानांत मार्टिन लुथरान कॅथलिक पंथा आड विद्रोह केल्लो. तसले तरेचो हो दलितांचो विद्रोह. लुथर चर्चा आड आशिल्लो. पोपा आड गेल्लो. पुणून क्रिस्तांवूच उरिल्लो. खासा बुद्ध श्रमण ब्राह्मण परंपरेंत वाडिल्लो. पुणून हिन्दूच उरिल्लो. दलितूय हिन्दू, वा म्हणुया, भारतीयूच उरतले. हुस्को नाका. हांकां बौद्ध जावंक मेळचें न्हय म्हूण सुदर्शन, तोगाडिया, गिरिराज किशोर, आनी बाळ ठाकरे धर्मांतराचेर बंदी हाडूंक जाय म्हणटात व्हय?

कित्याक? दलीत जापेक जाप दितात, उर्मटपणान वागतात म्हूण? वागतलेच ते तशे. कित्याक, तांणी आपणा तकले वेलीं सगळीं चेपणां भिरकावन उडयल्यांत आनी 'मुक्त' जाल्यात. तांगेल्या ह्या उर्मटपणांत कितल्योश्यो क्रांतिकारी संभावना लिपून आसात. उर्मटपणान वागुनूच ते हिन्दू समाजाक एक नवी देख घालून दिवपाचे आसात. हिन्दू समाज मुळा थावन बदलपाचे आसात. ते बौद्‌ध जाल्यात म्हण ते मुसलमान क्रिस्तांत्रां भाशेन हिन्दू समाजा पसून वेगळे सरूंक नात. तांणी 'समाजांतर' करूंक ना. ते हिन्दू समाजांतूच आसात, हिन्दू समाजांतूच उरपाचे आसात.

एक गजाल हिन्दुत्ववादी लोकांनी लक्षांत दवरूंक जाय ह्न जे मेरेन हिन्दू धर्माची मक्तेदारी भटां ब्राह्मणांच्या हातांत उरतली ते मेरेन हिन्दू समाज बदलपाची आस्त ना. भटां ब्राह्मणांच्या हातांतली ही मक्तेदारी काडून घेवंक जाय. म्हजें म्हणणें, ख्रास्या भटां ब्राह्मणांनीच ती सोडून दिवंक जाय. भटां ब्राह्मणांक कर्तुत्व गाजोवपाक दुसरीं जायतीं मळां आसात. विज्ञानाचें मळ तांची वाट पळेता. तांणी धर्मशास्त्रां निवळावचीं आनी देव-देवस्पण भौसाच्या हातांत दिवचें. हिन्दू समाज भरभरीत बदलत वतलो. ना जाल्यार ह्न

एक दीस भौसूच हिन्दू धर्म सोडून दितलो हें लक्षांत दवरचें. भटां ब्राह्मणांची धर्मा वेल्ली मक्तेदारी ना केले बगर हिन्दू समाज निवळपाचो तर नाच, धर्मांतराचेर बंदीय हाडूंक कोणाक मेळपाची ना.

('जाग', जानेवारी-फेब्रुवारी २००८)



१८.

# पारशां विशीं हिन्दू सामकेच उदासीन कशे?

सकाळच्या स्वाध्यायाक *उपनिषदां* घेवन बशिल्लों.

'हिमालया सारको पर्वत ना आनी *उपनिषदां* सारकें पुस्तक ना' अशें कोणें तरी म्हळां. विनोबान आसूं येता. शॉपेनहावराच्या हातांत तीं पडलीं तेन्ना खंय तीं वाचून तो पिशें लागिल्ले वरी नाचपाक लागलो. कितल्याश्या प्रस्नांच्यो जापो ताका मेळूंक नाशिल्ल्यो. जर्मन भाशेंत मेळटात तितलींय तत्त्वज्ञाना वेलीं पुस्तकां ताणें वाचून काडिल्लीं. अवचीत *उपनिषदां* हातांत पडलीं आनी *'भिद्यते हृदयगुंथि: छिंद्यंते सर्व संशया:'* अशें ताका दिसलें. 'गांठी सगळ्यो सुटिल्ल्यो आनी दुबाव सगळे ना जाल्ले'. जी खोस जाल्ली ती उकतावपाक उतरांच जर्मन भाशेंत नाशिल्लीं म्हूण तो खऱ्यांनीच खंय नाचपाक लागिल्लो.

*उपनिषदां* मुळांतूच तसलीं. कोणाकूय पिशें लावपी. गुढांतल्या गूढ प्रस्नांच्यो जापो तीं कितल्या सोंप्या उतरांनी आमकां दितात! विचारात तांकां, 'संवसार इतलो सुंदर कसो?' तीं जाप दितलीं, 'तो पूर्ण म्हूण. भरिल्लो भरिल्लो म्हूण.'

'संवसार पूर्ण कित्याक?' 'जातूंतल्यान तो उदेला तें (ब्रह्म) पूर्ण म्हूण. पूर्णांतल्यान पूर्ण येवचें ना जाल्यार कितें येतलें? पूर्णांतल्यान पूर्ण 'आयलें' म्हूण मुदलांतल्या पूर्णांतलें कितेंच उणें जायना. तेंय पूर्ण उरता. हेंवूय पूर्ण आसता.' आवयच्या पोटांतल्यान बाळक जल्माक आयलें म्हूण आवयच्या आंगांतलें कितेंय उणें जाता व्हय? तिवूय पूर्ण आसता तशें बाळकूय पूर्ण येता. संवसाराचें 'गूढ' इतल्या सोंप्या उतरांनी समजावन सांगिल्लें आयकतकूच कोणाचीय नदर कवी सारकी कित्याक जावची ना? जें रवीक दिश्टी पडना तें कवीक दिश्टी पडटा म्हणटात.

सामान्यतायेन *उपनिषदां*चो स्वाध्याय *ईश, केन, कठ, प्रश्न, मुंडक, मांडुक्य, तैत्तरीय* आनी *ऐतरेय* ह्या क्रमान जाता. ल्हान *उपनिषदां* हीं. *छांदोग्य* आनी *बृहदारण्यक* हीं व्हडलीं. तीं उपरांत घेतात. *श्वेताश्वतर* सगळ्यांत निमाणें. सगळ्यांत कठीण *उपनिषद* हें. म्हळें कठिणूच पयलीं घेवया. आनी वाचपाक लागलों. कितें मेळ्ळें? कांय ब्रह्मवेत्ते एक़ठांय बसून भासाभास करपाक लागले. 'हो संवसार जाका लागून जाला तें खंयच्यान आयलें? आमी ह्या संवसारांत खंयच्यान आयले? कित्याक लागून आयले? कित्यांत विलीन जावन वतले? कोणाक लागून आमी सुखा-दुःखाचो अणभव घेवंक पावतात? काल, स्वभाव, नियती, यदृच्छा, भुतां, प्रकृती, पुरूस हांचे मदलें एकाद-दुकलें तत्त्व संवसाराचें 'कारण' आसूं येत व्हय? विचार करपा सारको हो प्रस्न *(हति चिंत्या)*. तांतलें एकूय 'कारण' नामलें जाल्यार तांचो संयोगूय कारण जावं येना. कित्याक, तो आत्म्याचे अधीन उरता. बरें, आत्मो तरी विश्वाचें कारण जावं येता व्हय? ताका सुखा-दुःखाचो अणभव येता म्हूण तोय कारण जावं नजऽ.'

हांगा पावतकूच थांबलों.

म्हळें, कालवाद *उपनिषदां*च्या रुशींक खबर आशिल्लो जावंक जाय. कित्याक, वेद ताच्या संबंदान उलयतात. *'कालोहि दुरतिक्रमः'* *'कालोहि बलवत्तरः'* हे तरेचीं वाक्यां तांचे जिबेर घोळ्ळ्यांत. तीं वेदांचे परंपरेंतलीं. पुणून स्वभाववाद, नियतिवाद, यदृच्छावाद, भूतवाद बी वाद *उपनिषदां*चे मुस्तींत चलताले व्हय? बुद्धाचे मुस्तींत चलताले. आनी बुद्धाचो काळ *उपनिषदां* उपरांतचो म्हणटात. मागीर हो वाद *श्वेताश्वतर उपनिषदां*त कसो येवंक पावलो? *श्वेताश्वतर* बुद्धाचे मुस्तींतलें वा उपरांतचें *उपनिषद* बी न्हय मू?

*तथागत* बरयतालों तेन्ना *'दीघनिकायां'*तलें *'श्रामण्यफलसुत्त'* वाचिल्लेंह्व

एक खेपे खंय अजातशत्रू कोजागिरी पुनवेक आपणाले आगाशेर बशिल्लो. मळबांत एकूय कूप नाशिल्लें. पिठा सारकें चान्नें पडिल्लें. तें पळोवन अजातशत्रूचें मन खोश्शी जालें. ह्या चान्न्यांत एकाद दुसऱ्या श्रमण-ब्राह्मणा लागीं धर्मचर्चा करपाची ताका इत्सा जाली. ताचे आशिकुशीक तागेले कांय आमात्य बशिल्ले. तांचे मजगतच्या एकल्यान म्हळें. पूरणकश्यप नांवाचो एक व्हड गिन्यानी, अणभवी, उजू चलणुकेचो, जाणटो सत्पुरूस आसा. धर्मचर्चे खातीर ताचे सरीं कित्याक वचचें न्हय? अजातशत्रू ओगीऽ रावलो तेन्ना दुसऱ्या एकल्यान म्हळें, मक्खली गोसाला सरीं वचुया. कोणेंच या म्हळें ना तेन्ना कोणें पुफुध कात्यायनाचें नांव घेतलें तर कोणें संजयवेलट्टपुत्ताचें घेतलें. हे सगळे ते मुस्तींत आपापणाल्या 'वादा'चो प्रचार करीत आशिल्ले. अजातशत्रून तांची सगळ्यांची भेट घेतिल्ली आनी तांचे लागीं बसून धर्मचर्चाय केल्ली. परतें तांचे सरीं ताका वचपाचें नाशिल्लें.

जीवक कौचारभ्रत्य अजातशत्रूचो वैज. तो म्हऱ्यांतूच बशिल्लो. 'तुवें कांयच सांगलें ना,' अजातशत्रून ताका म्हळें. तेन्ना जीवकान जाप दिली, 'म्हाराजांनू, बुद्ध भगवंत तुर्ताक तुमच्याच एका आम्रवनांत येवन रावला. ताचे सरीं वचून कित्याक धर्मचर्चा करची न्हय?'

'चल या' अशें म्हणून जीवकाक वांगडा घेवन अजातशत्रू आम्रवनांत गेलो. भगवंता मुखार विनयान उबो रावन ताणें म्हळें, 'भगवंताक एक प्रस्न करूंक सोदतालों.'

'विचार,' बुद्धान म्हळें.

अजातशत्रून विचारलें, 'संवसारांत हत्यारोही, अश्वारोही, रथी वा धनुर्धारी जावं, वा राजपूत, रांदपी, म्हालो, माळी, मडवळ, कुमार, लुहार जावं, हे ना ते रितीन कितेंय न्हय कितें जोडटात आनी आपलो संवसार चलयतात; घरच्यांक, इश्टमित्रांक सुखी दवरतात, श्रमण ब्राह्मणांक दान दितात. हे तरेचें प्रत्यक्ष फळ भगवंत जांकां दीक्षा दिता त्या भिक्खूंक मेळटा व्हय?'

'हो प्रस्न तुवें आनी कोणाक विचारिल्लो?' बुद्धान ताका विचारलें.

'हय, एक खेपे हांवें हो प्रस्न पूरण कश्यपाक विचारिल्लो. ताणें म्हळ्ळें, संवसारांत जें घडटा तें ताच्या सभावाक धरून घडटा. तें दुसरो कोण घडोवन हाडिना. संवसारांत ईश्वराक सुवातूच ना. आनी कर्तुत्वाची-बिर्तुत्वाची कांय गरज ना. आत्म्याक जे कोण बऱ्या वायट गजालींचो कर्तो मानतात ते मूर्ख. तांच्यो

तकल्यो सारक्यो चलनात. आत्मो कर्तो आशिल्लो जाल्यार मनीस आपणाल्या यत्नांनी ताका जाय तें जोडटलो आशिल्लो. पुणून कर्तुत्वा बगर जाय आशिल्लें मेळटा आनी नाका आशिल्लें चुकोवंक येता म्हणपाचें आमी पळेतात. कित्याक, तें सभावाक लागून घडटा, अशें ताणें सांगलें. ही म्हज्या प्रस्नाची जाप नाशिल्ली. कोणेंय आंब्या संबंदान विचारचें आनी ताका पणसा संबंदान आयकुचें पडचें तशेंशें कितें दिसलें. हांव धंपच्यान उठून भायर आयलों आनी मक्खली गोसालाक वचून मेळ्ळों. म्हज्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें सोडून तो आपल्या नियतीवादा संबंदानूच म्हाका कितें कितें सांगपाक लागलो. ताणें म्हळें, जिवितांत दैवूच बळिश्ट. दैवांत आसत जाल्यार मनशाक कांयच करी नासतना सगळें मेळटा आनी दैवांत नासत जाल्यार ताणें केदेंय कतुत्व केलें, भूंय मळब एक केलें तरूय कांय मेळना. हांवें मागीर मक्खली गोसालाक कांय म्हळें ना. नीट उठून केशकम्बला सर्गी गेलों. ताणेंय म्हज्या प्रस्नाक जाप दिवपा बदला आपणालो उच्छेद्‌वाद म्हाका सांगलो. ताणें म्हळें, दान, यज्ञ, हवन, पातक, पुण्य कित्यांत कांय अर्थ ना. मनीस मेल्लो म्हणटकूच तो स्वर्गांतूय वचना, नर्कांतूय पावना. पांच म्हा-भुतां मेळून ताची कूड घडल्या. मनीस मरतकूच ताचे कुडींतली पृथ्वी म्हा-पृथ्वीक वचून मेळटा. जल म्हा-जलाक मेळटा, वायू म्हा-वायूंत आनी इन्द्रियां म्हाकाशांत भरसतात. मागीर कुडीक उज्या सुवादीन करची पडटा. मनीस बुदवंत आसूं, पिसो आसूं, मरनकूच तो सोंपता. फाटल्यान ताचें कांयच उरना.

'*श्रामण्यफलसुत्तां*'त हे तरेच्या वादांची भासाभास आयल्या. हाचो अर्थ, हे वाद बुद्‌धाच्या काळांत चलनतले असो करचो पडटा. बुद्‌धाक ह्या सगळ्यां आड झुजचें पडिल्लें. *उपनिषदांच्या* काळांत हे वाद चलिल्ले जाल्यार खंयच्या तरी एका *उपनिषदांत* तांचो उल्लेख येतलो आशिल्लो. पुणून खंयच्याच *उपनिषदांत* येवंक ना. फकत *श्वेताश्वतरांत* आयल्या. हाचो अर्थ, हें *उपनिषद्* हेर *उपनिषदां* उपरांतचें आसूंक जाय असो करचो पडटा. *उपनिषदाचो* रुशी श्वेताश्वतर. ह्या नांवाचो अर्थ कितें? वासुदेव शरण अग्रवालांनी ताचो अर्थ 'धव्याफुल्ल घोड्यांच्या रथांत बसून भोंवतालो तो' असो लायला. आनी असो पारशांचो जरथ्रुस्त भोंवतालो म्हळां. वासुदेव शरण देशांतले एक व्हडांतले व्हड संशोधक. ते म्हणटात, ख्रिस्ती सना आदल्या सव्या शतमाना सावन भारताचो इराण देशा कडेन खुब्ब दाट संबंद आशिल्लो. बाह्लीक देशांत जरथ्रुस्ती लोक पातळ्ळेले. जरथ्रुस्ती लोकांचें

तें एक व्हड धर्मीक केंद्र आशिल्लें. थंयच्यान एकाद्रो जरथ्रुस्ती मनीस हांगा आयिल्लो आसूंक जाय. भारतांत येवन ताणें हांगासल्लो ब्रह्मवाद शिकून घेतिल्लो आसूंक जाय. *महाभारतां*तल्या 'नारायणीय पर्वा'ची वासुदेव शरणांनी विकसावणी केल्या ती भारत-इराण संबंदाची मौलीक ह्र original विकसावणी म्हूण जाणकार मानतात. हे विकसावणेंत तांणी नारायणीय धर्माचो सासानी इराणांतल्या पहलवी धर्मा कडेन आगळो वेगळो समन्वय जाल्लो म्हणपाचें दाखोवन दिलां. आयज आमी ताका वैष्णव धर्म म्हणटात. ताचें प्रतिष्ठेक पाविल्लें नांव भागवतधर्म. ताचे पांचरात्र, वैखानस, सात्वत, एकान्तिक अशे कांय फांटे (पंथ) आशिल्ले. तांतलो एकान्तिक पंथ नारायणाक मानतालो आनी नराचो आसपाव नारायणांत करतालो. म्हूण ताका एकान्तिक हें नांव पडिल्लें. ह्या एकान्तिक पंथाचीं मत्तां समजावन घेवपाक नारद गंधमादन पर्वतार वता. थंय तो नर आनी नारायण दोगांकूय तपाक बशिल्ले पळेता. नारद तांकां तांगेल्या धर्मा संबंदान विचारता. दोगूय ताच्या प्रस्नांक जापो दितात आनी फुडलें समजावन घेवपाक ताका श्वेतद्विपांत वच म्हूण सांगतात. नारद वता आनी थंय ताका जे लोक मेळटात तांकां खंयच्याच अर्थान भारतीय म्हणूंक येवचें ना अशें वासुदेव शरण म्हणटात. गोरे, सदां धवींफुल्ल लुगटां न्हेसपी, एकांतांत रावन, उदेंते कडेन तोंड करून मानस-जप करपी आनी हरिमेधस नांवाच्या देवाची पुजा आनी भक्ती करपी हे लोक पारशी आसूंक जाय. तांगेल्या अहुरमज्दाचें संस्कृत हरिमेधस जाल्लें आसूंक जाय आनी श्वेतद्विप हें इराण आसूंक जाय अशें म्हणटात. पारशी भारतांत आयल्यात ताचे पयलीं तांगेलो धर्म हांगा पाविल्लो आसूंक जाय आनी ताचो प्रभाव भारतीयांचेर पडिल्लो आसूंक जाय असो हाचो अर्थ जाता.

हांवें सकाळच्या स्वाध्यायांत *श्वेताश्वतर उपनिषद* घेतिल्लें तें ताची ईश्वरभावना समजून घेवपा खातीर. पुणून तें म्हाका पुर्विल्ल्या इतिहासाच्या अटंग्या रानांत ओडून घेवन गेलें. आतां हाचे फाटल्यान लागतलों म्हळें जाल्यार कितलीं वर्सां दिवचीं पडटलीं, कोण सांगतलो? म्हज्या आयुष्यांत इतलीं वर्सां उरूंक नात. तेन्ना म्हळें, हो अभ्यास करपा सारको एक विशय, कोणेंय तरी तो करचो इतलें सुचोवन दवरचें आनी *उपनिषदां*तली ईश्वरभावनाच समजून घेवची म्हूण स्वाध्याय तितले पुरतो चलयत रावलों.

एक गजाल मुजरत सांगुंकूच जाय ह्र

बोधिगयेच्या सर्वोदय संमेलनाक गेल्लों थंय विनोबां कडल्यान एक खबर आयकल्ली. तांकां खंय एक खेपे एक पारशी दस्तूर मेळूंक आयलो. विनोबांनी सगळ्या धर्मांचो अभ्यास केला म्हूण ताणें आयकल्लें. ताणें विचारलें, 'तुमी कुराण वाचलां?'

'हय, वाचलां.'

'खंयचे भाशेंत?'

'मूळ अरबींत. ते भायर इंग्रजींत.'

'बायबल वाचलां?'

'हय, वाचलां.'

'खंयचे भाशेंत?'

'इंग्रजींत...'

'आमचो *अवेस्ता* वाचला?'

'ना.'

'क्यों पढेंगे? हम आपसे कोई झगडा तो नहीं करते! आपसे जो झगडा करते हैं, उन्हींकी पुस्तकें आप पढते हैं.'

विनोबांक लज लज जाली. 'ला के दीजिये, आज से शुरू करता हूँ' अशी जाप दिली. ताणें *'अवेस्ता'* हाडून दिलो काय कितें, खबर ना. पुणून एक खरें, विनोबांनी *'कुराण धर्मसार'* काडला, *'ख्रिस्ती धर्मसार'* काडला. *अवेस्तां*तलें कांयच काडूंक ना. पारशां विशीं आमी इतले उदासीन आसचे? विनोबाय? पारशांक हो देश सोडून दुसरो देश ना. आमचेच ते. तांची आमकां सारकी वळख आसची न्हय?

('जाग', ऑगस्ट २००८)



१८.

## तांचे इतलेच हिन्दू धर्मकोल्ली

मुसलमान धर्मकोल्ली. क्रिस्तांवूय तसलेच. दोगांयनी हिन्दूंचीं देवळां मोडलीं. मुर्ती फोडल्यो. हजारांनी लाखांनी हिन्दूंक बाटोवन मुसलमान आनी क्रिस्तांव केले. समाजा पसून फोडून तांकां वेगळे काडले.

कोण ना म्हणटा? हो सगळो इतिहास. तांची नोंद घेतल्या इतिहासान. पुणून ह्यो आगळिको जांणी केल्ल्यो ते वा तांगेले वंशज आयच्या देशी मुसलमान क्रिस्तांवां मदीं आमकां खंयूय पळोवंक मेळटात व्हय? सोदूंक गेल्यार लेगीत मेळपाचे नात. वखदाक लेगीत एक्क मेळपाचो ना. सगळे **देशी** मुसलमान, **देशी** क्रिस्तांव हे. तांकां हो देश सोडून दुसरो देश ना. ते ह्याच देशांत रावपाचे आसात. म्हज्या 'ह्या देशांत' पाकिस्तान आनी बांग्लादेशाचोय आसपाव जाता. राष्ट्रां वेगळीं जालीं म्हूण देश वेगळे जायनात. पाकिस्तान आनी बांग्लादेश दोन वेगळीं 'राष्ट्रां' जाल्लीं आसलीं तरूंय तीं एकाच देशांतलीं 'राष्ट्रां'. तांचो आमचो देश एक. पुरातन काळा पसून तो एक आशिल्लो. इतिहास,भुंयगोलान तो एक केल्लो. राजकर्णान

तो फोडलो. राजकर्णी लोकांचो धंदोच तो. लोकांक फोडपाचो. एकामेकांचे दुस्मान करपाचो. आमी तांचे फाटल्यान वतले व्हय? वचूंक जायना. आमचे देशभक्तीक काळें खत लागूंक दिवंक जायना आमी.

मागीर, प्रस्न येता, आयच्या मुसलमान क्रिस्तांव लोकांचें कितें करपाचें? तांकां परकी लेखपाचे? ना. हिन्दू जितले हक्कान ह्या देशांत रावतले त्याच आनी तितल्याच हक्कान मुसलमान क्रिस्तांवूय रावतले. हिन्दूंक जितले अधिकार आसतले तितलेच अधिकार ह्या लोकांकूय आसतले.

[२]

धर्मकोल्ली फकत मुसलमान आनी क्रिस्तांव? हिन्दू धर्मकोल्ली न्हय? कांय वर्सां फाटीं अयोध्येंतली बाबरी मशीद कोणें फोडिल्ली? हिन्दूंनी न्हय? मुसलमान आनी क्रिस्तांव धर्म जल्माक लेगीत येवंक नाशिल्ले तेन्ना हिन्दू धर्मकोल्लांत तांचे परस इल्लेय फाटीं नाशिल्ले. बुद्धा कडेन ते कशे चलिल्ले? बुद्धाक तांणी 'बुद्दू' (मूर्ख) म्हळ्ळो. आपलो दुस्मान मानलो. तो 'बुद्दू'य नाशिल्लो. दुस्मानूय नाशिल्लो. हिन्दू परंपरेंत तो जल्माक आयिल्लो. हिन्दू परंपरा निवळावंक मुखार सरिल्लो. विवेकानन्दान ताका 'रॅबॅल चायल्ड ऑफ हिन्दुइझम' म्हळा. म्हळ्यार, हिन्दू घराण्यांतलो बंडखोर पूत मानला. बापायचे आड पुतान बंडखोरी केली म्हूण पूत बापायचो दुस्मान जायना. हिन्दू धर्मांत यज्ञयाग चलयल्ले ते बंद करूंक जाय अशें बुद्ध म्हणटालो. यज्ञयागांत मोनजातींक मारतात तें बंद जावंक जाय अशेंय सांगतालो. मोनजातींक मारून तुमकां कसलें पुण्य मेळटा काय म्हूण विचारतालो. हाका 'दुस्मानकाय' म्हणपाची? हिन्दू समाजांतलें आफूड-भश्ट बंद जावंक जाय अशें आयज आमी म्हणटात ते धर्मा विशींचे दुस्मानकायेन? काय हिन्दू समाज निवळावपाचे पोटतिडकेन? आफूड-भश्ट ना करात म्हणटल्यांक हिन्दू आयजूय दुस्मान मानतात. गांधी तशें म्हणटाले म्हूण पुण्यांत ब्राह्मणांनी तांचेर बॉम्ब शेंवटून मारला. देशभर निदर्शनां केल्यांत. हिन्दू ब्राह्मणां सारके धर्मकोल्ली संवसाराचे फाटीर सोदुनूय मेळपाचे नात.

बुद्धाक विरोध कोण करताले? तागेले मुस्तींतले ब्राह्मणूच. पुणून, काकूळट बाबड्यांची, बुद्ध आसासर ते कांय करूंक पावले नात. कित्याक, उरुवेलांतले काश्यप भाव, राजगृहांतले सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान, उज्जयनींतलो कात्यायन

हांचे सारकेले विद्वान ब्राह्मणूच बुद्धा कडल्यान दीक्षा घेवंक लागिल्ले, आनी बुद्धमत्त पातळायत वचूंक लागिल्ले. ह्या सगळ्यां आड झुजपाचें काळीज ब्राह्मणांक जालें ना. देखून बुद्धाचें परिनिर्वाण जायसर ते ओग्गी बसून रावले. पंचेचाळीस वर्सां उपरांत बुद्धाचें, अंयशीं वर्सांचे उतार पिरायेर, परिनिर्वाण मात जालां, ब्राह्मण सूद-बूद विसरपा इतले खोश्शी जावन नाचल्यात.

बौद्धांच्यो होंवऱ्यो खंयूय पळोवंक मेळ्ळ्यो आनी त्या होंवऱ्यांतलीं चित्रां, शिल्पां पळोवंक मेळ्ळीं जाल्यार एक चित्र वा शिल्प मुजरत पळेयात ह्न उजवे कुशीक उजव्या हाताचें उशें करून, उजव्या पांयार दावो पांय दवरून, ताचेर दावो हात दवरून बुद्ध निर्वाणाचे तयारेंत दोळे धांपून चतुर्थ ध्यानांत गेला. ताचे तकले कडेन आनंद आनी दुसरे कांय सांगाती मानो बागोवन दुःखान बसल्यात आनी,

बुद्धाच्या धोंपरा कडेन, ताचो दावो हात आसा थंय, एकलो दोनूय हात वयर करून ह्यॅं ह्यॅं करून दांत काडून हांसता. तो कोण, खबर आसा? ब्राह्मण! 'मेलो एकदांचो, पाड पडिल्लो' अशें म्हणून खोशयेच्या उन्मादांत हांसत नाचपी.

बुद्धाच्या परिनिर्वाणाक लागून ब्राह्मणांक येदी खोस जाल्ली. 'आतां बुद्धमत्त ना जालें' अशें तांकां दिशिल्लें. पुणून जालें उरफाटें. बुद्धमत्त चड पातळ्ळें. चड प्रभावी जालें. बुद्ध आशिल्लो ते मुस्तींत तें फकत मगध कोशल देशांत पातळिल्लें. ताच्या परिनिर्वाणा उपरांत तें पुराय देशांत पातळ्ळें. सुमार दोनशें अठरा वर्सांनी अशोकान तर तें देशा भायर खूब कडेन पावयलें. दर्याचीं ल्हारां उसळचीं आनी तांणी पुराय वेळ भिजोवची तशें एके वाटेन तें अफघानिस्तान, मोंगोलिया, चीन, कोरिया, जपाना मेरेन पातळ्ळें, तर दुसरे वाटेन श्रीलंका, मियान्मार (ब्रह्मदेश) थायलँड ते काम्बोडिया बी दक्षीण-उदेंत आशिया खंडांत पावलें.

अशोका उपरांत तागेलो पूत कुणाल मगध सम्राट जालो. तो दुबळो आशिल्लो. ताचे मुस्तींत मगध साम्राज्य विघटीत जावपाक लागलें. कुणाला उपरांत दशरथ आयलो. दशरथा उपरांत ब्रहदरथ आयलो. आनी राज्यांत बेबंदशाय सुरू जाली. हे बेबंदशायेक उबगून पुष्यमित्र शुंगान सत्या आपणा हातांत घेतली. पुष्यमित्र मगधाचो सेनापती आशिल्लो. आनी ह्न

तो जातीन **ब्राह्मण** आशिल्लो!

सुमार साडे तीन शतमानां निर्णून पडिल्ल्या ब्राह्मणांक सूड घेवपाची पयलेच फावट संद मेळ्ळी. पुष्यमित्रान पातंजलीक आपणालो पुरयत नेमलो. ज्या यज्ञयागांची

पत गेल्ली तांकां ताणें परते जिवे केले. अश्वमेध याग सामको इतिहासजमा जाल्लो तोय सुरू केलो. बौद्धांनी जो 'वर्णसंकर' घडोवन हाडिल्लो तो ना करून वेदीक परंपरेंतली 'वर्णवेवस्ता' घट करपा खातीर 'मनुस्मृती' तयार करून घेतली. तिका राज्याचे घटनेचें रूप दिलें आनी बौद्धांचेर हल्ले सुरू केले. जंय जंय बौद्धविहार आशिल्ले थंय थंय वचून ब्राह्मणांनी भिक्षूंच्यो गोमट्यो कातरल्यात. एका फाटल्यान एक बौद्ध स्तूप मातयेभरवण केल्यात. दिश्टी पडटात थंयच्यो बुद्धाच्यो मुर्ती फोडल्यात. खंय ताचें नाक कापलां, तर खंय कान उडयल्यात. मुसलमान *बूतशिकन* (मूर्तिभंजक) मुदलांतूच आशिल्ले. हिन्दू तर मूर्तिपूजक आशिल्ले. तरी आसतना तांणी मूर्तिभंजनाचें काम मुसलमानांच्या किंवाट्यान मोटे उमेदीन केलां.

तरूय बुद्धमत्त ना जावंक पावलें ना. देशा भायर तर तें पातळिल्लेंच; देशांतल्या चैत्य पर्वतार (सांचीक) आनी मथुरेंतल्या (श्रीकृष्णाच्या) गोवर्धन पर्वतार वचून थंयच्यान पातळपाक लागलें. तेन्ना निर्शेवन खर्शेवन शंकराचार्यान सुधन्वा सारकेल्या एका राजाक खुबळावन बौद्धांक समुद्रांत 'बुडोवन मारपाक' लायले. (पळेयात ह्ल *शंकरदिग्विजय.*)

[३]

विरोधान विचार ना जायनात, परते, नेटान चलपाक लागतात. बुद्धधर्म ब्राह्मणांच्या विरोधान ना जावंक पावलोना तेन्ना तो ना करपाचो तांणी आगळो वेगळो एक उपाय सोदून काडलो. **बुद्धाकूच 'भगवंताचो अवतार' केलो!** चल्तना तो अवतार बुद्धाचो अशें ते म्हणपाक लागले. आयज लेगीत हिन्दू खंयचेंय धर्मकार्य करतात तेन्ना तें *'वैवस्तवे मन्वंतरे बुद्धावतारे'* अशें काळाचें निर्देशन करून करतात आनी *'गोदावर्या उत्तरे तीरे'* वा *'दक्षिणे तीरे'* अशें सांगून थळाचो निर्देश करतात.

भगवंत कितें करपा खातीर अवतार घेता? *'परित्राणाय साधूनाम विनाशायच दुष्कृताम'.* बऱ्याभल्या लोकांची दुश्टां पसून राखण करपा खातीर आनी दुश्टांचें निर्दालन करपा खातीर मू? कसलें अवतार-कार्य करपा खातीर भगवंतान बुद्धाचो अवतार घेतिल्लो? *भागवत पुराण* घरांत आसल्यार उकतें करून पळेयात. १.३.२४व्या श्लोकांत मेळटलें ह्ल

*ततः कालौ सम्पवृत्ते सम्मोहाय*

*सुरदविषाम्*

*बुद्धो नामाऽजनसुतः कीटकेषु भविष्याति*

म्हळ्यार ह्न

'आतां हे मुखार कलियुग सुरू जातलें तेन्ना एके दमडेचें मोल नाशिल्ल्या किरकोळ मनशागेर बुद्ध नांवाचो एक ब्राह्मणदुस्वासी पूत जल्माक येतलो आनी तो भूलविद्येन लोकांक भ्रमांत घालून ब्राह्मणदुस्वासी लोकांक आपणावशीन ओढून कीटक देशांत (=बिहारांत) आपणालें अवतारकार्य करतलो'.

कळ्ळें, भगवंतान बुद्धाचो अवतार कितें करपा खातीर घेतिल्लो तो? एका किरकोळ मनशागेर (कपिलवस्तुच्या राजघराण्यांत न्हय, दमडेचें मोल नाशिल्ल्या एकल्या सटरफटर मनशागेर) बुद्ध जल्म घेतलो आनी तो ब्राह्मणांचो दुस्वास करतल्यांक (काश्यप, सारिपुत्त, मोग्गलान, कात्यायना सारकेले ब्राह्मण 'ब्राह्मणदुस्वाशी' आशिल्ले!) तांचेर भूलविद्येचो वापर करून आपणालें अवतारकार्य चलयतलो' असो हाचो अर्थ जायना?

ही बुद्धाची 'व्हडवीक' *भागवत* गायता काय ताची अखटाय करता?

'तुमच्या विवेकाच्या वरकुलार हांव जें सांगतां तें घांसून पळेयात आनी थंय खरें उतरलें जाल्यारूच घेयात' अशें जो आयुष्यभर लोकांक सांगीत भोंवलो तो 'लोकांची दिशाभूल करपा खातीर भूलविद्येचो वापर करतलो' अशें म्हणपी हिन्दूंक 'उदार, सहिष्णू' कशे म्हणपाचे? *भागवत पुराणान* बुद्धाच्या अवतारकार्याचेर केल्लो हो दुस्वासान भरिल्लो (मॅलीशियस) आरोप न्हय? हिन्दूंलो 'भगवंत' लोकांची दिशाभूल करपाकूय अवतार घेतालो?

*याज्ञवल्क्य स्मृतींत* म्हळां, 'सपनांत लेगीत कोणूय बौद्ध भिक्षू दिश्टी पडलो जाल्यार अपशकून जालो अशें मानपाचें.' (या. स्मृ. १.२७१, २७२.)

*अग्निपुराणां* त म्हळां, 'शुद्धोधनाचो पूत दैत्यांची दिशाभूल करून तांकां बौद्ध करतलो.' (अ.पु.१६.१.३.)

*वायुपुराणां* त आयलां, 'धव्या फुल्ल दांतांचे, अर्दे धांपिल्ल्या दोळ्यांचे, तकले वेले केंस तासून घेतिल्ले शूद्र आतां भगवीं वस्त्रां न्हेसून धर्मकार्यां करपाक लागतले.' (वा.पु. ५०, ३८, ८८, ५९.)

*विष्णुपुराणा* न बुद्धाचें 'मायामोह' म्हूण वर्णन करून म्हळां, 'लोकांक

अहिंसेची देख दिवन तो निर्वाणा कडेन घेवन वतलो आनी वेदीक धर्मा पसून तांकां वेगळे काडटलो.' (वि.पु. ३.१८,१३,१८.)

उद्द्योतकट नांवाच्या एका विद्‌वान ब्राह्मणान बौद्‌ध पंडीत दिङ्नागाचे विचार खोडून काडपाक आपणाले *न्यायवार्तिकें* त भास वापरल्या ती दुस्वासान उपाट भरल्या. कुमारिल भट्टाची *श्लोकवार्तिका* तर पराकाश्टेचे बुद्‌ध अखटायेन भरल्या.

बौद्‌धनिंदेचो हो कारखानो हिन्दूंनी कितलींशी वर्सां चलयल्लो. ताचेर शंकराचार्यान कळस चडयलो ह्न बुद्‌धमत्ताक 'वैनाशिक'... 'सर्ववैनाशिक' थारावन.

बुद्‌धाचें हे भाशेन जांणी रूप रंगयलां तांकां कुसके पाडे (perverse) न्हय जाल्यार कितें म्हणपाचे? 'उदार', 'सहिष्णू', 'समंजस'? शी! मुसलमान क्रिस्तांवां परस पाश्ट धर्मकोल्ली म्हणूंक जाय तांकां. हिन्दूंक 'अधिकारू'च ना दुसऱ्यांक धर्मकोल्ली म्हणपाचो. तसो, आपलीं देवळां मुसलमान क्रिस्तांवांनी मोडून तांचेर आपणाल्यो मशिदी इगर्जो उब्यो केल्यो म्हूण शिणपाचोय अधिकार ना. धर्मकोल्ली मुसलमान क्रिस्तांव येवचे पयलीं हिन्दूंनी बौद्‌धांचे स्तूप मोडून तांचेर आपणालीं देवळां उबीं केल्यात.

हिमालयांत बद्रीकाश्रम नांवाचें एक तीर्थस्थान आसा. अलकनन्देचे तडीर. तें बौद्‌धांचो स्तूप मोडून ताचेर उबें आसा म्हणपाची खबर आसा व्हय आमकां? ओडिसांतले पुरीचें जगन्नाथाचें देवूळय बौदध स्तुपाचेर उबें आसा. हांवें हें खंयच्याच मार्क्सवादी वा येवरोपेव इतिहासकारान बरयल्ल्या इतिहासाच्या पुस्तकांत वाचूंक ना. हिन्दू धर्माची घुडी घेवन संवसारभर भोंविल्ल्या स्वामी विवेकानन्दांचे बरपावळींत वाचल्लां. खंयचे कडेन बरयलां म्हूण म्हाका विचारूं नाकात. म्हाका कोणाचीच आळशी जिज्ञासा भागोवपाची ना. विवेकानन्दांची बरपावळ इंग्रजींत तर मेळटाच, मराठी हिन्दींतूय मेळटा.

इतिहासाचे सोद निखटे तांब्यापटे, फातरपटे वा कागदपत्रांचीं बाडां वाचून वा अवशेपांचें उत्खनन करून लागपाचे नात. उत्खनन जावंक जाय तें खरेपणानशीं हिन्दूच्या, वा म्हणुया, ब्राह्मणाच्या मनाचें. तें केन्ना संकुचीत जालें, केन्ना आनी कशें असहिष्णू जालें तें सोदून काडूंक जाय. ते बगर हिन्दूंले अवनतीचीं कारणां कळपाचीं नात आनी खरो इतिहासूय कळपाचो ना.

*'एकम् सत विप्रा बहुधा वदन्ति'* अशें तांगेल्याच म्हालगड्यांनी तांकां सांगिल्लें.

खंयच्याय देवाक पांयां पडात, अखेरेक सगले नमस्कार *'केशवं प्रति गच्छति'* ह्व एका केशवाकूच पावतले ह्व अशें ते म्हणितूय आयिल्ले. पुणून एक दीस असो उदेलो की जेन्ना 'तुमच्या देवा परस आमचो देव खरो' हो वाद तांचे मजगतीं सुरू जालो. तो कितलींशीं वर्सां चल्लो. ते मुस्तींत एका देवाक भजतले लोक झुजांत जेन्ना दुसऱ्या देवाक भजतल्या लोकांचेर हार घालताले तेन्ना जैतवंत लोक आपणाल्या देवाची मुर्ती व्हरून हार खाल्ल्या लोकांच्या देवाचे मुर्तीच्या माथ्यार दवरताले. बुद्धधर्माच्या पराभवा उपरांत देशांत खूब कडेन बुद्धाच्या माथ्यार शिवाची मुर्ती बसयल्ली पळोवंक मेळटा. नालंदाक हांवें असली एक मुर्ती पळेल्या. दामोदर हें श्रीकृष्णाचें नांव. दामोदराचे भक्त चडशे सगळे वैष्णव. पुणून जांबावलेच्या देवळांत दामोदराचे मुर्ती फाटल्यान शैवांचें लिंग आसा. तें वैष्णव-शैवांच्या किजिलांत शैवांक हार खावची पडल्या तेन्नाचें आसुये.

हिन्दू समाजांत असल्यो पाड्यो चाली खूब पळोवंक मेळटात. जे लोक आपणाले संस्कृताये सारकी उजळ संस्कृताय दुसरी ना म्हूण हड्डें मुखार काडून सांगीत आयिल्ले तांची हे तरेची अवनत कशी जाली? एकूच जाप मेळटा ह्व **समाज आत्मसंतुश्ट उरता तेन्ना ताची अवनत सुरू जाता.** ख्रिस्ता उपरांतच्या सातव्या शतमाना पसून इकराव्या शतमाना मेरेनच्या काळांत हिन्दू आत्मसंतुश्ट उरल्यात. 'आमच्या देशा सारको देश ना, आमच्या धर्मा सारको धर्म ना, आमच्या शास्त्रा सारकीं शास्त्रां नात' हे गुर्मींत उरल्यात. देशा भायर खंयच गेले नात. गेल्ले जाल्यार जग खंय पावलां, आपूण खंय उरल्यात हें कळटलें आशिल्लें तांकां. परिणामीं, बांयंतल्या बेबका सारके ते जाले. ज्ञानाच्या मळार तर सामके हिमटे जाले. आपणाल्याच समाजांतल्या 'सकयल्या जातीं'च्या लोकांक तांणी आपणा पसून आनी ज्ञाना पसुनूय पयस दवरले. देशा भायल्या लोकांक येवपाचे आडावंक तरी पावल्यात व्हय? ना. सिकंदराचे घुरये उपरांत मुसलमानांच्यो घुरयो सुरू जाय मेरेनच्या काळांत ह्या देशाचेर कितल्याश्याच लोकांच्यो घुरयो आयल्यो. यवन आयले, शक आयले, हूण आयले, पहलवी आयले, कुशाण आयले ह्व कोणाचें शंबर वर्सां ह्या देशाचेर राज्य तर कोणाचें देडशें वर्सां. हिन्दूंनी कोणाचोच प्रतिकार केल्लो पळोवंक मेळना. 'आमकां आमच्या कुळधर्माक आनी जातीधर्माक पाळो दिवन जियेवंक मेळटकूच जालें, राज्य कोणूय करिनात' हे गफलतींत रावले. बरें, देशांत राजा नाशिल्ले व्हय? आशिल्ले. पुणून हे जे

येतात ते 'विदेशी' हें लेगीत तांकां वळखूंक आयलें ना. 'चक्रवर्ती राजा' जावपाच्या हात्वेसान ते एकामेकांचे पांय ओडीत रावले. 'विदेशी' लोकांचो ह्या कामा खातीर आधारूय घेवंक लागले.

कोणाकूच 'राष्ट्र' म्हणटात तें कितें तें केन्ना कळ्ळें ना. हेच लोक आतां हिन्दू संगठन करपाक मुखार सरल्यात! हिन्दू समाजांतलो ऊंच-उणाक, आपलो-पेलो, सवर्ण-अवर्ण वेगळेचार ना केले बगर हिन्दू संगठन जावंकूच पावचें ना. 'केलें' जाल्यार तें सवर्णांचे नादरशायेचें वा भौसाचे बेबंदशायेचें रूप घेतले बगर रावचें ना. लोकशाय कशीच उरची ना. आनी स्वतंत्रतायूय तिगपाची ना.

**('जाग', दिवाळी-नातलां २००७)**



१९.

# उजवाडांतल्यान आतां काळखा कडेन व्चपाचें आमी?

हिन्दूंचे म्हालगडे गायचें मांस खाताले अशें कोणेंय म्हळें जाल्यार डॉ. मुरली मनोहर जोशी कित्याक खुबतात? खायनाशिल्ले व्हय तर ते? याज्ञवल्क्य खातालो. यज्ञाची दीक्षा घेतिल्ल्या ब्राह्मणान तें खावचें न्हय अशें ताका कोणेंय सांगलें जाल्यार, 'कित्याक खावचें न्हय? हांव खातलों... गायचें मास खातकूच कूड घटमूट जाता' अशें म्हणटालो.

आनी याज्ञवल्क्य हिन्दूंचो एक नांवाजतो रुशी आशिल्लो. एक स्मृतिकार आशिल्लो. कोण किरकोळ म्हालगडो नाशिल्लो.

याज्ञवल्क्याच्या तोंडांत ही जाप खंयच्याच मार्क्सवाद्यान घालूंक ना. खासा *शतपथ ब्राह्मणा* सारकेल्या एका वेदीक ग्रंथानूच घाल्या (श.ब्रा. ३-२-२१).

याज्ञवल्क्य एकलोच गायचें मांस खातालो अशें न्हय. वसिष्ठा सारकेलो एक व्हड रुशी तें खातालो. संस्कृत भाशेंतल्या *उत्तर राम चरितम्* नाटकांत एक प्रसंग आयला ह्न

ऋष्यशृंगाच्या आश्रमाक भेट दिवन वसिष्ठ परतता तेन्ना

वाटेर तो वाल्मीकीच्या आश्रमाक भेट दिवंक वता. ताचे वांगडा तागेली घरकान्न अरुंधती आयिल्ली आसता, तश्यो दशरथाल्यो राणयोय आसतात. वाल्मीकीचो एक शिष्य सौघातकी आपणाल्या एका गुरुभावाक ह्न दण्डायनाक ह्न विचारता, 'आश्रमांत कोण आयला?'

'तुका खबर ना? वसिष्ठ रुशी आयला.'

'कितेंऽ... वसिष्ठ रुशी?... म्हाका वाग वा कोलसुणो आयला काय कितें, अशें दिशिल्लें...'

'अशें तुका कित्याक दिसलें?'

'आरे, येना फुडें न्हय रे ताणें आमगेले कपिलेचें एक पाडुकूच सगळें गट्ट केलें!'

'कोणूय पै - पावणो आयलो म्हणटकूच बरेंऽ पाडूक वा पाडो मारून तांचे शाकोतेन ताची सरबराय करची अशें धर्मशास्त्रांतूच सांगलां.'

'मागीर, जनक राजा आयिल्लो त्या दिसा गुरुजीन ताची सरबराय फकत धंयान आनी म्हेंवान कशी केल्ली तर?'

'जनक राजाचे धुवेचेर ह्न सीतेचेर ह्न कोंसळिल्लीं अरिश्टां पळोवन ताणें मांस खावपाचें सोडून दिल्लें म्हूण...'

*उत्तर राम चरितम्* नाटकूय खंयच्याच मार्क्सवाद्यान बरोवंक ना. भवभूतीचें नाटक हें. भवभूती सातव्या शतमानांतलो. त्या शतमानांत मार्क्सवादी खंयचे, खासा मार्क्स लेगीत जल्माक येवंक नाशिल्लो. भवभूती जर आपणाल्या नाटकांत पै-पावण्यांची सरबराय पाडकाचे शाकोतेन करची अशें सांगता जाल्यार तो आमच्या म्हालगड्यांची बदनामी करपा खातीर तें सांगता अशें म्हणूंक येवपाचें ना. ते मुस्तींतलें वास्तव जिवितूच तो आमचे मुखार दवरता अशें म्हणूंक जाय. ते मुस्तींत पाडकाचे शाकोतेन पै-पावण्यांची सरबराय करपाची चालूच आशिल्ली.

हिन्दूंचे म्हालगडे फकत गायचें मांस खाताले अशें न्हय. मनशाचेंय खाताले. ते 'कॅनिबल्सू'य आशिल्ले. अगस्ती रुशी तर दोन दोन, तीन तीन राक्षस एकेच फावटीं खावन पचयतालो म्हणपाची ताची नामना आशिल्ली. राक्षस त्रिविष्टपांतल्यान येताले. त्रिविष्टप म्हळ्यार तिबेट. अगस्ती तिबेटी लोकांक ह्न मॅंगोलॉयड कुळयेंतल्या मनशांक ह्न मारून खातालो असो हाचो अर्थ जाता.

वेदीक काळांतले आमगेले म्हालगडे सोरोय पियेताले, द्युतूय खेळटाले.

गांवगरे भाशेंत सांगचें जाल्यार, ते बेब्देय आशिल्ले, जुगारीय आशिल्ले. इन्द्र वेदीक काळांतलो आर्यांचो राजा. तो सोरो पियेवन तर्रर जातालो. आनी पियेवन एका सारको बडबडटालो, इतलेंच न्हय तर एकाद्री सुंदर बायल-मनीस दिश्टी पडली जाल्यार, तिका उबारुनूय व्हरतालो. गौतम रुशीचे बायलेक ताणें अशीच भश्टिल्ली. हीं सगळीं वर्णनां वेदांतूच मेळटात. तीं खंयच्याच मार्क्सवाद्यान बरोवंक नात वा भितर घालूंक नात.

मांस खावप, सोरो पियेवप, व्यभिचार करप, फट उलोवप, चोरी करप बौद्धांच्या आनी जैनांच्या काळांतूय चलतालें. बुद्ध आपल्या शिष्यांक, 'हांव प्राणिहत्या करचों ना, सोरो पियेवचों ना, फट उलोवचों ना, चोरी करचों ना, व्यभिचार करचों ना' अशे पांच सोपूत घेवंक लायतालो. हाचो अर्थ, प्राणिहत्या करप, सोरो पियेवप, फट उलोवप, चोरी करप, व्यभिचार करप समाजांत ते मुस्तींत सगळे कडेन चलतालें, असो जाता. खासा बुद्धाचें परिनिर्वाण 'सूकर मद्दव' खावन जालां अशें 'महापरिनिर्वाणसुत्तां'त सांगलां. 'सूकर मद्दव' म्हळ्यार 'हॅम' ह्न तरण्या न्हय, जाणट्या न्हय असल्या दुकरा-पेट्याचें मांस. 'सूकर मद्दवा'ची 'अळम्यां तोंडाक' म्हूण अर्थावणी जाल्या ती 'ब्राह्मणी'. उपरांतच्या काळांतली. बुद्धाचो एकूच नेम आशिल्लो (आनी तो तागेल्या शिष्यांकूय ताणें लागू केल्लो) तो म्हळ्यार, आमचे खातीर कोणें मुजरत खंयचोच प्राणी मारचो न्हय. पुणून ते मुस्तींत सामान्यतायेन कोणूच नुस्त्या वा मांसा बगर जेवण रांदी नाशिल्ले म्हूण भिक्षेक तसलें कितेंय मेळ्ळें जाल्यार तें खावपाक कोणाक अडचण दिसची न्हय, अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. बुद्धाक असली भिक्षा सदांच मेळ्ळ्या आनी ताणें ती अनमन नासतना खाल्या. महावीराचोय होच नेम आशिल्लो. मक्खली गोसालाच्या स्रापाक लागून ताका रगताचे धाळार धाळ सुरू जाले तेन्ना ताणें रेवती नांवाचे एके बायल-मनशेक आपणाल्या एका शिष्या कडल्यान सांगून धाडिल्लें, 'तुवें म्हजे खातीर पारव्याची शाकोती करून दवरल्या ती आयज म्हाका नाका. तिचे बदला, काल बुकल्यान मारिल्ले कोंबयेची शाकोती (चिकन) धाडून दी.' धर्मानंदांनी हें बरोवन दवरलां. धर्मानंद पुराव्या बगर एक उतर लेगीत केन्ना बरय नाशिल्ले. पुणून जैनां संबंदान असलें कितेंय ते बरयताले तेन्ना जैन खुबताले. म्हूण, जाय जाल्यार, हो वादाचो विशय अशें म्हणून आमी तो कडेक दवरुया. पुणून जैन मुदलाक सावन शिवराक आशिल्ले अशें खंयचोय जैन मानता

जातलो अशें दिसना. मुदलाक सावन शिवराक मनीस धर्तरेचे फाटीर केन्ना जल्माकूच आयलो ना. तो उपरांत शिवराक 'जाला'. मांस खावप समा न्हय, मनीसपणाक तें सोबना, अशें ताका दिसपाक लागलां तेन्नाच जाला. गायचें मांस खावप मनशान सोडून दिलां, तो शेतांत अन्न पिकोवपाक लागला तेन्ना. शेतकाम बैलां बगर जायना. आनी गाय नासत जाल्यार बैल मेळना. म्हूण गायचें मांस खावचें न्हय असो आमच्या म्हालगड्यांनी नेम केलो. तोवूय गायच्या पोटांत तेत्तीस कोटी देव आसात असो एक भोळो 'भावार्त' निर्माण करून.

गायचें मांस खावपा बदला तिचें दूद पियात, लोणी तूप खायात असो प्रचार सगळ्यांत पयलीं ह्या देशांत श्रीकृष्णान सुरू केल्लो अशें म्हणटात. खरें आसूं येता हें. कित्याक, ताची 'गोपाळ' म्हूण नामना आसा. पुणून इतिहासाचे नदरेन गायच्या मांसाचेर बंदी सगळ्यांत पयलीं बुद्धान घाल्ली अशें कांय इतिहासकार म्हणटात. कोणेंय घाल्ली आसूं, दोगूय वेदीक काळा उपरांतचे. ह्या काळांतले लोक शेतकाम करपाक लागिल्ले आनी गाय-बैलांक संपत मानपाक लागिल्ले. संपत ना करप हें अवलक्षणांत आसपावतालें. यज्ञूय ते मेरेन इतिहासजमा जाल्ले. अशोक तर श्रीकृष्ण आनी बुद्ध दोगांय पेल्यान गेल्लो. ताणें फकत गाय बैलूच न्हय, तर खंयचोच प्राणी मारचो न्हय असो यत्न सुरू केल्लो. ताच्या पयल्याच फातरपट्यांत तो म्हणटा, 'म्हजे पाकशाळेंत सददां कितल्याश्याच प्राण्यांचें मांस शिजतालें. आतां फकत दोन मोर आनी एक चितळ ह्या तिनूच प्राण्यांचें शिजता. तेंवूय हे मुखार बंद जातलें.' ह्या फातरपट्यांत गायचो उल्लेख ना. हाचे वयल्यान अशोकाच्या काळा मेरेन गाय मारप बंदूच जाल्लें अशें म्हणूं येता. अशोक बुद्धाच्या परिनिर्वाणाच्या २१८ वर्सां उपरांत मगध देशाचो सम्राट जाला. हाचे वयल्यान, मांस खावपा खातीर मोनजातींक मारपाचे चाली आड कितल्याश्या शतमानां मेरेन चळवळ चल्ल्या म्हणूंक जाय.

म्हज्या भुरगेपणांत आमगेर रानकोंबयेची शाकोती जाताली. शाकोतेक घरकोंबी उपकारनासली. रानदुकराची जाताली. घरदुकर उपकारा पडनासलो. मनशाच्या सांगाताक जी मोनजात रावता ती मारून खावप ना हो नेम हिन्दूंनी बौद्ध जैनांचे देखीनूच केला. पिळग्यान पिळग्यां सावन शिवराक राविल्ले घराबे ह्या देशांतूच पळोवंक मेळटात ते बौद्ध जैनांक लागुनूच. तरी आसतना एक लक्षांत दवरूंक जाय ह्या हो देश पुरायेन शिवराक अजून जावंक पावूंक ना. बौद्धांचो संवसारूय

जावंक पावूंक ना.

फकत जैनूच पुरायेन शिवराक जाल्यात.

पुराय संवसार शिवराक जावचो ही आमची मोख जावं येता. उदरगतीचें फुडलें पावल तें. फुडल्या काळांतल्यो देखी फाटल्या काळाक दसोवप समा जायना. आमचे म्हालगडे गायचें मांस खाताले अशें आर्विल्ल्या काळांतले 'मार्क्सवादी' इतिहासकार सांगतात म्हूण हो इतिहास शाळा कॉलेजांनी शिकोवचो न्हय असो बेत आसत जाल्यार पयलीं वेदीक बरपावळ सगळी 'निवळावन' काडची पडटली. हे बरपावळींतलें खूबशें पुसून उडोवचें पडटलें. यज्ञांत पशुहत्या जायनाशिल्ली अशें सांगचें पडटलें. पै-पावण्यांची सरबराय पाडूक मारून ताचे शाकोतेन कोण करी नाशिल्ले अशें दाखोवन दिवचें पडटलें. इन्द्र सोरो पिये नाशिल्लो, पियेवन बडबडऽ नाशिल्लो अशें सांगचें पडटलें. *उत्तर राम चरितम्* नाटकाचेर बंदी हाडची पडटली... हें सगळें पांवळ्यो पाख्यार चडोवपा इतलेंच कठीण आनी हांशाक म्हारग जावन पडटलें.

भाजपाच्या फुडाऱ्यां मजगतचे वाजपेयी आनी अडवाणी बरेच बदल्ल्यात. मुरली मनोहर जोशी अजून *'ठेविलें अनंतें तैसेचि'* कशे उरल्यात, समजना. रोमिला थापर, आर. के. शर्मा, दामोदर कोसंबी सारकेल्यांचीं नांवां ते घेतात तेन्ना तांकां 'व्हॅटिकनां'तल्या बिशपां सारकी मनीसघाणी सया मारपाक लागता. 'व्हॅटिकनां'तल्या बिशपांक *बायबलां* त आयलां ताचे भायलें कोणेंय कितेंय सांगिल्लें सोंसऽनाशिल्लें. कितल्याश्या विज्ञानिकांक तांणी छळ्ळ्यात. जिवे लासुनूय मारल्यात. मुरली मनोहर जोशी ह्या देशाची परंपरा विसरल्यात जावंक जाय. ह्या देशांत 'वेदांक आमी प्रमाण मानिनात' अशें म्हणपी धर्मसंप्रदाय जल्माक आयल्यात आनी बरे भाशेन चल्ल्यात. ईश्वरूय ना, आत्मोय ना म्हणपी बौद्धधर्म चल्ला आनी देशभर पातळ्ळा. सोंशीकपणाची येदी उदार परंपरा आशिल्ल्या ह्या देशांत असहिष्णू शिक्षणमंत्री आसचो हाचे सारकें दुर्भाग्य दुसरें आसूं येता व्हय? 'काळखांतल्यान आमकां उजवाडा कडेन व्हर' म्हूण मागीत आयिल्ले आमी आतां उजवाडांतल्यान काळखांत वतले व्हय?

('जाग', मार्च २००२)



२०.

# ‘मिस्टर ॲण्ड मिसेस आय्यर’

एक तमीळ चली चेन्नाय सावन कलकत्त्याक वता. एके लग्झरी बसींत चडल्या. वांगडा कोण ना. हांडीर फकत स-सात म्हयन्यांचो चलो आसा. तिका पावोवपाक आयिल्लो सोयरो बसींत कोण वळखीचो आसा जाल्यार पळोवपाक भितर येता. तिच्या शेजारच्या सिटार ताका एक तरणाटो दिश्टी पडटा. ‘खंय, कलकत्त्याक वता?’ तो विचारता. ‘हय’ म्हूण जाप मेळटकूच म्हणटा, ‘हिवूय कलकत्त्याक वता. एकटीच आसा... मातशी पळे आं हिका.’ आनी तो ‘हुसको करूं नाका तूं’ म्हणटा तेन्ना देंवता.

बसींतल्या ह्या तरणाट्याचें नांव राजा चौधुरी. एक फोटोग्राफर हो. गच्च रानां माइट्टून सुकण्यां सावदांचे फोटे काडप हो छंद तागेलो.

प्रवासांत ताचो हे चलयेक खूब आधार जाता. चलो रडपाक लागला. कसोच थांबना. ती बोम तयार करता. तिका उदक जाय जाता. हो पिशवेंतली उदका बाटली तिका दिता. बोम तयार जायसर हो भुरग्याक मांडयेर घेवन थापटिता.

मातशी संवकळ जातकूच राजा एक मुसलमान म्हूण तिका कळटा. तिका धसको बसता. हरशीं शिकिल्ली चली. पुणून सनातनी ब्राह्मण संस्कारांत वाडिल्ली. आपणें ह्या मुसलमानाचें उदक बोमांत घालें हाचो तिका पच्छात्ताप जाता. भुरग्याक नांव देवाचें दवरलां... शी शी शी... दोगांय म्हन्यांत बसल्यांत. पुणून आतां एक म्हालसागर दोगां मजगतीं पातळ्ळा. दोगांकूय वेगळावपी. इतल्यान बस थांबता. मुखार पळे जाल्यार गाडयांची एक व्हड रांग उबी आसा. कितें जालां? वासपूस करतकच दंगे सुरू जाल्यात म्हणपाचें कळटा. काल मुसलमानांनी हिन्दूंचीं घरां लासून उडयल्लीं ताचो सूड घेवपाक हिन्दू आयज मुसलमानांक सोदून सोदून मारपाक लागिल्ले. हांचे बसींतूय दोग गुंड भितर सरल्यात. ते हांच्या सिटा कडेन पावल्यात. चली आपणाल्या भुरग्याक राजा कडेन दिवन 'मिस्टर आनी मिसेस आय्यर आमी' म्हूण गुंडांक सांगता. गुंड बसींतले देंवतात. येदोसो हो प्रसंग पुणून तो दोगांकूय एका नव्या नात्यांत बांदता. स सात म्हयन्याच्या भुरग्याक घेवन ती एकलीच प्रवास करता. तिका कोणाच्याय तरी आधाराची गरज आशिल्ली. आनी हो मुसलमान म्हूण तिकाच एकलेक खबर आसा. आपणाली खरी वळख कोणाक जावची न्हय म्हूण हाका तिच्या आधाराची गरज आशिल्ली. आपूण एकामेकांचीं कोण न्हय म्हूण दोगांय जाणांत. पुणून आड परिस्थितीन दोगांकूय निखटीं 'मनशां' करून एकामेकांचेर निंबून उरतात अशीं केल्यांत.

दंगो चलत रावला. कर्फ्यू लागला. गाडयो केन्ना सुट्टल्यो, खबर ना. सगळ्यांक सरभोंवतणच्या हॉटेलांनी वा धर्मसाळांनी रावपाक सुवातो सोदच्यो पडटात. हिंवूय बसींतल्यान देंवतात. सुवात सोदतात. खंयच रितो रूम मेळना. पुणून राजा फोटोग्राफर. रानांनी भोंवपाची संवय आशिल्लो. तो एक डाक बंगलो सोदून काडटा. मिस्टर आनी मिसेस आय्यर ह्या नांवान दोन रूम मागता. दोन रूम नात. एकूच आसा. तोवूय एकूच खाट आशिल्लो. दुसरे खाटेक सुवात ना इतलो अशीर. एकूच रूम बुक करता.

ती डायनींग रुमांत वचून शिवराक जेवण घेता. हो चौकीदाराक सांगून भायल्यान चिकन मागोवन भूक भागयता.

रात जाता. ती राजाक तागेलें बॅग दिता आनी राजा भायर एका बांकार आड पडटा. ही भितल्ल्यान खिळी लावन न्हिदता. थोड्या वेळान खिळी काडटा आनी राजाक एक पांगरूण व्हरून दिता आनी येवन सुस्त न्हिदता.

सकाळ जाता. भायर येवन पळेत जाल्यार राजा पडवेर ना. ती हुसक्यांत पडटा. भायर पळेता. गार्डनांत एका झाडा मुळांत तो बॅग उश्याक घेवन न्हिदिल्लो तिका दिश्टी पडटा. चौकीदार म्हणटा, 'रातचोच तो थंय उठून गेलो. हांवें ताका कितलेंशें समजावन सांगलें. घोव बायले मजगतीं केन्ना केन्ना झगडीं जातात, पुणून भायर उकत्यार म्हण न्हिदूं येता व्हय? ...पुणून कसोच आयकना जालो.'

मातशें उजवाडटकूच ती भुरग्याक घेवन राजा आशिल्लो थंय वता. दोगांय दोळ्यांनी एकामेकां लागीं उलयतात. राजा कॅमॅरो घेवन फोटे काड्टालो. ताच्या हातांतलो कॅमॅरो घेवन ताच्या आधारान तिवूय दोन चार फोटे काडटा.

उपरांत दोगांय चलत बाजारांत वतात. थंय एका रेस्तॉरांतांत ब्रेकफास्ट घेतात. आठ धा पर्यटक तरणाट्यांची नदर ह्या जोडप्याचेर पडटा. तांकां दोगांय एके जातीचीं दिसनात. तीं विचारतात, 'तुमचें लव्ह मॅरेज? पयलीं खंय मेळ्ळीं? मोग कसो जालो?' आनी हांसून फकांडां मारून तांचे मजगतीं संवाद चलता. मिस्टर आनी मिसेस आय्यर नाटक हांकां सोबोवन व्हरचें पडटा. 'ह्या प्रस्नाची जाप तूं दी...' तो म्हणटा. 'ना ना, तूंच दी,' ती म्हणटा. अशें करीत करीत दोगांय नाटक पुरें करतात.

सांगाताक लागून दोगांयचे संबंद आपलेपणाचे जाल्यात. डाक बंगल्यार परतले उपरांत पडवेर बसून दोगांय खबरी करतात. राजा तिका विचारता, 'घोव कितें करता?'

'फोटोग्राफर... रानवटी शेवण्यां सावदांचे फोटे काडटा,' ती जाप दिता. आनी दोगांय पोटभर हांसतात.

इतल्यान चौकीदार धांवत येता. बरोच भियेला. 'भितर कुडींत वचात... बेगीन... ते आयल्यात... दार धांपून भितर रावात...' तो सांगता. दोगांय बेगी बेगीन भितर वतात. तिका भितर दवरून राजा आपणाली बॅग घेवन भायर येता. ती ताका भायर यच्चूंक दिना. हाताक धरून भितर ओडटा आनी दार भितल्ल्यान बंद करता. जनेलांतल्यान भायर नदर मारल्यार गार्डना कडेन चार स जाण मशाली आनी सुरे घेवन आयिल्ले दिश्टी पडटात. दोगांक तांणी थंयच हांच्या दोळ्यां सामकार जिते मारल्यात. ती थरथरूंक लागता. तिका ओंकूंक आयिल्ले वरी जाता. राजा तिका न्हिदायता आनी आपण तिच्या पायां सरीं बसून रावता. निष्ठूर हत्या पळोवन तिका कितें करचें, समजना. ती राजाचो हात आपणाल्या हातांत

घट्ट धरून पडून रावता...

आयिल्ले गुंड उठून गेल्यात. कर्फ्यू चालूच आसा. बस केन्ना सुरू जातली खबर ना. इतल्यान राजाक वळखीचो एक पुलीस ऑफिसर मेळटा. तो दोगांकूय आपणाले जिपींत घेवन लागसारच्या रेल्वे स्टेशनार पावयता. दोगांय कलकत्त्याचे ट्रेनींत चडल्यांत. झूक झूक करीत ट्रेन मुखार चलपाक लागता.

ट्रेनींत दोगांय ओग्गी बसल्यांत. उलोवपा सारकें दोगांय कडेन कांय ना. दोळ्यांनी खूब उलोवन जालां. ह्या विचित्र प्रसंगाक लागून दोगांयच्या काळजां मजगतीं तरातरांच्या भावनांचो एक सांकोव तयार जाला. दोगांकूय ताची खोल जाणवीक जाल्या. कांय वरांनी दोगांय एकामेकां पसून कडेक सरपाचीं आसात. परतीं केन्ना मेळूंक पावतलीं, खबर ना. दोगांय ह्या विचारान खंती जाल्यांत. मदींच दोगांय एकामेकांक नदर लावन पळेतात. दोगांय एकामेकांक काळजांत जशीं कितें सगळ्या सगळीं भरून दवरूंक सोदतात. तिच्या दोळ्यांत राजा एक दूक पळेता. तो ल्हवूच तें आपल्या बोटान पुसता.

ट्रेन कलकत्त्याक पावता. मोबायल फोना वयल्यान तिणें घोवाक केन्ना पावता तें कळयल्लें. घोव तिका व्हरपाक स्टेशनार आयला. खूब हुस्क्यांत पडिल्लो तो. तिका गाडयेंतली देंविल्ली पळोवन ताका सूऽ जाता. 'चलो खंय?' तो विचारता. इतल्यान राजा चल्याक घेवन डब्यांतल्यान देंवता. पुताक बापाय सुवादीन करता. ती घोवाक राजाची वळख करून दिता. तो राजाचे उपकार मानता. आनी राजा ताका नमस्कार करून चलपाक लागता. ती दोळ्यांक मलप्यो लागूंक दिनासतना ताका पळेत रावता.

राजा कांय पावलां चलून मुखार गेल्लो मदींच थांबता. कॅमेऱ्या भितल्लो फिल्माचो रोल काडटा, फाटल्यान परतून येता. रोल तिच्या हातांत दिता आनी आशिल्लो तसो चलपाक लागता.

मदीं एक खेपे मान वळोवन तो तिका पळेता आनी ती एका सारकी ताका पळेत रावता.

कितें दिसलें तुमकां? कथा बरयल्या म्हूण हांवें ही? च्ये च्ये... रवीन्द्र केळेकार कथा-बिथा बरयना. केन्ना बरयल्यो नात. हालींसराक तर तो अमकी कथा वाच म्हूण कोणें सांगले बगर वाचीय ना. ताच्यो अभिरुची बदल्ल्यात. पुणून

ताका एक खोड आसा. बाजारांतल्यान हाडिल्ल्या पुड्यांच्या कागदार आयिल्लें चुकनासतना वाचता. 'सहज' म्हूण वाचता आनी 'सट्ट करून' ताका तातूंत आगळें वेगळें कितेंय तरी मेळटा. खूब फावटीं अशें घडलां.

आयज सकाळीं पयली च्या घेवपाक तो वासरेंत वचून बशिल्लो. थंय ताका काल हाडिल्ल्या केळ्यांचो पुडो दिश्टी पडलो. अजून कोणें उस्तूंक नाशिल्लो. ताणें तो उस्तिलो. ताचेर ताणें अपर्णा सेनाच्या 'मिस्टर अॅण्ड मिसेस आय्यर' फिल्माचो रेव्ह्यू आयिल्लो पळेलो. फिल्माच्या बारीक बारीक आंगांची खबर ह्या 'रेव्ह्यू'त आयल्या. तिचे कडेन ताचें लक्ष गेलें. बसींत भितर गुंडांक पळोवन लोक गर्भगळीत जाल्लेच फकत दाखयल्यात! मुसलमान प्रवाश्यांक देंवयल्यात तेच दाखयल्यात. पुणून तांकां मारिल्ले दाखोवंक नात. एकलो वक्ल आनी दांतांचें कचडें घाल्लो जाणटो मुसलमान फकत देंविल्लो दाखयला आनी उपरांत ताचें दांतांचें कचडें आनी वक्ल वाटेर पडलां तें दाखयलां. ताची हत्या जाल्या तें दाखोवंक ना. फकत सूचनूच केलां. तेच भाशेन, डाक बंगल्याच्या जनेलांतल्यान तिणें आनी ताणें पळेल्ली हत्या दाखोवंक ना. हत्येचो दोगांयचेर जाल्लो परिणामूच दाखयला. थंय कॅमॅरो केंद्रीत केला. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, कथानकांतलीं दोन मुखेल पात्रां ह्व एकलें हिन्दू, दुसरें मुसलमान ह्व धर्मभेदा वयर उठून निखटीं 'मनीस' जाल्लीं दाखयल्यांत. दोगांय तरणे पिराये वयलीं. दोगांय एकांतांत आसतात. दोगांय मजगतीं प्रेमाचें एक नाजूक नातें निर्माण जालां. पुणून हें प्रेम गुप्त सरस्वती भाशेन भितल्ले भितर व्हांवता. वयर दिश्टी पडना. दोगांय इंग्रजींतल्यान उलयतात, (फिल्माची भास इंग्रजी), पुणून खरीं ती काळजाचे भाशेंत उलयतात. ही भास कळपाक भाशेची कोणाक अडचण भासना.

('जाग', मे २००३)



## २१.

# मुपाट काळखांत उजवाडाचें एक कीर्ण

देशांत हिन्दू आनी मुसलमान एकामेकां लागीं येनात ते मेरेन हिन्दुस्तान आनी पाकिस्ताना मजगतचो खंयचोच प्रस्न सुटपाची आस्त ना.

आनी, हिन्दू मुसलमानांक लागीं हाडप आयज सोंपें उरूंक ना.

गुजरातान तर कळसूच केला.

राजकर्णांत सत्य उलोवप आयज कोणाक पुटवना. सत्य मुदलांतूच कोडू आसता. तें मतां मेळोवन दिना. देखून जो मतां मागपाक वता तो हिन्दू मुसलमानांनी लागीं येवंक जाय, दोगांयनी बदलूंक जाय हें केन्नाच तांकां सांगिना. दोगांयच्या मनांत एकामेकां विशीं जे अपसमज घर करून बसल्यात तांकां उदक सारें घालुनूच उलयता. हाका लागून हिन्दू मुसलमानां मजगतचे इबाडिल्ले संबंद मातूय निवळनात.

कितें जावंक जाय?

हिन्दू मुसलमान दोनूय जमातींच्या मनांत जो इतिहास घर करून बसला तो खरो न्हय हें दोनूय जमातींक पयलीं

समजावन सांगूंक जाय अशें लोहिया म्हणटाले. देखीक, मुसलमानांची राजवट हांगा सात आठ शतमानां चल्ली. हे राजवटींत मुसलमानांनी हिन्दूंचेर खूब आगळिको केल्यो. लाखांनी लोकांक जिवानशीं मारले हो जो हिन्दूंचो समज आसा तो खरो न्हय... आगळिको जांणी केल्ल्यो ते देशी मुसलमान नाशिल्ले, भायल्यान आयिल्ले विदेशी आशिल्ले... आनी ह्या विदेशी मुसलमानांनी हिन्दूंचेर केल्यात तश्यो देशी मुसलमानांचेरूय आगळिको केल्यात... एका तैमुरलिंगान दिल्लींत पांच लाख लोक कचाकच कातरून उडयल्ले, तांच्यांतले तीन लाख देशी मुसलमान आशिल्ले. हो खरो इतिहास सगळ्यांक सारको सांगलो जाल्यार रझिया, शेरशाह, जायसी हे हिन्दू मुसलमान ह्या दोनूय जमातींचे म्हालगडे आशिल्ले, आनी गझनी, घोरी, बाबर हे दोनूय जमातींचे दुस्मान आशिल्ले हें तांच्या मनांत स्पश्ट जातलें, अशें तांकां दिसतालें. हें स्पश्ट जातकच आठ शतमानांचो इतिहास हिन्दू आड मुसलमानांचो न्हय, तर देशी लोकां आड विदेशी लोकांचो इतिहास आशिल्लो हें तांच्या लक्षांत येतलें अशें ते म्हणटाले.

फटीच्या इतिहासाक लागून आयज हिन्दू मुसलमान एकामेकां लागीं येनात आनी देश दुबळो पडटा हाची लोहियांक खंत भोगताली. हिन्दू आनी मुसलमान एकामेकां लागीं आयले जाल्यार हिन्दुस्तान आनी पाकिस्तान हांचो एक महासंघ तरी उबो करूंक येतलो अशें तांकां दिसतालें.

दोनूय देशांचो एक महासंघ घडोवन हाडचो हाची तांकां तळमळ आशिल्ली.

हिन्दू मुसलमानांक एकामेकां लागीं हाडपाचो मार्ग लोहियांनी आपणायल्लो तो गांधींचो आशिल्लो. ते म्हणटाले, हिन्दूंक सांगूंक जाय, जितल्या आपलेपणान मुसलमानां लागीं तुमी वतले तितले, अदीक आपलेपणान मुसलमान तुमचे लागीं येतले.

दुर्दैवान अशें घडलें ना. स्वराज्यांत दोनूय जमातींक एकामेकां लागीं हाडपाचो वावर कोणेंच केलो ना. उरफाटो, दोनूय जमातींक दोन वेगळ्या जगांत दवरून तांचीं 'एकगठ्ठा' मतां कशीं मेळटलीं हाचोच हुस्को करपी वावर एका सारको चलत रावलो. एके वटेन कथीत सेक्युलरिस्ट अल्पसंख्य मुसलमानांची सायबाजात्रा करून तांकां आपले वटेन ओडपाक लागले तर, दुसरे वटेन, विस्कळीत हिन्दू समाज संघटीत करून ताका आपल्या अर्दान ओडपाचो वावर हिन्दुत्ववादी करपाक लागले.

ना म्हळ्यार, हिन्दुत्ववादयांचेर तुटून पडपी कांय उदारमतवादी हिन्दूंचो आवाज मदीं मदीं कानार येवन आदळ्ळा. पुणून मुसलमानां मजगतीं तसलो कोण दिश्टी पडूंक नाशिल्लो. मुसलमान धर्म मुदलांतूच कडवो आनी कर्मठ, तो सोंपेपणान बदलपाचो ना, काळबळान बदल्ल्यार बदलतलो, येवजून करून केन्नाच ना, असो समज सगळ्यांनी करून घेतिल्लो.

हालींच एक खणखणीत मुसलमानी आवाज कानार येवन आदळ्ळा. प्रा. ए. एन्. बिस्मिल्लांचो. जामिया मिलिया विश्वविद्यालयाचो हो एक प्राध्यापक. तांणी एक लेख बरयला एका उर्दू नेमाळ्यांत. ताचो अणकार हेर देशी भासांतल्या नेमाळ्यांनी आयला. म्हाका तो गुजराती 'भूमिपुत्र' नेमाळ्यांत वाचूंक मेळ्ळा.

ते म्हणटातह्न

आमी भारता सारक्या एका भोवसंख्य हिन्दू देशांत रावतात. ह्या देशांत आमकां आमच्या धर्माक धरून चलपाची पुराय मेकळीक मेळ्ळ्या. आमी हांगा जामिया मिलिया सारकीं मुसलमानी विश्वविद्यालयां चलोवंक पावल्यात. उर्दू शाळा काडून आमच्या भुरग्यांक आमी उर्दूंतल्यान शिकोवंक पावल्यात. एका परस अदीक लग्नांय आमकां करूंक मेळटात. धर्मीक उत्सव परबांनी आमकां पुरसांवां काडूंक मेळटात. जमनी विकत्यो घेवंक मेळटात. मशिदी बांदूंक मेळटात. इस्लाम धर्माचो प्रचारूय करूंक मेळटा. वेंचणुकेक उबे रावपाचो हक आमकां आसा. आमच्यांनी देशाचे राष्ट्रपती वा प्रधानमंत्री जावं येता.

ह्या देशांत आमकां जितली मेकळीक मेळ्ळ्या तितली खंयच्याच ख्रिस्ती वा बौद्ध देशांत मेळूंक ना. चीना सारकेल्या देशांत कोणाकूच एका परस अदीक बायलो करूंक येनात. दोनां वयर अदीक भुरग्यांक जल्म दिवंक मेळना. सिंगापुरा सारकेल्या देशांत मुसलमानांक कबर बांदूंक मेळना. इलेक्ट्रीक क्रेमेटोरियमांतूच प्रेतां व्हरून लासचीं पडटात. इस्रायेल देशांत इस्लामाचो प्रचार करपाची मेकळीक ना. आनी नेपाळा सारक्या देशांत खंयच्याच हिन्दूक बाटोवन मुसलमान करूंक येना.

अरबस्तान, इराण, इराक, पाकिस्ताना सारक्या मुसलमान देशांनी हिन्दू, जैन, बौद्ध, शीखांक इतली मेकळीक आसा व्हय? हिन्दू, जैन, बौद्ध, शिख आपल्या धर्माक धरून थंय शाळा, कॉलेजां, विश्वविद्यालयां चलोवंक पावल्यात व्हय? हिन्दुस्तानांत हजारांनी मुसलमान मदरसा चलतात. मुसलमान देशांत वैदीक

विद्यालय चलोवपाची मेकळीक मात ना. संस्कृत शिकोवपाची मेकळीक थंय कोणाकूच मेळना. खंयच्याच हिन्दूक थंय रामनम, गोकुळाष्टम, दिवाळेची सुटी मेळना. मुसलमान देशांत गैर मुसलमानाक वेंचणुकेक उबो रावंक मेळना. बँड वाजोवन धर्मीक पुरसांवां काडूंक मेळनात. आपल्या धर्माचो प्रचार करूंक मेळना. पुस्तकां विकपी दुकानांत *गीता, रामायण* सारकीं पुस्तकां विकपाची मेकळीक ना. आर्यसमाजी लोकांच्या *सत्यार्थप्रकाश* सारक्या पुस्तकाचेर तर थंय कायद्यान बंदीच घाल्या.

हिन्दुस्तानांत काश्मीरा सारक्या एका भोवसंख्य मुसलमान राज्यांत सोऱ्याचे बार चलतात. अरबस्तानांत बार खंयचे, सोरो पियेल्लो कोणूय सांपडलो जाल्यार ताका चाबकांचो मार खावचो पडटा. हिन्दुस्तानांत आमी मशिदी बांदतात, एका सारके बांदीत आसात. खंयच्याच मुसलमान देशांत देवूळ, मठ, गुरुद्वारा बांदपाक मेळना. खंयच्याच हिन्दूक पुडवें न्हेसून भोवंक मेळना. सावदी अरेबियेंत तर शिखांक वचुंकूय मेळना. मुसलमान देशांत खंयच्याच हिन्दूक जमीन विकती घेवंक मेळना. इतलेंच न्हय, तर आपली खाशेली फॅक्टरीय चलोवंक मेळना.

हिन्दुस्तानांत गाय मारले बगर ईदा सारकी परब 'खुदाक मंजूर' जायना. सावदी अरेबियेंत गाय मारल्यार देहान्ताची ख्यास्त जाता.

हिन्दुस्तानांतले देशघातकी मुसलमान 'इस्लाम खतरे में है' म्हूण हुयेली मारून लोकांक खुबळावपाचो यत्न करतात. हांव (बिस्मिल्ला) एक मुसलमान. हांव अधिकारान सांगूंक सोदतां, हाचे सारकी धडधडीत फट दुसरी ना. देशाचें विभाजन जाले उपरांत फाटल्या पन्नास वर्सांच्या काळांत हिन्दुस्तानांत हजारांनी मशिदी आमी बांदूंक पावल्यात. हजारांनी उर्दू मदरसा चलोवंक पावल्यात. पाकिस्तानांत एक नवें देवूळ येवपाचें सोडात, पोरण्या देवळां मदलीं दोन चारूच देवळां उरल्यांत.

पाकिस्तान, इराण, इराक, सावदी अरेबिये सारक्या देशांतल्या क्रिकेट, फुटबॉल, हॉकी टिमींत एक लेगीत हिन्दू खेळपी पळोवंक मेळना. हिन्दुस्तानांतले खंयचेय टिमींत एक तरी मुसलमान आसले बगर टीम पूर्ण जायना. हॉकीचे टिमीचो तर कॅप्टनूच जाफर इक्बाला सारको एक मुसलमान.

निमाणें बिस्मिल्ला म्हणटातह्न

आयज भारतांतले कथीत मुसलमान विदेशी लोकांचे फुसलावणेन नाचतात

आनी देशांत खूब कडेन दंगे घडोवन हाडटात. खरेपणानशीं हे लोक मुसलमानांचे दुस्मान. ते मुसलमान धर्माक काळें फासतात. आमी (मुसलमानांनी) तांचे पसून हजारांनी मैल परस रावंक जाय आनीह्न

'आमी मुसलमान आसले तरूय, आमी भारतीय, फकत मुसलमान न्हय' हें सगळ्यांक दाखोवन दिवंक जाय.

बिस्मिल्लांचो लेख हांगा सोंपता.

हांवें तो संक्षिप्त करून दिला.

पुणून एक गजाल सांगूंक जाय. प्रा. बिस्मिल्ला एकलेच असले मुसलमान न्हय. तांचे सारके हजारांनी मुसलमान ह्या देशांत मेळटले.

मुसलमान बदलचे नात अशें दिसतालें. तें खरें न्हय. बदलाचें वारें मुसलमान समाजांत व्हांवूंक लागलां. इल्लें इल्लें करून तें वाडत वतलें आनी एक दीस एक व्हडलें मोड देशांत उठ्ठलें. ह्या मोडांत कितलेशे म्हाल म्हातारे रूख कोंसळून पडटले म्हळ्यार पडटलेच पडटले. आनी हिन्दुस्तान पाकिस्तानाचो एक महासंघ उबो जातलो. लोहियांचें सपन खरें जातलें.

('जाग', जानेवारी २००९)



२२.

# तरूय मानतां देशाक सुंदर फुडार आसा

संवसारांतल्या सगळ्याच धर्मांनी आपली पत होगडायल्या. धर्म जल्माक आयिल्ले मनशाक 'बऱ्यांतलो बरो' मनीस करपा खातीर. ताच्यांत ज्यो देवाच्यो बडी आसात तांकां पोसवण दिवन ताका 'देवत्व' जोडून दिवपा खातीर; पुणून मनीस 'मनीस' उरलो ना. ताच्यांत दैत्यांच्यो बडी आशिल्ल्यो तांकां पोसवण मेळ्ळी आनी तो 'दैत्य' जालो. ह्या दैत्यान सगळे धर्म आपणा हातांत घेवन तांकांय 'दैत्यांचे धर्म' करून उडयले.

ख्रिस्ती धर्मूच घेवया. तो कित्या खातीर जल्माक आयिल्लो? मनशाक 'शेजाऱ्याचेर' मोग करूंक शिकोवपा खातीर. दुस्मानाचेर मोग करप सोंपो. शेजाऱ्याचेर? शे... शेजाऱ्या सारको दुश्ट कोण ना अशेंच मनीस आतां मेरेन मानीत आयिल्लो. ताका 'ना, तूं म्हणटा तें खरें न्हय... शेजारीय तुजे इतलोच बरो. मातसो लागीं वचून पळे,म्हणटकूच कळटलें' हें प्रत्यक्षांत दाखोवन दिवपा खातीर. दुर्दैवान तो आपणाले जल्मभुंयेंतलो ह्न जेरुझालेमांतलो ह्न उठून रोमाक

पावलो. रोमी लोक 'जे आमच्या पंगडांत नात ते आमचे दुस्मान, तांकां ना करून उडोवपाक जाय' ह्या ज्यूलियस, ऑगस्टस्, काय्युश (कालिगुला) सारकेल्या उरफाट्या काळजाच्या सम्राटांच्या संस्कारांत वाडिल्ले. तांणी जे ख्रिस्ती न्हय तांकां ख्रिस्ती करपाक, जे ख्रिस्ती जावंक तयार नात तांकां ना करपाक तांचेर तरातरांच्यो आगळिको केल्यो. इतलेंच न्हय, तर तांचे आड झुजां करून तांकां ना करपाचोय यत्न केलो.

ख्रिस्ती लोकांनी संवसारांत जितल्यो आगळिको केल्यात, जितलीं झुजां घडोवन हाडल्यांत तितलीं इतिहासांत दुसऱ्या खंयच्याच धर्माच्या लोकांनी घडोवन हाडूंक नात.

संवसारांत सवस्तकाय नंदची म्हूण इस्लामी धर्माचो जल्म जाल्लो. इस्लाम ह्या उतराचो अर्थूच 'सवस्तकाय मानपी, सवस्तकाय घडोवन हाडपी' धर्म असो जाता. ताणें कितें केलें? जंय जंय तो गेलो थंय थंयची सवस्तकाय ताणें भंगयली. 'जे इस्लाम मानिनात ते काफीर' अशें मानून तांचेर जुलूम केले. इस्लामान संवसारांत जितली सवस्तकाय भंगोवन उचांबळाय हाडल्या तितली दुसऱ्या खंयच्याच धर्मान हाडूंक ना.

हिन्दू धर्म तर आपणाक सहिष्णुतायेचो — सोंशीकपणाचो — कांदो मानीत आयला. पुणून ह्या 'सोंशीक' धर्माक 'सुधारक' बुद्ध सोंसलो ना. ताणें बुद्धाक 'बुद्द' (म्हळ्यार मूर्ख) मानून ताका मानतल्यांचो छळ केला. ताच्यो मुर्ती मोडल्यात, फोडल्यात. शंकराचार्या सारक्या एका हिन्दू आचार्यान तर सुधन्वा नांवाच्या एका हिन्दू राजाक खुबळावन तांकां समुद्रांत बुडोवनूय मारल्यात. इतलेंच न्हय तर बुद्धाक तागेले जल्मभुंयेंतलोय धांवडावन घाला.

जे भुंयेर बुद्ध जल्माक आयिल्लो ते भुंयेर तो आयज ना. भायर, आशिया खंडांत तो सगळे कडेन पातळ्ळा!

ह्या 'सोंशीक' हिन्दू धर्मान हालिंच्या काळांत बुद्धा उपरांतच्या सगळ्यांत व्हड एका युगपुरसाची — महात्मा गांधीचीय — हत्या घडोवन हाडल्या.

धर्म दैत्यांच्या हातांत वचत पसून खंयचोच धर्म मानपी मनीस दुसऱ्या मनशा कडेन मनीस म्हूण पळेना. ताका मनीस मानिना. तो हिन्दू, मुसलमान, ख्रिस्ती, बौद्ध, शिख ह्याच रुपांत ताका पळेता. इतलेंच न्हय, तर देशांकूय तो ख्रिस्ती देश, मुस्लीम देश, बौद्ध देश म्हूण वळखता.

पुणून काळ नांवाचें एक तत्त्व इतिहासाचेर शेक चलयता. तें कितेंच आसा तशें उरूंक दिना. सगळें बदलीत रावता. भारताच्या इतिहासांत ताणें कितलेशेच बदल घडोवन हाडल्यात. तें म्हणटा, ह्या देशांत सगळ्यांनी बदलूंक जाय. मुसलमान फकत मुसलमान म्हूण ह्या देशांत रावंक जायना. तो बदलूंक जाय. आपूण भारतीय, फकत मुसलमान न्हय, अशें ताका दिसूंक जाय. क्रिस्तांवूय बदलूंक जाय. ताकाय आपूण भारतीय, फकत क्रिस्तांव न्हय अशें दिसूंक जाय.

आनी हिन्दू? ताणेंय बदलूंक जाय. आपूण भारतीय, फकत हिन्दू न्हय अशें ताकाय दिसूंक जाय.

बदलूंक सगळ्यांनी जाय. ते बगर आमी 'राष्ट्र' घडोवंक पावपाचे नात.

काळबळान सगळे बदलल्यात. हिन्दूय बदल्ला. ताका खबर ना. एका काळार सगळ्या हिन्दूंनी शेंडी दवरूंक जाय म्हणपाचो एक संकेत आशिल्लो. शेंडयेक हिन्दुत्वाची कुरू मानताले. म्हज्या भुरगेपणांत हांव सगळ्यांच्या माथ्यार भोंवरो आनी शेंडी पळेनाल्लों. आयज? भोंवरो शेंडी खंयचच दिश्टी पडना. जानवें हें ब्राह्मणपणाचें लक्षण आशिल्लें. आयज? म्हजे पिळगेंतल्या कोणाच्याच गळ्यांत जानवें दिश्टी पडना. सगळ्यांनी मूज करून घेतल्या. पुणून कांय दिसांनी जानवें सोडून दिलां. पुडवें? तें तर आतां म्युझियमांत दवरपाचें जालां. ताचेय दीस सोंपल्यात. काल पयर मेरेन हिन्दू पाटार बसून जेवतालो. आतां सगळ्यांगेर मेजां कदेलां आयल्यांत. पन्नास साठ वर्सां आदलो हिन्दू आयज खंयच पळोवंक मेळना. शंबर वर्सां आदलो तर प्रागऐतिहासीक काळांत वचून बसला.

हिन्दू रुपान बदल्ला तसो विचारानूय बदल्ला. तागेल्या धर्मशास्त्रान समुद्रयात्रा 'निषिद्ध' मानिल्ली. समुद्रयात्रा केली जाल्यार जातूय बुडटा, धर्मूय बुडटा अशें हिन्दू मानताले. दोतोर शिवराम बळवंत राव बाशार्ल जावन पुर्तुगालच्यान आयिल्लो तेन्ना ताका ताच्या कुळदेवाची ह्य मंगेशाची ह्य भेट घेवंक मेळूंक नाशिल्ली. 'प्रायश्चित' घेवचें पडिल्लें. आनी बरेच यत्न केले उपरांत तें मेळिल्लें. आयज? हजारांनी हिन्दू अमेरिका, कॅनडा, इंग्लंड, ऑस्ट्रेलियेंत वचून रावल्यात. तांची जातूय बुडूंक ना, धर्मूय बुडूंक ना. मदीं मदीं ते जाणटेल्यांक मेळपाक घरा येतात आनी देवळांत वचून कुळदेवाची भेटूय घेवन येतात. तांकां कोण आडायना. तें कित्याक? खासा पर्तगाळचे स्वामीच अमेरिकेक वचून कसलो तरी 'ट्रीटमॅन्ट' घेवन आयल्यात! काळबळान हिन्दूंले धर्मसमजूय बदल्ल्यात अशें म्हणचें पडलें

ना?

मुसलमान? सुरवातेच्या काळांत तो कसो आशिल्लो, खबर ना. पुणून इराक इराण अरबस्तान देशांतल्या मुसलमानांक तो मुसलमानसो केन्ना दिसलोच ना. ताका ते 'हिन्दू' म्हूण वळखत आयल्यात. पोटा खातीर तो मुसलमान देशांनी वचून रावला. पुणून जांवंय वा सून सोदपा खातीर सदां हिन्दुस्तानांतूच आयला. (म्हज्या ह्या हिन्दुस्तानांत भारत, पाकिस्तान आनी बांग्लादेशाचोय आसपाव जाता). मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानांक तो संस्कृतायेचे नदरेन सदांच 'परकी' दिसला. ताच्यो चाली-रिती मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानां सारक्यो न्हय. जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याची 'सटी' करपाची चाल खंयच्याच मुसलमानी देशांत ना. हिन्दुस्तानी मुसलमानांत ती चलता. घोव भायर पडले उपरांत 'सती' वचपाची चाल खंयच्याच मुसलमानी देशांत नाशिल्ली. हिन्दुस्तानी मुसलमानांत ती आशिल्ली. हे चालीक ते 'जौहर' म्हणटाले. असल्यो कितल्योश्यो हिन्दुस्तानी मुसलमानां मजगतीं चलपी चाली मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानांनी हिन्दूंच्यो मानल्यात.

धर्माच्या मळार मुसलमान आनी हिन्दू वेगळे तर भाशेच्या मळार एक. रवीन्द्रनाथ आनी काझी नजरूल इस्लाम दोगूय बंगाली कवी. (दोगांयची लिपी एक. हें गोंयकारांक सांगचें पडटा, दुर्दैवान.) वायकम महमद बशीर आनी तघळी शिवशंकर पिल्ले दोगूय मलयाळम भाशेचे दोन व्हड साहित्यकार (लिपी एक). सिंधी मुसलमानांची आनी सिंधी हिन्दूंची भास एक, लिपीय एक, साहित्यूय एक. उर्दू लेगीत जितली मुसलमानांची तितलीच हिन्दूंची. उर्दू बरपावळीचे वाडीक मुसलमानांचो हातभार लागला ताच्याकूय चड हिन्दूंचो लागला. हिन्दूंच्या सांगाताक लागून जितलो मुसलमान बदल्ला तितलोच मुसलमानांच्या सांगातान हिन्दू बदल्ला. सूफी संप्रदाय मुदलांतलो इराणी. तो हिन्दुस्तानांत आयलो आनी वेदान्तान प्रभावीत जावन हिन्दुस्तानी जालो. हिन्दुस्तानी सुफींक लागून हिन्दूंचो भक्तिमार्ग जो ल्हानसो रोंपो आशिल्लो तो कितल्याश्या खांदयां ताळयांचो एक व्हड रूख जालो.

काळबळान हिन्दू बदल्ला. मुसलमानूय बदल्ला. बदलूंक नाशिल्लो तो क्रिस्तांव ह्र रोमन कॅथलिक चर्चाचो. ताचें कारण, तो हिन्दुस्तानांत घेवन आयले पुर्तुगेज,

आनी रोमन कॅथलिक चर्च हें पुर्तुगेज राजवटींत 'इन्शत्रुमॅन्तु दा सिव्हिलिझासांव इ इंफ्लुअॅन्सिया नासियॉनाल' म्हूण सुमार साडेचारशीं वर्सां वावुरलां. लोकांक क्रिस्तांव करपा परस तांकां पुर्तुगेज करपाक चड वावुरलां. ख्रिस्ती धर्म इंग्रजूय घेवन आयले. पुणून तो दुसऱ्या एका चर्चाचो (कॅथलिक न्हय). तें आर्विल्ले येवरोपेव संस्कृतायेचें वाहक जालें. 'आर्विल्ले' जावप हो इंग्रजांचे राजवटींत सगळ्या शिक्षीत हिन्दू मुसलमान क्रिस्तांव लोकांचो हावेस जावन पडिल्लो. इंग्रजां भाशेन उठप बसप, खावप पियेवप, चलप उलोवप असो तांचो समज जाल्लो. उकतेपणीं सोरो पियेवप आनी अभक्ष्य भक्षण करप हेंवूय तातूंत येतालें. ह्या समाजाक स्वदेशीची दीक्षा दिवपाचें काम रवीन्द्रनाथ गांधी सारकेल्यांक करचें पडलां. दोगांयची 'स्वदेशी'ची चळवळ फकत अर्थीक मळा पुरती बंदिस्त नाशिल्ली. तांगेले स्वदेशींत देशी भासो, देशी भेस, देशी संस्कृताय हांचोय आसपाव जातालो. तरूय 'शिकिल्ल्या' भारतीयांक इंग्रजी भास, इंग्रजी साहित्य, इंग्रजी संगीत, इंग्रजी नाच, इंग्रजी चाली-रितींची ओड सदांच उरल्या. आयजूय आसा. देखून ख्रिस्ती लोक बदलूंक जाय, तांणी भारतीय जावंक जाय हो विचार पुर्तुगेजांचे आनी इंग्रजांचे मुस्तींत हांगा रुजवणा येवप कठीण आशिल्लो.

तरूय 'चर्च बदलूंक जाय, ताचें भारतीयकरण जावंक जाय, येशूचें 'इंग्लीश गॉडा'चें रूप बदलून ताकाय देशी रूप दिवंक जाय' अशें म्हणपी 'कॅथलिक पंथा'चो एक पाद्री आशिल्लो. स्वराज्याच्या आरंभाच्या काळांत. मुंबयंत ठाकुरद्वाराक दाबुल चर्चांत 'प्रीच' करतालो. तो म्हणटालो, 'येशू जल्मान ज्यू आशिल्लो. 'ओल्ड टॅस्टमॅन्ट' आमी वाचतात तो तागेली फाटभूंय समजून घेवपा खातीर. आमचो 'ओल्ड टॅस्टमॅन्ट' हिन्दू धर्म. आमी ख्रिस्ताचो फकत धर्म घेतला. ताची फाटभूंय आमची मानूंक ना. आमची फाटभूंय हिन्दू. हिन्दू मजगतीं जशे शैव हिन्दू, वैष्णव हिन्दू, शाक्त हिन्दू आसात तशे आमी 'कॅथलिक हिन्दू' जावन वावरूंक जाय. 'ते पासत, बरो क्रिस्तांव जातलो जाल्यार बरो *कोंकणो* जावंक जाय. ना जाल्यार आमी *गांवठी सायब* जावन पडटले.' मुंबयच्या आर्चबिशपाक तागेलें हें 'प्रीचिंग' सोंसलें ना. ताणें तें बंद केलें आनी ताचो छळ सुरू केलो. म्हत्वाचें म्हळ्यार, हो छळ आपणाक राष्ट्रवादी मानतल्या आनी स्वतंत्र जाल्ल्या भारताचें वजन वापरून 'पोप' जावंक सोदतल्या कार्डिनल व्हालेरियान ग्रासीयश हाणें केल्लो. ज्या पाद्रीचो ताणें छळ केल्लो ताचें नांव आशिल्लें फादर एच्.

ओ. माश्कारॅन्यश. ताका ताणें पिसो थारायलो आनी पयलीं पुण्यांत आनी मागीर बांद्र्याक आग्नेल आश्रमांत व्हरून दवरलो. ताचेर तरातरांचे आळ घाले. ताच्या उश्या कडेन एक चोळी मेळ्ळी म्हूण लेगीत आळ घालपाक तो अनमनलो ना. कॅथलिक चर्च कोणाचोय छळ करता तेन्ना इंकिझिसांवांचे मुस्तींतल्या पाद्रीं सारकें क्रूर आनी दुश्ट जाता. पाद्री हिटलर मुसोलिनी पाश्ट जातात.

पुणून एक दीस चर्चाचें मुख्यालय ह्र खासा 'व्हॅटिकनू'च ह्र बदल्लें. फकत काळबळान न्हय, तर काळाचीं पावलां वळखून समजून करून बदल्लें. विज्ञानाच्या आनी मार्क्सवादाच्या प्रभावान येवरोपांतले शिकिल्ले सवरिल्ले बुदवंत लोक येशू पसून पयस वचपाक लागल्यात तें व्हॅटिकनान पळेलें. देखून सगळ्या क्रिस्तांवांचो एकवट जावंक जाय अशें एका पोपाक दिसलें. ताणें सगले ख्रिस्ती पंथ एकठांय हाडपाच्या हावेसान खासा व्हॅटिकनांतूच 'एक्युमेनिक कौंसिल' नांवाची एक माची सुरू केली. सगळ्या ख्रिस्ती पंथांच्या मुणयाऱ्यांक पाचारून हाडले. ख्रिस्ती पंथां मजगतीं जे मतभेद आसात ते धर्मपुस्तकांतल्यान लेगीत काडून उडोवपाची तयारी दाखयली. हो वावर चलिल्लो आसतनाच जाणटे पिरायेक लागून तो पोप संवसाराक अंतरलो. ताचे गादयेर आयिल्ल्या दुसऱ्या पोपान एक पावल मुखार घालें. 'फकत ख्रिस्ती पंथांचेर हावळ आयल्या अशें न्हय तर संवसारांतल्या सगळ्या धर्म पंथांचेर ती आयल्या... सगळ्या धर्मपंथांक एके माचयेर हाडून तांचे मजगतीं 'संवाद' घडोवन हाडूंक जाय' अशें म्हणून Inter-religious Dialogue नांवाची एक कार्यावळ सुरू केली. एक फावट पोप जाल्लो मनीस व्हॅटिकन सोडून भायर खंयच वचना. हो वेगळ्या वेगळ्या देशांक भेट दिवंक लागलो. तो भारतांत आयला तेन्ना डॉ. राधाकृष्णनांक ताणें सुवर्णपदकूय दिलां. सगळ्या धर्मपंथांक एकठांय हाडपाचो वावर ताणें पोटतिडकेन केला. ताचे उपरांत आयिल्ल्या पोपान आनीक एक पावल मुखार घालें. 'आफ्रिकेंत चर्चाचें आफ्रिकीकरण जावंक जाय. भारतांत भारतीयकरण जावंक जाय अशें तो म्हणपाक लागलो. चर्चांक थळावें रूप दिवपाचो हो वावर सगळे कडेन सुरू जालो. देवस्पणाची भास निवळायली. हिन्दी गुजराती तमिळ तेलुगू बी भासांतल्यान सेरमांव देवस्पण जावंक लागलें. गोंयांतूय तें आतां थळावे 'शुद्ध' कोंकणींत चलपाक लागलां. पाद्रीक आतां 'याज्ञीक' म्हणटात. 'आल्ताराक' 'यज्ञवेदी' म्हणटात. हालींसराच्या पाद्रींचें मीस आयकुचें. एक लेगीत फिरंगी उतर मिसांत

ळपाचें ना. नितळ सरळ सोंपी कोंकणीच आयकूंक मेळटली. ‘नवो करार’ शुद्ध कोंकणींत आयला (नागरींतूय). ‘डायलॉग’ चो वावर भारतांत सगळे कडेन चलता. गोंयांत पिलारचे सेमिनारींत चलता. जॉन पेरेइरा नांवाचो एक निर्मळ, सच्छील याज्ञीक ‘सोलिडॅरिटी सॅल’ नांवाचो (सर्वधर्मसमन्वय) मंच चलयता. वर्सान वर्स दोन दिसांची 'Live-in' नांवाची एक कार्यावळ चलयता. सकाळची आनी सांजची प्रार्थना गायत्री मंत्रान सुरू जाता. ही कार्यावळ ‘भजनां’नी भरिल्ली आसता. हिन्दू क्रिस्तांव दोन दीस एकठांय रावतात. एकठांय जेवतात. एकठांय संवाद सादतात. सुभाष आनंद नांवाचो एक याज्ञीक (मूळचो गोंयकार) पुण्यांतसून नेमान ह्या ‘संवादा’क येता. ताचीं हिन्दू धर्माच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगांचेर जीं उलोवपां जातात तसलीं हांवें गोंयच्या खंयच्याच हिन्दूच्या तोंडांतसून आयकूंक नात. इतलीं तीं ‘अभ्यासपूर्ण’ आसतात.

कॅथलिक चर्च बदल्लां. बदलत आसा. दुर्दैव म्हळ्यार, ‘कॅथलिक लोक बदलूंक जाय... व्हॅटिकना कडलो संबंद तांणी तोडूंक जाय’ अशें म्हणपी आमच्या ‘प्राचीन आनी उज्ज्वल संस्कृतायेच्या’ अभिमान्यांक तांगेल्या ह्या वावराचो अदमास लेगीत ना. कित्याक? हो वावर ‘धूमधडाक्या’न चलना म्हूण? रुढींच्या माल्यांत सांपडिल्ल्या लोकांक बदलतले जाल्यार तो ‘थंडसाणे’नूच चलूंक जाय. नाजाल्यार तो आंगलट येता. दुदांत म्हेळांय घालें जाल्यार ताचो प्रभाव धूमधडाक्यान चलिल्लो दिश्टी पडना. दुसऱ्या दिसा दुदाचें धंय जाता तेन्नाच तो दिश्टी पडटा. उपरांतूच धंयांतल्यान लोणी काडप, लोणयाचें तूप करप हे तरेचें धोरण आशिल्लें हें.

ह्या धोरणांत क्रिस्तांवां भाशेन मुसलमानूय बदलतले आशिल्ले. भायले मुसलमान तांकां पयलीं सावन हिन्दू मानीत आयिल्ले. ते आतां म्हणटले आशिल्ले, आमी हिन्दू नासूं, पुणून आमी भारतीय. फकत मुसलमान न्हय.

पुणून दोन विघ्नां आयलीं. एक लोकशायेचें, दुसरें सेक्युलरिझमाचें. लोकशायेन जाती ना जावंक दिल्यो नात. उरफाट्यो घट केल्यो. तर सेक्युलरिझमान वेगळ्या वेगळ्या धर्मसंप्रदायांक एकठांय येवंक दिले नात. तांकां वेगळेच दवरले.

स्वराज्य मेळचे पयलीं बादशाह खान, जाकिर हुसेन, मौलाना आझाद, युसूफ मेहरल्ली, रफीक झकेरिया सारके ‘राष्ट्रीय’ मुसलमान आशिल्ले. हिन्दूंक ते जवाहरलाल, सुभाष बोस, राजेंद्र प्रसाद, राजाजी हांचे सारकेच दिसताले.

बीबी अमतुस सलाम आनी रैहाना तैयबजी सारकेल्यो मुसलमान चलयो तर महात्मा गांधींक धुवो म्हूण मेळिल्ल्यो. आयज राजकी मळार असलो एक्क मुसलमान पळोवंक मेळना. मेळटात ते सैयद शाहबुद्‌दीन वा सैय्यद अब्दुल्ला बुखारी सारकेले. 'फकत' मुसलमान. कोणूय सॅक्युलर मुसलमान वेंचणुकेक उबो रावंक आंवडेला तेन्ना खंयच्याच सॅक्युलर पक्षान ताका तिकेट दिवंक ना. 'तुज्यांत मुसलमानांचीं मत्तां हाडून दिवपाची तांक ना' अशें सांगून कडेक दवरला. असल्या वातावरणांत मुसलमान कसो बदलतलो, आनी कित्याक बदलतलो? मुसलमानांचो फुडार आता तांच्या नियतीच्या हातांतूच दिवन उडोवचो पडटलो.

एका निर्शेल्ल्या मनशाचीं हीं उतरां कशीं दिसतात? ही परिस्थिती पळोवन कोणूय निर्शेतलो. पुणून एक गजाल मोठ्या अभिमानान सांगूंक सोदतां ह्र आयुष्यांत हांव केन्नाच निर्शेवंक ना. म्हज्यांतल्या अदम्य आशावादान सगळ्या निर्शेण्यांचेर जैत जोडलां. रामकृष्ण विवेकानन्द गांधींचो देश हो. ह्या देशांत सगळे धर्म मनशाळटले आनी एकामेकांच्या हातांत हात घालून ते एक दीस एक धर्म कुटुंब ह्या देशांत उबे करतले हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना. उशीर जावं, पुणून ते ह्या पांवड्यार चडटलेच चडटले.

एके गुजराती कवितेन म्हाका सदांच प्रेरणा दिल्या ह्र

*छे लांबा प्रवासो, ने टुंकी* (मोटवी) *छे दृष्टि*
*ने कमजोरीथी तो भरी आखी सृष्टि*
*अमृतनु टीपुं* (थेंब) *मळे ना मळे पण*
*थती रे'ती* (शिंवरत आसा) *वण मागी* (मागी नासतना)
*विष केरी* (विक्खाची) *वृष्टि*
*निराशाता कारण, हजारो हुंभाळुं* (चलतां)
*छतां मानु : मानवतुंनुं भावि रुपाळुं* (सुंदर).

**('जाग', दिवाळी-नातलां २००८)**



# २३.

# हो तुकाराम आमचो

हय, तुकाराम एक व्हड संत आशिल्लो खरो. पुणून लोकांक फकत विठ्ठलभक्तीचें पिशें लावपी संत नाशिल्लो तो. एक क्रांतिकारी संत आशिल्लो. ताका हिन्दू समाजांतल्यो जाती मोडिल्ल्यो जाय आशिल्ल्यो. पुणून त्यो मोडपाची ताची तरा आर्विल्ल्या सुधारकां सारकी नाशिल्ली. ताची एक खाशेली तरा आशिल्ली. सकयल्या जातींचो न्यूनगंड ना करून तो जाती मोडूंक सोदतालो.

तागेले तीन अभंग मुजरत हांगा दिल्यात. तांचे वेल्यान समाज सुधारणेची ताची तरा वाचप्यांच्या लक्षांत येतली.

पयलो अभंग ह्य

*'कस्तुरीचे रूप अति हीनवर।*
*माजी असे सार मोल तया ।*
*आणीक हीं तैसीं चंदनाची झाडें ।*
*परिमळें वाढे मोल तया।*
*काय रूपें परीस चांगला ।*
*धातु केली मोला वाढ तेणे ।।*

*फिरंग आटितां नये वाटा रुके ।*
*गुणे मोल विके सहस्त्रवरी*
*तुका म्हणे नाही जातीसवें काम ।*
*ज्याचे मुखीं नाम तोचि धन्य ।'*

गा. २१९४

कस्तुरी पळेल्या? कशी दिसता? पळोवं येता तरी ती? 'आंवंय' म्हणटले कोणूय तिका पळोवन. पुणून तिचो परमळ? कितलो आगळो वेगळो! कितलो मोलादीक! आनी चंदनाचो रूख? पळोवपाक हेर रुखां मदलोच एक कसो दिसता. पुणून ताका मोल आयलां ते ताच्या लाकडांतल्या परमळाक लागून. आनी स्पर्शमणी? पळेल्यार कांय न्हयसो दिसतलो. पुणून मातसो लोखणाक व्हरून तेंकय तो. लोखणाचें भांगर करतलो. तरसाद विरगळाय, पयशाचें लेगीत मोल उरचें ना तिका. पुणून गुणाच्या मोलान? हजारांनी रुपयांची जातली. तशें, जातीक मोल ना. मोल आसा तें देवाच्या नांवाक.

दुसरो अभंग ह्र

*'पवित्र तें कुळ पावन तो देश । जेथे हरिचे दास जन्म घेती ।*
*कर्म धर्म त्याचे जाला नारायण । त्याचेची पावन तिन्ही लोक ।*
*वर्ण अभिमानाने कोण जाले पावन । ऐसें द्या सांगून मजपाशीं ।*
*अंत्यजाच्या योनि तरल्या हरिभजने । तयाची पुराणे भाट जालीं ।*
*वैश्य तुळीघाट गोरा तो कुंभार । घागा हा चांभार रोहिदास ।*
*कबीर मोमीन लतिफ मुसलमान । सेना न्हावी आणि विष्णुदास ।*
*कान्होपात्र खोदु पिंजारी तो दादु । भजनी अभेदु हरीचे पायीं ।*
*चोखा मेळा बंका जातीचा महार । त्यासी सर्वेश्वर ऐक्य करी ।*
*नामयाची जनी कोण तिचा भाव । जेवी पंढरीराय तिये सवें ।*
*भैराळ जनक कोण कुळ त्यांचं । महिमान तयाचें काय सांगों ।*
*यातायाती धर्म नाही विष्णुदासा । निर्णय हा ऐसा वेदशास्त्रीं ।*
*तुका म्हणे तुम्ही विचाराचे ग्रंथ । तारिले पतित नेणों किती ।'*

गा. ३२४१

देवाची भक्ती करपाक जात आडवी येना. भक्तींत जातीक मोलूच ना. जो भक्ती करता तो पवित्र जाता. इतलेंच न्हय, तर देवाची भक्ती करपी जल्माक

येता तो घराबो, तो देश लेगीत पावन जाता. ताचें कर्मधर्म सगळें नारायणाचें रूप घेता. ताका लागून तिनूय लोक पावन जातात. जातीवर्णाच्या अभिमानान कोण पवित्र जाला? शुद्रांतले शुद्र  लेगीत भक्तींत भवसागर पेंवन मुखार गेल्यात. पुराणां तांचीं तुस्त गायत आसात. गोरोबा कोण आशिल्लो? कुमार. मडकीं तयार करतालो. रोहिदास? चामार. जोर्ती शिंवतालो. कबीर मोमीन (लुगटां विणपी) आशिल्लो. तर कान्होपात्रा भावीण आशिल्ली. खोदू पिंजारी आशिल्लो. दादूय तेंच काम करतालो. चोखा मेळा आनी बंका तर म्हार आशिल्ले. देवान तांकां सगळ्यांक एक केल्ले. एकाच पांवड्याचे केल्ले. नामदेवाची जनी? कसलें मोल आशिल्लें तिका? ती वावराडी आशिल्ली. पुणून पंढरीराय तिगेर जेवन वतालो. भैराळाचें कूळ खंयचें? भक्तांक (विष्णुदासांक) जातीधर्म लागना, अशें खासा शास्त्रां सांगतात. ग्रंथ (पुराणां) वाचल्यार कितलेशे पतीत भवसागर पेंवन मुखार गेल्यात म्हणपाचें दिसून येता.

आनी तिसरो अभंग ह्व

*'बरा देवा कुणबी केलों । नाहीं तरि दंभे असतों मेलों*
*बरें केलें देवराया । नाचे तुका लागे पायां ।*
*विद्या असती कांही । तरी पडलों अपायीं ।*
*सेवा चुकतों संतांची । हेची नागवण फुकाची ।*
*गर्व होता ताठा । जातो यमपंथें वाटा ।*
*तुका म्हणे थोरपणे । नरक होती अभिमानें ।।'*

गा. १७८

म्हाका कुणब्यां घराब्यांत जल्माक घालून तुवें खूब बरें केलें, देवा. ऊंच जातींतल्या घराब्यांत घाल्लो जाल्यार कुळाच्या अभिमानान, लटक्या बडवाचांरान, मरतलों आशिल्लों. कुणब्यांचो संबंद चड भुंये कडेन येता. भूंय खणप, बीं रोवप, पिकता तें लुंवप असलीं कामां ते करीत आयल्यात. भूंय सगळ्या जिवांक पोसता. भुंये कडेन दाट संबंद आशिल्लो नमळूच आसता.

आपूण जातीन कुणबी म्हूण तुकाराम अभिमानान सांगिना. खोशयेन नाचून देवाक दिनवासता. ऊंच जातींत जल्माक आयिल्लों जाल्यार हांव बुदवंत जातलों आशिल्लों आनी नाका जाल्लीं अपसरणां ओडून हाडटलों आशिल्लों. बुदवंतपण म्हाका बऱ्याक पडचें नाशिल्लें. हांव समाजाची सेवा करूंक पावचों नाशिल्लों.

सेवेची म्हाका लज दिसपाक लागतली आशिल्ली, वा हांव गर्वान भरून येतलों आशिल्लों, आनी दुसऱ्यांक हँच फँच करून मरणाचे वाटेक लागतलों आशिल्लों. व्हडपणाच्या अभिमानान आपणा वांट्याक नर्कूच येतलो आशिल्लो. कुणबी जाल्ल्यान वाटावलों. देवा, खूब उपकार केले तुवें म्हाका कुणब्यांगेर जल्माक घालून, अशें म्हणटा.

तुकारामाच्या ह्या तिनूय अभंगां कडेन कोणूय फावऽ तशें लक्ष व्हय? हो तुकाराम विद्रोही लोकांचो.

ह्या तीन अभंगांचो चडांत चड प्रचार जावंक जाय.

('कोंकण टायम्स', जानेवारी-मार्च २००५)



## २४.

# निर्फळ सेवाकार्यां

शेजारच्या राज्यांतले एके सेवाधर्मी संस्थेचो एक जाणटोसो कार्यकर्तो गोंयांत आयिल्लो. आपणाले संस्थे खातीर पटी जमयत भोंवतालो. भोंवत भोंवत आमगेर पावलो. हांव भायरूच पेपर वाचीत बशिल्लों.

'येऊ का?' ताणें विचारलें.

'या' म्हणून ताका हांवें येवकार दिलो. तो नीट भितर आयलो. मुखावयल्या कदेलार बसलो आनी ताणें आपणाली परवड सुरू केली. आमचें एक अन्नछत्रालय चलता, इतले गरीब सद्‌दां जेवन वतात. एक शाळा चलता, इतले भुरगे फुकट शिकतात. एक दवाखानो चलता, इतल्या लोकांक आमी फुकट वखदां दितात... 'आमच्या संस्थेसाठी काही तरी द्या' अशें म्हणून ताणें पावती पुस्तक म्हज्या हातांत दिलें. कोणें कितले घाल्यात ते पळेले. कोणें शंबर घाल्ले, कोणें पन्नास तर कोणें पंचवीस घाल्ले. 'निर्फळ सेवाकार्य हें,' मनांत म्हळें आनी भितर गेलों. पन्नासांची एक नोट हाडून ताच्या हातार दवरली. 'एवढेच का? शंभर द्या.' मोन्यांनी

परतो भितर गेलों आनी आनीक एक पन्नासांची नोट हाडून दिली.

दारांत आयिल्ल्याक रित्या हातांनी परतो धाडप ना ह्या नेमाक पाळो दीत आयलां म्हूण दिले. खरीच असली संस्था चलता काय ना, हांवें दुबाव लेगीत घेतलो ना. मनीस निर्मळ दिसलो, म्हूण दिले. हरशीं शंबर म्हाका तांकऽ नाशिल्ले. ते भायर, असल्या सेवाधर्माचेरूय म्हजो भावार्त नाशिल्लो.

निर्फळ खर्च खूब जाता. हे शंबर निर्फळ खर्चाच्या खात्यांत घाले.

कांय जाणांच्या रगतांतूच एक गूण आसता, कोणाच्याय जिवाक बरें ना म्हूण कळना फुडें तांकां कळवळून येता आनी ताचे सेवेक ते धांवन वतात. कोणूय उपाशीं आसा म्हूण कळना फुडें तांकां काकूळट दिसता आनी खंयच्यानूय तरी कितेंय तरी हाडून ते ताका खावपाक दितात.

बऱ्यांतलो बरो गूण हो एक, मनीसपणान उपाट भरिल्लो. जण एकल्यान केळोवपा सारको. असलेच कांय जाण असल्यो सेवाधर्मी संस्था चलोवपाक मुखार सरतात आनी ते तन मन प्राण ओतून त्यो चलयतात.

आनी, त्यो चलोवपाक तांकां पयसोय खूब मेळटा. मागूंक वतकच कोणूच ना म्हणिना. कोण दिता ह्या प्रस्नाक म्हत्व ना. दिवपी कोणूय आसूं येता. हाजी मस्तानूय आसूं येता, सुकूर भाकियाय आसूं येता, वा अंबानी, बिर्ला, टाटा सारकेले कोण आसूं येतात. *'उडदां माजी काळे गोरे'* कोण वेचूंक बसतलो? तत्त्वाचे नदरेन सगळे सारके. नीट मार्गान कोणूच आयजवेर लक्षाधीश, कोट्याधीश, अब्जाधीश जावंक पावूंक ना. कोण स्मगलिंग करून जाला, कोण कर चुकोवन जाला, कोण हाचीं ताचीं बोल्सां भरून जाला, कोण हाका ताका नागोवन जाला, तर कोण राजकर्णांत पडून जाला. आड मार्गान गेल्यात तांगेरूच लक्ष्मी सदां उदक भरूंक आयल्या.

असल्याच कोट्याधीश अब्जाधिशांच्या पयशांचेर सत्य साईबाबाचीं इश्कोलां, कॉलेजां, हॉस्पिटलां चलूंक पावल्यांत. मदर तेरेझाचें साम्राज्य कशें उबें जावंक पावलां? देश विदेशांतल्या असल्याच लोकांच्या पयशांच्या आदाराक लागून न्हय व्हय? मागीर सेवाधर्मी लोकांनी आपणाल्यो सेवाधर्माच्यो संस्था चलोवपाक हांचे कडल्यान पयशे घेवचे न्हय अशें खंयच्या तोंडान म्हणपाचें? 'दान धर्म करात, तुमकां पुण्य मेळटलें' अशें सगळ्या धर्मांनी आपापणाल्या पाठलाग्यांक

सांगलां. आनी गरीब-दुबळ्यांची सेवा करात म्हूण सेवाधर्मी सभावाच्या लोकांकूय सांगलां. म्हण दिवपी दितात आनी घेवपी घेतात. दिवप्यां घेवप्यांक कसल्याच बांदपासांनी कोणूच बांदून घेना.

एक सद्गूण म्हूण दान दिवप घेवप हाची तुस्त करची. पुणून ह्या सद्गुणाचें जेन्ना संस्थाकरण ह्व इन्स्टिट्युशनलायझेशन ह्व जाता तेन्ना मात तो हुसक्यांत घालपी प्रस्न जावन पडटा.

दानधर्मांत गरिबांची गरिबाय ना करपाची तांक आसता व्हय? गरिबाय दानानूय ना जायना. सेवेनूय ना करूंक येना. दान दितल्यांक आनी सेवा करतल्यांक 'आमी गरिबां खातीर कितेंय तरी करतात' हो संतोस सोडून कितेंच मेळना. निर्वीर्य संतोस हो एक. मोट्यांतलो मोटो भ्रमूय हो एक. जी अर्थवेवस्था गरिबाय निर्माण करता तीच मोडूंक जाय. आनी तिचे सुवातेर गरीब निर्माणूच जावंक पावचे नात हे तरेची एक नवी अर्थवेवस्था उबी करूंक जाय. गरिबाय ना करपाचो दुसरो उपाय ना. 'सेवाकार्य' ह्याच उद्देशान चलूंक जाय. गरिबांक म्हणूंक येवंक जाय ह्व आमी हे मुख्वार गरीब केन्नाच रावपाचे नात. आमचें शोषण आमी केन्नाच कोणाक करूंक दिवपाचे नात. गरिबाय निर्माण करपी अर्थवेवस्था आमी निखालूस चलूंक दिवपाचे नात. ही अर्थवेवस्था आमी मोडटले.

जे तरेचें सेवाकार्य आयज मेरेन संवसारभर चलत आयलां, तें मागीर मदर तेरेझाचें आसूं, सत्य साईबाबाचें आसूं वा रामकृष्ण मिशनाचें आसूं, तें गरिबांक गरिबाये आड उबें करता व्हय? तांच्यांत 'आमचो फुडार आमीच घडयतले' हे तरेचो आत्मविश्वास निर्माण करता व्हय? तांकां बंडखोर, विद्रोही करता व्हय? ह्या सेवाकार्यांत ती तांकूच ना.

कित्याक, हें सेवाकार्य 'गरीब देवान निर्माण केल्यात' ह्या एकाच भावार्ताचेर चलता. 'जे अवस्तेंत देवान आमकां घाल्यात ते अवस्तेंतूच आमी धादोशी रावंक जाय, रडपांत अर्थ ना, संतापान उसळून कांय जावपाचें ना' हीच शिकवण तें गरिबांक दीत आयलां.

सेवाधर्म चलयतल्यांक विचारून पळेयात, 'समाजांत गरीब निर्माण जालेच कशे, कोणें तांकां गरीब केले, हाचेर तुमी केन्ना येवजिलां व्हय?' तांकां सारकी जाप दिवंक येवपाची ना. मदर तेरेझांक विचारिल्लें जाल्यार तिकाय दिवंक येवची नाशिल्ली. ती इतलेंच म्हणटली आसली, 'संवसारांत गरीब आसात, सदां

आशिल्ले, सदां आसतले; तांची सेवा करप आमची लागणूक म्हूण आमी सेवेचो वावर करतात.'

'हो वावर करून तुमकां कितें मेळटा?' हो प्रस्न विचारून पळेयात. 'भितल्लो, आंतरीक संतोस' इतलीच जाप मेळटली. मदर तेरेझाय हीच जाप दितली आशिल्ली. हो संतोस आपणाक चडांत चड भोगूंक मेळचो म्हुण्णूच तर ती हिन्दुस्ताना सारकेल्या गरिबांतल्या गरीब देशांत आयिल्ली न्हय?

'गरीब देवान निर्माण केल्यात अशें तुका दिसता व्हय?' ह्या प्रस्नाक ती 'हय' म्हुण्णूच जाप दितली आशिल्ली. प्रामाणीक बायल-मनीस ती. बेश्टी संतपदाचेर पावूंक ना. पुण्यकार्य केलां म्हूण पावल्या. कसलें पुण्यकार्य केलां? गरिबांक धीर दिवपाचें, आधार दिवपाचें, बुजवण दिवपाचें, घटाय दिवपाचें.

गरिबाय ना करूंक जाय, ती ना करूंक येता हें तिका खबरूच नाशिल्लें. कोणेंय सांगिल्लें जाल्यारूय तिका तें खरें दिसचें नाशिल्लें. कित्याक, ती ज्या धर्माक धरून चलताली तो दोन हजार वर्सां पयलीं जल्माक आयिल्लो. हिन्दूंचो पांच हजार वर्सां पयलींचो. इतल्या पोरण्या ह्या धर्माक गरिबाय ना करूंक येता म्हणपाचें खबर ना. गरीब खंयच्यान आयले हें आयज चलतात त्या धर्मां मजगतचो एकूय धर्म नकळ. सगळे 'देवान गरीब निर्माण केल्यात' अशें मानीत आयल्यात.

देव इतलो निश्ठूर व्हय? देवाचे निर्मणेंतल्या खंयच्याच जिवांत गरीब गिरेस्त भेद ना. वागांत ना. शिंवांत ना. माजरांत ना. हुंदरांत ना. दिवडांत ना. माळणांत ना. खंयच्याच सुकण्या-शेवण्यांत ना. किडी-मुयांत ना. हजार तरांचे जीव सैमांत आसात. कोण उपाशीं पडिल्लो आयकूंक ना. सैम तांचे खातीर सद्दां कितें-न्हय कितें निर्माण करीत आयलां आनी सगळ्यांक सदां सारकेंच मेळत आयलां. फकत मनशांतूच गरीब गिरेस्त भेद पळोवंक मेळटा. फकत मनशांतूच एके वटेन पोट भरिल्ल्यान धेंकर दिवपी लोक आसात तर दुसरे वटेन पोटांत कांयच पडूंक नाशिल्ल्यान पोट फाट एक जाल्लेय लोक आसात. फकत मनशांतूच कसलोच स्रम करी नासतना आळसायेंत लोळपी लोक एके वटेन पळोवंक मेळटात, तर दुसरे वटेन मरऽसर स्रम करून दुसऱ्यांचीं कामां करपी लोक दिश्टी पडटात. हे सगळे अन्याय, ही सगळी अनीत देवान चलयल्या म्हणप समा न्हय.

हे अन्याय, ही अनीत संवसारांत चलिल्ली आसतना कोणूय पुण्यकार्य समजून गरीब-दुबळ्यांची सेवा करता ती टॉलस्टॉय पळेतालो तेन्ना तिडकीन

उसळटालो, आनी 'चोरांनो, तुमी गरिबांचे फाटीर चडून बसल्यात आनी वयल्यान आमी तुमची सेवा करतात म्हण तोंड घेवन सांगतात? फाटी वयले सकयल देंवात पयलीं' अशें ताणशेवन म्हणटालो. 'तेच मागीर आपणाली सेवा कशी करची तें थारायतले... तुमचे सेवेची तांकां गरज ना' अशें सांगतालो.

मार्क्स आपणाले धोंगांपोंगांचे भाशेंत ह्या सेवाधर्माक 'अफिणेची गुळी' म्हणटालो. 'सेवाधर्म गरिबांक सदां गरिबायेंतूच संतुश्ट रावंक शिकयता' अशें म्हूण तिडकतालो.

कोण कोणाचे फाटीर चडून बसचो ना, कोण कोणाच्या स्रमाचो लाव घेवन आपणाक गिरेस्त आनी दुसऱ्याक गरीब करूंक पावचो ना, हे तरेची एक अर्थवेवस्था उबी करपाक दोगूय आंवडेताले.

गांधींचोय होच आंवडो आशिल्लो. गरिबांचे फाटीर चडून बशिल्ल्या सगळ्यांक फाटी वयल्ले देंवोवन ते एक नवो शोषणमुक्त समाज निर्मूंक सोदताले. तांणी एकूच पावल मुखार घाल्लें आनी म्हळ्ळें, विकेन्द्रीकरणाचें तत्त्व उत्पादन-वितरणाचे प्रक्रियेंत चलयल्ले बगर शोषणमुक्त समाज निर्माण जावंक पावचो ना. तांच्या विधायक कार्यक्रमाची मोख्त होच आशिल्ली. *'कामये दुःखतप्तानाम् प्राणिनामार्ति नाशनम्'* मोख्त आशिल्ली जाल्यार ते विधायक कार्यक्रमांत अन्नछत्रालयांचो, हॉस्पिटलांचो आसपाव करतले आशिल्ले. तांणी करूंक ना. कित्याक, तांकां पोरणी समाजवेवस्था, अर्थवेवस्था मोडून नवी समाजवेवस्था अर्थवेवस्था निर्मुपाची आशिल्ली.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय, तांणी हो कार्यक्रम देवाक मदीं घाली नासतना आंखून काडिल्लो.

खरेपणानशीं देवाक मदीं घाली नासतना आमकां गरिबाय ना करपाचो वावर करूंक येवंक जाय. देवाक मदीं घाली नासतना आमकां आमचे आर्थीक सामाजीक नितीचे नेम घडोवंक येवंक जाय. 'सगळ्यांक सारकें जियेवंक मेळूंक जाय. सगळ्यांक मुखार सरपाच्यो सारक्यो संदी मेळूंक जाय. ह्या वावरांत कोणाकूच ताचे जातीची, ताच्या धर्माची आडखळ जावंक जायना, कोणेंच कोणाचें शोषण करूंक जायना, झुजां संवसारांत चलूंकूच दिवंक जायनात, गरजो भागयता आसतना भंय, वारो, उदक विखाळ करूंक जायना, झाडां मारूंक जायनात, सुकणीं सावदां मारूंक जायनात बी ज्यो देखी आयच्या संवसारान आमचे मुखार दवरल्यात त्यो देवाक

मदीं घाली नासतना घडयल्यात. तेच भाशेन, समाजांत गरीब आसतना आपणें गिरेस्त जावप अन्यायाचें, अनितीचें, अनार्य, सभ्य समाजाक सोबना अशें आमकां, देवाक मदीं घाली नासतना, म्हणूंक येवंक जाय.

आयज मेरेन चलत आयला तो 'सेवाधर्म' नव्या युगा कडेन ताल धरून चलना. म्हूण तो काळा भायलो ह्न out of date ह्न जाला. निर्फळ थरला.

तरी आसतना तो चलता आनी ताची तुस्त-तोखणायूय खूब जाता. कित्याक जाणात? गरिबाय ना करपाचें काळिजूच कोणाक जायना. सरकाराक जायना, लोकांकूय जायना, म्हूण. आनी, गरीब केन्ना विद्रोहान उठत, सांगूंक येना. गरीब आसप समाजाकूय तांकपाचें ना, सरकाराक तर तांकपाचें नाच ना, म्हणटकूच, कितें करपाचें? गरीब विद्रोहान उठचे न्हय म्हूण तांची 'सेवा' करपाची प्रेरणा कांय जाणांक दिवपाची. ती कोणा कडल्यान तांकां मेळटली? मदर तेरेझा सारकेल्यां कडल्यान न्हय जाल्यार कोणा कडल्यान? हिका पळेयात, हिची संवसारभर तुस्त चल्ल्या. तिका नोबेल इनाम मेळ्ळां. आतां संत जावपाची आसा.

सेवाभावी लोकांची संवसारभर जी तुस्त तोखणाय चल्ल्या ह्न सुमारा भायर चल्ल्या ह्न ती हे खातीर.

आयचो विद्रोह फाल्यांचेर धुकलपा खातीर. कळ्ळें? 'सेवाकार्यां'तलीं निर्फळपणां आमी केन्ना वळखूंक लागतले? प्रस्थापितांची तड्डकां केन्ना वळखतले?

('जाग', डिसेंबर १९९९)



# २५.

# 'नाहीं चिरा, नाहीं पणती'

वध्यांतल्या राब्तित्यांत तरातरांचे लोक पळोवंक मेळ्ळे. विद्वानांतले विद्वान मेळ्ळे. भायल्यान घट्ट तळपा सारके पुणून भितल्ल्यान लोणया परसूय मोव मेळ्ळे. आगळे-वेगळे कांय मेळ्ळे. किरकोळांतले किरकोळूय मेळ्ळे.

मनोहर दिवाण हांचे मजगतचे एक.

वर्ध्याकसून पवनाराक वतना वाटेर दत्तपूर नांवाचें एक थळ लागता. थंय तांचो आश्रम. हेर आश्रमांनी सरसमान तुमचे आमचे सारके लोक रावतात. मनोहरजींच्या आश्रमांत फकत कोड जाल्ले रावतात. कोणाचीं नाकां गळ्ळ्यांत, कोणाचे कान गळ्ळ्यात, कोणाचीं हाता-पांयांचीं बोटां वांकडीं जाल्यांत, कोणाचीं तोडां सुजल्यांत, हे तरेचे. आंग शिरशिरून येता तांकां पळेतकूच. नांवूय आश्रमाचें 'कुष्ठधाम'.

मनोहरजींचेंय आंग शिरशिरून येतालें कोणूय म्हारोगी दिश्टी पडटकूच. ताका पळेनाशिल्ले वरी करून ताचे पसून ते तुरतुरीत चलून पयस वताले.

पुणून मनशाच्या जिवितांत नियती म्हण एक शक्त काम

करता आसूंक जाय आनी मनोहरजींचे नियतीन तांचे खातीर कुष्ठसेवाय नेमून दिल्ली आसूंक जाय. तांच्या ध्याना मनांत नासतना ते कुष्ठरोग्यांचे सेवेंत गुल्ल जाल्ले.

जाल्लें अशें ह्व पुलगांवचे न्हंयेक हुंवार आयलो आनी ह्या हुंवारांत लागसारचो सावंगी गांव व्हांवन गेलो. विनोबांचे सगळे विद्यार्थी हुंवार पिडेस्तांच्या आधाराक धांवन गेले. तांच्यांत मनोहरजी एक आशिल्ले. थंय एके दोंगुल्लेचेर दत्तम्हाराजाचें एक देवूळ आशिल्लें. मनोहरजी एक दीस दत्तम्हाराजाचे भेटेक दोंगुल्ली चडून गेले. आनी ह्व

दत्तम्हाराजांची भेट तांकां देवळा भायरूच जाली.

देवळा भायर एक कुष्ठरोगी हात मुखार करून देवळांत भेटेक येतल्या वेतल्या कडेन भीक मागतालो तो तांणी पळेलो. ताचें नाक गळिल्लें, कान गळिल्ले. ते भायर, ताचे पांयूय कापिल्ले. ताका पळेना फुडें तांचें आंग शिरशिरून आयलें. आनी ते तुरुतुरू करून देवळाचीं सपणां चडपाक लागले. अवचीत वाटेरूच थांबले. 'हो हांगा कसो पावलो? हाका पांय नात. पांय नासतना हो दोंगुल्ली कसो चडून आयलो?' तांकां प्रस्न पडलो. ते परतले. वासपूस केली तेन्ना एकलो धडधाकट मनीस सदां ताका फाटकुळेर मारून हांगा हाडून सोडटा आनी आमोरेर ताका फाटकुळेर मारून घेवन वता, भिकेचे पयशे मेजता, अर्दे ताका दिता आनी अर्दे आपणाचें कमिशन म्हूण कडेक काडून दवरता म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. मनोहरजींचें मन खंतीन भरून आयलें आनी वांगडाच विद्रोहान पेटून आयलें. मनशाचे लाचारेचो असो गैरलाव घेवपी लोक संवसारांत कित्याक आसचे, असो तांकां प्रस्न पडलो आनी, 'ना, ह्या लोकां खातीर आपणें कितेंय तरी करूंक जाय' अशें भितर काळजांत तांकां दिसपाक लागलें. कुष्ठरोग्यांचे सेवेक जिवीत ओंपचें अशें थारावनूच ते परतले.

विनोबांक वचून सांगलें. 'उत्तम,' विनोबांनी जाप दिली.

मनोहरजींची आवय तांचे वांगडाच विनोबांच्या आश्रमांत रावताली. मनोहरजींच्या ह्या नित्शयान तिका धसको बसलो. तिणें विनोबांक वचून विचारलें. 'समज तुका ही पिडा जाल्ली जाल्यार मनोहरान तुजी सेवा करची न्हय अशें तूं म्हणटली आशिल्ली?' विनोबांनी तिका विचारलें. खीणभर ती घुटमळ्यांत पडली आनी दुसऱ्याच खिणाक तिणें म्हळें, 'म्हजो ताका आशिर्वाद आसा.'

जिस्त ह्या वेळार परचुरेशास्त्री सेवाग्राम आश्रमांत पाविल्ले. तांकांय कुष्ठरोग जाल्लो आनी गांधी तांच्यो मावो खासा आपणाल्या हातांनी धुतात तें मनोहरजींनी पळेल्लें. तांचो नित्शय घट जालो.

पुणून कुष्ठरोग्यांची सेवा करप म्हळ्यार कितें करप? कांय खबर नाशिल्ली. कुष्ठरोग्यांची सेवा ह्या देशात फकत क्रिस्तांव मिशनरीच करीत आयिल्ले. मनोहरजी रायपुराक गेले. थंय मिशनरी लोक एक 'लॅपर असायलम्' चलयताले. स म्हयने थंय रावन तांणी सेवेचें प्रशिक्षण घेतलें. तें पावना अशें दिसलें तेन्ना कलकत्त्याक गेले. थंयच्या 'स्कूल ऑफ ट्रॉपिकल मॅडिसीन' संस्थेंत काम करपाक लागले. ह्या स्कुलांत फकत दोतोरांकूच घेवपाची चाल आशिल्ली. पुणून मनोहरजींची तळमळ, तांचो नित्शय बी गूण पळोवन संस्थेच्या जाळवणदारांनी तांकां घेतले.

गरजेचें ज्ञान जोडून मनोहरजी वर्ध्याक परतले आनी 'महारोगी सेवा मंडळ' स्थापन करून तांणी 'कुष्ठधाम' नांवाचो एक आश्रम सुरू केलो. आश्रमाचे सुवातेक 'दत्तपूर' नांव सावंगीचे दोंगुल्लेर जाल्ले दत्तम्हाराजाचे भेटीच्या उगडासान दवरलें.

मनोहरजींचो हो आश्रम दाखोवपाक म्हाका तांगेले भाव कुन्दरजी घेवन गेल्ले. आश्रमाक त्या वेळार सोळा वर्सां जाल्लीं. सोळा वर्सां पयलीं मनोहरजींत उत्साह भरून ओत्तालो तो सोळा वर्सां उपरांतूय तस्सो आशिल्लो. सुमार अडेचशें तीनशें म्हारोगी थंय रावताले. आमी लाचारेचें जिवीत जियेतात अशें तांकां दिसचें न्हय म्हूण मनोहरजींनी सगळ्यांक उत्पादक स्रमाच्या कामांत गुल्ल दवरिल्ले. ते चरख्यार सूत काडटाले, हातमागार विणटाले. खादी भांडार तांची खादी विकती घेतालें. ते भाजीपालो काडटाले. संत्रांचो बगिचो उबो केल्लो. थंयचीं संत्रांय बाजारांत पावतालीं. एक गोशाळा आशिल्ली. अन्न वस्त्र दूद लुगट सगळ्याच आंगांनी आश्रम आत्मनिर्भर आशिल्लो. कुष्ठरोग्यांकूय आमी कितेंय तरी 'करतात' आनी जोडटात अशें दिसतालें, आनी निर्शेणेची, निष्क्रियतेची सुवात उर्बेन आनी आशेन घेतिल्ली.

मनोहरजी आपणाले आवय वांगडा तांचेच मजगतीं रावन काम करताले.

एक फावट गांधीजी हो आश्रम पळोवपाक आयिल्ले आनी 'आयज हांवें एक तीर्थस्थळ पळेलें' अशें तांणी आश्रम पळोवन म्हळ्ळें. इतलेंच न्हय, तर दिल्लींतले एके प्रार्थनासभेंत मनोहरजींचें नांव घेवन तांणी 'हो खरो महात्मा' म्हूण

तांची वळख लोकांक करून दिल्ली. मनोहरजींक कितली धन्यताय भोगल्या जातली हाचो अदमासूच केल्लो बरो. तेच बरोबर तांची न्हीद कितली खळ्ळ्या जातली हाचोय अदमास केल्लो बरो. सेवेंत गुल्ल आशिल्लो मनीस तुस्त-तोखणायेन केन्ना भुल्लुसून वचना तसो अखटायेन केन्ना खंतीय जायना. सेवेंत जी खोस मेळटा ती खोस ताका लाख मोलाची दिसता. आयज कसलेय सेवेक इनामां तसरिपो मेळपाक लागल्यात. मनोहरजींक केन्नाच कसलीच तसरीप कोणें दिली ना. ना म्हळ्यार राजेनबाबू तांकां वळखताले. तांणी तांकां 'पद्मश्री' दिल्ली आनी राजेनबाबूंक वायट दिसचें न्हय म्हणून तांणी ती अनमनत अनमनत घेतिल्ली.

हे पयले भेटे उपरांत कितलेशे खेपे दत्तपूराक पावलां तेन्ना तांणी म्हाका बसोवन घेतला आनी चरख्यार सूत काडटां काडटां आपणाले कितलेशे अणभव सांगल्यात. दोन लक्षांत उरल्यात ह्न

एक खेपे ते कुष्ठरोग्यांच्या एका हॉस्पिटलांत गेल्ले. थंय तांकां एकलो येवरोपेव कुष्ठरोगी मेळ्ळो. बावडो एकलोच पडिल्लो. नर्सी येताल्यो. उपचार करताल्यो, वताल्यो. दोतोरूय येवन पळेताले आनी वताले. कोण उलोवंक रावी नाशिल्लो. मनोहरजी एकलेच वरभर ताचे कडेन उलयत राविल्ले. उपरांत वचपाक उठले तेन्ना 'खूब वर्सां उपरांत उलोवपाक म्हाका एक भाव मेळ्ळो' अशें म्हणून ताणें हात मुखार काडलो. मनोहरजी म्हणटात, 'उपचारां परस ह्या लोकांक आपलेपणान तांचे कडेन पळोवपी मनशांची भूक लागिल्ली आसता. तागेले ते उद्गार हांव केन्ना विसरपाचों ना.'

आनीक एक खबर ह्न

एके चलयेचें लग्न थरिल्लें. लग्नाचो फकत म्हूर्त पळोवपाचो उरिल्लो. तेन्ना कोण तरी 'हिचे आवयक कोड जालां' म्हूण फुतफुतलो. तें सगळे कडेन पातळ्ळें. लग्न मोडटा काय कितें असो हुसको बावडेक जालो. ती मनोहरजीं कडेन आयली. तांणी तिका तपासली आनी 'तुका कांय जावंक ना... कसलोच हुसको करूं नाका' म्हूण तिका सांगलें. 'तेन्ना तिचे तकले वयलें वजें देंविल्लें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेलें. एकल्यान म्हाका म्हळें लेगीत, तुवें तिका जीवनदान तर दिलेंच, सौभाग्यदानूय दिलें.'

मनोहरजीं कडेन असल्यो कितल्योश्यो खबरी आशिल्ल्यो.ते कळवळून त्यो सांगताले.

मनोहरजींचें व्हडपण दुसऱ्याच एका आंगान म्हाका पळोवंक मेळ्ळां. देश स्वतंत्र जालो आनी सेवेच्या सगळ्या मळांचें सरकारीकरण जालें. कुष्ठसेवेचेंय जालें. कुष्ठसेवेचें तंत्रूय बदल्लें. कुष्ठरोग्यांक एके कडेन खंय दवरून तांचेर उपचार करपा बदला घराघरांनी वचून कोणाक ही पिडा जाल्या ती पळोवन थंयच उपचार करपाची नवी तरा सुरू जाल्ली. मनोहरजींक ह्या लोकां कडेन जुळोवन घेवंक आयलें ना. तांचे उपचार पद्दती कडेनूय जुळोवन घेवंक आयलें ना. सगळ्यांक तांच्या त्यागा विशीं, तळमळी विशीं आदर. पुणून तांकांय मनोहरजीं कडेन जुळोवन घेवंक आयलेंना. दोनूय वसल्यान संघर्श सुरू जालो. प्रकरण विनोबां कडेन पावले. विनोबांनी मनोहरजीं फाटल्यान रावपाचें. पुणून विनोबा ते. मनोहरजींक सेवेचे गुलामींतल्यान सोडोवंक जाय, अशें तांकां दिसलें. तांणी मनोहरजींक आपोवन विचारलें, 'का रे, मनोहर, तू मरणार नाहीस का?'

'मरणार की.'

'मग तुझ्या दत्तपूरचें काय होणार?'

'नवीन लोक येऊन चालवतील,' मनोहरजींनी जाप दिली.

'मग आजच मरून घे ना... देऊन टाक ती संस्था नवीन लोकांच्या हातात.'

मनोहरजींनी खिणाचोय कळाव केलो ना. नीट उठून दत्तपूराक गेले. बॅगांत आपणाले कपडे, तांब्यो, ताट, वाटी बी सामान घालें आनी आवयक घेवन पवनाराक येवन रावले. चोवीस वरां भितर आपूण तो मनोहर दिवाण न्हयच हे भावनेन कर्तृत्वाचो सगळो अभिमान तांणी मनांतलो पुसून उडयलो.

तांचीं निमाणीं वर्सां विनोबां सरींच गेल्यांत.

तांचो उगडास जाता तेन्ना असलो एक आगळो वेगळो मनीस म्हज्या जिवितांत आयिल्लो हाची जाणवीक जाता आनी मनांतल्या मनांत तकली तांच्या पांयांर दवरतां.

('जाग', मार्च २००१)



२६.

# मरिषाय ह्न ती वेगळी, ही वेगळी

सैमांत किडी-मुयां पसून हती-गेंड्यां मेरेन हजार तरांचे जीव जियेतात. तांचे मजगतीं गरीब गिरेस्त अशे पांवडे आसात व्हय? सैमाचो खंयचोय जीव खावंक जेवंक मेळना जावन उपाशीं मेल्लो कोणें पळेला व्हय? वा, फाल्यांच्या हुसक्यान खंयच्याय जिवान अन्नाचो सांठो करून दवरला आनी ताचें घर भरून दार ओत्ता अशें घडिल्लें कोणें केन्ना आयकलां व्हय?

जल्माक घाल्ल्या दर एका जिवाचे पोसवणेक जाय आशिल्लें आनी जाय तितलें अन्न सैम खिणा खिणाक तयार करीत आसता. सद्‌दां. खंड पडूंक दी नासतना. खंयचोच जीव उपाशीं मरचो ना आनी खंयच्याच जिवाक फाल्यांच्या हुसक्यान अन्नाचो सांठो करपाची गरज भासची ना हाची जतनाय सैम घेत आयलां, युगान युगां सावन.

मनीस सैमाच्याच राज्यांतलो एक जीव. हेर जिवां सारकोच. हेर जिवां इतलोच म्हत्वाचो. तो आपणाक मानता तसो हेरां जिवां परस आगळो वेगळो न्हय, तांचे परस चड

म्हत्वाचो तर निखालूस न्हय. ताच्याच राज्यांत गरीब गिरेस्त हे पांवडे कित्याक आसचे? ताच्याच राज्यांत लोक अन्ना बगर उपाशीं कित्याक मरचे? आनी ताच्याच राज्यांत लोकांक फायचो हुस्को कित्याक आसचो? सैम ताचेय पोसवणे खातीर ताका जाय तितलें अन्न तयार करीत आयलां. सदां. दर एका खिणाक.

मनीस सैमा पसून पयस गेला असो हाचो अर्थ जालो ना? ताणेंच आपणाक सैमा पसून कडेक काडला. इतलेंच न्हय तर तो सैमाचेर आपणालो शेकूय चलोवपाक लागला. आनी हालींसराक तर, उद्देगीक क्रांती उपरांतच्या फाटल्या दोन तीन शतमानांत, सैमाचो तो दुस्मानूय जावन बसला.

ताचे सगळे उपद्व्याप सभावीक – नॅच्युरल – मानूंक जायनात. ते 'सभावीक' निखालूस न्हय.

मनशां मनशां मजगतीं जे गरीब गिरेस्त पांवडे आमी पळेतात ते मनशानूच निर्माण केल्यात. सैमान न्हय. देवानूय न्हय. तांच्यांतले कांय बळिश्ट दुबळ्या लोकांचे फाटीर चडून बसल्यात म्हूण ते निर्माण जाल्यात.

ताणेंच आतां हे पांवडे ना करूंक जाय.

संवसारांत कोण उपाशीं पडचो ना, सगळ्यांक जेवंक खावंक मेळटलें; कोण नागडो भोंवचो ना, सगळ्यांक न्हेसूंक पांगरूंक मेळटलें; कोण वाऱ्यार पडचो ना, सगळ्यांक रावपाक आसरो मेळटलो असो ताणेंच नित्शय करूंक जाय.

मनशाच्यो ह्यो तीन मुळाव्यो गरजो भागुंकूच जाय.

त्यो कश्यो भागोवपाच्यो?

अन्नछत्रां घालून? वस्त्रां दानांत दिवन? धर्मसाळो बांदून?

असलीं कामां सगळे धर्म करीत आयल्यात. करात म्हूण सगळ्यांक सांगीत आयल्यात. असलीं कामां केल्ल्यान मनशाक पुण्य मेळटा, स्वर्ग मेळटा असलीं हांयसांय दाखयत आयल्यात आनी कांय जाण असलीं कामां संवसारभर करितूय आयल्यात.

मदर तेरेझाचें काम हेच जातीचें आशिल्लें. तिणें हिन्दुस्तान आपणाल्या वावरा खातीर, सेवे खातीर म्हणुया, वेंचून हेच खातीर काडिल्लें. हांगासल्ल्या गरिबांक पळोवन तिचें काळीज कळवळून आयलें आनी ती तांचे सेवे खातीर हांगाच रावली. आयुश्यभर वावुरली.

पदरांत तिच्या कितें पडलें जातलें? पुण्य पडलां जातलें. तिका समाधानूय

मेळ्ळां जातलें, दुबावूच ना. जांची सेवा तिणें केली तांचें दुःख मातशें ल्हव जालां जातलें. तांकां धीर मेळ्ळा जातलो. आधार मेळ्ळा जातलो.

पुणून गरिबाय ती ना करूंक पावल्या व्हय? तिका, धरुया, दोनशीं तिनशीं वर्सा जियेवंक मेळिल्लें जाल्यार, हे तरेचो वावर करून ती गरिबाय ना करूंक पावतली आशिल्ली व्हय?

गरिबाय असल्या करुणेच्या कामांनी केन्नाच ना जावपाची ना. ती ना जातली एकाच उपायान. जे वेवस्थेन ती निर्माण केल्या ती वेवस्थाच मोडून, आनी तिचे सुवातेर दुसरी समाज वेवस्था हाडून. एका उतरान सांगचें जाल्यार, समाजवाद हाडून. मागीर तो मार्क्सचे कल्पनेंतलो आसूं वा गांधींचे.

समाजवाद हाडप ही जण एका संस्कारी मनशाची लागणूक जावंक जाय. ताचो धर्म जावंक जाय. समाजांत गरीब गिरेस्त पांवडे आसचे नात, कोण कोणाचें शोशण करचो ना, कोण कोणाचे फाटीर बसचो ना, कोण कोणाच्या पांयां पोंदा चिड्डून उरचो ना म्हूण वावरप, ह्या वावरा खातीर जिवीत झरोवप हाचे सारकी दुसरी 'धर्मसाधना' ना. हे तरेचो वावर करतल्याक मेले उपरांत स्वर्ग मेळत वा ना मेळत, जितो आसतना मात तो आपणा भोंवतणीं स्वर्ग निर्माण करूंक पावतलो हे विशीं इल्लोय दुबाव ना.

असल्या वावरा खातीर मनीस जीव ओंपता तेन्ना ताका कांय पथांक पाळो दिवचो पडटा. सगळ्यांत म्हत्वाचें पथ म्हळ्यार, कसल्याच बांदपासांत आपूण आपणाक बांदून घेवचों ना असो नित्शय ताका करचो पडटा. आनी बांदपासां पसून जाता तितलो मेकळो रावपा खातीर ताका आपणाल्यो कांय गरजो उण्यो करच्यो पडटात. म्हळ्यार, एके तरेची गरिबाय ताका आपूण जावन आपणावची पडटा. पुर्विल्ले लोक ह्या पथाक 'अपरिग्रह' म्हणटाले.

देश स्वतंत्र नाशिल्लो त्या वेळार देश स्वतंत्र करूंक जाय म्हूण कांय जाण मुखार सरताले. घरसंवसाराच्यो दायक्यो आपणाक पुटवपाच्यो नात अशें म्हणून ते लग्न जायनासतना रावताले. संवसारांत आपणाक घुसपावन घेनाशिल्ले. आपणाक जाता तितले मेकळे दवरताले, आनी पुराय वेळ देश स्वतंत्र करपाच्या वावरांत खर्चिताले. तांच्यांतल्या लग्न जाल्ल्या लोकांक गांधी ब्रह्मचर्याक पाळो दियात म्हूण सांगताले ते हेच ख़ातीर. भुरगीं जायत रावलीं जाल्यार तुमचे देशसेवेक आडखळींतल्यान वाट काडची पडटली, अशें म्हणटाले.

आपूण जावन घेतिल्ले हे गरिबायेक ख्रिस्ती चर्चान voluntary poverty म्हळ्या. पाद्रींक हे तरेचें गरिबायेचें व्रत घेवचें पडटा. समाजवादी समाज हाडूंक सोदतल्यांक लेगीत हेच तरेची गरिबाय आपणावची पडटा.

बाकीच्यां भाशेन आपूण घरसंवसार घेवन बसतलों, बाकीच्यां भाशेन आपुणूय सुखांत जियेतलों, भोगूंक मेळटात तितलेय भोग भोगतलों, ते खातीर खंयूय नोकरी करतलों वा कसलोय तरी उद्देग चलयतलों अशें म्हणून कोणूय देश स्वतंत्र करपाक वा देशांत समाजवाद हाडपाक मुखार सरलो जाल्यार ताका सांगचें पडटलें ह्न बाबा रे, तुका दोनूय कामां एका बराबर जमपाचीं नात. एक खंयचें तरी तुका सोडचें पडटलें. देशसेवा करतलो जाल्यार तुका घरसंवसारा पसून मेकळो रावचें पडटलें. अपरिग्रहाच्या तत्त्वाक धरून चलपाचो तुका निर्णय घेवचो पडटलो. ब्रह्मचर्याकूय पाळो दिवचो पडटलो.

समाज बदलपाचो वावर आयजवेर घरसंवसारांत घुसपल्ल्या लोकांनी करूंक ना. अपरिग्रही लोकांनीच तो केला हें विसरूंक फावना.

ही आपखोशयेन घेतिल्ली गरिबाय वेगळी आनी आमी जी ना करूंक सोदतात ती वेगळी. दोनांय मजगतचो फरक मतींत धरूंक जाय.

हरशींय जाल्यार समाजांत गरीब आसतना आपणें गिरेस्त जावपा खातीर वावरप हाची संस्कारी मनशाक लज दिसूंक जाय. जल्मा सावन जो गिरेस्त आसा ताका 'पॉश' जिवीत पुटवता जालें तरूय आपणाक तें सोबना अशें दिसूंक जाय. आपूण अन्नाडी, vulgar जाल्यां अशें दिसूंक जाय. गिरेस्त जेन्ना गरिबाय ना जावंक जाय म्हणटाले तेन्ना टॉलस्टॉय तांकां सांगतालो ह्न

सभाग्यांनो, गरिबाय तुमीच समाजांत निर्माण केल्या. तुमी दुबळ्या लोकांचे फाटीर चडून बसल्यात म्हण ती निर्माण जाल्या. फाटी वयले देंवात पळोवया मातशे.

जायत व्हय धीर आमकां लोकांचे फाटी वयले देंवपाचो?

लोकांचे फाटी वयले देंवपाच्या तत्त्वज्ञानाक अपरिग्रह म्हणटात. फकांडां मारपाचो विशय व्हय हो?

('जाग', फेब्रुवारी १९९८)



२७.

# खरो धर्म

खेळपाक बावली मेळ्ळी जाल्यार सरसमान खंयचेंय भुरगें तिचे वांगडा खेळत बसतलें. तिका खावयतलें, पिवयतलें, न्हेसयतलें, न्हिदयतलें, तरातरांचे खेळ खेळून तिचे वांगडा दीस सारतलें. बावले वांगडा खेळटा आसतना ताका ताचे सारकें दुसरें जिवें भुरगें खेळपाक मेळ्ळें जाल्यार, बावलेक कडेक उडयतलें आनी भुरग्या वांगडा खेळत बसतलें.

खेळपाक भुरगें मेळिल्लें आसतनाय तें भुरग्याक सोडून बावले वांगडा खेळत रावलें जाल्यार सरसमान भुरग्यां सारकी हाची वाड जावंक ना अशेंच मानचें पडटलें. आनी, जाणटें जाले उपरांतूय तें, धरुया, बावले वांगडाच खेळत रावलें जाल्यार हें भुरगें अर्दकुटेंच उरलां अशें म्हणचें पडटलें.

देवा कडेन पावतकूच खुबश्या जाणांची अशीच गत्त जाता. देव सगळे कडेन आसा, सगळ्यांत आसा म्हणपाचें सगळेच जाणात. पुणून असल्या देवाच्या रुपा-गुणांचो अदमास सगळ्यांक करूंक येना. म्हूण मनीस ताच्यो मुर्ती घडयता. ह्या मुर्तींक कांय गूण दसयता. मागीर, तांची पुजा करपाक

लागता, आनी पुजेंतूच आयुष्यभर तल्लीन जाता. मुर्तीचो उपेग आसा, ना अशें न्हय. पुणून अमकेच एके पिरायेर, अमकेच एके अवस्थेंत, अमक्याच एका पांवड्यार आसतना. सदांकाळ न्हय. कांय काळान मनशाक मुर्ती पेल्यान वचूंक येवंक जाय. मुर्तीपुजेच्या वयल्या पांवड्यार ताका चडूंक येवंक जाय. ना जाल्यार ताची धर्मसाधना अर्दकुटीच उरल्या अशें म्हणूंक जाय.

रवीन्द्रनाथ कवी खरे. पुणून सरसमान कवीं सारके न्हय. ते एक साक्षात्कारी कवी आशिल्ले. देवाक वळखताले. *आमि जेनेछि ताहारे* अशें उपनिषदांतल्या रुशीं भाशेन आत्मविस्वासान ते सांगताले. *गीतांजली, नैवेद्य, उत्सर्ग* सारकेले तांगेले काव्य झेले पुरो, तांचे धर्मसाधनेची जातकुळी खंयची ती कळपाक. तांची एक चीट वाचूंक मेळ्ळी. ते म्हणटात ह्ल

'म्हजे संबंदान तरातरांचे समज पातळ्ळ्यात. तांतलो, हांव निर्गूण, निरंजन, निर्विशेष ईश्वराचोच साधक म्हणपाचो एक. एके नदरेन खरो तो. कित्याक, जंय सगळेंच शून्य, थंय सगळेंच पूर्ण आसता. सदांकाळ बावली घेवन खेळत बसप म्हाका जमपाचें ना. म्हज्या भुरगेपणांत एक पुजारी आमचे बागेंतलीं फुलां पुंजावन देवळांत पुजा करपाक वतालो. ताका पळोवन ते पिरायेर लेगीत हो देवाक फटयता, हाचे आड पुलिसेंत केश करूंक जाय अशें म्हाका दिसतालें... हांव देवळांत वचना तो निर्विकार निरंजन ईश्वराचो अवमान जाता म्हूण, हें खरें न्हय. मनशाची उवेखणी जाता, दुर्लक्ष जाता, तो आमचे सेवे पसून कडेक पडटा, अशें दिसता म्हूण वचना. देव मनशां भायर ना. आमच्या देशांत देवभक्तीच्या नांवान मनशांचो अवमान जाता तो हांव पळेतां. तांच्यो पिडा, तांचीं दुःखां, तांचें दळडीर ना जायना हाचें कारण हो 'चिरशिशुं'चो देश ह्ल सदांकाळ भुरगेमतींत उरिल्ल्या लोकांचो देश. बावल्यांनी खेळून सगळ्यांचीं दुःखां ना करपाची जापसालदारकी ताणें आपणाल्या आंगार घेतल्या... फाटीं एक फावट मदुराईचें देवूळ पळोवपाक गेल्लों. थंय देवाच्या आंगा वयल्यो लाखांनी रुपयांच्यो वस्ती म्हाका देवळाच्या जाळवणदारांनी हड्डें फुलोवन दाखयल्ल्यो. तेन्ना म्हजी मान खंतीन आनी लजेन बागवल्ली. लाखांनी लोकांचें दळडीर आनी अज्ञान, तांच्यो पिडा आनी दुःखां म्हाका त्या वस्तीं भितर एकठावल्लीं दिश्टी पडलीं. देवळा भायर हाडां सांपळो जावन, येतल्या वेतल्या मुखार हात फुडें काडून भीक मागत उबो राविल्लो खरो देव म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो आनी म्हजें मन खंतीन भरून आयलें...

तरूय तुमी म्हाका निरंजन, निर्विशेषाचो साधक मानतात?...'

रवीन्द्रनाथांचो देवा विशींचो समजूय नितळ आशिल्लो आनी ताची पुजा कशी करची हे विशींचो मार्गूय तांचे मुखार स्पस्ट आशिल्लो. एका गितांत ते म्हणटात, भजन पुजन साधन आराधना, दवर तें सगळें कुशीक; देवळाचीं दारां बंद करून, काळखांत आपणाक लिपोवन तूं कोणाची पुजा करता? दोळे उकते करून पळे, जाची तूं पुजा करता तो देव देवळांत ना.

*भजन पूजन साधन आराधना*
*समस्त थाक् पडे ।*
*रुद्धद्वारे देवालयेर कोने*
*केन आछिस ओरे ।*
*अंधकारे लुकिये आपन मने*
*काहारे तुइ पुजीस संगोपने*
*नयन मेले देख देखि तुइ चेये*
*देवता नाइ घरे ।*

देवळांत ना, जाल्यार तो खंय आसा?

तो पळे, शेतकामती नांगर घेवन शेतांत देंवला; ते पळे कांय मानाय खडी फोडून रस्तो तयार करतात; तांचे सरीं तो वचून रावला. बाराय म्हयने तो तांचे वांगडा काम करता.

*तिनि गेछेन जेथाय माटि भेंगे*
*कर छे चाषा चाष ह्र*
*पाथर भेंगे काटछे जेथाय पथ*
*खाटछे बारो मास ।*

ओतांत, पावसांत तो हांचे वांगडा काम करता. हात पळे ताचे कशे धुल्लान भरल्यात ते. देव जाय मरे तुका? तुजीं इस्त्री केल्लीं लुगटां कडेक उडय, सवळें अनवाळें भायर मार आनी करूंक लाग तांचे बराबर मातयेंत वावर.

*रौद्रे जले आछेन सबार साथे,*
*धुला तांहार लेगेछे दुइ हाते;*
*तांरइ मतन शुचि बसन छाडि*
*आय रे धुलार पथे ।*

मुक्ती? कसली मुक्ती? मुक्ती आसाच पयलीं खंय? आरे, जाणें येदोय व्हडलो हो संवसार रचलो ताणें आपणाकूच तरातरांच्या बांदपासांनी ह्या संवसारा कडेन बांदून घेतला.

*मुक्ति? ओरे, मुक्ति कोथाय पाबि,*
*मुक्ति कोथाय आछे ।*
*आपनि प्रभु सृष्टिबांधन परे*
*बांधा साबार काछे ।*

सोड तें ध्यान. कडेक दवर फुलांची दाली. लाग कामाक ह्या सगळ्यां बराबर. पोरणीं जावं दी, पिंजून वचूं दी तुजीं लुगटां. लागूं दी माती तुज्या पुराय आंगाक. ह्या लोकां वांगडा एकरूप जावन काम करशीत जाल्यारूच तुका देवाची भेट जातली.

*राखो रे ध्यान, थाक रे फुलेर डालि,*
*छिंडुक वस्त्र, लागुक धुलाबालि,*
*कर्मजोगे तार साथे एक हये*
*धर्म पडूक झरे ।*

पुणून, हे तरेची पुजा सगळ्यांक जमपाची ना. लोकांक संवय जाल्या चार हातांच्या, पितांबर न्हेशिल्ल्या, गळ्यांत वैजयंती माळ घाल्ल्या, हातांत मुरली घेवन उबो राविल्ल्या साळका सारक्या दोळ्यांच्या पाशाणाच्या देवाची पुजा करपाची. ताच्या पांयांर तकली दवरप सोंपें. जिव्या देवाच्या पांयार तकली दवरूंक येत व्हय? कित्याक, जिवो देव समाजान आपणा पसून पयस उडयल्ल्या गरीब-दुबळ्या, नागवल्ल्या फटवल्ल्या, चिड्डल्ल्या चेपिल्ल्या, लोकां मदींच वचून बसला. ताच्या पांयांर तकली दवरपाक जाय आशिल्ली नमळाय आमच्यांत ना. आमी अश्या एका संस्कारांत वाडल्यांत की ह्या लोकां मुखार आमचें कमर कशेंच बागवना. कमर बागोवन नमस्कार करूंक वतात तेन्ना मदींच खंय तरी आमी थांबतात. धन आनी मान जंय आसता थंयच देवाचो सांगात मेळटलो अशी आस्त आमी बाळगितात. जे सामकेच नागवल्यात असल्या आधार नाशिल्ल्या लोकांगेर देव रावता म्हळ्यार थंय मेरेन आमचें काळीज देंवुकूच पावना. आमची पुराय धर्मसाधना पांच-नखेत्री. म्हूण आसुंयेता, ह्या देशांत खरो धर्म केन्ना उदेवंकूच पावलो ना. धर्माच्या नांवान चलता तो फकत मिथ्याचार, निखटें पाखंड.

देखून रवीन्द्रनाथ आकुळपिकूळ जावन आमकां सांगतात, चलात, येयात म्हजे वांगडा, आमी सांगातान मागुया ह्ह

देवा, म्हजी तकली तुज्या पांयां सकयल्या धुल्लाच्या तळा मेरेन बागय. म्हजो पुराय अहंकार पश्चात्तापाच्या दुकांनी बुडय. आयज मेरेनचें जिवीत हांवें व्हडपण जोडपाच्या हावेसांतूच खर्चिलें आनी खासा म्हजोच अवमान करीत रावलों. आपणा भोंवतणींच आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडीत रावलों आनी फकत अपेसूच जोडीत गेलों. म्हज्यांतल्या अहंकारानूच म्हजी अशी काकुळटेणी गत्त करून उडयल्या. आतां पश्चात्तापाच्या दुकांनी म्हजो पुराय अहंकार बुडय.

*आमार माथा नत करे दाओ*
*हे तोमार चरण धुलार तले ।*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले ।*
*निजेरे करिते गौरव दान*
*निजेरे केवलि करि अपमान*
*आपनारे शुधु घेरिया घेरिया*
*घुरे मरि पले पले ।*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले*
*जाचि हे तोमार चरम शान्ति*
*पराणे तोमार परम कान्ति*
*आमारे आडल करिया*
*दांडाओ हृदय पद्मदले*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले.*

म्हज्या जिवितांत म्हाका जाय ती तुजी चरम शांती. म्हज्या जिवितांत उकताडा आयिल्ली म्हाका जाय ती तुजी परम कांती. देवा, म्हज्या काळजाच्या साळकार तूंच येवन बस आनी म्हजो पुराय अहंकार पश्चात्तापाच्या दुकांनी बुडय.

म्हज्या जिवितांतल्यान हांव म्हज्याच वावराचो प्रचार हे मुखार करीत रावचों

ना अशें कितेंय कर. तुजीच इत्सा म्हज्या जिवितांतल्यान पूर्ण जाता अशें कर.

*आमारि ना जेन करि प्रचार*
*आमार आपन काजे ह्न*
*तोमारि इच्छा करो हे पूर्ण*
*आमार जीवन माझे.*

रवीन्द्रनाथां मुखार धर्म स्पस्ट आशिल्लो. होच एक धर्म आसूं येता अशें ते मानताले. आमी जांकां धर्म मानीत आयल्यात ते सगळे अर्दकुटे अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें.

('जाग', मार्च २००१)



२८.

# मोक्षधर्माक समाजधर्माची देख दिवया

भारत स्वतंत्र जायना फुडें ताणें आपणा मुखार 'सर्वधर्म समभावा'ची देख दवरली आनी सगळ्या धर्मांक सारके मानले. 'खरे' ह्याय अर्थान सारके, 'बरे' ह्याय अर्थान सारके, आनी 'अपूर्ण' ह्याय अर्थान सारके. सच्चे, अच्छे, कच्चे ह्या तिनूय अर्थांनी सारके लेखले.

'कच्चे' धर्म 'पक्के' करपा खातीर ताणें सगळ्या धर्मांच्या अनुयायांक सांगलें ह्या

'देश स्वतंत्र जाला, आतां तुमकां एकामेकां लागीं झगडूंक मेळचें ना, एकामेकां लागसार वचात, एकामेकां वांगडा उठात बसात, एकामेकांक समजून घेयात, घेवपा सारकें सगळ्यां कडल्यान घेयात आनी दिवपा सारकें सगळ्यांक दियात.'

धर्म आयज मेरेन चलत आयल्यात तशे देशाक चलूंक दिवपाचे नाशिल्ले. तांकां एक नवी देख दिवपाची आशिल्ली. सगळ्यांक बदलून ताका एक धर्मक्रांती घडोवन हाडपाची आशिल्ली. ताच्या 'सर्वधर्मसमभावा'चें हें एक क्रियाशील आंग आशिल्लें. ताणें आपल्या सर्वधर्मसमभावाक सॅक्युलरिझम

म्हळो तरूय युरोपाच्या सॅक्युलरिझमा सारको तो धर्माच्या मळार 'तटस्थ' नाशिल्लो. उदासीन नाशिल्लो.

पुणून, एक चत्राय ताका उरली ना ह्व

खंयच्याच धर्मान सामाजीक लागणुकांचें आपणाक केन्ना लावन घेवंक ना; उरफाटें. सगळे आपणाल्या अनुयायांक 'समाजाचें समाज पळोवन घेतलो, तुमी तुमचेंच पळेयात ह्व आपूण आपणाक, देव समेस्तांक' हीच शिकवण दीत आयल्यात म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें ना. हालीं हालीं जांच्या लक्षांत तें आयलां ते आतां सांगपाक लागल्यात, हे शिकवणेच्या मुळांत एक समज आसा तो असो ह्व

मनीस ताच्या मरणा वांगडा सोंपना. मनीस म्हळ्यार ताची फकत कूड न्हय. ताचो आत्मोय बी. आत्मो अमर. तो केन्ना ना जायना. मनीस जल्माक येता ताचे पयलीं सावन ताच्या व्यक्तित्वांत तो चलत येता, मरणा उपरांतूय चलत उरता ह्व नव्या जल्माच्या रुपान वा ह्या जल्मांतल्या बऱ्या वायट करण्यांचें फळ म्हूण मेळटल्या सर्ग-नर्काच्या रुपान. म्हूण सगळे धर्म सांगीत आयल्यात, ह्या जल्मांतूच अश्यो करण्यो करात, अशें पुण्य जोडात की जाका लागून मनशाक नवो जल्म ह्या जल्मा परस बरो मेळटलो वा नर्क मेळिल्लो आसलो जाल्यार ताच्यो पिडा उण्यो जावन मनशाक अखंडपणान सर्गांत रावंक मेळटलें. अध्यात्माच्या उदात्त उतरांनी सांगचें जाल्यार, मुक्ती, मोक्ष, निर्वाण, सालवासांव हीच जिविताची मोख म्हणपाचें सगळ्या धर्मांनी मानलां.

म्हूण सगळे धर्म समाजा विशीं उदासीन उरल्यात.

अपूर्ण धर्म पूर्ण जावचे म्हूण एकामेकां लागसार वचपाचे देशान उपाय सुचयल्ले त्याच वेळार 'आपूण आपणाक, देव समेस्तांक' ही तुमची शिकवण चुकल्या म्हूण सांगपाचें धाडस ताका जावंक जाय आशिल्लें. जालें ना. खरेपणानशीं ताचेंच चुकलें. समाजा विशीं उदासीन रावप समा न्हय; समाजधर्म आनी मोक्षधर्म वेगळे न्हय, एकामेकांचे वैरी तर न्हयच न्हय; मोक्षाची आस्था आशिल्ल्या मनशान सामाजीक वावरांत आपणाक घुसपावन घेवंक जायना आनी सामाजीक वावराची आस्था आशिल्ल्यान मोक्षधर्माचे वाटेक वचूंक जायना ही तुमची शिकवण सारकी न्हय; पाखें गळटा जाल्यार सगळ्यांनी मेळून नळे शिंवूंक जाय, जण एकल्यान आपापणाली सत्री फुलोवन घरांत बसचें आनी पांवळ्यां पसून आपणाली राखण करची म्हूण सांगपी तुमची शिकवणूय बरोबर न्हय म्हणपाचें सगळ्या

धर्मांक, तांचे कान पिळून, सांगपाक आतां तरी देशान अनमनूंक जायना.

आत्मो घडये अज्रंवर आसत, घडये नासत. पुणून आमी मरून ना नपश्चात जावन गेले तरूय भोंवतणीं जें चैतन्य रसरसून जियेत आयलां तें अशेंच सदांकाळ जियेत उरतलें; ज्या समाजांत आमी जल्माक आयल्यात तोवूय सदांकाळ चलत रावतलो हे विशीं कोणाक कसलोच दुबाव दिसपाचें कारण ना. आमच्या मरणान भोंवतणच्या चैतन्यांत इल्लोय खंड पडपाचो ना आनी समाजूय खंयच थांबपाचो ना. दोनूय मळां विशीं उदासीन रावप खंयच्याच धर्माक सोबना इतलें मतींत घट्ट धरूंक जाय. आनी हाका धरून आमी आमचें जिवीत आंखूंक जाय. फुडल्या पिळग्यां खातीर आयचे परस बरो समाज दवरून वचूंक जाय म्हणपाचें धर्मांनीच आमकां आतां शिकोवंक जाय.

आमकां आमचो समाज आमच्या म्हालगड्यां कडल्यान मेळ्ळा. तांच्या जागरूकपणाचें वा घाळपणाचें, पुण्याचें वा पातकांचें, येसांचें वा अपेसांचें, उदरगतीचें वा अवनतीचें दायज आमकां समाजाच्या शिरंत्रांनी ह्न पुर्वजांचें रगत वंशजांच्या शिरंत्रांनी घोळटा तशें ह्न घोळिल्लें दिश्टी पडटा. आमकां समाजूच पोसता, समाजूच घडयता, समाजूच आमकां वयर काडटा. समाजाक फाट करूंक लावपी धर्म धर्म न्हय. देव समेस्तांक आसत. पुणून आपूण आपणाक म्हणटात तें खरें न्हय. समाजा विशींच्या लागणुकांचें धर्मांनी लावन घेवंक नाशिल्ल्यानूच समाज नश्ट्या, पाड्या, दुश्टांच्या हातांत गेला. तांच्या दावकुलांतल्यान समाजाक सोडोवपाक धर्मांकूच समाजधर्माची देख आतां आमी दिवंक जाय.

**('जाग', डिसेंबर २००१)**



२१.

# व्हड मनीस सदांच अपेशी जाल्यात

गांधींचें जिवीत खंय अपेशी जालें. इतले सत्याग्रह केले, इतली बंदखण भोगली, इतले उपास केले, पदरांत खंय तांच्या कांयच पडलें ना.

नवोच एक सोद लायिल्ले वरी व्ही. एस्. नायपॉलांनी हालींच दिल्लींत येवन लोकांक हें सांगलां.

कोण न्हय म्हणटा? गांधींचें सगळ्यांत व्हडलें अपेस म्हळ्यार, तांकां आपणाले वारस सारके वळखूंक आयले नात हेंच म्हणूंक जाय. एकल्यान तांकां 'बायपास' केल्यात, तर दुसरो तांकां 'सरपास' करून मुखार वचपाक भायर सरला. परिणाम ह्या देशा कडेन तांचो जो संबंद आशिल्लो तो तुटला. तो परतो कोण अजून जोडूंक पावूंक ना.

पुणून, नायपॉलबाब, संवसारांत खंयचो म्हापुरूस सफळ जाला, सांगशात व्हय? श्रीकृष्ण जाला? *'परित्राणाय साधूनाम विनाशायच दुष्कृताम'* हें ध्येय मुखार दवरून ताणें आपणाले मुस्तींतलीं पांच जुलमी साम्राज्यां भूंयभरवण करून उडयल्लीं खरीं. पुणून युधिष्ठिराक तो जुगडे पसून पयस काडूंक पावला

व्हय? कुरुक्षेत्रा वेळें झूज आडावंक पावला व्हय? अठरा अक्षौहिणी सैन्याची कत्तल ताका चुकोवंक आयल्या व्हय? तें कित्याक, ताच्याच कुळांतले यादव सोरो पियेवन तर्रर जावन एकामेकांक मुसळांनी मारपाक लागले तांकां तरी तो थातारून दवरूंक पावला व्हय? तांचो सांवार तो आडावंक पावला व्हय?

श्रीकृष्णाचें सगळ्यांत व्हड अपेस म्हळ्यार, जिचीं वर्सासंकिंनी हजारांनी लोक पारायणां करीत आयल्यात, जिच्यो व्हडल्या व्हडल्या बुदवंतांनी एका फुडल्यो एक अर्थावण्यो बरयल्यात, ती गीता ताणें पयली वयली सांगली ती एका 'बोंड्या' मनशाक. ताच्या एका कानांतल्यान भितर सरून दुसऱ्या कानांतल्यान ती भायर सरून गेली. तकलेंत मातूय रिगली ना. 'कृष्णा, म्हाका ती परती सांगशीत व्हय? हांव ती साप विसरून गेलां' अशें तो एक दीस कृष्णाक सांगता आनी 'आरेरे, विसरलो तूं ती? म्हाका आतां ती परती सांगूंक येवपाची ना. कित्याक, योगारूढ जावन सांगिल्ली ती हांवें तुका. म्हाका परतून योगारूढ जावंक येवपाचें ना' अशें सांगपाचो प्रसंग तो कृष्णाचेर हाडटा.

श्रीकृष्णाच्या जिविताक सफळ जिवीत कोण म्हणटलो?

पुणून, नायपॉलबाब, 'श्रीकृष्णा सारको खऱ्यांनींच कोण जावन गेला व्हय?' म्हूण विचारपी सगळे 'जावन गेल्यात', 'जावन वतले'. तो आशिल्लो, आसा, आसतलो.

हाका 'अपेशी' कोण म्हणटलो?

येशू ख्रिस्त तरी सफळ जाला? धर्तरेर सर्गीचें राज्य हाडपाक तो भायर सरिल्लो. आनी तें हाडपाक तो एक सादो उपाय लोकांक सांगतालो, 'तुमी तुमचो करतात तितलोच मोग तुमच्या शेजाऱ्याचोय करात. दुस्मानाचो मोग करप सोंपो. पुणून शेजाऱ्याचो? म्हाकठीण. कोणें तरी म्हळां, शेजाऱ्या सारको एका सारको छळ करपी संवसारांत दुसरो कोण ना. ताचो मोग कसो करपाचो? पुणून लोक ख्रिस्ताचें आयकून शेजाऱ्याचो मोग करपाक लागले. खासा आपणाचो करतात तितलोच. हें पळोवन सैतानाचो आवरो उडलो. लोक हाचे सांगणेन चलपाक लागले जाल्यार आपणालें साम्राज्य कोंसळून पडटलें ह्या भंयान ताणें ताच्याच लोकांक ताचे आड खुबळावन घाले आनी ताका धरून दिवन खुरसार मारूंक लायलो. देवाचेर भावार्त दवरून ख्रिस्तान सगळें सोंसलें. ताचो आकांताचो भावार्त आशिल्लो देवाचेर. आपणाक ऐन वेळार देव वाटायतलो अशें ताका

खोलायेन दिसतालें. ?यात्रांगाच्या पुताक वाटावंक नाशिल्लो ताणें? तसो कितेंय चमत्कार-बिमत्कार करतलो आनी म्हाका वाटायतलो. ना जाल्यार ताचीच अब्रू वतली अशेंच तो मानीत राविल्लो. अखेर मेरेन देव पावलोना तेन्ना प्राण सोडचे पयलीं, 'देवा, तुवें म्हाका कित्याक सोडून दिलो?' हीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान फुटिल्लीं.

इतलें अपेशी जिवीत कोण जियेवंक ना संवसारांत. तरी आसतना केदी भव्य संस्कृताय उबी केल्या ताच्या शिष्यांनी संवसारांत! ती येवरोपेवांच्या दावकुलांतली सुट्टली तेन्ना ख्रिस्त अखख्या संवसाराचो जातलो हे विशीं दुबाव आसा कोणाक?

संवसारांत सगळे म्हापुरूस अपेशी जाल्यात. श्रीकृष्ण जाला, ख्रिस्त जाला, सॉक्रतीश जाला, तें कित्याक, मार्क्सूय जाला. गांधी जालो जाल्यार अजाप कसलें? तरी आसतना, मार्टिन ल्यूथर किंगान ताचेच प्रेरणेन अमेरिकेंतल्या काळ्या लोकांक समान हक जोडून दिल्ले मूं? पेट्रा केलीन ताचेच प्रेरणेन येवरोपांत ग्रीन पार्टी चलयली मूं? गांधीक वचून आतां अर्दें शतमान जालें. तरूय वर्सान वर्स ताच्या विचाराचो अर्थावणी करून सांगपी सुमार देडशें दोनशीं नवीं नवीं पुस्तकां आयजूय उजवाडा येतात. युरोप अमेरिकेंतलेच लोक कितलींशीं बरयतात.

सफळ कोण जातात, जाणात तुमी नायपॉलबाब! सामके किरकोळ, मिडियॉकर आसतात तेच. तांच्याच लटपटीं खटपटींक येस मेळटा. तेच आपणाक व्हड मानीत आयल्यात आयच्या संवसारांत.

'जिवीत भरलां सगळें अपेसांनी. येसां आयल्यांत लागसार तेन्ना पयस धुकलून उडयल्यांत हांवें तांकां म्हजे वाटे वयलीं. हीं पिशेपणां आशिल्लीं व्हय? येसां अपेसांचे म्हजे अर्थ वेगळे आशिल्ले. तुमी जांकां अपेसां म्हणटात ते खरेपणानशीं पडाव आशिल्ले म्हज्या मार्गांतले...' अशें जयप्रकाश म्हणटाले. गेलां व्हय हें नांव कानां वयल्यान तुमच्या, नायपॉलबाब?

येद्या व्हड नोबॅल इनामाचें मोलूच उणें करून उडयलें मूं तुमी?! शी! वायट दिसता.

('जाग', जानेवारी २००३)



३०.

# ‘राष्ट्रपिता’ मानूं नाकात, ‘मॅन ऑफ द मिलेनियम’?

संस्कृतायेचे नदरेन देश सदांच एक आशिल्लो. गांधार, नेपाळ, सिक्कीम, भूतान, लद्दाख, काश्मीर, पाकिस्तान, बांग्लादेश, श्रीलंका ह्व हे सगळे वाटार एका भारतवर्षांत आसपावताले.

कांय जाण तर कैलास मानसूय तातूंत घेताले.

राजकी नदरेन मात भारतवर्ष एक ‘राष्ट्र’ म्हूण आपणाक केन्नाच गुथून घेवंक पावलो ना. कितल्याश्या राज्यांनी तो वांटून गेल्लो. मौर्यांनी, गुप्तांनी, मोगलांनी, इंग्रजांनी आपापणालीं साम्राज्यां देशभर पातळावन तो एक करपाचो यत्न केला. ना अशें न्हय. पुणून संस्कृतायेन जसो ताका भितल्ल्यान एक केल्लो तसो खंयच्याच साम्राज्याक तो भितल्ल्यान केन्नाच एक करूंक येवंक ना.

इंग्रजांच्या काळांत लेगीत इंग्रजां भायर ह्या देशांत कांय वाटारांनी पुर्तुगेज, कांय वाटारांनी फ्रॅंच तर पांचश्यां वयर वाटारांनी देशी संस्थानिकांचो शेक चल्ला.

असल्या ह्या विस्कळीत विघटीत देशाक एकठांय गुथून

ताचें एक 'राष्ट्र' घडोवपाचो वावर सुरू जालो तो खरेपणानशीं १८५७ उपरांतच्या स्वतंत्रताये खातीर चलिल्ल्या झुजाच्या काळांत. हाचें एक राष्ट्र घडोवपा पासत ताचे जे राष्ट्रीय 'अवगूण' आसात ते पयलीं ना करूंक जाय हाची जाणवीक आमच्या म्हालगड्यांक ह्याच काळांत उत्कटतायेन जाल्या. आनी ते ना करपाचो वावर तेन्ना सावन खूबश्या जाणांनी खूबश्या मळांचेर खोलायेन चलयला. गांधी रासवळ मळार देंवल्यात तेन्ना तांणी हांतले कितलेशे वावर आपणाले रचणुकी कार्यावळींत ह्न कंस्ट्रक्टिव्ह प्रोग्रामांत ह्न गुथून काडल्यात आनी जितल्या नेटान तांणी राजकी चळवळी चलयल्यात तितल्याच नेटान, वा म्हणुया, ताच्याकूय चड नेटान तांणी हेय वावर चलयल्यात.

गांधींक 'राष्ट्रपिता' नांव मेळ्ळां तें ह्या वावरा खातीर. राष्ट्र घडोवपाचो वावर  ते जीव ओतून करताले म्हूण. स्वतंत्रताये खातीर ते झुजताले इतलेच खातीर न्हय.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय ह्न

तांकां 'राष्ट्रपिता' म्हणपाक सुरवात केल्या ती सुभाषबाबूंनी. काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांनी न्हय. आश्रमी सांगात्यांनीय न्हय. सुभाषबाबू गांधींचे आश्रमी सांगाती केन्नाच नाशिल्ले आनी काँग्रेसींतल्यान फुटून भायर सरिल्ले म्हूण काँग्रेसमनूय उरूंक नाशिल्ले. देशाची सुटका करपाक तांणी 'आझाद हिन्द फौज' हातांत घेतिल्ली. ती भारताचे दिकेन चाल करून सिंगापूरच्यान भायर सरल्या त्या दिसा (६ जुलय १९४४ ह्या दिसा) तांणी आपणाल्या 'आझाद हिन्द रेडियो' वेल्यान केल्ल्या उलोवपांत म्हळ्ळें ह्न

'Mahatmaji, Father of our Nation! In this holy war of India's liberation we ask for your blessings and good wishes.'

गांधींक 'राष्ट्रपिता' काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांनी म्हणूंक ना तशें तांकां 'महात्मा' लेगीत तांणी म्हणूंक ना. आश्रमांतल्या सांगात्यांचे ते 'बापूजी' आशिल्ले. खूबश्या काँग्रेस फुडाऱ्यांचेय ते 'बापूजी' जाल्ले. 'मिस्टर गांधी' ते फकत इंग्रजांचे आनी बॅ. जिनांचे आशिल्ले. तांकां 'महात्मा' म्हणपाक सुरवात केल्या ती रवीन्द्रनाथांनी आनी देशान ही पदवी उखलून धरल्या.

रवीन्द्रनाथूय काँग्रेसीचे फुडारी नाशिल्ले आनी गांधींचे आश्रमी सांगातीय

नाशिल्ले. संस्कृतायेच्या मळा वयले ते एक रुशी आशिल्ले.

'भूमिपुत्र' नेमाळ्याच्या एका आंकांत पयर वाचलें ह्र

रमेश देसाई नांवाचे एक आचार्य वलसाड नगरींत रावतात. ते गांधींचे अनुयायी न्हय. शिष्य तर न्हयच न्हय. आपणाक ते 'गांधीयन' लेखिनात. लोकूय तांकां 'गांधीयन' म्हणिनात. मुदलांत ते एक रॅशनलिस्ट, बुद्धीवादी. तशे एक एथेइस्ट, नास्तीक. पुणून गांधींचे एक 'फॅन'. कोणेंय गांधींचें नांव घेतल्यार पुरो, तांकां गळगळून येता आनी तांच्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवपाक लागतात. तांचे कडेन चडश्या कोणाक खबर नाशिल्ल्यो गांधींच्यो खबरी आसात. पतीक, ते सांगतात ह्र

ह्र कुर्द लोकांचो फुडारी जमाल गुम्बलेट, मॅक्सिकोंतलो शेतकामत्यांचो फुडारी लिझार, पोलंडचो वालेसा, इस्रायेलांतलो शिमोन पेरेझ, दक्षीण आफ्रिकेंतलो नॅल्सन मंडेला, अमेरिकेंतलो मार्टिन ल्युथर किंग ह्र सगळे आपणाचेर गांधींचो खूब प्रभाव आसा अशें मेकळ्या ताळ्यान सांगतात.

ह्र जर्मनीन एके शाळेक 'महात्मा गांधी शाळा' म्हूण नांव दिलां. ते भायर, स्टुटगार्ड शारांत बुर्गोल्फ वाटारांत एका मार्गाक 'गांधी मार्ग' नांव दिलां.

ह्र लंडनांत गांधींचो एक पुतळो आसा. न्युयॉर्कांत एक आसा. अमेरिकेंतल्या विस्कोन्सीन राज्याच्या मिलवोकी शारांत एक दिव्यभव्य पुतळो हालींच २००२ वर्सा गांधी जयंती दिसा उबो केला. त्या वाटाराक नांवूच दिलां 'गांधी सर्कल'. ज्योर्जियाच्या ॲटलांटिक शारांत स फूट चार इंच ऊंच कांश्याचो एक पुतळो आसा. दक्षीण आफ्रिकेंतल्या मारित्झबर्ग रेल्वे स्टेशनार गाडयेच्या पयल्या वर्गांतल्या डब्यांतल्यान गांधींक धुकलून उडयल्यात थंयच्या चौकार तांचो एक पूर्णाकृती पुतळो आसा आनी ताचे सकल 'बर्थ प्लेस ऑफ सत्याग्रह' म्हूण एक पाटी मारल्या.

ह्र न्यू यॉर्कांतल्या स्टॅच्यू ऑफ लिबर्टी खाला संवसारांतल्या महामानवांचे कांय सुविचार दिल्यात. तातूंत भारतांतल्या एम्. के. गांधींचो एक सुविचार आसा.

ह्र इंग्लंडचे एलिझाबेथ राणयेच्या राज्यारोहणाच्या वेळार तिका संवसारभरच्या लोकांच्यो ज्यो भेटी मेळिल्ल्यो त्यो बकिंगहॅम पॅलेसींतल्या एका हॉलांत प्रदर्शनाच्या

रुपांत मांडून दवरल्यात. तातूंत 'विथ बॅस्ट विशीस फ्रॉम एम्. के. गांधी' म्हूण आयिल्लो खादीचो एक टेबल क्लॉथ दवरला, गांधींनी काडिल्ल्या सुताचो. आनी प्रदर्शनी पळोवपाक येतल्या व्हड व्हड लोकांक राणी तो मोट्या भोवमानान दाखयता.

ह्र १९६९ वर्सा गांधी शताब्दी आयिल्ली. त्या वेळार पुराय संवसारांतल्या सरकारांनी गांधींचो फोटो दिवन पोस्टाच्यो तिकेटी काडिल्ल्यो. असलो भोवमान संवसारांतल्या दुसऱ्या खंयच्याच व्हड मनशाक आयजवेर मेळूंक ना.

ह्र १९५२त बी.बी.सी.न आपणाल्या प्रतिनिधींक भारतांत धाडून आपले कार्यावळी खातीर गांधींक वळखतल्या लोकांच्यो मुलाखती रिकॉर्ड करून घेतिल्ल्यो. त्यो सत्तावीस वरांच्यो जाल्ल्यो.

ह्र हॉंगकॉंगांतल्या 'एशियाटिक' नांवाच्या एका सप्तकी नेमाळ्यान गांधीहत्येच्या पन्नास वर्सां उपरांत एक अग्रलेख बरोवन नोबॅल इनाम दितल्यांक 'तुमी गांधींक शांततायेचें नोबॅल इनाम दिलें ना, ही चूक आतां तरी निवळायात' म्हूण सुचोवणी केल्ली.

ह्र अमेरिकेंतल्या 'टाइम' नेमाळ्यान फाटल्या एक हजार वर्सांतल्या म्हापुरसांची वळेरी आपणाल्या वाचप्यां कडल्यान मागयल्ली. गांधींचें नांव 'मॅन ऑफ द मिलेनियम' म्हूण सगळ्यांनी पयले सुवातेर दिल्लें...

जावं, म्हळें, संघ परिवार गांधींक 'राष्ट्रपिता' मानिना, नाका मानूं. पुणून फाटल्या एक हजार वर्सांतलो सगळ्यांत व्हड मनीस म्हूण तरी मानता व्हय? काय तिवूय सुवात तांकां दिना?

('जाग', जून २००५)



## ३१.

# दांडीयात्रेचें महात्मायन

असहकाराची चळवळ चलताली त्या वेळार सत्याग्रहाची एक बरी देख मुखार दवरची अशें गांधींक दिसलें आनी तांणी गुजरातांतलो बारडोली जिल्लो सत्याग्रहा खातीर वेंचून काडलो. पुणून चौरीचौरांतल्या हत्याकांडाक लागून सत्याग्रह जावंक पावूंक नाशिल्लो.

१९२८त तो जालो.

जालें अशें ह्र

बारडोलींतल्या शेतकामत्यां कडल्यान जो कर सरकार घेतालें तातूंत ताणें शंबरांत वीस अदीक ह्या प्रमाणांत वाड केल्ली. शेतकामत्यांनी पयलीं मुंबयच्या कौंसिलांत आवाज उठयलो, कांयच जालें ना तेन्ना ते गांधीं सरीं गेले आनी गांधींनी बारडोली वल्लभभाईच्या हातांत दिली. फेब्रुवारींत सुरू जाल्लो सत्याग्रह ऑगस्ट मेरेन चल्लो. आनी सगळ्या आंगांनी जैतवंत जालो तेन्ना गांधींनी म्हळें, 'अहिंसेचे शिस्तींत रावन सत्याग्रह चलत जाल्यार ताका जैत मेळटाच मेळटा हें बारडोलीन दाखोवन दिलां आनी जें बारडोलींत घडूं येता तें

देशांत खंयूय घडूं येता हें आतां स्पस्ट जालां... मातसो धीर धरात. स्वराज्य आतां पयस ना.'

ते मेरेन काँग्रेस 'डोमीनियन स्टेटस'च्या रुपाचेंच स्वराज्य मागीत आयिल्ली. पुणून काँग्रेसींत हालींसराक जवाहरलाल, सुभाषबाबू सारकेल्यांचें एक नवें, सळसळट्या रगताचें नेतृत्व वयर सरिल्लें. तें इंग्रजां कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लें 'पूर्ण स्वराज्य' मागपाक लागिल्लें. गांधींक हें जवाहरलाल - सुभाषबाबूंचें हुतहुतेपण मानूंक नाशिल्लें. पुणून तांकां हाता भायर वचूंक दिवपाचें नाशिल्लें. तांणी म्हळें, '३१ डिसेंबर १९२९ मेरेन सरकारान 'डोमीनियन स्टेटस'च्या स्वरुपाचें स्वराज्य दिलेंना जाल्यार 'पूर्ण स्वराज्य' मागपाक आमी मेकळे जावया. हांव काँग्रेसीक आमचे वटेन हाडटां...'

काँग्रेस मागता तें सरकार दिवपाचें नाशिल्लें आनी मागिल्लें घेवपाक काँग्रेसीच्या ह्या तरणाट्या नेतृत्वान आपणाक उतरांनी बांदून घेतिल्लें.

देशांत झों झों करून चळवळीचें वारें व्हांवपाक लागलें. तें व्हांवपाक लागतालें तेन्ना आपणाक तरणाटें, उग्र म्हणोवन घेवपी नेतृत्व लेगीत गांधींच्याच तोंडा कडेन पळेत रावतालें. चळवळ चलोवपाची तांक फकत तांच्यांतूच आशिल्ली.

गांधींनी रोखडीच देशभर भोंवडी सुरू केली. लोकांचीं काळजां पेटयत ते भोंवले. ३१ डिसेंबर १९२९ ह्या दिसा लाहोर शारांत काँग्रेसीचें अधिवेशन भरलें. अध्यक्ष जवाहरलाल आशिल्ले. तांणी आपणाल्या उलोवपांत 'पूर्ण स्वराज्या'ची घोशणा केली आनी चळवळ सुरू करपाचे सगळे अधिकार तांणी आपणाले महासमितीक दिले. गांधींच्या हातांत चळवळीचीं सुत्रां दिलीं. पयलें पावल म्हूण तांणी देशा मुखार एक कार्यक्रम दवरलो. २६ जानेवारी १९३० ह्या दिसा देशान सगळे कडेन 'पूर्ण स्वराज्यदिन' म्हण मनोवचो, आनी 'इंग्रजांची राजवट सोंसून घेवप हो मनीस आनी देव दोगांय आड गुन्यांव जाता... जे मेरेन हिन्दुस्तान पूर्ण स्वतंत्र जायना ते मेरेन आमी कोण सस्थ बसपाचे नात' असो सोपूत घेवचो अशें सांगलें. ते प्रमाण पुराय देशांत, गांवागांवांनी, लोकांनी तिरंगो झेंडो फडफडायलो आनी सोपूत घेतलो. पुराय देशाक त्या दिसा जसो कितें भार आयिल्लो.

देश उचांबळीत जावन आयलो.

अवचीत एक दीस गांधींनी जाहीर केलेंह्न 'हे खेपे हांव मिठाचो कायदो

मोडटलों.'

सगळ्यांक अजापांचो धसको बसलो. 'मिठाचो कायदो? ताचो आनी स्वराज्याचो संबंद कितें? म्हातारपणांत हो मनीस तोतेवंक बी ना मूं? व्हायसरॉयाक तर पोट फुटसर हांसोय आयलो. पुणून गांधी ते! मिठाचो प्रस्न हातांत घेवनूच आपूण देशांत क्षात्रतेज जागोवंक पावतलों म्हणपाचो तांकां पूर्ण आत्मविश्वास आशिल्लो. १८ मार्चाक ते आपणाल्या एकूणअंयशीं आश्रमी सांगात्यांक घेवन भायर सरले. साबरमती सावन ३८५ कि.मि.चे वाटेर दांडी नांवाचो एक गांव येता. थंयचे दर्यावेळेर मिठाचो कायदो आपूण मोडटलों अशें तांणी जाहीर केलें. दांडी मेरेन चलतूच वचप अशें थारायलें. चोवीस दीस लागपाचे आशिल्ले. 'स्वराज्य मेळसर आपूण आश्रमांत परतो पांय दवरपाचों ना' असो सोपूत घेवन भायर सरले. पावला कणकणी क्रांतीच्यो किटी उसळायत चलत रावले. सद्दां सांजचे प्रार्थने उपरांत तांणी एक ल्हानशें प्रवचन करचें. केन्ना सांगचें, 'इंग्रज आमच्या देशाक आपणाली एक बाजारपेठ लेखतात. साठ क्रोट रुपयांचें लुगट हाडून हांगा विकतात. तुमी सगळे खादी घालूंक लागात. तांचे आशेचें सपन भंगतलें.' केन्ना म्हणचें, 'इंग्रजांनी सोऱ्याचेर कर बसयला. ताच्या उत्पन्नांतल्यान ते आपणालें हांगासल्लें सैन्य पोसतात... तुमी सोरो पियेवचे नात म्हूण सोपूत घेयात. तांगेलो सैनिकी विळखो सदळ जातलो.'

देशाक त्यागाची, बलिदानाची, तेजस्वितायेची, धिटायेची देख दीत ते चलत रावले. सरकारान सुरवेक तांचीं फकांडां मारिल्लीं. पुणून जेन्ना गांधी दांडी लागसार पावले तेन्ना सरकार भियेलें. गोंदळ्ळें. कितें करचें, कितें न्हय, ह्या घुटमळ्यांत पडलें. चल्लां तें फकत पळेत रावलें. चोवीस दीस पांयांनी चलत पांच एप्रीलाक गांधी दांडीक पावले तेन्ना तांचे भोंवतणीं आश्रमांतले फकत एकुणअंयशीं सांगाती उरूंक नाशिल्ले. हजारांनी जमिल्ले. दांडीक पावतकूच दुसऱ्या दिसा सकाळीं प्रार्थना करून ते वेळेर गेले. न्हाले, वेळे वयलें इल्लें मीठ चिमटेंत घेवन मूठ वयर करून तांणी देशाक सांगलें, 'मिठाचो कायदो हांवें मोडलो. आतां अख्ख्या राष्ट्रान तो मोडचो.' आनी लोकांक एक शिटकावणीय दिली ह्न 'एक लक्षांत दवरात, तुमचे मुठींतल्या चिमटीभर मिठांत देशाची सगळी प्रतिष्ठा एकठावल्या, मूठ मोडल्यार मोडूं पुणून चिमटेंतलें मीठ सरकारा हातांत पडूंक दिवं नाकात...'

अखखो देश विद्रोहान भुरूक् करून पेटलो. सरकारूय तितल्याच नेटान उसळ्ळें. विद्रोह मोडून उडयतलेंच म्हूण पेटलें. लोकांक तोणक्यांनी बडोवन रक्तबंबाळ करपाक लागलें. धरून व्हरून बंदखणींत दवरपाक लागलें. लोकांनी सगळ्यो आगळिको सोंसल्यो. पुणून कोणेंच चिमटेंतलें मीठ पुलिसांच्या हातांत पडूंक दिलें ना. एका म्हयन्या भितर सरकारान एक लाखांक बंदखणींत घाले. त्रीस लाख लोकांक धरून सोडले. ताचेकूय दुपेटीन लोकांक तोणक्यांनी बडयले. रक्तबंबाळ केले.

वॅब मिलर नांवाचो एक पत्रकार सत्याग्रह पळोवपा खातीर मुजरत इंग्लंडाकसून आयिल्लो. येदो व्हडलो अत्याचार सरकारान चलयल्लो आसतना एकलोय ताचेर हात उबारिना हें पळोवन ताच्या आंगार कांटो फुलून आयिल्लो. तो म्हणटा, गांधीचे अहिंसेक लागून इंग्लंड दुबळें पडिल्लें आनी हिन्दुस्तान अजेय ह्व जिखूंक येवचें ना असलें ह्व जाल्लें. स्वराज्य खूब खूब लागीं आयिल्लें.

चंद्र सूर्य आसासर रामायण गावन दाखोवचें तशें दांडीयात्रा हें गावन दाखोवपाचें महात्मायन जालां.

('जाग', जुलय २००५)



३२.

# आमळें वेमळें नातें एक

'तुज्या खर्चाची वेवस्था करूंक मेळ्ळी जाल्यार करूं मूं? जोड जाता असलें कसलेंय काम तुवें हातांत कित्याक घेवचें न्हय? घरचो खर्च बापूय करता जालो तरूय तुज्या कश्टाची जोड तुजे कडेन आसूंक जाय. खंयच्याय एका दिसाळ्याचो प्रतिनिधी म्हूण काम करशीत व्हय? वा खंयूय प्रोफसोरकी बी?'

ही चीट कोणें कोणाक बरयल्याशी दिसता? सांगल्यार अजाप जातलें, महात्मा गांधींनी जवाहरलालांक बरयल्ली चीट ही. १५ सप्टेंबर १९२४ ह्या दिसा. जवाहरलाल काँग्रेसीचे पूर्णवेळ कार्यकर्ते आशिल्ले. बापाय कडल्यान खर्चा खातीर पयशे घेवचे पडटात हें तांकां खातालें. तांणी आपणाली ही अडचण गांधीजीं मुखार दवरिल्ली. ताची ही जाप ( *'अ बंच ऑफ ओल्ड लॅटर्स'*, पान ४६). जवाहरलालांक खंयच्याय खबरेपत्राचे प्रतिनिधी म्हूण काम करचें पडलें ना, आनी प्रोफसोरकीय करची पडली ना ही गजाल वेगळी. कित्याक, नियतीनूच तांची वेवस्था केल्ली. तांगेलीं पुस्तकां एका फाटल्यान एक उजवाडा येत रावलीं आनी तांचे रॉयल्टीन

तांचो खर्च सुटपाक लागलो. *'योगक्षेम वहाम्यहम्'.*

गांधीजी आनी जवाहरलाल, दोगांयचेंय नातें आगळें-वेगळें आशिल्लें. बापूय पुता सारकें. जवाहरलालांक गांधींचे सगळेच विचार मान्य नाशिल्ले. केन्ना केन्ना ते गांधीजींचो खर विरोधूय करताले. पुणून हें नाजूक नातें ते केन्ना तुटूंक दिनाशिल्ले.

गांधी केन्ना केन्ना तांचे कानूय पिळटाले.

१९२७त मद्रासाक काँग्रेसीचें अधिवेशन भरिल्लें. डॉ. अन्सारी अध्यक्ष आशिल्ले. जवाहरलाल युरोपाचे भोंवडेर गेल्ले. रशियेंतूय भोंवन आयिल्ले. साम्यवादी पक्षान रशियेंत केल्लो वावर पळोवन सुमारा भायर प्रभावीत जाल्ले. उत्साहान ते काँग्रेसींतूय 'क्रांती घडोवन हाडपाक' सोदूंक लागले. युरोपाचे भोंवडेंतल्यान परतना फुडें ते नीट मद्रासाक काँग्रेसीच्या अधिवेशनाक गेले. काँग्रेसींतले तरणाटे सगळे तांचे फाटल्यान आशिल्ले. जवाहरलालांच्या प्रभावान काँग्रेसीन त्या अधिवेशनांत दोन म्हत्वाचे थाराव पास केले. तांतलो काँग्रेसीचें ध्येय 'पूर्ण स्वराज्य' आसतलें हो एक, आनी दुसरो, स्वतंत्र भारताची घटना घडोवपा खातीर एक सर्वपक्षीय परिशद आपोवची हो आशिल्लो. गांधीजींक दोनूय मात पसून आवडूंक नाशिल्ले. 'यंग इंडियां'त गांधीजींनी 'पूर्ण स्वराज्या'च्या थारावाची कडक टिका केल्ली. तांणी म्हळ्ळें ह्न

> 'हे थाराव चलणुकेंत हाडूंक येवपाचे नात म्हणपाचें काँग्रेस बेस बरी जाणा. तरी आसतना ती असले थाराव पास करता आनी हांशाक म्हारग जाता. असल्या थारावांतल्यान आमचें दुबळेपणूच उकतें जाता... सारकें येवजी नासतना असले थाराव पास केले आनी ते कागदारूच उरले जाल्यार काँग्रेसीचो धेंक इतलीं वर्सां चलतालो तो ना जातलो... शाळेंतल्या डिबेटींग सोसायटीच्या पांवड्यार आमी पावल्यात अशें म्हणचें पडटा...' ( *'महात्मा'*, खंड ६, पान ४०२.)

ही टिका वाचून जवाहरलाल तिडकीन उसळ्ळे आनी तांणी गांधीजींक एक चीट बरयली ह्न मर्यादा सोडून. गांधीजींनी ती वाचून पिंदून उडयली आनी तांकां ४ जानेवारी १९२८ दिसा जाप धाडली ह्न

> 'म्हजे वयलो तुजो मोग हांव जाणां. म्हण हांव जें आतां बरोवपाचो आसां तें वाचून तुका वायट दिसचें ना अशें धरतां... तूं खूब हुतहुतेपण करता.सारकें येवजुपा खातीर आनी हांगासल्ली परिस्थिती सारकी समजून

घेवपा खातीर तुवें थोडो वेळ घेवंक जाय आशिल्लो. तुवें बरोवन काडिल्ले आनी पास करून घेतिल्ले थाराव एक वर्स फुडें धुकलूं येताले. स्पेनांतल्या आंतरझुजांत प्रजासत्ताक सैन्यांत तुवें उडी घेतली हेंवूय तुजें पावल हुतहुतेपणाचेंच आशिल्लें. पुणून हाचो म्हाका तितलो हुसको जायना जितलो तूं मवाल्यांक आनी गुंडांक मुखार काडून तांचे कडल्यान कामां घेता हाचो जाता. निर्भेळ अहिंसा तूं मानता काय मानिना, म्हाका खबर ना. तुजे विचार बदलिल्ले आसत जाल्यारूय निरंकूश हिंसेन देश मेकळो करूंक येतलो अशें तूं मानचो ना, अशें हांव समजतां. युरोपांतल्या तुज्या अणभवांच्या संदर्भांत देशाचे परिस्थितीची बारकायेन नियाळणी करून आयची नीत-रीत आनी साधनां चुकल्यांत अशें दिसता जाल्यार तुजे विचार खातरीन चलणुकेंत हाड. पुणून उपकार करून शिस्तीचो पक्ष बांदून काड. खंयचेय चळवळींत शिस्तीच्या मनशांचीच गरज आसता... साधनांच्या मळार तूं बेदरकार जाला असो म्हजो समज जाला... तूं आतां कॉंग्रेसीचो सेक्रेटरी जाला. तुवें पास करून घेतिल्ले सगळे थाराव चलणुकेंत हाडून दाखोवप ही तुजी आतां लागणूक थारता हें विसरूं नाका...' ( *'अ बंच ऑफ ओल्ड लॅटर्स'*, पान ६४.)

गांधीजींचे हे चिटीक जवाहरलालांनी रोखडीच जाप बरयली, तिवूय मर्यादा सोडून. तातूंत 'तुमचे थारावां वयले टिकेन हांव अस्वस्थ जालां खरो, पुणून तुमकां उगडास करून दितां, तुमी कॉंग्रेस वर्किंग कमिटीचे एक वांगडी. कॉंग्रेसीच्या थारावांची टिका करपाचो तुमकां अधिकार ना... ते भायर, एकान एक कॉंग्रेसी वांगड्याचे हाजेरींत, भरपूर भासाभास केले उपरांतूच थाराव पास जाल्यात' हें सांगून तांणी म्हळ्ळें ह्व

'तुमकां खबर आसा, देशाक जैता कडेन आनी स्वतंत्रताये कडेन व्हरपी एक फुडारी ह्या रुपान हांव तुमचेर भावार्त दवरून चलत आयलां. *हिन्द स्वराज्या* सारकेल्या पुस्तकांत मांडिल्ल्या तुमच्या विचारांक हांव मानिना आसतनाय हांवें तुमकां मानल्यात... हेर खंयचेय गजाली परस म्हाका कृतिशीलतेची, निर्भयतेची आनी साहसाची ओड चड. हे गूण हांवें तुमच्यांत सामान्या भायल्या प्रमाणांत पळेल्यात. म्हूण म्हाका सदांच दिसत आयलां, तुमच्या विचारां कडेन हांव सहमत जालों ना तरूय तुमचें सामान्यां

भायलें व्हड व्यक्तित्व आनी तुमच्यांतले हे गूण आमकां आमच्या ध्येया कडेन घेवन वतले. असहकाराच्या काळांत तुमी देशांत सगळ्यां परस वयले सुवातेर पाविल्ले... पुणून बंदखणींतल्यान सुटून येत पसून तुमचें कितेंय तरी गडबडलां अशें दिसता. 'हे मुखार कितें करपाचें मनांत आसा' हो प्रस्न हांवें तुमकां कितलेशे खेपे विचारला तेन्ना तुमचे कडल्यान ज्यो जापो मेळ्ळ्यात त्यो संतोस दिवपी आशिल्ल्यो अशें म्हणूंक येवचें ना. आपूण खादीची चळवळ वर्स देड वर्सांत खूब प्रमाणांत वाडयतलों, ते उपरांतूच राजकी मळार कसलेंय पावल उखलूंक पावतलों अशेंय तुमी सांगलां. उपरांत कितलींशीं देड वर्सां घेवन गेलीं, खंयचे कडेन कसलोच चमत्कार जाल्लो पळोवंक मेळ्ळो ना. पुणून अशक्य शक्य करून दाखोवपाचे तुमच्यांतले अजापभरीत शक्तींत भावार्त आशिल्ल्यान आमी आशेन तुमचे कडेन पळेत रावले... देशांत सगळेच खादी घालूंक लागतले ते मेरेन स्वतंत्रतायेची वाट पळेत बसले जाल्यार अनंत काळा मेरेन वाट पळेत बसपाचें आमच्या वांट्याक येतलें. हाचे पयलीं हांवें तुमकां जायते खेपे सांगलां, खादीकार्याचो राजकर्णा कडेन कसलोच संबंध ना. तुमी खादी कार्यांत पडिल्ल्या लोकांचें मनूय अशें करून उडयल्यां की ते आपणाल्या वावरा भायर आपणाक कितेंच लावन घेनात... मागीर, कितें करपाचें? तुमी कितेंच सांगिनात... 'यंग इंडियां'तलीं तुमचीं बरपां, तुमची आत्मकथा बी वाचतकूच म्हजे आदर्श तुमच्या आदर्शां पसून कितलेशे वेगळे म्हणपाचें म्हाका स्पस्ट दिसूंक लागलां... *टुवर्डस् मॉरल बँकरप्सी* नांवाच्या पुस्तकाच्या आधारान बरयल्ली तुमची लेखांमाळ वाचुनूय म्हाका दिसलां, तुमी युरोपाचे संस्कृताये विशीं चुकीचो समज करून घेतला. 'युरोपा कडल्यान हिन्दुस्तानान घेवपा सारकें कांयच ना.' ह्या तुमच्या मत्ता कडेन हांव मातूय सहमत ना. पुर्विल्लें 'रामराज्य' खूब बरें आशिल्लें अशें हांव मानिना. तें परतें आयिल्लें म्हाका नाका. येवरोपेव संस्कृताय, वा म्हणुया उद्योगीक संस्कृताय, हिन्दुस्तानांत आयले बगर रावपाची ना. कांय बदल जावन येवं मागीर ती. पुणून ती उद्योगवादाचेरूच उबी आसतली... तुमी उद्योगवादाचे जे अवगूण दाखयतात ते उद्योगवादाचे न्हय, भांडवलशायेचेच अवगूण ते... भांडवलशाय जें शोशण करता ताचे आड तुमी एक उतर लेगीत काडिनात...' (आचार्य कृपालानी, *आत्मकथा*, पानां

१६६, १६७.)

ही चीट वाचून गांधीजींनी तांकां जाप धाडली ती थोड्या उतरां भितर अशी आशिल्लीह्न

'आमचे दोगांयचे नदरेंत फरक आसा म्हणपाचें हांव जाणां आशिल्लों. पुणून तो इतलो व्हड आसत अशें हांवें केन्ना मानूंक नाशिल्लें. देशाच्या बऱ्या भल्या खातीर तूं आपणाक चिड्डून म्हज्या हाता खाला वावरूंक लागलो तेन्ना भितल्ले भितर वयर सकल जायत राविल्लो... तुका म्हजे पसून मेकळो हांव आयजूच करूंक तयार आसां. पुणून हेंवूय सांगून दवरतां, तुका म्हजे आड बंड करचें पडटलें. कित्याक, हांव चुकतां आसन जाल्यार म्हजे कडल्यान देशाचें खूब लुकसान जातलें हें खबर आसतना म्हजे आड बंड करप तुजी लागणूक थरता. तुजे सारक्या एका धीट, निष्ठावंत, कार्यकुशळ, प्रामाणीक सांगात्याक होगडावचो पडटा ही म्हजी खंत मात हांव तुजे पसून लिपोवन दवरिना... तूं म्हजे पसून पयस गेलो जाल्यारूय लक्षांत दवर, आमच्या वैयक्तीक संबंदांत कसलोच बदल जावचो ना. (*अ बंच ऑफ ओल्ड लॅटर्स,* पान ५७.)

ही चीट वाचून जवाहरलालांक वायट दिसलें. तांणी २३ जानेवारी १९२८ ह्या दिसा गांधीजींक जाप बरयली, कितल्याश्या पानांची, आपलीं मत्तां फाटीं घेनासतना, 'तुमचे आड बंड करपाचें म्हज्या मनांत केन्ना येवचें ना' सांगून.

फकत १९२८तूच जवाहरलालांनी आपणाले गांधीजीं कडेन आशिल्ले मतभेद उकते केल्ले अशें न्हय. उपरांतच्या काळांतूय तांणी ते उकते केल्यात. एक खेपे न्हय, कितलेशे खेपे केल्यात. तरी आसतना जवाहरलालांनी गांधीजींक केन्ना अंतर दिलें ना. गांधीजीय म्हणटाले, 'आयज जवाहरलालांचीं मत्तां वेगळीं आसूंत, म्हजे फाटल्यान ते म्हजीच भास उलयतले.'

स्वतंत्रतायेच्या झुजांत खर मतभेद आसुनूय दोगूय एकठांय राविल्ले. एकाच ध्येयान प्रेरीत जाल्ल्या रासवळ मळा वयल्या वावुरप्यांनी एकामेकां कडेन कशें चलचें ही देख घेवपा सारकें हें दोगांय मजगतचें आगळें वेगळें नातें.

('जाग', मे २००१)



## ३३.

# आचार्य कृपालानी

केदे केदे व्हड मनीस पळेले आमी गांधीयुगांत! जवाहरलाल, वल्लभभाई, राजाजी, राजेन्द्रबाबू, सुभाषबाबू, बादशाह खान... एका फुडले एक, उत्तूंग व्यक्तित्वांचे.

आचार्य कृपालानीय हेच पंगतींतले.

बाकीच्या सगळ्यांक तांचे वाटार आशिल्ले. तांचे तांचे प्रदेश आशिल्ले. कोणाचो उत्तर प्रदेश, कोणाचो गुजरात, कोणाचो बिहार, कृपालानींक तांगेलो खाशेलो असो प्रदेशूच नाशिल्लो. जल्मान ते सिंधी. शिकपा खातीर मुंबय पुण्याक गेले आनी महाराष्ट्रीय जाले. शिकोवपा खातीर बिहारांत गेले आनी बिहारी जाले. गांधींची भेट जातकूच गुजरातांत गेले आनी गुजराती जाले. स वर्सां तांणी गुजरात विद्यापीठ चलयलें. ते 'आचार्य' थंयच जाल्यात. उपरांत खादीचें काम आंगार घेतलें, उत्तर प्रदेशांतल्या मेरठ शारांत तांणी एक आश्रम काडलो आनी खादीचें जाळ उत्तर प्रदेशांतल्या गांवागांवांनी विणून काडलें. काँग्रेसीचे सेक्रेटरी म्हूण बारा वर्सां तांणी अलाहाबादेक

रावन देशाची सेवा केल्या. निमाणें, जांवय बंगालाचे जाले. भारतीय आकाराचे ह्व प्रांत ना, भास ना, जात ना, संप्रदाय ना असले ह्व जे थोडेच नेते देशाक मेळिल्ले तांच्यांतले कृपालानी एक आशिल्ले.

तांकां हांवें पयलेच पळेले ते ए.आय.सी.सी.च्या एका अधिवेशनांत. १९४५तली खबर ही. बेचाळिसाचे चळवळींत पडिल्ल्या कॉंग्रेसीच्या फुडाऱ्यांक सोडून 'जालें तें जालें... एकामेकांच्यो चुकी आमी आतां पोटांत घालपाच्यो आनी एकामेकांक माफ करपाचे' अशी forget and forgive ची भुमिका घेवन व्हायसरॉयान देशाचो नवो फुडार थारावपा खातीर सगळ्यांक सिमल्याक आपोवन व्हेल्ले. थंयच्यान निर्शेवन आनी 'आनीक एक मोटी चळवळ केले बगर इंग्रज वचपाचे नात' हो निर्णय घेवन ते मुंबयंत आयिल्ले. मुंबयंत ज्या मैदाना वयल्यान तांणी इंग्रजांक 'Quit India' म्हूण निमाणी 'नोटीस' दिल्ली त्याच मैदानार हें अधिवेशन भरिल्लें.

हांव पणजेच्या 'उ येराल्दा'चो प्रतिनिधी ह्या नात्यान अधिवेशनाक गेल्लों. तेत्तिसूय कोटी देव एकेच कडेन एकठांय जाल्ले वरी म्हाका त्या दिसा दिशिल्लें. सगळ्यांचीं उलोवपां गुल्ल जावन आयकलीं. कृपालानींचें आयकलें तेन्ना सामको पिसो जालों. ते पयलीं तांचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें. ते जवाहरलालां सारके देखणे नाशिल्ले. तांच्या व्यक्तित्वांत मौलानां सारको धेंकूय नाशिल्लो. पुणून तांच्यांत अशें कितें तरी आशिल्लें की जें कोणाचेंय लक्ष ओडून घेतालें. बारीक एकशिवडी ऊंच कूड, लांबसार तोंड, घोणीचे चोंची सारकें नाक, रुंद कपळ, मानेर केंस आनी तीख, वर्मार बसऽ सारके थोमणे मारून, चिमटे काडून, मदीं मदीं सणकुटेर फुलोवन केल्लें उलोवप आयकून म्हाका खातकुतल्यो जाल्ल्यो. तांणी व्हायसरॉयाच्या forget and forgive चेर हल्लो चडयल्लो. कसले कसले अन्याय आमी विसरले, कसल्यो कसल्यो आगळिको माफ केल्यो हाची एक लांब वळेरी दिवन निमाणें 'they forget everything except their interests' म्हळें तेन्ना ताळयांच्या गजरांत पुराय अधिवेशन गाजिल्लें.

त्याच खिणाक हांव कृपालानींचो भक्त जालां. ते उपरांत खंयूय आसूं, दिल्लींत आसूं वा मुंबयंत, कृपालानी खंयूय उलोवपाचे आसात म्हूण कळ्ळां तेन्ना तें आयकुपाक चुकनासतना गेलां. कितलींशीं उलोवपां रुचीन आयकल्यांत. 'वक्त्या' विशींचो जो आमचो समज आसा तशे वक्ते ते नाशिल्ले. पुणून तांचे

कडेन 'सांगपा सारकें' कितेंय तरी सदांच आसतालें. म्हूण, जें सांगताले तें नीट भितर वतालें.

ताचें एक उलोवप घट लक्षांत उरलां.

गांधींच्या बलिदाना उपरांत युनेस्कोन गांधींच्या योगदानाचेर दिल्लींत एक परिसंवाद आयोजीत केल्लो. संवसारांतल्या वेंचीक विद्वानांक आमंत्रणां धाडून आपयल्ले. सगळ्यांनी आपापले 'पेपर' हाडून वाचले. कृपालानींच्या हातांत पेपर नाशिल्लो. आपणाक पेपर बरोवन वाचपाची संवय ना, आनी आयज हांगा जमल्यात तसल्या विद्वानां मुखार उलोवपाचीय संवय ना. पुणून सुमार तीन दसकां वयर आपणें गांधींच्या हाता खाला काम केलां अशी प्रस्तावना करून तांचें जें उलोवप सुरू जालें तें पाऊण वर मात लेगीत आडखळऽ नासतना चल्लें. भार आयिल्ले वरी ते उलयल्ले. ब्राझीलांतली कवयित्री सेसीलिया मेरॅलिश् तर तांगेलें हें उलोवप आयकून सामकी तांच्या 'मोगांत पडची' अशी पिशी जाल्ली. तांचे फाटल्या फाटल्यान भोंवताली.

१९८८ वर्स खूब जाणांचें जल्म शताब्दी वर्स आशिल्लें. जवाहरलाल, मौलाना, जमनालाल बजाज ह्या सगळ्यांचे सुवाळे सरकारान केले, कृपालानींचेंय तें जल्म शताब्दी वर्स आशिल्लें. राजीव गांधींक कोणें उगडास करून दिलो तेन्ना 'आमचे कडेन पयशे नात' म्हूण तांणी जाप दिली. राजीव गांधींक कृपालानी आपले दिसले नात. (घडये ते कोण आशिल्ले हें तांकां खबरूय नासुये.) खरेपणानशीं कृपालानींचें पुराय आयुश्य कॉँग्रेसींत गेल्लें. कॉँग्रेसीन जितल्योय चळवळी चलयल्ल्यो तितल्याय चळवळींनी तांणी वांटो घेतला आनी बंदखण भोगल्या. बारा वर्सां तांणी कॉँग्रेसीचे सेक्रेटरी म्हूण काम केलां. आनी दोन खेपे तर ते कॉँग्रेसीचे अध्यक्षूय जाल्यात. सत्तांतरा वेळार जवाहरलाल, वल्लभभाई वांगडा व्हायसरॉया कडेन उलोवणीं करपाकूय ते गेल्यात. इतलेंय आसून राजीव गांधींक कृपालानींचें कितेंच लागलें ना!

कृपालानीं कडल्यान एकूच चूक घडली ती म्हळ्यार, स्वराज्यांत तांकां एकाय मनशा कडेन जुळोवन घेवंक आयलें ना. आयिल्लें जाल्यार खंयचे खंय पावतले आशिल्ले. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'कम से कम गव्हर्नर तो बन ही जाते.' पुणून कृपालानी कोणेंय कितेंय 'दिल्लें' घेवपी नाशिल्ले. जवाहरलालांनी तांकां तीन खेपे मंत्रीमंडळांत आपयल्ले. कृपालानी वचूंक तयार

जाले नात. तांणी पद्मभूषण, पद्मविभूषण, भारतरत्न असली कसलीच पदवीय घेतली ना. (हरशीं भारतरत्नाच्याच पांवड्याचे ते.) आयुष्यांत एकूच पदवी घेतली ती 'आचार्या'ची. तिवूय गांधींनी दिल्ली म्हूण घेतिल्ली. हेर खंयचेच पदवेचें तांकां मोल नाशिल्लें. काकासाहेब कालेलकरांक राष्ट्रपतींनी 'पद्मविभूषण' पदवी दिली आनी काकासाहेबांनी ती घेतली म्हणपाचें आयकलें तेन्ना कृपालानींक आकांताची तिडक मारिल्ली. 'तुमी ही पदवी घेतलीच कशी, परती करात ती... सरकाराची खुशामत करतल्यांकूच असल्यो पदव्यो मेळटात' अशें म्हणून ते काकासाहेबां कडेन वरभर झगडिल्ले हांवें पळेल्यात. कृपालानींक सरकारी पदव्यांचो आशिल्लो तसो लटक्या गाज गडगडाटाचोय अबको आशिल्लो. राजेन्बाबू राष्ट्रपती जावन 'व्हायसरीगल लॉजां'त (आयज ताका आमी 'राष्ट्रपती भवन' म्हणटात) वचून रावपाक लागले तेन्ना कृपालानींनी राजेन्बाबूंचीं वर्मार बसचीं अशे तरेचीं फकाणां (तांच्याच तोंडार) मारिल्लीं. 'तुमी व्हायसरीगल लॉजांत आनी खादी व्हायट वे लॅंडलाँत पाविल्ली पळोवन बापूंचो आत्मो शांत जाला जातलो' अशें म्हळ्ळें. तेन्ना राजेन्बाबूंची कितलेशे दीस न्हीद खळिल्ली.

राजेन्बाबूंचीं हे भाशेन फकाणां मारपाचो धीर फकत कृपालानींकूच जावं येतालो. कित्याक, राजेन्बाबूं संबंदान तांकां सुमारा भायर आदर आशिल्लो.

गांधीं सरीं बुदवंत, तेजिश्ट आनी कर्तुत्वी अशे कांय जाण पाविल्ले. तांच्यांतले कृपालानी एक आशिल्ले. गांधी विचाराच्या पांच सात व्हड भाष्यकारां मदलेय ते एक आशिल्ले. *द गांधीयन वे* (उपरांतचें *द गांधीयन थॉट), पॉलिटिक्स ऑफ चरखा, द लेटेस्ट फॅड ह्व बेझिक एज्युकेशन* हीं तांचीं ह्या विशया वेलीं गाजिल्लीं कांय पुस्तकां. तांणी गांधींचें एक जिवितूय बरयलां. ह्या सगळ्या पुस्तकां मजगतचीं *द क्लास वॉर* आनी *गांधी: द स्टेट्समन* हीं दोन माणकुलीं पुस्तकां मुजरत वाचपा सारकीं. मार्क्साचो वर्गसंघर्शाचो विचार कितलो 'अशास्त्रीय' हें तांणी पयल्या पुस्तकांत विकसावन सांगलां, तर दुसऱ्या पुस्तकांत गांधींक महात्मा करून आनी तांकां मनशांतले काडून देवांचे पंगतीक बसोवन आमी तांचेर केदो व्हड अन्याय केला आनी खासा आमचेंच कितलें लुकसान करून घेतलां तें सांगलां. तांगेलें खंयचेंय पुस्तक हातांत घेतलें आनी तें कोणें बरयलां तें आमकां खबर नासलें जाल्यारूय पुस्तकांतलीं एक दोन वाक्यां वाचिना फुडेंच 'हें कृपालानींचें पुस्तक आसूंक जाय' म्हणपाचें कळपाक वेळ लागना. तांचे शैलींतूच अशें कितें

तरी एक आगळेवेगळेपण आसा जें तांकां हेरां पसून वेगळे काडटा. 'बेझिक एज्युकेशना' वयल्या पुस्तकाक तांणीच नांव दिलां 'द लेटेस्ट फॅड' म्हूण ह्या नवें 'कोल्ल' म्हूण. गांधींचीं सगळीं 'फॅडां'च आशिल्लीं म्हणटल्यांक सणसणीत जाप ही तांगेली. गांधी सारकेले 'कोल्ली' लोकूच संवसारांत कितेंय तरी नवें घडोवन हाडूंक पावल्यात अशें म्हळां. शिक्षणाच्या मळा वयलें गांधींचें हें फॅड (कोल्ल) देशान आपलेंशें केलें जाल्यार आयची पुराय शिक्षण-पद्दत कोंसळावन उडोवपी थरतलें आनी तेंच ह्या देशांत एक नवो मनीस निर्माण करतलें म्हणपाचें तांणी ह्या पुस्तकांत चिमटे काडून, कुटल्यो मारून दाखोवन दिलां.

दक्षीण आफ्रिकेंतलो वावर पूर्ण करून गांधी मायदेशांत परतले तेन्ना तांकां जे पयले वयले कांय सांगाती मेळ्ळे तांच्यांत कृपालानी एक आशिल्ले. कृपालानी त्या वेळार बिहारांतल्या मुझफ्फरपूर कॉलेजांत इतिहास शिकयताले आनी तांगेले जिवाभावाचे इश्ट काकासाहेब कालेलकर रवीन्द्रनाथांच्या शान्तिनिकेतनांत संस्कृत शिकयताले. गांधी मायदेशांत पावना फुडें शान्तिनिकेतनांत गेल्ले. तांकां मेळ्ळे उपरांत, तांचे सरीं बसून खूब भासाभास केले उपरांत काकासाहेबांनी कृपालानींक एक चीट बरयली. तुर्ताक हांगा शान्तिनिकेतनांत एक 'विक्षिप्त' फुडारी येवन रावला. तो अहिंसेनूच देशाक स्वराज्य मेळटलें म्हणटा... रोखड्या रोखडो यो.' कृपालानींनी ते आदीं देशांतल्या सगळ्या फुडाऱ्यांची 'परिक्षा' घेतिल्ली आनी कोण केदे तें तर्जून पळेल्लें. ह्याय फुडाऱ्याची 'परिक्षा घेवपाक' ते शान्तिनिकेतनांत आयले. कृपालानी म्हणटात, आठ दीस हांवें तांकां आडवे तिडवे तरातरांचे प्रस्न विचारून तांची परिक्षा घेतली. तांच्यो जापो आयकून म्हजें समाधान जालें ना. पुणून एक जाणवीक जाली, हो जे वाटे वयल्यान चलता तीच वाट खरी म्हणपाची ताका खातरी पटिल्ली आसत जाल्यार धाय दिको कोंसळून पडूं, तो आपणाली वाट सोडपाचो ना. एकलोच ते वाटे वयल्यान चलत रावतलो... आनी देशाक स्वराज्य जोडून दिल्यार होच दितलो अशें दिसपाक लागलें. गांधींचें व्हडपण आनीक एका प्रसंगांतल्यान कृपालानींक दिसून आयलें. ते म्हणटात, 'हांवें तांकां म्हळें, तुमी अहिंसेन स्वराज्य येतलें म्हणटात, तुमकां घडये खबर नासतली ह्या हांव इतिहासाचो एक प्राध्यापक. आयज मेरेनच्या संवसाराच्या इतिहासांत खंयच्याय देशाक अहिंसेन स्वराज्य मेळिल्ल्याचो एक लेगीत दाखलो म्हाका मेळूंक ना. गांधींनी म्हाका जी जाप दिली, तिवूय भोवच नमळायेन, पुणून जबर

आत्मविस्वासान, ती आयकून हांव सामकोच शेळेलों. तांणी म्हळें, तुमी इतिहास शिकोवपी प्राध्यापक, हांव इतिहास घडोवपी मनीस. अहिंसेन कोणाक स्वराज्य मेळूंक ना, हांव जाणां. हिन्दुस्तानाक मेळटकूच अहिंसेन मेळू येता म्हणपाचें तुमकां शिकोवचें पडटलें...'

हे एकेच जापेन कृपालानी गांधींचे जाले. अखेर मेरेन तांचेच जावन रावले. तांणी सांगिल्लीं सगळीं कामां केलीं. 'कितें कितें तांणी आमकां करूंक लायलें! पायखिळे तुमच्याच हातांनी निवळ करात म्हूण सांगलें. पायखिळे निवळ केले. चरख्यार सूत काडात म्हूण सांगलें... तें कित्याक, तांणी सेवाग्रामांत आमकां 'केक' म्हूण सांगून गोरवांक घालतात ती पेण खावंक दिली. खाली... क्या करते?... स्वराज्य जो चाहते थे!'

कृपालानी सभावान 'सीनिक'. जांकां आमी व्हड मनीस मानीत आयल्यात तांच्यांतलीं लेगीत उणींदुणीं पळोवपी आनी तांचेर घाय करपी. पुणून गांधीं वयलो तांचो भावार्त सामको 'अंध' म्हणपा सारको आशिल्लो. आयुष्याच्या निमाण्या पर्वांत गांधींनी उदेंत बंगालांतल्या नोआखाली वाटारांत हिन्दू मुसलमानां मजगतीं पेटिल्लो उजो पालोवपाचो वावर हातांत घेतिल्लो. 'एकला चलो रे' देखीन ते एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत चलत वताले. पांयांनी आनी अनवाणयां. तांच्या सांगाताक सदां सात आठ जाण आसताले. तांकां सगळ्यांक तांणी नोआखालींतल्या वेगळ्या वेगळ्या गांवांनी धाडून दिल्ले. फकत तांगेली पंदरा सोळा वर्सांचे पिरायेची नात मनू तांच्या सांगातांत, तांचे सेवेक राविल्ली. रातच्या आसऱ्याक खंयूय रावताले. एक दीस तांकां कुडकुडो भरलो. हून उदकाच्यो बाटल्यो, पिशव्यो घेवन न्हिदले जाल्यारूय गेलो ना. अशें सद्‌दां जावपाक लागलें तेन्ना मनून तांकां एक दीस वेंग मारली आनी तांचो कुडकुडो गेलो. (डॉक्टर म्हणटात, तांच्या रगतांतली साकर उणी जाल्ली आसूंक जाय. साकर उणी जातकूच खंय कुडकुडो भरता. तांणी रगत तपासून पळोवंक जाय आशिल्लें. पुणून नोआखालींत रगत खंय तपासतले?) गांधींची ही पदयात्रा चलत रावली. मनू तांच्या हांतुळणारूच न्हिदपाक लागली. ही खबर फां फां जावन खूब जाणांच्या कानार पावली. गांधींचे कांय आश्रमी सांगाती कितें जालां तें पळोवपाक हुसक्यान नोआखालींत आयले. ते पयलीं खासा गांधींनीच 'तुर्ताक मनू म्हज्या हांतुळणार न्हिदता... ते संबंदान कोण कोण कितें कितें उलोवपाक लागल्यात... तुमचें मत

कितें?' अशें विचारून आपणाल्या कितल्याश्या सांगात्यांक चिटी बरयल्यो. कृपालानींकूय एक बरयली. कृपालानींची जी जाप आयली ती प्यारेलालांनी आपल्या द *लास्ट फेझ* पुस्तकांत दिल्या. कृपालानी म्हणटात ह्व 'हांव तुमचो राजकी अनुयार्यो. तुमच्या आध्यात्मीक विचारांचो न्हय. पुणून म्हाका कबूल करचें पडटलें, अध्यात्माचें हावें म्हाका कांय लावन घेतलें ना जाल्यारूय तुमच्या विचारांचो म्हज्या जिविताचेर प्रभाव पडला... तुमी बरयल्या ती खबर म्हज्याय कानार आयिल्ली. तेन्ना दिशिल्लें, नोआखालींत तुमचो एक प्रयोग चलिल्लो आसतना लोकांचें लक्ष दुसरे खंयचेय गजाली कडेन वता अशें तुमचे हस्तुकीं कितेंच जावंक फावना... पुणून म्हजे तकलेंत जें आयलें तें तुमचेय तकलेंत आयलां जावंक जाय. आनी तरी आसतना ही गजाल तुमी चलूंक दिल्या जाल्यार तुमी सगळ्या वशींनी विचार केल्लो आसूंक जाय. म्हाका असल्यो गजाली समजनात. पुणून एक गजाल हांव सांगूंक सोदतां, म्हजो तुमचेर येदो भावार्त आसा की, धरूया, करूंक फावना असलें कितेंय करता आसतना तुमकां खासा म्हज्या दोळ्यांनी हांवें पळेले जाल्यार हांव म्हणटलों, म्हजे दोळे म्हाका फटयतात. तुमी केन्नाच फटोवपाचे नात ह्व my senses fail me, but not you.

म्हाका खूब फावटीं दिसलां, कृपालानी सारक्या सीनिक मनशांत येदो भावार्त जागोवपी गांधी केदे व्हड आसूंक जाय!

कृपालानींक मूर्ख लोक सोंसनाशिल्ले. तशे दांभीक धोंगीय सोंसनाशिल्ले. ते तांच्यो भगलो मारताले. तांकां आडवे उबे चिरून उडयताले. लोकसभेंत तांकां सदांच विरोधी पक्षाच्या बांकाचेर बसचें पडलां. उलोवपाक उबे रावताले तेन्ना मदीं आडखळ हाडपाचें काळीज सत्येर आशिल्ल्या पक्षांतल्या कोणाक जाय नाशिल्लें. ते उलयतात तें जवाहरलाल सदांच लक्ष दिवन आयकताले आनी भोवमानान तांकां जाप दिताले. १९६२त चीनाचे झुरये वेळार संरक्षण मंत्री कृष्ण मेननांक आडवे उबे चिरपाचें काम कृपालानींनीच सगळ्यांत पयलीं केलां आनी जवाहरलालांनी तें तोंड धांपून आयकलां. दुसऱ्याच वर्सा केन्द्रीय मंत्री के.डी. मालवीयांनी कलकत्त्याच्या एका धनिका कडल्यान वेंचणुकां खातीर पयशे हाडल्यात म्हणपाचें तांणीच उकताडा हाडिल्लें आनी तें आयकून जवाहरलालांनी मान सकल घाल्ली. भ्रश्टाचाराचें खंयच्चेंय प्रकरण तांचे नदरेंत आयलां तेन्ना तेन्ना दांत वोंठ चाबून ते उसळ्ळ्यात. तांणी कॉंग्रेस सोडली आनी 'किसान मजदूर प्रजा

पार्टी' काडली.एक दीस ही 'प्रजा पार्टी' आनी 'समाजवादी पार्टी' एक जावन 'प्रजा समाजवादी पार्टी' जाली. कृपालानी तिचे अध्यक्ष आशिल्ले. पुणून तांकां विचारी नासतना, सांगी नासतना हे पार्टीचे वांगडी मनाक मारता तें करताले. महाराष्ट्रांतले ना. ग. गोरे गोंयांत सत्याग्रह करपाक मुखार सरले ते अशेच, पार्टीच्या अध्यक्षाक विचारी नासतना, सांगी नासतना. तांकां गोऱ्यांची तिडक मारिल्ली. 'सारे पाजी और बदमाश काँग्रेस में है, और सारे बेवकूफ हमारी पार्टी में हैं' अशें खंतीन आनी तिडकीन तांच्या तोंडांतल्यान त्या वेळार भायर सरिल्लें.

अखेरेक पार्टीक उबगले. आनी अपक्ष म्हूण वावरूंक लागले. एक दीस राजकर्णांतल्यानूच निवृत्त जाले. निवृत्त जाले खरे. पुणून राजकर्ण सोडून दिलें ना. गुजरातांतले नवनिर्माण चळवळीक आनी बिहारांतले जयप्रकाशजींचे चळवळीक तांणी उकतेपणीं तेंको दिला. आनी इमर्जन्सी वेळार तांणी इन्दिराजींचो करूं येता तितलो विरोध केला.

अखेर मेरेन देशांतल्या म्हत्वाच्या खबरेपत्रांनी नेमान लेख बरोवन ते देशाक जागयत रावल्यात, शिटकायत रावल्यात.

एक गजाल सांगपाची उरल्या ह्र

तांणी आत्मकथा बरयल्या. ती उजवाडा येवचीच आसा. पुणून ती येवचे पयलीं तांगेल्या गुजरातांतल्या कांय इश्टांनी तिचो गुजराती अणकार नगीनदास परीखां कडल्यान करून घेवन उजवाडा हाडला. गुजराती लोकांनी तांचेर खूब मोग केलो. तांणीय तांचेर केलो. १९८२त ९३ वर्सांचे पिरायेर तांकां मरण आयलें तेंवूय गुजरातांतूच (अहमदाबादेक) आयलें. सूख-दुःख, लाव-लुकसान, मान-अवमान कृपालानींच्या वांट्याक खूब आयले. पुणून तांगेल्या जिविताक ते आफडूंक पावले नात. *'सुख दुख दोनों सम करि जानै / और मान अपमाना / हर्त शोक ते रहे अतीता / तिन जग तत्त्व पिछाना'* हे देखीनूच ते जियेत आयिल्ले.

('जाग', मे २०००)



## ३४.

# त्रिश्तांव

गोंयचे सुटकेचो ध्यास घेवन बशिल्ले, धा धा वर्सांची बंदखण भोगिल्ले सुटके-झुजारी जाल्यात आमचे मजगतीं. हांचे भितर माडा येदें ऊंच व्यक्तित्व आशिल्लो एकलोच जालो ह्य त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्य.

पळेना फुडेंच हो विद्‌वत्तेन भरिल्लो कळसो आसूंक जाय म्हणपाचें लक्षात येतालें. केन्ना खळखळऽ नाशिल्ले. चडशे उलयींय नाशिल्ले. दोन चार मिटिंगांनी हांवें तांकां पळेल्यात. बाकीचे बडबडटाले थंय त्रिश्तांव कोण कितें म्हणटा तें मोन्यांनी बसून फकत आयकताले. कोणेंय उलोवंक लायलें जाल्यार दोन चार वाक्यांच उलयताले. तीं उपाट अर्थान भरिल्लीं आसतालीं. ते सभा गाजोवपी वक्ते नाशिल्ले. पुणून उलोवपाक मायका मुखार उबे रावताले तेन्ना सभेघरांत खिणा भितर सगले इतले ओगी जाताले की ते किण्णसाणेंत टांचणी लेगीत जमनीर पडिल्ली जाल्यार तिचो आवाज सगळ्यांक आयकूंक येतलो आशिल्लो. उलोवप आरोह अवरोह नाशिल्लें, अळंकार नाशिल्लें, उतरांचें अवडंबर नाशिल्लें, सादें सरळ,

सोंपें, नीट काळजांत रिगता हे तरेचें आसतालें. तांकां कोंकणीचो सराव नाशिल्लो. पुणून कोंकणींत उलोवचें पडटालें तेन्ना उतरांक आडखळऽ नाशिल्ले. सोंप्या, साद्या उतरांनी ते आपणालें म्हणणें समजावन सांगताले.

त्रिश्तांव कोणाचेर तापल्यात जातले, म्हाका दिसना. तांणी केन्ना कोणाचो दुस्वास मत्सरूय केलो ना. कोणाक उणे लेखले नात. टिका केल्यात. सां फ्रांस्काच्या 'चमत्कारां'च्यो तिसत्यो वादऱ्यो केल्यात. पुणून त्यो पुरावे दिवन केल्यात. खासा सां फ्रांस्काच्या पुर्तुगालच्या राजाक बरयल्ल्या चिटींचो आधार घेवन. तांगेलें *'डिनॅशनलायझेशन ऑफ गोअन्स'* पुस्तक वाचून पळोवचें. तांगेल्या व्यासंगाचो अदमास येतलो. तांगेलो एकूय मुद्दो खोडून काडपाचो कोणाक धीर जावपाचो ना. शैलीय इतली सादी की तांगेलें एक लेगीत उतर कोणाक हे वटेनचें ते वटेन करूंक येवपाचें ना.

सालाझाराची तांकां सुमारा भायर तिडक.पुणून सालाझाराचीय टिका करतना त्रिश्तांवांचो तोल केन्ना सुटूंक ना.

संस्कारी मनीस टिका कशी करता हें पळोवचें आसत जाल्यार त्रिश्तांवांचें बरप बारकायेन वाचून पळोवचें. इतली देखदिणी टिका आसताली तांगेली.

त्रिश्तांवांचीं बरींचशीं वर्सां फ्रांसांत गेल्लीं. फ्रांसांतल्या मेकळ्या वातावरणांत तांची वाड जाल्ली. थंयच मार्क्सवादी विचारा कडेन तांचो लागींचो संबंद आयलो. पुणून एक गजाल मुजरत सांगचीशी दिसता ह्र हिन्दुस्तानांतले मार्क्सवादी गांधींक 'ब्रिटिशांचे हस्तक' आनी तांगेले सत्याग्रहाचे चळवळीक 'हिन्दुस्तानांतल्या भांडवलदारांची चळवळ' म्हणटाले तेन्ना गांधी कोण आनी केदे, तांगेले चळवळीचें खरेलें रूप कितें, हें येवरोपांतल्या मार्क्सवाद्यांक त्रिश्तांव समजावन सांगताले. 'ल्युमानिते' आनी 'क्लारिते' पारिसांतलीं दोन भोवमान्य नांवाजतीं नेमाळीं. तातूंत त्रिश्तांवांचीं बरपां नेमान छापून येतालीं. इंग्रजांच्या प्रचाराक लागून गांधींचे चळवळीचें एक विकृत चित्र येवरोपांतल्या लोकांनी आपणा दोळ्यां मुखार उबें केल्लें. तें निवळ करपाचो वावर त्रिश्तांवांनी केला.

म्हळ्यार, स्वतंत्र जावंक आंवडेवपी हिन्दुस्तानाचे ते पारिसांतले पयले स्वनियुक्त राजदूत आशिल्ले अशेंच म्हणूंक जाय.

त्रिश्तांवांनी महात्मा गांधींचें एक जिवितूय बरोवपाक सुरवात केल्ली. एक दोन खिस्ती छापून आयिल्ल्यो. त्यो रॉमां रॉलांनी वाचल्यो. रॉलांनी ते पयलीं श्री

रामकृष्ण आनी विवेकानन्द हांचीं जिवितां बरयल्लीं. आनी हिन्दुस्तानांतल्या सांस्कृतीक आध्यात्मीक दायजाची वळख येवरोपाक करून दिल्ली. गांधीय हेच परंपरेंतले. देखून गांधींचेंय जिवीत ते बरोवंक सोदताले. त्रिश्तांवांचे लेख वाचून रॉलांनी तांकां चीट बरयली. त्रिश्तांव रोखडेच आपणा कडेन आशिल्लीं ह्या संबंदांतलीं पुस्तकां आनी कात्रणां घेवन रॉलांगेर गेले आनी 'म्हज्या पुस्तका परस तुमचें पुस्तक गांधीं कडेन येवरोपाचें लक्ष चड ओढ्टलें' अशें म्हणून सगळें तांकां दिवन आयले. हे निमतान रॉलां कडेन तांचो जो संबंद आयलो तो दाट जायत गेलो आनी अखेर मेरेन तिगून उरलो.

मार्क्सवादी मनीस धर्मा आड आसता. त्रिश्तांवूय आशिल्ले. कॅथलिक चर्च आनी जेजुईत सोसायटी आड तर ते खुबूच आशिल्ले. पुणून जेझू आड? एक्क उतर मेळचें ना तांगेले पुराय बरपावळींत. मनीस कुळयेंत जल्माक आयिल्लो व्हडांतलो व्हड एक युगपुरूस म्हूण जेझूचो तांणी सदांच भोवमान केला. गांधीं विशीं तांकां ओढ. तिवूय गांधी जेझूचे परंपरेंतले एक व्हडांतले व्हड मनीस म्हूण. ते कॅथलिक चर्चा आड आशिल्ले म्हणटकच जेझू आड आशिल्ले असो कांय जाणांनी अर्थ लायलो. परिणाम ह्न त्रिश्तांव मुंबयंत भायर पडल्यात तेन्ना तांगेलें प्रेत पुरपाक वालेरियान ग्रेशियस सारकेल्या 'राष्ट्रवादी' कार्डिनलान कॅथलिक सिमितेरींत तांकां सुवात दिली ना. तीन दीस तांगेलें प्रेत अशेंच उरलें ह्न विकृत जायनासतना उरलें. अखेरेक सीरियन चर्च आधाराक आयली आनी तिणें शिवडीचे आपणाले सिमितेरींत तांकां सुवात दिली.

त्रिश्तांवांचे प्रेतयात्रेंत फादर माश्कारेन्यश उलयल्ले. तांणी कार्डिनल ग्रेशियसांक फैलार घेतिल्ले आनी त्रिश्तांवांच्या प्रेता कडेन सगळ्यांचें लक्ष ओढून 'हाचे तोंड पळेयात. कितलें शांत दिसता तें... हो एक संत आशिल्लो, खरो संत आशिल्लो' अशें म्हळ्ळें.

हय, त्रिश्तांव चार चवगांच्या भेसांतले एक संत आशिल्ले.

त्रिश्तांवांचो व्हडल्यां व्हडल्यां कडेन संबंद आयला. रॉमां रॉलां, आंरी बार्बुझ, आल्व्हरु कुन्याल, जवाहरलाल नेहरू ह्न सगळ्यांच्यो चिटी कांसावलेच्या तांच्या घरांत फायलींनी मेळ्ळ्यात. त्रिश्तांवांनी केन्नाच कोणाक आपणाल्यो व्हडल्यां व्हडल्यां कडेन वळखी आशिल्ल्यो म्हूण सांगलें ना. बॅर्ताबाय तांगेली भाची, भक्त आनी शिष्या. त्रिश्तांवांक हो-ची-मिन्ह आनी चाउ एन् लाय

लागींच्यान वळखताले म्हणपाचें तिका लेगीत खबर नाशिल्लें. हांवें सांगलां तेन्ना ती तटास जाल्या. 'कितें सांगता तूं? अंकल त्रिशतांव नेव्हर टोल्ड अस धिस,' तिणें म्हळ्ळें. आनी 'तुका कशें कळ्ळें' म्हूण म्हाका विचारिल्लें.

जाल्लें अशें ह्र

१९५६ ते १९५९ मेरेनच्या काळांत हांव मुंबयंत 'गोमंत भारती' नांवाची एक संस्था चलयतालों. गांधी निधीच्या आधारान. म्हजें ऑफीस गांवदेवी वाटारांतल्या लॅबरनम रोडा वेल्या मणिभुवनांत आशिल्लें. १९१५ पसून १९३५ मेरेनच्या काळांत मणिभुवन मुंबयंतलें गांधींचें मुख्यालय आशिल्लें. गांधींच्या मरणा उपरांत गांधी निधीन तें घेवन ताचें रुपांतर एका म्युझियमांत केल्लें. मणिभुवनाच्या गॅस्ट हावजांत केन्ना केन्ना कांय व्हड मनीस येवन रावताले. तांचो सहवास म्हाका आपशींच मेळटालो.

एक दीस थंय हॉरेस अलेक्झांडर पावले. हॉरेस इंग्लंडांतले एक पॅसिफिस्ट. शांततावादी. ब्रिटिश सरकाराचें आनी भारतीय काँग्रेसीचें तिडटालें तेन्ना ते केन्ना केन्ना मध्यस्ती करताले. ते गांधींक खूब मानताले. आंतरराष्ट्रीय मळार खंयूय कसलोय 'तणाव' दिश्टी पडलो म्हणटकूच मदीं पडून तो उणो करपाचो यत्न करप हो हॉरेसांचो सभाव आनी स्वधर्म.

गोंयचो प्रस्न तेन्ना सुटूंक नाशिल्लो. ह्या प्रस्नांत पडपाचें तांच्या मनांत आयिल्लें. हांव गोंयचो म्हणपाचें कळना फुडें तांणी म्हाका विचारलें, 'तुमच्या फुडाऱ्यांक म्हाका मेळपाचें आसा. व्हरशीत व्हय म्हाका तांचे कडेन तूं?'

हांव घुटमळ्यांत पडलों. कोणा कडेन घेवन वचूं? गोंयचे कितलेशे फुडारी. तेवूय एका फुडले एक बुदवंत. हांव त्रिशतांवां सरीं गेलों. मनांत म्हळें, 'हाका हॉरेस अलेक्झांडर कोण हें तरी सांगचें पडचें ना.'

हांवें त्रिशतांवांक विचारलें, 'केन्ना घेवन येवं?'

'ताका हांगा म्हजे म्हऱ्यांत घेवन येता? च्येऽ! व्हड मनीस तो. हांवूच येतां ताका मेळपाक, खंय आसा तो?'

'मणिभुवनांत.'

'चल, थंयच या.'

मणिभुवनांत दोगांय मजगतीं उलोवणीं जाल्लीं. सुमार दोन वरां हांवें तीं आयकल्लीं. थंय हो-ची-मिन्हाचो उल्लेख आयलो तेन्ना त्रिशतांवांनी 'हांव वळखतां

तांकां, आमी दोगूय पारिसाक एका रुमांत स म्हयने रावल्यात' अशें सांगिल्लें हांवें आयकल्लें.

दुसरी खबर कांय वर्सां आदली. १९८५तली.

चीनांत पाविल्लों. पैचिंग युनिव्हर्सिटीन आमचे खातीर च्याचो कार्यक्रम दवरिल्लो. धा पंदरा प्रोफेसर आनी धा पंदरा कवी आनी कथाकार आशिल्ले. भारतांतले आमी तीग. एक बंगाली, दुसरो असमिया, तिसरो हांव, कोंकणी.

म्हजी वळख करून दितना हांवें 'हांव गोंयचो' म्हळें.

वळखीचो कार्यक्रम सोंपतकूच आमी मेकळेपणान उलोवपाक लागले तेन्ना एकलो प्रोफेसर म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'गोंयच्या दोगांक आमी हांगा चीनांत वळखतात.'

'कोण ते?' हांवें उत्सुकतायेन विचारलें.

'एक डी.डी. कोसंबी आनी दुसरो टी.बी. कुन्या... (म्हळ्यार त्रिश्तांव).'

डी.डी. कोसंबींचें अजाप जालें ना. कित्याक, ते मार्क्सिस्ट. तांगेलें द *कल्चर अँन्ड सिव्हिलायझेशन ऑफ एन्शंट इंडिया* पुस्तक संवसारभर गाजलां. मार्क्सिस्ट नदरेंतल्यान पुर्विल्ल्या भारताच्या इतिहासा कडेन पळोवपी लोकांनी हें पुस्तक प्रमाण मानलां. जपानी भाशेंत लेगीत तें आयलां. तेन्ना, म्हळें, हाची वळख हांकां आसूं येता. पुणून टी.बी. कुन्यांचें नांव आयकून मात म्हाका खऱ्यांनीच अजाप जालें. टी.बीं.क भारतांत कोणूच वळखनात. तें कित्याक, गोंयांत लेगीत कितलेशे लोक वळखतात, दुबाव आसा. तांचें चरित्र कोणें बरोवंक ना. तांचे उगडासूय कोणें बरोवंक नात. आनी तांचे पिळगेंतले लोकूय आतां उरूंक नात.

नॅशनल बुक ट्रस्ट, पब्लिकेशन डिव्हिजन सारकेल्या संस्थांनी सगळ्या स्वातंत्र्य सैनिकांचीं ह्म सटरफटरांचीं लेगीत ह्म चरित्रां छापल्यांत. त्रिश्तांव ब्रागांझ कुन्यांचें छापूंक ना. हांवें शीण काडला तेन्ना म्हाका जाप मेळ्ळ्या, 'कशे छापतले? कोणें शिफारस करूं ना का? गोंयच्या सरकारान केन्नाच केली ना.' विस्मृतीच्या काळखांत व्हडले व्हडले लोक लिपतात, तशे त्रिश्तांव लिपल्यात अशें हांव मानतालों. चीनी लोकांक तांची वळख आसपाक कसलेंच कारण नाशिल्लें. म्हूण हांवें अजापान त्या प्रोफेसराक म्हळें, 'टी.बी.? काय तांगेलो भाव? त्रिश्तांवांक एक भाव आशिल्लो. तो फ्रांसाक रावतालो. थंय जे संवसारभरचे कम्युनिस्ट वताले तांचे कडेन ताचो संबंद आशिल्लो... तो आसूंक जाय.'





'न्हय, न्हय... त्रिशतांव ब्रागांझ कुन्याच. ताणें फ्रँच भाशेंत सगळ्यांत पयलें महात्मा गांधींचें चरित्र बरयल्लें. थोडेंशें बरयले उपरांत ताका रॉमां रॉलां गांधींचें चरित्र बरोवंक सोदतात म्हूण कळ्ळें तेन्ना ताणें बरोवपाचें थांबयल्लें आनी आपणा कडेन गांधी संबंदान जें कितें आशिल्लें तें सगळें रॉलांक व्हरून दिल्लें... तागेलें *गोआज फ्रीडम स्ट्रगल* हांगा आमचे लायब्ररींत आसा...'

म्हज्या मनांत आतां दुबाव उरलो ना. तरी आसतना हांवें ताका विचारलें, 'त्रिशतांवांची तुमकां वळख आसपाक कारण कितें?'

ताणें सांगलें, 'चाउ एन् लायान आपणाले उगडास बरोवन दवरल्यात. तातूंत, आपूण फ्रांसाक आसतना कोणा कोणाच्या संपर्कांत आयिल्लों तांचीं नांवां दिल्यांत. ह्या नांवांत त्रिशतांवांचें नांव आसा. गांधींच्या नेतृत्वा खाला हिन्दुस्तानांत स्वराज्याची जी चळवळ चलताली, तिची खरी म्हायती आपणाक त्रिशतांवां कडल्यान मेळटाली अशें बरयलां...'

हांव ओगी रावलों.

म्हाका खूब फावटी दिसलां ह्

त्रिशतांवांनी आपणालें कार्यक्षेत्र गोंय वेंचून काडलें, ताच्या वांट्याचें भारत वेंचून काडिल्लें आनी भारतीय राजकर्णांत पडचें अशें थारायल्लें जाल्यार ते जवाहरलाल नेहरू, मौलाना आझाद, राजेन्द्र प्रसाद हांचे पंगतींत वचून बसचे नाशिल्ले? तेदेच व्हड ते आशिल्ले. गांधींचे आश्रमी प्रभावळींत गेल्ले जाल्यार बादशाह खानां भशेन मुखार येवपाचे.

त्रिशतांवांचो खरो 'त्याग' तो हो. भायर वचून व्हड सगळेच जातात. खूब जाण जाल्यात. गोंयांत जो आज 'ब्रेन ड्रेन' जाला तो आडावचो आसत जाल्यार व्हड लोकांनी गोंयांतूच रावंक जाय. मागीर, गोंयकार तांचें व्हडपण वळखूं वा ना वळखूं. त्रिशतांवांक अशेंच दिसलां जावंक जाय. त्रिशतांवांचें गोंयचे चळवळींतलें कार्य ह्याच संदर्भांत तर्जून पळोवंक जाय. कितल्याश्या सुटके झुजाऱ्यां मजगतचे एक नाशिल्ले ते.

त्रिशतांवांच्या जिविताचें आनीक एक म्हत्वाचें आंग खूब जाणांक खबर ना. ते बऱ्यांतले बरे एक कला रसीक आशिल्ले. पुर्तुगालांत बंदखण भोगून ते भारतांत परते आयल्यात आनी मुंबयंत रावंक लागल्यात तेन्ना तांकां सोदूंक गेल्ले कडेन 'ते भायर सरल्यात' म्हूण म्हाका जाप मेळ्ळ्या. 'खंय मेळटले?' म्हूण विचारलां





तेन्ना 'जहांगीर आर्ट गॅलरींत आसतले' म्हूण जाप मेळ्ळ्या. जहांगीर आर्ट गॅलरींत पोरण्या नव्या चित्रकारांचीं आत्र्या-पयऱ्यान प्रदर्शनां भरतालीं. अजून भरतात. त्रिश्तांव तीं पळोवपाक वताले. एका एका चित्रा कडेन बरोच वेळ उबे रावताले आनी चित्र तोखेताले. त्रिश्तांवांचें हें चित्र आयजूय म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावता. पारिसाक तांचो मातीस् सारक्या चित्रकारा कडेन दाट संबंद आयिल्लो. एका वर्सा आंतोन नोरोन्य पारिसाक पावले. पणजेच्या हायकोर्टाचे न्यायाधीश. एक विद्वान आनी इतिहास संशोधक. तांगेलें *उश् इन्दुश द गोअ ई अ रैपुब्लीका पुर्तुगेझा* पुस्तक खूब गाजलां. त्रिश्तांवांचे एक इश्ट. त्रिश्तांव तांकां घेवन फ्रँच आकादेमींत गेले. फ्रँच आकादेमी पळेतकूच 'असली एक आकादेमी गोंयांत उबी करूंक जाय' अशें नोरोन्यांक दिसलें. त्रिश्तांवांच्या आधारान तांणी फ्रँच चित्रकारांच्या चित्रांचे कांय प्रिन्टस् विकते घेतले, कांय चित्रां घेतलीं आनी तांचेर त्रिश्तांवांच्याच आधारान त्या त्या चित्रकारांच्यो सयो घेतल्यो. त्रिश्तांवां सरीं बसून तांणी गोंयचे आकादेमीची एक येवजण आंखली. आनी गोंयांत परतना फुडें तांणी ती चलणुकेंत हाडली. एक संस्था उबी केली आनी पन्नास वर्सां पयलीं मरून पडिल्ले एके संस्थेचें नांव तिका दिलें. 'इंश्तितूत वाश्कु द गामा' ह्या नांवान ती कितलींशीं वर्सां चल्ली. नोरोन्यांनी विकतीं घेतिल्लीं चित्रां आनी चित्रांचे प्रिन्टस् तांणी ह्या इंश्तितुताक दिले. गोंय मेकळें जाय मेरेनच्या काळांत 'आर्ट गॅलरी' म्हणपा सारकी ही एकूच गोंयांत आशिल्ली. सगळीं चित्रां संस्थेच्या वेगळ्या वेगळ्या वांगड्यांनी एकठांय केल्लीं. ज्या चित्रकारांचीं प्रदर्शनां संस्थेच्या हॉलांत भरिल्लीं, तांणीय दिल्लीं. सरकाराचो एक पानदुड्डू लेगीत चित्रां घेवपाक खर्च जावंक नाशिल्लो. शिशिर कुमार बॅनर्जी लॅफ्टनंट गव्हर्नर आशिल्ले तेन्ना फ्रान्सांतल्या लूव्र म्यूझियमाची क्युरेटर एकली बायल-मनीस गोंयांत पाविल्ली. तिणें गॅलरीचें मोल शंबर क्रोट रुपया आंखिल्लें. प्रतापसिंग राण्यांनी ही गॅलरी सरकाराची अशें म्हणून दिसा उजवाडे दरवडो घालून ती लुटून व्हेली! गोंयच्या एक्का सभाग्यान ह्या दरवड्या आड आवाज उठयल्लो आयकूंक आयलो ना. त्रिश्तांवांनी ज्या स्वराज्या खातीर आपणालें जिवीत ओंपिल्लें त्या स्वराज्यांत एके खाजगी संस्थेचेर दरवडो घालपी एक सरकार येतलें अशें सपनांत लेगीत तांणी पळेल्लें आसचें ना. पुणून गांधींचीं सपनां स्वतंत्र भारतांत जंय मातये भरवण जाल्यांत थंय त्रिश्तांवांचीं गोंयांत जालीं जाल्यार अजाप कसलें? लोक गांधींक विसरले. तशे त्रिश्तांवांकूय विसरले.

तरूय, नशीब गोंयचें, तांच्या नांवान एक ट्रस्ट गोंयांत चलता. ह्या ट्रस्टाचो एक हॉल आसा. थंय आत्रापयऱ्यान रासवळ मळार वावुरतल्या संस्थांच्यो वा पंगडांच्यो मिटिंगो जातात. कांय सुटके झुजाऱ्यांच्या पराकाश्टेच्या यत्नांक लागून तांच्यो रक्षा आझाद मैदानाच्या घुमटांत दवरिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. कांसावले तांचो एक पुतळोय पळोवंक मेळटा.

तांकां खूब फावतालें. खूब म्हळ्यार खुबूच फावतालें. पुणून जावं, अशीर मनाच्या गोंयकारांनी इतलें तरी केलें हाची तोखणाय करुंकूच जाय. खरेपणानशीं 'भारतरत्ना' खातीर तांच्या नांवाचो आग्रो आमी धरूंक जाय आशिल्लो आनी तें मेळोवन घेवपाक शिकस्तीचे यत्न करूंक जाय आशिल्ले.

'भारतरत्ना'च्या पांवड्याचो एकलोच गोंयकार हालींसराक आमच्यांत जावन गेलो तो त्रिश्तांव.

भारतांत खूब जाणांच्यो पुण्यतिथी आमी मनयतात, तश्यो जल्मतिथीय मनयतात. एकल्याचीच फकत पुण्यतीथ मनयतात ती लोकमान्यांची. गोंयांतूय आमी त्रिश्तांवांची एकल्याचीच पुण्यतीथ मनयतात. २६ सप्टेंबराक. लोकमान्यां वरीच ते गोंयच्या राजकी असंतोशाचे जनक आशिल्ले. १९५८ वर्सा ह्या दिसा तांणी निमाणो उस्वास सोडिल्लो.

**('जाग', सप्टेंबर २००१)**



३५.

# फिरंग्यां आड लोहियांचो सत्याग्रह...?

अंदू अठरा जुनाक पणजे वचचें अशें दिशिल्लें. त्र्यांयशीं वर्सांची, म्हळें, पिराय. म्हज्या आयुष्यांतलो हो निमाणो अठरा जून आसूं येता. पुणून ऐन त्या वेळार, 'नाका, आसूं' अशें म्हळें आनी घराच रावलों. फाटल्या कांय वर्सां पसून वचना. सुरवातेचीं कितलींशीं वर्सां नेमान गेलां. उटंगारांचो पावस झडला तरीकूय. अठरा जून म्हजे पिळगेच्या जिवितांतलो एक आगळो वेगळो दीस. सपसप खंयचेय पिळगेच्या जिवितांत येना हे तरेचो. १९४६ वर्सा ह्या दिसा साडे चार शतमानां पुर्तुगेजांच्या बुटां पोंदा निर्णून पडिल्ल्या गोंयान अवचीत कूस परतिल्ली आमी ख्रासा आमच्या दोळ्यांनी पळेल्ली ह्र मेंगें, बाबत, भित्रें गोंय सांवरेचें बोंड कशें एका ख्रिणांत फुर्रर करून उबून गेल्लें पळेल्लें, आनी आमची ल्हंवेन ल्हंव फुलून आयिल्ली. उपरांत चवदा वर्सां, गोंयची सुटका जायसर, ती तशीच फुलिल्ली उरिल्ली. इतल्या म्हत्वाच्या दिसाच्या दबाज्याक वचऽ नासतना रावं येता? अशें म्हणून वतालों.

एक दीस वचपाचें बंद केलें.

'लोहिया गोंयांत विश्रांती घेवपा खातीर आयिल्ले. असोळण्यां दोतोर ज्युलियांव मिनेझिसांगेर राविल्ले. लोहिया गोंयांत आयल्यात म्हणपाचें कळना फुडें कितलेशे जाण तांकां मेळपाक गेले. तेन्ना गोंयकार घुसमटमारांत दीस काडटात, कसलेच तरेचें नागरीक स्वातंत्र्य तांकां ना, उलोवपाक बंदी, बरोवपाक बंदी, जमावाक बंदी म्हणपाचें कळना फुडें ते तिडकीन उसळ्ळे आनी तांणी रोखडोच भाशण-बंदीचो हुकूम मोडपाचो निर्णय घेतलो...'

वाजोवन वाजोवन झरे पडिल्ली ही रिकॉर्ड कितलीं वर्सां आयकुपाची, अशें दिसलें. आनी, 'आतां हे मुखार ह्या दबाज्याक वचप ना' अशें थारायता म्हणसर पुरुषोत्तम काकोडकारांनी तातूंत भर घाली. पयलीं खंयच्याच अठरा जूनाक हांवें तांकां पणजे आझाद मैदानार आयिल्ले पळोवंक नाशिल्ले. ह्या वर्सा ते कशे पावले, कोणाक खबर! दबाजो सोंपतकूच वामन सरदेसाय तांकां, म्हाका आनी दोतोर मयेंकाराक आपणागेर च्या घेवया म्हूण घेवन गेले. थंय काकोडकारांनी 'अठरा जूनाक तुमी सगळे लोहिया लोहिया करतात तें कितें? लोहियांनी चळवळ सुरू करूंक ना. चळवळीची तयारी कितल्याश्या तेंपा सावन चलताली, खंयच्याय खिणाक ती सुरू जावं येताली... लोहियांनी तिचें फकत उद्‌घाटन केलां. हाचे पेल्यान लोहियांचें गोंयचे चळवळीक कसलेंच योगदान ना' अशें म्हळें.

हांव काकोडकारां कडेन मेकळेपणान पुणून भोवमान राखून उलयत आयिल्लों. पुर्तुगालचे बंदखणींतल्यान ते सुटून येत सावन तांकां घट दसून राविल्लों. पुणून त्या दिसा म्हाका कुर्रर जालें. हांवें म्हजे मर्यादेंत रावन तांकां विचारलें, 'भाऊ, लोहियां बदला, धरुया तुमी भाशण-बंदीचो हुकूम मोडिल्लो, जाल्यार लोकांनी लोहियांक दिला तसलो प्रतिसाद तुमकां मेळटलो आशिल्लो? चडांत चड जाल्यार तुमचो सत्याग्रह पळोवपाक शें दोनशें लोक भियेत भियेत येतले आशिल्ले. आनी तुमकां धरून व्हरतकच 'केदो धाडशी मनीस रे हो' अशें म्हणून तुमची तोखणाय करून घरा वतले आशिल्ले. हजारांनी लोक घरांतले भायर सरून मध्यान रात मेरेन 'जय हिन्द' 'जय हिन्द' करून घोशणा दीत मडगांवांत धुमशेणां कांडटले आशिल्ले? लोकांनी त्या दिसा लोहियांक येदो प्रतिसाद दिलो, ताचें कारण तांणी लोहियांत फकत लोहियांकूच पळोवंक नाशिल्ले. १८५७ सावन १९४२ वर्सा मेरेनच्या काळांत स्वतंत्रतायेच्या झुजांत जे जे कोण शूर वीर फुडारी पडिल्ले

ते सगळे तांकां तांच्यांत दिश्टी पडिल्ले. भारताचे स्वतंत्रतायेचें पुराय झुजूच तांचे मुखार उबें राविल्लें... आनीक एक घडणूक, जी हाचे पयलीं केन्नाच गोंयांत घडूंक नाशिल्ली, लोकांनी त्या दिसा घडिल्ली पळेल्ली. लोहियांनी मळार पांय मात दवरला. फोर्तुनात मिरांद पिस्तोल घेवन मुखार आयिल्लो लोकांनी पळेलो, आनी लोहियांनी खिणाचोय कळाव लायनासतना आपल्या दाव्या हातान ताचो पिस्तोलाचो हात बागयल्लो पळेल्लो. हे एकेच घडणुकेन लोकांची ल्हंवेन ल्हंव फुलून आयिल्ली. साडे चार शतमानांच्या काळांत गोंयकारांनी इतलो निर्भीड मनीस केन्ना पळोवंकूच नाशिल्लो. इतलो निर्भीड मनीस संवसारांत आसूं येता म्हणपाचो अदमासूच लोकांक नाशिल्लो. लोहियांक जो प्रतिसाद मेळ्ळा ताचे फाटल्यान हें मुखेल कारण आशिल्लें. भाशण-बंदीचो, हुकूम मोडलो हें न्हय. भाशण दिवपाची मंदूच तांकां मेळूंक ना. पुणून एका पुलीस अधिकाऱ्याचो पिस्तोलाचो हात बागोवप, तोवूय सालाझाराचे राजवटींत, ही लाखांनी भाशणां परस अदीक प्रभावी करणी आशिल्ली.'

इतलें सांगून हांवें काकोडकारांक म्हळें, 'लोहियांचें अवमूल्यन करून तुमचें मूल्य वाडटलें अशो तुमचो समज आसत जाल्यार तो साप चुकीचो आं भाऊ!'

आनी हांवें त्याच खिणाक निर्णय घेतलो ह्या हे मुखार पणजे अठरा जूनाच्या दबाज्याक केन्ना वचचों ना. केन्ना गेलोंय ना.

विश्रांती घेवपा खातीर लोहिया गोंयांत आयिल्ले म्हणटात ती खरी खबर न्हय. लोहियांच्या जिविताच्या कोशांत विश्रांती आनी निर्शेणी हीं दोन उतरां सोदुनूय मेळपाचीं नात. आयुष्यांत एका फुडलीं एक अपेसां तांच्या वांट्याक आयल्यांत. ते केन्नाच निर्शेवंक नात. तशी, निमाणो स्वास सोडला ते मेरेन कितलेशे संघर्ष तांणी केल्यात, केन्ना विश्रांती घेवंक ना. आट्टय पार जो झुजा मळार आसता तो केन्ना निर्शेना तसो विश्रांतीय घेना.

मागीर, लोहिया गोंयांत कित्याक आयिल्ले?

येवचे पयलीं ते कांय काळ लाहोरचे आनी उपरांत आग्र्याचे बंदखणींत आशिल्ले. बंदखणींतल्या ह्या एकांतवासांत तांणी 'भारत छोडो' चळवळींत आमी कितलें येस जोडलें आनी कितलें अपेस पदरांत घालून घेतलें ह्या प्रस्नाचें खोलायेन चिंतन केल्लें. इंग्रजां आड लोकांच्या मनांत असंतोश जागोवपांत आमकां खब

येस मेळ्ळां. पुणून इंग्रजांनी भारत सोडून वचचें ही जी मोख चळवळीन आपणा मुखार दवरिल्ली तातूंत आमकां अपेस आयलां; आमकां आनीक एक व्हड चळवळ चलोवची पडटली ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. हे चळवळींत आमकां अहिंसेचे शिमेंत रावन तोडफोड करचीच पडटली अशेंय तांचें मत जाल्लें. ती सारकी बरी चलोवची जाली जाल्यार आमकां कांय 'तळ' तयार करचे पडटले; नेपाळ, मणिपुर आनी गोंय अशे तीन तळ तांणी वेंचून काडिल्ले. इंग्रजांची नदर ह्या तळांचेर पडची ना असो तांचो अदमास आशिल्लो. ह्या कामांत गोंय कितलेंशें उपकारा पडटलें हें पळोवपाक ते गोंयांत आयिल्ले. (पळेयात: १९६४-६७ काळांतले तांगेले सेक्रेटरी डॉ. के. एस्. कारंथ हांगेलें Aspects of a Socialist Mind पुस्तक.) विश्रांती घेवपाक ते येवंक नाशिल्ले.

गोंयांत येसर तांकां गोंयचे परिस्थितीची सारकी खबर नाशिल्ली, आयले उपरांत ती तांकां कळ्ळी अशें जें जायते जाण सांगतात तेंवूय खरें न्हय. गोंयांत सालाझाराची फॅसिस्ट राजवट चलता; फॅसिस्ट राजवटींत नागरीक स्वातंत्र्य लोकांक नासता हें ते बेस बरे जाणा आशिल्ले. खासा तांणी असली एक राजवट जर्मनींत पळेल्ली. अणभविल्ली. इतलें खरें, गोंयांत ते सत्याग्रह करपा खातीर येवंक नाशिल्ले. आपणाक सत्याग्रह करचो पडटलो हाचो अदमासूय तांकां नाशिल्लो. तरूय तांकां सत्याग्रह करचो पडलो. कित्याक?

लोहिया गोंयांत आयल्यात आनी असोळण्यां दोतोर ज्युलियांव मिनेझिसांगेर रावल्यात ही खबर गुपीत उरपा सारकी निखालूस नाशिल्ली. ते भायर येव्हाग्रियु ज्यॉर्ज हो ज्युलियांवाचो सांगाती. तो पणजेच्या 'उ येराल्दां'त काम करतालो. ताणें 'येराल्दांत' बारीक टायपांत एका कोनशाक ही खबर छापली. जाणें जाणें ती वाचली ताच्या तोंडांतल्यान 'लोहिया गोंयांत आयल्यात? आ! गोंय आतां पेट्टा' हींच उतरां भायर सरल्यांत. येदीशी ही बारीक टायपांतली खबर 'बॅनर लायन न्यूज' कशी जाल्ली. आनी गोंयच्यो धाय दिकांतल्यो वाटो असोळणेचे दिकेन धांवपाक लागल्यो. लोहियांक मेळपाक जायते जाण गेले ह्व दोतोर, आदोगाद, पत्रकार, प्रोफसोर, वेपारी, भाटकार, चडांत चड, विशी-पंचविशींतले तरणाटे. सगळ्यांनी तांकां गोंयांत आमकां हें करूंक मेळना, तें करूंक मेळना, आमकां हो अधिकार ना, तो अधिकार ना, ह्योच खबरी सांगल्यो.

'हें तुमकां सोंपेपणान मेळपाचें ना. तें मेळोवपाक तुमकां झुजचें पडटलें...'

लोहियांनी म्हळें.

'झुजप सत्याग्रहानूच मूं? ते खातीर पयलीं एक संघटना उबी करची पडची ना?' एका पत्रकारान विचारलें.

'संघटना उबी करपाक तुमी मुखार सरतले तेन्ना तुमचे तरातरांचे मतभेद पयलीं मुखार येतले आनी तुमी संघटना उबी करुंकूच पावचे नात... पयलीं कृती करात. (सत्याग्रह सुरू करात) नवे नवे लोक तुमकां मेळत रावतले. मागीर संघटना आपशींच उबी जातली...' लोहियांनी म्हळें.

'धरुया, आम्ी सत्याग्रह सुरू केलो. सरकार आमकां रोखडेंच धरून व्हरतलें. ख्यास्त करून आमकां बंदखणींत घालतलें... उपरांत आमच्या बायल-भुरग्यांची जापसालदारकी कोण घेतलो?' आनीक एकल्यान विचारलें.

'हिन्दुस्तानांत जे लाखांनी लोक बंदखणींत पाविल्ले तांची जापसालदारकी कोणें उखलिल्ली?'

'गांधीजींनी...'

'गांधीजींनी कोणाचीच जापसालदारकी उखलूंक ना. आनी कोणाचींच बायल-भुरगीं उपाशीं मरूंक नात...'

मर्दांच एका पत्रकारान म्हळें, 'सत्याग्रह करपाक धाडस नाका?... गोंयकारांत तें ना...'

'कित्याक?' लोहियांनी विचारलें.

'गोंयचे लोक पेज म्हूण...'

लोहियांक 'पेज' म्हळ्यार कितें तें समजलें ना. कोणें तरी तांकां पेज म्हळ्यार कितें तें सांगलें. लोहिया फटक् करून उसळ्ळे. 'यानी निकम्मे?... लोग निकम्मे नहीं होते... उनके नेता निकम्मे होते हैं इसलिए लोग आगे नहीं आते... गोवा के लोग दुनिया के और लोगों के जैसे ही हैं। देखना है?' अशें म्हणून तांणी सत्याग्रह करपाचो त्याच खिणाक निर्णय घेतलो. दिसूय थारायलो. मंगळार, अठरा जून.

लोहियांचो सत्याग्रह फिरंग्यां आड आशिल्लो? काय, गोंयच्या लाचार, हिसपी सभावाच्या, भिजूड फुडाऱ्यां आड आशिल्लो?

('जाग', जून २००७)



# ३६.

# काझेमीरु मोन्तैरु

अंदू अठरा जूनाक उगडास जालो तो लोहियांचो न्हय. सुटके झुजाऱ्यांचोय न्हय. जालो, काझेमीरु मोन्तैरीचो.

मोन्तैरु 'सॅडिस्ट' आशिल्लो. दुसऱ्यांक मार घाले बगर, तांकां पिडा भोगयले बगर ताका सूख लागनाशिल्लें. ताका सरकारान 'पिदे'च्या 'आजेन्ती'चें काम दिलें. सालाझाराची 'पिदे' हिटलराच्या 'गेस्टापो' सारकी आशिल्ली. तिका विचारपी पाचारपी सत्याच नाशिल्ली. मोन्तैरी सारकेल्या 'परपीडक-संतोशी' मनशाक 'पिदे'चें काम मेळटकूच तो सालाझाराचो बापूय जाल्ले भाशेन गोंयांत १९५४-५८च्या काळांत धुमशेणां कांडपाक लागलो. सांजचो पियेवन तर्रर जालो म्हणटकूच तो उठ्ठालो, जिपींत बसतालो आनी ड्रायव्हराक सांगतालो, 'चल, या...' 'खंय या?' 'चल, फोंड्यां या...' जीप घेवन ताणें फोंड्यां येवचें, केन्ना सावड्ड्यां वचचें, केन्ना सांग्यार वा केप्यां. कोणागेरूय वचचें. कोणाकूय धरचो आनी कोणाकूय जिपींत घालून ताका पणजे क्वार्तेलार हाडचो. ताका मार मार मारचो. मरऽसर मारचो. म्हज्या एका इश्टाक, लक्ष्मण

वेलींगकाराक तो असोच घेवन गेल्लो. ताका मार मार मारलो. अखेरेक लक्ष्मण मारांनी मेलो. मोन्तैरीन ताचें प्रेत लेगीत ताच्या घरच्या लोकांक दिलें ना. खंय व्हरून उडयलें, कोणाक खबर ना.

लक्ष्मणाचो 'जयहिन्दा' कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लो. 'जयहिन्दा'कडेन संबंद नाशिल्ल्या कितल्याश्या जाणांक ताणें धरून व्हेल्यात. मेल्यात तांकां खंय तरी व्हरून उडयल्यात. मरूंक पावले नात तांकां बंदखणींत घाल्यात.

कितल्याश्याच जाणांक ताणें हे भाशेन 'स्वातंत्र्य सैनीक' केल्यात!

'सॅडिस्ट' लोकांचें एक आसता. मारून मारून पुरो जालें, जीव संतुश्ट जालो म्हणटकूच ताका मारपाचें ते सोडून दितात. मागीर ताका साप विसरतात. दुसऱ्या दिसा दुसऱ्याक सोदूंक वतात.

लक्ष्मण वेलींगकार स्वातंत्र्य सैनीक नाशिल्लो. पुणून शिवाजी देसाय एक क्रांतिकारी आशिल्लो. एक दीस तोय मोन्तैरीच्या दावकुलांत पडलो. क्वार्तेलार व्हरून ताका मोन्तैरीन मार घालो. दोन अडेज वरां ताका जरबंद पेट दिलो आनी निमाणें ताका सांगलें, 'फाल्यां सकाळीं संक तुका हांव शूट करतलों... तुजी निमाणी इत्सा सांग...' शिवाजीक कितें सांगचें, येवजलें ना. ताणें 'एक सिगरेट आसल्यार दी' इतलेंच मागलें. मोन्तैरीन बोल्सांतलें 'कॅप्स्टन'चें पाकीट आनी फस्क काडून ताचेर मोखून मारलें आनी म्हळें, 'ओड सवन रात ह्यो सिगरेटी', आनी आपूण फाल्यां संक येतलों म्हण सांगून तो गेलो.

स जाल्लीं, सात जाल्लीं... आठ, णव, धा जाल्लीं. कोण शूट करपाक आयलो ना.

मोन्तैर शिवाजीक विसरिल्लो.

मोन्तैरीचीं धुमशेणां हाता भायर गेल्यांत म्हणपाचें सरकाराच्या लक्षांत आयलें तेन्ना सरकारानूच ताका गोंयचो हालयलो आनी पुर्तुगालाक रवाना केलो.

पुर्तुगालाकूय ताणें होच 'धंदो' चलयलो.

ताच्या हातांतल्यान निमाणी हत्या जाल्या ती पुर्तुगालच्या राष्ट्राध्यक्षाचे वेंचणुकेक उबो राविल्ल्या पुर्तुगालांतल्या एका व्हड मनशाची ह्न जेनेराल उम्बेर्तु देल्गादाची. १९६५त.

१९७४ तल्या एप्रील म्हयन्यांत सालाझाराचे राजवटीक उबगल्ल्या पुर्तुगाली लोकांनी एक क्रांती घडोवन हाडली. आनी हे क्रांतीन पुर्तुगालांतली सालाझाराची

हुकूमशाय कोंसळायली.

सालाझारवादी सगळे पुर्तुगालच्यान पळून गेले. तांचे वांगडा मोन्तैरूय पळ्ळो. पळून खंय गेलो? कोण म्हणटाले, ब्राझीलाक गेला; कोण म्हणटाले, आफ्रिकेंतल्या ऱ्होडेशिया देशांत गेला. पयर, १८ मे १९९९च्या 'सुनापरान्तां'त आमचे सुटके झुजारी फेलीस्युबाब कार्दोझांनी मोन्तैरीच्या निमाण्या दिसांची खबर सांगल्या. ते म्हणटात ह्न

'मोन्तैर दक्षीण आफ्रिकेंत रावंक लागिल्लो. ताणें आपणाल्यो मिशयो काडून उडयल्ल्यो आनी 'पैरैर फेर्नान्दीश' नांव घेवन तो जियेवंक लागिल्लो. १९९१ वर्सा जानेवारी म्हयन्याचे १५वेर ७१ वर्सांचे पिरायेर तो पिडेस्त जावन मेलो. (तो भीक मागतालो)... गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांचो हो कर्दनकाळ निमाणें एक पारपोळ सुणो कसो एका परकी देशांत मेलो!...'

('जाग', जून १९९९)



## ३७.

# कालिगुला

आल्बॅर काम्यूलें *कालिगुला* नाटक कोंकणींत घालून सुरेशबाब बोरकारांनी तें 'जागां'त दिवपा खातीर आमचे कडेन धाडून दिलें त्या काळांत देशांत इन्दिरा गांधींची 'इमर्जन्सी' सुरू जाल्ली. जयप्रकाश, मोरारजी सारकेल्यांक तिणें धरून बंदखणींत घाल्ले. खबरेपत्रांचेर 'सॅन्सर' लागू केल्लें. मेकळेपणान कोणाक कांयच बरोवंक मेळनाशिल्लें. पुलिसांचे परवानगे बगर सभा घेवंक मेळनाशिल्ल्यो. म्हूण, कोणाक मेकळेपणान उलोवंकूय मेळनाशिल्लें. लोकशायेची इमर्जन्सीन जशी कितें गचीच अंदिल्ली. आनी ह्न

गाडयो वेळार भायर सरतात, वेळार पावतात; सरकारी कचेऱ्यांनी कर्मचारी वेळार येतात, चोख बरीं कामां करतात; खंयच संप जायनात, खंयचेच कारखाने बंद उरनात; सगळें जिस्ताजिस्त चल्लां; चांचाळ सगळी बंद जाल्या; लोकांक एके तरेची शिस्त लागल्या म्हूण कांय खुशमस्करे 'इन्दिरा इझ् इन्डिया' हे भाशेच्यो घोशणा दिवन तिची सायबाजात्रा करपाक लागिल्ले. हें सगळें थोडें म्हूण जाल्यार देवाक खबर, विनोबा

सारकेल्या एका संतान लेगीत ह्या काळाक 'अनुशासन पर्व' म्हूण नांव दिवन तिची फाटूय थापटिल्ली. म्हळ्यारह्न

पुर्तुगाल जे वाटेन सालाझाराचे हुकूमशाये कडेन पाविल्लें, जिस्त तेच वाटेन हिन्दुस्तान चलपाक लागिल्लें.

१९१०त पुर्तुगाल प्रजासत्ताक जाल्लें. सोळा वर्सां प्रजासत्ताक राजवटीचो अणभव घेतले उपरांत लोकांक दिसून आयलें, जे अधिकार प्रजासत्ताकान लोकांक दिल्ले तांचो सारको वापर तांकां करूंक येवंक ना. सोळा वर्सांत पंचेचाळीस सरकारां आयलीं आनी गडगडून पडलीं. राष्ट्राध्यक्षूय बदलत रावले. सोळा वर्सांत णव राष्ट्राध्यक्ष आयले आनी गेले. पंचवीस बंडां जालीं. तीनशीं बॉम्ब स्फोट जाले आनी तातूंत शेंकड्यांनी लोक मेले. हे 'चांचाळे'क सगळे उबगले. सगळ्यांत चड 'त्रॉप' (लष्कर) उबगलें. 'लोकशाय पुर्तुगालाक न्हय' अशें म्हणून लष्करान एक दीस सत्याच झोंबून आपणा हातांत घेतली. आनी 'लष्करी हुकूमशाय' सुरू जाली.

लष्करा फाटल्यान उद्देगपती आनी इगर्जेचे अधिकारी उबे राविल्ले.

ते मेरेन सालाझार नांवाचो कोणूच कोणाक खंयच दिश्टी पडूंक नाशिल्लो. कोइंब्रा विश्वविद्यालयांत ह्या नांवाचो एकलो गणिताचो प्रोफसोर म्हूण काम करतालो. पुर्तुगालचें खांकनवाळ जाल्लें अर्थतंत्र जाग्यार घालपा खातीर लष्कराक एक 'तज्ञ' जाय आशिल्लो. कोणें तरी ह्या सालाझाराचें नांव सुचयलें. म्हूण लष्कराचे अधिकारी कोइंब्राक वचून ताका घेवन आयले आनी 'हें आतां जाग्यार घालून दी' अशें सांगून अर्थतंत्र तांणी ताच्या हातांत दिलें.

पांच वर्सां भितर सालाझारान अर्थतंत्र नीट रुळार हाडलें. इतलेंच न्हय तर आंतरराष्ट्रीक बाजारांत 'इश्कुदा'चें मोलूय वाडोवन दाखयलें. ताच्या ह्या कर्तुत्वाचेर खोश्शी जावन लष्करान देशाचो प्रधानमंत्री म्हूण ताची नेमणूक केली.

सत्या हातांत घेवचे पयलींच सालाझार 'लोकशाय पुर्तुगालाक न्हय, हुकूमशाये बगर पुर्तुगाल जाग्यार येवपाचें ना, सारकें चलपाचें ना, वयर सरपाचें ना' ह्या मत्ताचो जाल्लो. प्रधानमंत्रीपद हातांत येना फुडें ताणें इल्ली इल्ली करून आपणाली सत्या वाडयत व्हेली. आनी एक दीस देशाचेर आपणाली हुकूमशाय थापली. लष्कर, उदद्देगपती आनी इगर्ज ह्यो तिनूय शक्ती ताचे फाटल्यान उब्यो रावल्यो.

उपरांत देशांत 'कँ मान्दा? सालाझार, सालाझार, सालाझार' (''देशांत कोणाची

सत्या चलता? सालाझाराची, फकत सालाझाराची'') ह्यो घोशणा पुर्तुगालांत वचत थंय लोकांच्या कानार पडपाक लागल्यो. 'देश की नेता झिंदाबाद, इन्दिरा गांधी झिंदाबाद' हे घोशणेचें पुर्तुगेज भाग्शांतर हें!

इन्दिरा गांधींची 'इमर्जन्सी' देशांत आयल्या त्या वेळार हांगा राजकी मळार पुर्तुगालांत चलिल्ली तेच तरेची 'चांचाळ' चलपाक लागिल्ली. १९७१तले वेंचणुकेंत इन्दिरा गांधींचे कॉंग्रेसीक घसघशीत बरें जैत मेळिल्लें पळोवन कॉंग्रेस विरोधी सगळे फुडारी आनी तांगेले पंगड साप्प निर्शेल्ले. इन्दिरा गांधींक सत्ये वयली निखळावंक जाय जाल्यार 'इन्दिरा हटाओ' हें एकूच ध्येय आनी एकूच धोरण घेवन सगळ्या राजकी पंगडांनी एक जावंक जाय ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. उत्तर प्रदेशांत सदांच जातींचे बेरीज-वजाबाकीचें राजकर्ण चलत आयिल्लें. (आयजूय चलता.) थंयचे सगळे राजकी पक्ष खंयचे न्हय खंयचे एके जातीचे पक्ष आसतात. ते सगळे चरणसिंगांच्या 'भारतीय लोक दल' नांवाच्या पाख्या खाला एकठांय आयले. १९७१तले वेंचणुके आदींच कॉंग्रेस फुटिल्ली. एके कॉंग्रेसीच्यो दोन कॉंग्रेसी जाल्ल्यो. म्हालगडे सगळे 'सिंडिकेट कॉंग्रेसीं'त एकठांय जाल्ले. जनसंघ, स्वतंत्र पार्टी नांवाचे आनीक दोन पक्ष इन्दिरा गांधींक निखळावंक जाय ह्या मत्ताचे आशिल्ले. जयप्रकाश कितल्याश्या वर्सां सावन राजकर्णा पसून साप्प पयस सरून सर्वोदयी जाल्ले. तेय आतां इन्दिराजींक निखळावंक जाय ह्या मत्ताचे जाल्ले. हांच्या सगळ्यांच्या दळवयपणा खाला खंय न्हय खंय तरातरांचीं आंदोलनां चलतालीं. सिंडिकेट कॉंग्रेसीचे एक म्हालगडे फुडारी मोरारजीभाई. गुजरात राज्याची विधानसभा विसर्जीत जावची म्हूण ते उपास करपाक बसले. (थंय इन्दिरा कॉंग्रेसीचें सरकार आशिल्लें.) जयप्रकाश बिहारांतली कॉंग्रेस सोंपोवची म्हूण मुखार सरले. थंयूय इन्दिरा कॉंग्रेसीचें सरकार चलतालें. इतलेंच न्हय तर पुलिसांनी आनी लष्करांतल्या जवानांनी वरिश्ठांच्या 'नाका जाल्ल्या' हुकमांक पाळो दिवचो न्हय हे तरेची भासूय उलोवपाक लागिल्ले.

ह्या उज्यांत अलाहाबाद हायकोर्टान तेल ओतलें. १९७१तली इन्दिरा गांधींची वेंचणूक invalid (रदद) करची म्हूण निर्णय दिलो!

हे संदीचो लाव घेवन इन्दिरा विरोधी सगळे पंगड एकठांय आयले आनी तांणी प्रधानमंत्रीपदा वेल्यान इन्दिरा आपूण जावन कडेक सरलिना जाल्यार आमी देशभर 'इन्दिरा हटाओ' नांवाची घेराव-धरणां-सत्याग्रहाची चळवळ चलोवन

तिका निखळायतले हे तरेचो थाराव घेतलो. आनी, 'तटस्थ' जयप्रकाशांक चळवळीचे फुडारी म्हूण सगळ्यांनी एकमतान वेंचून काडले.

इन्दिरा गांधी ओगी थोडीच बसतली आशिल्ली! आपणाक कडेक काडूंक सोदतल्या आपल्याच काँग्रेस पक्षांतल्या एका एका म्हालगड्या फुडाऱ्याक तिणें हे पयलींच पांयांत पांय घालून जमनीर आपटिल्ले. ती आतां आपणाक निखळावंक सोदतल्या सगळ्यांक आड घालून लोळोवपाक चवताळून आयली. हांचे फाटल्यान अमेरिका आसा असो दुबावूय तिका येवपाक लागलो. (तो लटको नाशिल्लो.) तिणें रोखडोच 'महिषासूर मर्दिनी'चो अवतार घेतलो.

आनी 'इमर्जन्सी' हाडली.

जिस्त ह्या वेळार आमच्या हातांत आल्बॅर काम्यूलें हें *कालिगुला* नाटक पाविल्लें. काम्यून तें बरयल्लें हिटलर आनी मुसोलिनी नांवाचे दोग हुकूमशाह येवरोपांत दैत्य कशे मातिल्ले त्या काळांत. दोगांनीय येवरोपाचेर दुसरें म्हाझूज ओडून हाडिल्लें आनी ह्या झुजांत येवरोपाची दानाधिस्पट जाल्ली. हिटलरान फ्रांसूय घेवन उडयल्लें. आनी काम्यून तर हिटलराच्या चपक्यांतलें फ्रांस सोडोवपा खातीर सुरू जाल्ल्या झुजांत उडीय घेतिल्ली. काम्यू निखटो वाचप्यांचीं मनां रिजोवपी साहित्यकार नाशिल्लो. समाजा कडेन बांदिलकी आशिल्लो एक विचारवंत साहित्यकार आशिल्लो. ताका हुकूमशाहांचो सभावगूण कसो आसता ह्व ते खंय आशिल्ले, खंयचे खंय कशे आनी कित्याक लागून पावतात ह्व निमाणें तांचो अंत कसो जाता हें फ्रांसांतल्या लोकांक दाखोवन दिवपाचें आशिल्लें. आनी तांकां हिटलराचो प्रतिकार करपाक मुखार काडपाचें आशिल्लें. साहित्याच्या दुसऱ्या खंयच्याय फॉर्मा परस नाटक हो फॉर्म ह्या कामाक बेस बरो उपकारा पडपा सारको अशें थारावन ताणें येवरोपाच्या फाटल्या इतिहासांतलो (ख्रिस्ती सना आदल्या पयल्या शतमानांतलो) रोमन सम्राट काय्युश कालिगुला वेंचून ताचेर हें नाटक बरयल्लें.

कालिगुला हें काय्युशाचें घरगुती नांव. सम्राटाचे गादयेर बसला त्या वेळार ताची पिराय फकत चोवीस वर्सांची आशिल्ली. पळोवपाक देखणो, सभावान गुणेस्त, काळजान उदार, हातान सदळ, उमेदी, आनंदी, धादोशी, प्रसन्न दिसतालो. 'आमकां एक बरो सम्राट मेळ्ळा' म्हूण रोम खोशशीय जाल्लें. पुणून हें तागेलें भायलें रूप, वा म्हणुया, रुपडें आशिल्लें. तागेलें भितल्लें रूप वेगळेंच आशिल्लें.

तें लोकां पसून लिपून उरिल्लें. पावसाळ्यांत कुपांचो गडगड जावन जोगलावतालें तेन्ना ताचो आवरो उडटालो आनी तो बाज्जे मुळा वचून लिपतालो. खंयूय उज्याच्यो जिबल्यो वयर सरिल्ल्यो पळेल्यो म्हणटकूच जीव मुठींत धरून पळ काडटालो. काळखाक थर्त भियेतालो आनी न्हिदपा बदला सवन रात आपणाल्या राजवाड्यांत एका सारको पासयो मारून 'देवा, दीस बेगीन उजवाडाय' म्हूण मोट्या मोट्यान आड्डतालो. केन्ना केन्ना हारशा मुखार उबो रावन वांकडें तिकडें तोंड करून आपणार्ली भियेल्लीं, भेश्टावपी, बिभत्स बी वेगळीं वेगळीं रुपां नियाळून पळेतालो.

व्यभिचारीय आशिल्लो. राजकारभाऱ्यांची जी जी बायल ताचे नदरेंत भरल्या तिका तो आपणाल्या जनानखान्यांत घेवन गेला. एक खेपे खंय तो एका लग्नाक गेल्लो. थंय व्हंकल ताचे नदरेंत भरली. कळाव करी नासतना तिका थंयची उबारली आनी घरा घेवन आयलो. तिचे कडेन लग्न जालो आनी कांय दिसांनी 'चल तूं तुका जाय थंय... म्हाका नाका.' अशें म्हणून तिका सोडुनूय मेकळो जालो. आनीक एकल्याची बायल अप्सरे परस गोमटी म्हूण ताच्या कानार आयलें. तिका आपोवन घेतली. तिका घोवा कडलें लग्न मोडूंक लायलें आनी आपूण तिचे कडेन लग्न जालो. कांय दिसांनी 'तुजो म्हाका वीट आयला... तुज्यांत हेरां परस वेगळें कांयच ना' अशें म्हणून तिकाय सोडून मेकळो जालो. तें कित्याक, ताका तिगी भयणी आशिल्ल्यो. तांचेय लागीं तो व्यभिचार करपाक लागलो. 'इजिप्ताच्या लोकांची ही बऱ्यांतली बरी एक चाल, ती रोमांत सुरू करूंक जाय' अशें म्हणपाक लागलो. इजिप्ताच्या लोकांची 'फाराओ'क (आपणाल्या म्हाराजाक) देव मानपाची चालूय ताका मानवल्ली. तिवूय रोमांत सुरू करूंक जाय म्हणटालो.

एक दीस तागेले आजयेन ताका म्हळें, 'पुता, तुजे हे चाळे एक दीस आंगलट येवपाचे आसात. सोडून दी ते. कुडीची भलायकी 'कितें खावचें, कितें न्हय' ह्या नेमांक पाळो दिवन सांबाळची पडटा तशी सम्राटान आपणाली सत्याय 'कितें करचें, कितें न्हय' ह्या नेमाक पाळो दिवन सांबाळची पडटा, कळ्ळें?'

कालिगुलान तिका थंडसाणेन जाप दिली, 'म्हज्या हातांत केदी सत्या आयल्या, खबर आसा तुका? म्हज्यान कोणाकूय कितेंय करूंक जाता. जितो लेगीत मारून उडोवंक जाता... कोण कांय करपाचो ना...'

तागेल्यो चैनी इतल्यार थांबूंक नाशिल्ल्यो.तो उदका बदला अत्तरान (चेरान)

न्हातालो. एक खेपे ताणें रोमांतल्या व्हडल्या व्हडल्यांक आपोवन पंचपक्वान्नांचें एक जेवण दिलें आनी तातूंत राज्याचे तिजोरेंत जमिल्लें सगळें सोंपोवन उडयलें.

रोखडीच ताणें तिजोरी भरून काडपाची एक नवी येवजण सुरू केली. ताचे भेटेक सदां लोक येताले. तांचीं कामां आसतालीं. तांणी येतना पयशांच्या रुपान भेटवण घेवन येवंक जाय म्हूण फर्मान काडलें. तरातरांचे कर लोकांचेर बसयले. पसऱ्यार कोणेंय कितेंय घेवं, ताचेर कर. कोर्टांत कोणेंय कोणाचेर केश घालूं, तिचेर कर. रोमांत नाचाच्यो, गाण्याच्यो, नाटकाच्यो कार्यावळी चलताल्यो, तांचेर कर. मानायांच्या दिसवड्याचेर कर. कुडीचो धंदो करतल्या शिंदळ्यांचेर कर. पसरकारांले जोडीचेर कर. भाटकारांले येणावळीचेर कर. इतल्यार थांबलो ना. गिरेस्तां मदल्या कांय जाणांचेर बगलांटां घालून तांकां मरणाच्यो ख्यास्ती फर्मायल्यो आनी तांगेली सगळी इस्टेट जप्त करून ती सरकाराचे मालकीची केली.

तिजोरी भरत रावली आनी कालिगुलाच्यो चैनीय ताचे सत्ये वांगडा धरबांद नासतना चलत रावल्यो.

ज्या भयणीं लागीं तागेलो व्यभिचार चलतालो तांचे मदली द्रुश्शिला ताची सगळ्यांत चड आवडटी. तिचें लग्न जाल्लें. तिका ताणें लग्न मोडूंक लायलें आनी राजवाड्यार हाडून तिका 'साम्राज्ञी'च्या पदार बसयली. अवचीत एक दीस ती भायर पडली. कालिगुलाची मत्त पिशांतुरा सारकी जाली. 'ती मरचीच कित्याक? म्हाका जाय आशिल्ली ती... मरणाचेर कांय उपाय ना?' तो आपणाकूच विचारपाक लागलो. आनी, 'तिगेल्या मरणाक लागून हांव इतलो दुःखी आसतना रोमांतले लोक खंयच्चे कडेन कांयच जावंक नाशिल्ले भशेन सुशेगाद बरे जेवतात खातात न्हिदतात?... हांव दाखयतलों तांकां मरणाचें दुःख म्हळ्यार कितें तें.' ह्या निर्णयार पावलो. लोकांक थरथरावन उडोवपी एका फुडल्यो एक आगळिको करपाक लागलो. कोणेंय ल्हानशी चूक केल्यार पुरो, ताका मरणाची ख्यास्त फर्मावपाक लागलो. मारतल्याक सांगतालो, 'हाका गोळाक लावन मारूं नाका. तरसादेन तकली कातरून मारूं नाका. एका धपक्यान मारूं नाका. हाल हाल करून मार. ताका आपूण मरतां म्हूण कळूंक जाय. बोबो हुयेली मारून ताणें मरूंक जाय.' कांय जाणांक ताणें रानवटी सावदांचे भकीक घालून मारले तर कांय जाणांक दोनूय पांयां मदीं उबे पिंदून मारले. आपणाक मारपाचीं गुपीत कारस्थानां चल्ल्यांत म्हणपाचें कळना फुडें ताणें जाचो जाचो दुबाव आयलो ताका धरून

हाडलो आनी अशेच हाल हाल करून ताका मारून उडयलो

कोणेंच कसलोच प्रतिकार केलो ना तेन्ना एक दीस ताणें आपूण देव ज्युपिटराच्या पांवड्याचो म्हूण पेरगांव घालें. रोमांत ज्युपिटरा भायर आनीक कांय देवांच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. शिल्पकारांक सांगून ताणें तांच्यो गोमट्यो बदलून थंय आपणाल्यो गोमट्यो बसोवंक लायल्यो. केन्ना केन्ना लोकां हुजीर ज्युपिटराचे मुर्ती मुखार उबो रावन ताचे परस आपूण व्हड म्हूण दाखोवपाक ताचीं उणेपणां दाखोवपाक लागलो. एक देवूळ बांदून घेतलें. तातूंत आपणाली मूर्त बसोवन घेतली आनी लोकांक तिची पुजा करूंक लायली.

चोवीस वर्सांचे पिरायेर सम्राटाचे गादयेर बशिल्लो देखणो, उमेदी, आनंदी, धादोशी कालिगुला पांच वर्सां भितर एकोणतीस वर्सांचे पिरायेर साठी हुपिल्लो एक जाणटो, आंग सुटिल्लो, भायले पिडेन जर्जर जाल्लो भयांक्रूत राकेस कसो दिसपाक लागलो.

एक दीस शेरेय नांवाच्या तागेल्याच एका सरदारान राजवाड्यांतले एके काळखे पाळणींतल्यान तो वतासो पळोवन सुरी तोंपून ताची हत्या केली. हत्येची खबर फां फां करून पुराय शारांत पातळ्ळी. पुणून कोणूच राजवाड्यार येवपाक धजलो ना. आपूण मेलों म्हूण कळना फुडें कोण खुशालभरीत जावन राजवाड्यार येतात हें पळोवपा खातीर ताणेंच ही वावडी उठयल्या जातली ह्या दुबावान सगळे पयस राविल्ले. तागेलो दुबाव ना करपा खातीर मारतल्यांनी कालिगुलाचे निमाणे राणयेक राजवाड्या भायर हाडून वणटीक आपटून मारून उडयली तेन्नाच सगळ्यांनी सुटकेचो हुस्कार सोडलो.

इतिहासांत कालिगुलाच्या जिविताची नोंद मेळटा ती हे तरेची. काम्यून तिचो आधार घेतला आनी आपणालें हें नाटक बरयलां. कसलोच बदल करी नासतना. महाभारतांत आयिल्ल्या 'दुष्यंत शकुंतला' आख्यानाचो आधार घेवन कालिदासान आपणालें *अभिज्ञान शाकुंतलम्* नाटक बरयल्लें. पुणून महाभारतांतल्या आख्यानांतले 'तेजस्विनी' शकुंतलेक 'अबले'चें रूप दिवन. अशे बदल करप आपणालो हक अशें खूबश्या सर्जक कलाकारांनी मानलां. आल्बेर काम्यून हो हक हातांत घेवंक ना. इतिहासान कालिगुला जसो आशिल्लो म्हूण सांगला तसोच ताका आपणाल्या नाटकांत उबो केला. फकत राजवाड्या वयले सगळे सरदार कालिगुलाक मारतात आनी तो सकयल पडटा तेन्ना एक हात वयर करून धडपडत हांसता आनी 'हांव

अजून जितो आसां' म्हूण आड्डता, इतलेंच पदरचें घालां. हिटलराच्या रुपान तो आयज जितो आसा हेंच काम्यूक सांगपाचें आशिल्लें. कालिगुला जावचे पयलींय संवसारांत हुकुमशाह जावन गेल्यात, आयजूय आसात, फुडाराकूय येतले. केन्ना घडूंक ना तें घडोवपाक सगळे मुखार सरल्यात ह्न आपणाक देव मानपाक लागल्यात आनी निमाणें कालिगुला भाशेनूच मेल्यात हें सनातन सत लोकां मुखार दवरप हीच मोख मुखार दवरून काम्यून हें नाटक बरयलां.

नाटक बरयलें म्हूण भागना. माचयेर ताचे प्रयोग जावंक जाय. ते बगर ताचें अवतारकार्य पुरें जायना. काम्यून हें नाटक बरयलां त्या काळांत फ्रांस हिटलराच्या चपक्यांत आशिल्लें. तरी आसतना धीर करून ताणें ताचो एक प्रयोग माचयेर करून दाखयलो. उपरांत ताका हें जमलें ना. फ्रांस हिटलराच्या चपक्यांतल्यान सुटलां ते उपरांतच्या पयल्याच वर्सा ताचे फ्रांसांत दोनश्यां वयर प्रयोग जाले.

सुटकेचो उल्हास लोकांनी *'कालिगुला'*चे प्रयोग करून मनयलो.

आमच्या हातांत नाटकाचें कोंकणी रूप पडलां तेन्ना ताचे प्रयोग करून दाखोवपाक 'जागा'कडेन यंत्रणा नाशिल्ली. आमी फकत तें 'जागा'च्या एका दिवाळे आंकांत उजवाडा हाडून संतोस मानलो.आतां तें पुस्तकाच्या रुपान येता.व्हडांतल्या व्हड नटांक वा दिग्दर्शकांक आव्हान दिवपी एक नाटक हें. हें आव्हान पेलपी गोंयांत कोणूच नाटक मोगी ना अशें कशें म्हणूंक येतलें?

इंग्रजींत एक म्हणणी आसा ह्न Prevention is better than cure म्हूण. पिडेक उपाय करचे परस पिडा जावचीच न्हय म्हूण जतनाय घेवप चड म्हत्वाचें. खूब ल्हान लोक आमी. मातशीशी सत्या हातांत आयल्यार पुरो, आमच्यांतलो कालिगुला तकली वयर काडटा आनी आमी मदांत जातात हें फाटल्या पंचवीस तीस वर्सांच्या काळांत आमी आमच्या राजकी जिवितांत पळेत आयल्यात. आनी सत्या आमी सदां ल्हान लोकांच्याच हातांत दीत आयल्यात. अजून तांचे मदल्या कोणांत शेंप्रतिशत कालिगुला दिश्टी पडूंक ना, खरें. पुणून पडचोच ना अशें कशे म्हणटले? पडूं येता. तो वयर सरचे पयलींच लोकांक जाग हाडूंक जाय. ते खातीर ह्या नाटकाचे गांवागांवांनी प्रयोग जावंक जाय.

('जाग', फेब्रुवारी २००६)



३८.

# अमेरिकेचे लोकशायेचीं काळीं कर्तुबां

अमेरिकेन स्वराज्य जोडलां त्या काळार ती केदया ऊंच हावेसांनी भरून आयिल्ली! भंया पसून मुक्त, शुद्ध निर्मळ मनाची, ज्ञानाचेर निष्ठा आशिल्ली, फाटीं पडिल्ल्या लोकांक हात दिवन वयर काडपी एक राष्ट्र म्हूण अख्खो संवसार तिचे कडेन आपलेपणान पळेतालो. तीच अमेरिका आयज ह्न आमचो स्टँडर्ड ऑफ लिव्हींग आमी देवूंक दिवचे नात, आमी तो वाडयत व्हरतले; ते खातीर आमी संवसारभरची साधन संपत आमच्या हातांत घेतले; पुराय संवसार आमच्या शेका तळा दवरतले; आमकां नाका आशिल्ले कोणूच खंयच्याच देशांत सत्येर येवंक दिवचे नात; आयले जाल्यार तांकां आमी निखळायतले; आमचे कडेन सर्त करीत असो एकूय देश संवसाराचे फाटीर आमी उरूंक दिवचे नात! ह्न हे तरेच्या आसुरी हावेसांनी भरून कशी चलपाक लागली?

ती खंय निसरली?

थोरो, इमर्सन सारकेल्या विचारवंतांच्या देखींक फाट करून अठराव्या शतमानांत सुरू जाल्ल्या 'इंडस्ट्रियल रेव्होल्युशना'चे

देखीन ती मुखार सरूंक लागली तेन्ना सावन ती पडपाक लागल्या अशें म्हणूं येता. पुणून नागासाकी आनी हिरोशिमा ह्या दोन जपानी शारांचेर ॲटम बॉम्ब उडोवन तिणें तीस लाख लोकांक एकाच खिणांत हुलपावन मारले, इतलेंच न्हय, तर ह्या शारां भोंवतणचो सुमार तीस चौरस मैलांचो वाटार तिणें विकलांग लोकवस्तीचो करून उडयलो त्याच खिणाक ती गडगडून सकल पडल्या अशें म्हणूंक जाय.

खरेपणानशीं ह्या शारांचेर ॲटम बॉम्ब उडोवपाची कसलीच गरज नाशिल्ली. 'जपानी सैन्य कावलाक आयलां, ह्या दोन तीन दिसां भितर तें शरण येवपाचें आसा' अशें खासा जपाना आडचें झूज जिखपाची जापसालदारकी जाणें घेतिल्ली त्या अमेरिकन सेनापती मॅक-आर्थरानूच अमेरिकेच्या राष्ट्राध्यक्षाक, प्रेझिडॅंट ट्रूमनाक कळयल्लें. तरी आसतना, ट्रूमनान बॉम्ब उडोवंक लायिल्ले! कित्या खातीर? 'आमच्या हातांत पळेयात केदो सांवार घडोवन हाडपी शस्त्रास्त्रां आसात तीं' हें संवसाराक दाखोवन ताचेर आपणालो धेंक बसोवपा खातीर. आनी, 'आमचे कडेन आतां कोणेंच खेळचें न्हय' हें सांगपा खातीर.

झूज सोंपना फुडेंच अमेरिकेन कोरियाचेर हात घालो. जपान चीना सारकोच हो एक खेरीत देश आशिल्लो. तो जिखून घेवपाचो अमेरिकेचो बेत आशिल्लो. पुणून ते मुस्तींत अमेरिके कडेन सर्त करीत अशी एक म्हासत्ता संवसारांत आशिल्ली ह्न रशिया. ती मदीं पडली. परिणाम ह्न खूबशे धुळदशे उपरांत अमेरिका आनी रशिया ह्या दोनूय म्हाशक्तींनी कोरिया देश फोडलो. ताचीं दोन राष्ट्रां केलीं. एक रशियेन आपणा हातांत घेतलें. दुसरें अमेरिकेन आपणाक दवरलें. देश एक. दोनूय कडच्या लोकांचो वंश एकूच.भासूय एक. संस्कृतायूय एक. पुणून एका देशाचीं 'राष्ट्रां' दोन. आमच्या देशाचीं हिन्दुस्तान आनी पाकिस्तान अशीं दोन राष्ट्रां इंग्रजांनी केलीं नात? तशीं. येदो व्हडलो हो 'दिग्‌विजय' करपाक रशिया आनी अमेरिका ह्या दोनूय म्हासत्तांनी तीस लाख कोरियनांचो जीव घेतला.

म्हणटासर अमेरिकेची नदर वियेतनाम देशाचेर पडली. १९६५ पसून १९७१ मेरेन स वर्सां तिणें हे भुंयेर धुमशेणां कांडल्यांत. एकवीस अब्ज रात दारुगुळो तिणें हे भुंयेर ओतला. नापाम बॉम्बांचो धरबांद नाशिल्लो मारो केला. डायोक्सिना सारकेलीं विखाळ अस्त्रां शेंवटिल्यांत. वियेतनामांतलीं सगलीं रानां हुलपावन उडयल्यांत. आनी चाळीस लाख लोकांचो जीव घेतला. वियेतनाम हो-ची-

मिन्हालें. हो-ची-मिन्ह कोमुनिश्त. कोमुनिझम् एक सांथीची पिडा जाल्ले वरी लेखून डी.डी.टी.चो मारो करून जळारां मारचीं तशे ह्या देशाचे लोक अमेरिकेन मारल्यात.

लाओस आनी काम्बोडिया ह्या देशांक वियेतनामांतले राजकी उलथापालथीचें कांय लागनाशिल्लें. पुणून दोनूय देश वियेतनामाचे शिमे वेले. अमेरिकेच्या आगळिकांक भियेवन वियेतनामी लोक जीव मुठींत घेवन पळपाक लागले तेन्ना तांकां ह्या देशांनी आसरो दिलो. अमेरिकेक इतलोच हो तांचो 'गुन्यांव' पुरो जालो. लाओस देशाचेर तिणें तीस लाख टन बॉम्ब शेंवटिले. मनशा कणकणी एक. तेवूय विखाळ रसायनांचे. ह्या बॉम्बांनी झाडां-पेडां तर हुलपावन उडयलींच. शेतां-भाटांचोय गोबोर केलो. इतलेंच न्हय, तर शिंपणावळीचें पुराय जाळ मोडून उडयलें. भूंय सगळी करपली. ब्यांयशीं हजार बैल मेले. सात लाख शेतकामती देश सोडून पळ्ळे.

हें सगळें खंयच्या काळांत घडोवन हाडलें? 'देवान अमेरिके कडेन धर्तरे वेल्या स्वतंत्र देशांचे स्वतंत्रतायेची राखण करपाची जापसालदारकी सोंपयल्या' अशें अमेरिकेचो राष्ट्राध्यक्ष जॉनसन घोशणा करतालो त्याच काळांत.

काम्बोडियांत ते मुस्तींत प्रिन्स सिंहानूक सत्येर आशिल्लो. हो मनीस अमेरिकेक दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लो. ताका तिणें सत्ये वेलो निखळायलो. देशा भायर धांवडावन घालो आनी ताचे सुवातेर अश्या एका मनशाक हाडून बसयलो की जो भ्रश्ट तर आशिल्लोच, ते भायर, जुलमीय आशिल्लो. परिणाम ह्व ह्या झुजात सुमार तीस लाख लोक मेले. कितलेशे लाख निराश्रीत जाले. आगळिको कितल्यांचेर जाल्यो जातल्यो हाचो हिशोब मेळपाचो ना.

विसावो शेंकडो सोंपून एकविसावो सुरू जालो. दोन वर्सां भितर अमेरिकेन अफघानिस्तान आनी इराक ह्या दोन देशांत धुमशेणां सुरू केलीं. अफघानिस्तानांतले लाखांनी लोक मेले. अफघानिस्तानाचें कब्रस्तान करून उडयलें. इतलेंच न्हय तर तें परतें तकली वयर काडूंक पावचें न्हय म्हूण ताच्या भूगर्भांतले उदका झरेय बॉम्ब घालून आटयले. कित्या खातीर? ओसामा बीन लादेनाक ह्या देशान आसरो दिला, ताका 'जितो वा मेल्लो' धरूंक मेळचो म्हण.

सद्दाम हुसेनाक 'जितो वा मेल्लो' धरपा खातीर तिणें इराकांत धुमशेणां कांडलीं. अंतस्थ हेतू : पेट्रोलाच्यो बांयो आपणा हातांत येवच्यो, हो. इराकाचेर

तिणें जीं अस्त्रां शिंपडायलीं तातूंत 'डिप्लिटेड युरेनियम'चीं अस्त्रां आशिल्लीं. हजारांनी न्हय, तर लाखांनी वर्सां मेरेन किरणोत्सर्ग करीत रावतलीं असलीं.

आशिया खंडांतले लोक म्हळ्यार 'किस पेड की पत्तियां' हें धोरण अमेरिकेचें. जळारां मारचीं तशे आशियायी लोकांक तिणें मारल्यात.

सगळे कडेन तिका हे भाशेन चलूंक येवंक ना. जंय चलूंक येवंक ना थंय ती जॉन फॉस्टर डलेसच्या धोरणाक धरून चल्ल्या. डलेस कितलींशीं वर्सां तिचो विदेश मंत्री आशिल्लो. ताणें म्हळ्ळें, 'पयलीं इंग्लंड स्पेन सारकेल्या देशांक पयस पयसले देश 'घेवंक आयले' तशे आतां ते आमकां जिखून घेवंक येवपाचे नात. म्हूण कितें करपाचें? तांकां आपणाली उदरगत करून घेवपा खातीर दुडवांचो भरपूर 'आधार' दिवपाचो आनी तांच्या अर्थतंत्राचेर नियंत्रण दवरपाचें.' पँटागॉनाच्या एका अर्थतज्ञान हाची फोडणिशी करून म्हळ्ळें, 'आयज संवसाराची पन्नास प्रतिशत साधन संपत आमच्या हातांत आसा. आनी आमची लोकसंख्या तर संवसाराच्या मानान फकत स सात प्रतिशतूच म्हळ्यार जाता. हे परिस्थितींत मुखावेलीं कांय वर्सां आमकां 'आमच्या फायद्याक पडटा' त्याच गजालींचेर आमचें लक्ष केंद्रीत करचें पडटलें. लोकशाय-बिकशाय आमकां पुटवपाची ना...'

खूब कडेन अमेरिका ह्याच धोरणाक धरून चलत आयल्या. आपणालो सुवार्थ सादपा खातीर ती खंयच्याय तोंकार गेल्या. तिचे आड आशिल्ले कोणूय ह्या देशांनी सत्येर आयल्यात तेन्ना तांकां तिणें सत्ये वेले निखळायल्यात. आनी आपणाक जाय तांकां तांचे सुवातेर बसयल्यात. कसलीच आत्साण पात्साण दवरूंक ना. दुश्ट हुकूमशाहांक लेगीत बसयल्यात. आनी देश असुदाय लुटला.

इण्डोनेशियेचो दाखलो घेवया. साधन-संपत्तेन उपाट भरिल्लो हो एक देश. 'खरो' स्वतंत्र उरिल्लो जाल्यार संवसारांतलो एक गिरेस्त देश म्हूण मुखार येतलो आशिल्लो. सुकार्णोच्या हातांत तो आशिल्लो तेन्ना तो वयर सरतालो. सुकार्णो 'पडले' उपरांत तो सुहार्तोच्या हातांत गेलो. अमेरिकेन ताका रोखडोच कवळ्ळो. सुहार्तोक तिणें देशाचो (आनी खासा ताचो) विकास करपा खातीर आकांताचो दुडू दिलो आनी इण्डोनेशियेचीं दारां आपणाल्या उद्देगां खातीर 'उकतीं' करून घेतलीं. कितल्योश्यो सवलती मागून घेतल्यो.

तातूंत टॅक्स कसलोच दिवपाची गरज आसची ना ही मुखेल सवलत आशिल्ली. एक दोन वर्सां भितर अमेरिकेचीं अंगडबंब कोर्पोरेशनां इण्डोनेशियेंत चलपाक

लागलीं. तांणी देशाच्या अर्थतंत्राचेर आपणालो पुराय शेक बसयलो.

परिणाम ह्व अन्नाच्या मळार जो देश आपल्या पांयांर उबो आशिल्लो तो आतां तांदूळ लेगीत भायलो हाडून खावपाक लागला. देशाच्या माथ्यार आयज दोनशें बांसश्ट अब्ज डॉलर्सांचें रीण आसा. आमच्या देशांत जशीं 'स्पेशल इकनॉमिक झोनां' (SEZ) सुरू जाल्यांत तशीं इण्डोनेशियेंत 'ॲक्स्पोर्ट प्रोसॅसिंग झोन्स' (EPZ) चलपाक लागल्यांत. थंयच्या कारखान्यांतले कामगार दळडिन्यांचें जिवीत जियेवपाक लागल्यात. खातात त्या अन्नांत प्रोटीन निखालूस आसना. उदक लेगीत निवळ पियेवपाक मेळना. आनी वचत थंय गटारां इतलीं जाल्यांत की तांचेर वाडटल्या जळारांक लागून लोक डँग्यू जोरान मरपाक लागल्यात. तर दुसरे वटेन अमेरिकेचीं कॉर्पोरेशनां रबर, कॉफी, लाकूड बी भायर धाडून चाळीस पन्नास प्रतिशत नफो करून देश लुटपाक लागल्यांत.

ही कथा फकत इण्डोनेशियेची न्हय, ज्या ज्या देशांनी अमेरिकेच्या दुडवांचो आधार घेवन आपणाली उदरगत करून घेवपाची वाट आपणायल्या तांची सगळ्यांची इण्डोनेशिये सारकी गत्त (अजून जाल्ली नासत जाल्यार) थोड्याच वर्सां भितर जावपाची आसा. आमची जाल्या. आमचे अर्थतज्ञ कितेंय म्हणूं मागीर.

हाचें कारण ह्व अमेरिकेचें अर्थतंत्र आयज अमेरिकेच्या हातांत उरूंक ना. खासा तीच आपणाल्या अर्थतंत्राच्या जाळांत घुसपल्या. ह्या जाळांतल्यान भायर कशें सरप हें खासा तिकाच समजना जालां. अमेरिकेक तिच्या अर्थतंत्राच्या जाळांतल्यान सोडोवपाचो उपाय भारता कडेन आसा. हय, आमच्याच ह्या देशा कडेन आसा. तो म्हळ्यार ह्व

बुन्यादीच्या ज्या फातरार ह्व झुजाच्या शस्त्रांस्त्रांचें उत्पादन आनी तांचो वेपार ह्या ज्या फातरार ह्व अमेरिकेचें अर्थतंत्र उबें आसा तो फातरूच निखळावपाचो. बुद्ध गांधीच्याच ह्या देशान धाडस करून मुखार सरूंक जाय. अमेरिकाय सुट्टली. जगूय सुट्टलें.

('जाग', एप्रील-मे २००७)



## ३९.

## 'सुनीति भास्कर'
## लिंगूबाब रघुवीर दळवी-एक तर्पण

कुंकळ्ळेच्या रघुवीरबाब दळव्यालो पूत लिंगू ह्न आंगार खोमीस, कमराक वालो, माथ्यार तोपी, पांयांक जोतें आनी खांक्यांत पुस्तकांचो बोटवो ह्न ह्या भेसांत सद्दां सकाळीं कुंकळ्ळेच्यान मडगांवां चलत वतालो. वाटे वेले लोक ताका पळेताले. हांचे मदीं कांय दोळे फुटके आशिल्ले. तांणी एकामेकांक म्हणचें, 'येदोसो हो धा वर्सांचो पोर हड्डें मुखार काडून कसो वता पळे. फिरंगी भास शिकतलो म्हणटा! झेत पळेल्यार मार कोण आद्वोगाद, बाशारॅल वा व्हड येंप्रेगाद जावन येतलोसो दिसता! ताका एक समजना तें समजना. बापायकूय कशें समजना? फिरंग्यांच्या राज्यांत आमी हिन्दू म्हळ्यार 'कोंकणे' ह्न अन्नाडी. फिरंगी बरप आमकां कोणें सांगलां?'

लिंगूच्या कानार ही अखटाय पडटाली. पुणून तो आयकनाशिल्ले भशेन करून वतालो. 'आद्वोगाद जावन हांकां दाखयना जाल्यार हांवूच न्हय जायन' हो ताचो नित्शेव ही अखटाय आयकून घट्टूच जातालो.

मराठी दोन यत्ता केल्ल्यो ताणें. पुर्तुगेज शिकपाक ते मुस्तींत मडगांवां वचचें पडटालें. कुंकळ्ळे पुर्तुगेज इश्कोल नाशिल्लें. मडगांवां चलत वचप येवप म्हळ्यार णव णव अठरा मैल जाताले. पुणून आद्वोगाद जावपाच्या हावेसा मुखार ताका हें अठरा मैल चलप व्हडलेंशें दिसनाशिल्लें.

गांवांत बापायचो एक भुसारी पसरो आशिल्लो. तांदूळ गंव, मीठ मिरसांग, हळद आलें, तेल तूप, असले संवसाराक लागतात ते जिनस विकून तो पोट भरी. जाताली जोड दिसाक रुपयाभराची. पुरो जाताली ती तागेलो साधारण संवसार चलोवपाक.

एक दीस पसऱ्यार एक गिरायक आयलें. 'रघुवीरबाब, तांदूळ आसा?' ताणें विचारलें. 'हय. तांबडो तांदुळूय आसा, सुरय आसा, उकडोय आसा आनी दामांवचो बारीक तांदुळूय आसा.'

'दामांवचो कसो येता?'

'व्हरतात लोक बारीक म्हूण...'

तांदळांची खबर करतां करतां खबरांची गाडी दुसऱ्या रुळार पावली. 'विचारतां म्हूण रागार जावं नाका आं, रघुवीरबाब. तूं पुताक आद्वोगाद करूंक सोदता?'

'तो जातलो म्हणटा...'

'तो म्हणूं. ताका अक्कलदाड अजून फुटूंक ना... तुकाय फुटूंक ना? आरे, फिरंगी बरप म्हळ्यार वागिणीचें दूद. तें फकत वागा पेट्यांकूच मेळपाचें. बोकड तिचो पानो लुचूंक लागलो म्हूण ताका तें थोंडेंच मेळूंक आयलां!... आमकां न्हय हें फिरंगी शिक्षण... एक सांगूं? ताका तूं एक ल्हानसो पसरो कित्याक घालून दिना? आठ धा आणे जोडटलो दिसाक. तितलोच तुज्या संवसाराक हातभार लागतलो...'

रघुवीरबाब कांय उलयलो ना. तो म्हणटा तें मोन्यांनी आयकून घेतलें. तो दिता ती बुद्द बऱ्याची अशेंय ताका दिसलें. 'लिंगूक सांगून पळोवंक जाय' अशें मनांत म्हळें आनी गिरायक उठून वचना फुडें ताणें पुताक उलो मारलो, 'लिंगू, मातसो हांगा येता?'

दारा आड रावन लिंगून ही 'बऱ्याची बुद्द' आयकल्ली. ही बुद्द दिवपी मनीस ताची अखटाय करप्यां मदलोच एक आशिल्लो. लिंगूक ताची तिडक मारिल्ली. ताणें दिल्ली बुद्द बापायक पटना जाल्यार पुरो म्हूण तो देवा कडेन

मागपाक लागलो. उलो कानार पडना फुडें लिंगून 'मंगेशा पाव' म्हळें आनी तो बापाय मुखार येवन उबो रावलो.

'आयज पसऱ्यार एकलो आयिल्लो...' बापायन उलोवपाक सुरवात केल्ली. फुडलें वाक्य ताचे जिबे वयल्यान फुटचे पयलींच लिंगून म्हळें, 'जाणां हांव. आयकलां हांवें ताणें सांगलां तें...'

'तुजें म्हणणें कितें?'

लिंगून बापायच्या पांयांक हात लावन म्हळें, 'दादा, हांव तुजो सोपूत घेवन सांगतां, हांव आदोगाद जातलों आनी तुजें नांव वयर काडटलों. म्हाका फाटीं ओडूं नाका... आदोगाद जावंक पावलो ना जाल्यार तुका म्हजें तोंड केन्ना दाखोवचों ना.'

लिंगूच्या दोळ्यांतलीं दुकां आनी ताचो नित्शेव पळोवन बापायन म्हळें, 'तुजो होच निर्धार आसत जाल्यार, फातर्पेकान्न आनी मंगेश तुका पावले बगर रावचीं नात... हांव तुका फाटीं ओडिना. कर शिकप पुरें. पुणून तूं एका गरीब घराब्यांतलो भुरगो म्हणपाचें मात केन्ना विसरूं नाका आं...'

'म्हाका तुजो हो आशिर्वादूच पुरो,' लिंगून दोळ्यांतलीं दुकां पुसत पुसत म्हळें.

चवदाव्या वर्सार लिंगून 'सेंगुदु ग्राव' केलो.

'सेगुंदु ग्राव' म्हळ्यार पुर्तुगेज मुळाव्या शिक्षणाची चवथी यत्ता. मुखावेलें शिक्षण लिसेवाचें. तें सात वर्सांचें. आयचे 'हायर सेकंडरी'च्या पांवड्याचें. हें शिक्षण घेवपाची वेवस्था मडगांवांत नाशिल्ली . तें घेवपाक भुरग्यांक पणजे वचून रावचें पडटालें. लिंगू पणजे कोणागेर रावतलो? लागींचो सोयरो कोणूच थंय नाशिल्लो. बरें, क्वार्त (रूम) घेवन रावतलो म्हळ्यार ताच्या भाड्याचे पयशे, ते भायर, खानावळींतल्या जेवणाचे पयशे मेळून उणो पुरो म्हयन्याक पंदरा रुपया तरी खर्च येतलो आशिल्लो. पुताच्या शिक्षणा खातीर म्हयन्या म्हयन्याक पंदरा रुपया खर्च करपाची तांक बापायंत नाशिल्ली.

पुणून जाका गिन्यानाची भूक आसता ताका ती भागोवपाची वाट ताची ती भुकूच सदां दाखयत आयल्या. 'सेगुंदु ग्राव' शिकता आसतनाच लिंगून पुर्तुगेज भाशेचेर अधिकार जोडिल्लो. व्याकरणाची एक लेगीत चूक करी नासतना तो सडसडीत बरी पुर्तुगेज उलोवपाक लागिल्लो. ताचे उच्चार लेगीत शुद्ध जाताले.

हाका लागून तो प्रोफसोराक खुब्ब आवडूंक लागिल्लो. आपणालो एक हुशार हिन्दू विद्यार्थी म्हूण प्रोफसोरान ताची मडगांवच्या कांय सरकारी अधिकाऱ्यां कडेन वळख करून दिल्ली. 'सेगुंदु ग्रावा'चे परिक्षेक परिक्षक म्हूण शिक्षण खात्यान जाका धाडिल्लो तो मडगांवचोच एक सरकारी अधिकारी आशिल्लो. ताणें लिंगूक Optimamente Habilitado म्हूण (डिस्टींक्शन दिवन) पास तर केलोच. ते भायर, ताची घरची परिस्थिती पळोवन ताणें आपलें वजन खर्चून ताची कुंकळ्ळेचो 'ज्युईझ पोपुलार' (जस्टीस ऑफ पीस) म्हूण नेमणुकूय करून घेतली.

पंदरा वर्सांचे पिरायेरूच लिंगू मुखार दोन मळां उकतीं जाल्लीं. एक, लोकांचीं कामां करून तांकां उपकारा पडपाचें. आनी दुसरें, आप-शिक्षणाचें ह्न self-educationचें, आपणें आपणाक घडोवपाचें. थोडीशी जोडूय जावपाक लागली. तिचे पांच वांटे घरखर्चा खातीर तो आवयक दिवपाक लागलो. आनी सवो वांटो पुस्तकां विकतीं घेवपा खातीर आपणा कडेन दवरपाक लागलो. आलॅशांद्रि एर्कुलानु, ओलिव्हेरा मार्तिश, रामाल्यु ओर्तिगांव, पिन्यैरु शागश, आल्मैदा गार्रेत सारकेल्या नांवाजत्या पुर्तुगेज सारस्वतांचीं पुस्तकां घेवन तीं वाचपाक लागलो. रामाल्यु ओर्तिगांवाचें दांडगें (robust) गद्य ताका खूब म्हळ्यार खुबूच आवडपाक लागलें. रामाल्याच्या *As Farpus* ह्या नांवान उजवाडा आयिल्ल्या निबंदांच्या झेल्याचीं ताणें पारायणांय केलीं. आल्मैदा गार्रेताच्या लालित्यान भरिल्ल्या गद्याचोय तो मोगी जालो. गार्रेताच्या *As Viagens na Minha Terra* ("भोंवडी ह्न म्हज्याच देशांतली") ह्या पुस्तकाचींय ताणें पारायणां केलीं.

सामान्यतायेन सरकारी नोकर एक फावट नोकरेक लागलो म्हणटकूच खंयच्याच पुस्तकाक आफडी ना. पुस्तकांचो आनी ताचो संबंद तुटटा तो सदांकाळा खातीर. Boletim Oficial (गवर्मेंट गॅझेट) सोडून तो आयुष्यांत कितेंच वाचिना. लिंगू ह्या नेमाक आडवाद आशिल्लो. 'जुईझ पोपुलार'च्या कामा कडेन कांयच संबंद नाशिल्लीं पुस्तकांच तो चड वाचतालो. *न्युझ पुर्तुगाल* नांवाचें एक 'गुरुपुस्तक' ताका मेळिल्लें. इंग्रजींत Fowler ची *Dictionary of English Usage* आसा. ते पर्तीचें. खंयचें उतर खंयच्या संदर्भांत वापरलें जाल्यार ताचो अर्थ कसो बदलता, खंयचो वाक्प्रचार खंयच्या संदर्भांत वापरलो जाल्यार तो प्रभावी जाता, असलीं, भाशेचीं बारीक सारीक आंगां ह्न nuances ह्न उकतावन दाखोवपी एक पुस्तक हें. वरांचीं वरां तो हें पुस्तक

घेवन बसतालो.

पुर्तुगेज मुदलांतूच एक मधूर भास. आनी लिंगू तिचो एक 'पिसो' मोगी. 'हीं पुस्तकां वाचून तुका कितें मेळटा?' म्हूण ताका विचारपांत अर्थ नाशिल्लो. कित्याक, 'वाचून पळे, मागीर तुजे तुकाच कळटलें कितें मेळटा तें' अशी जाप मेळटली आशिल्ली.

हीं पुस्तकां तो वाचतालो खरो. पुणून आद्वोगाद जावपाचें तागेलें सपन ताणें सोडूंक नाशिल्लें. पुर्तुगेज भाशेचेर सारको बरो 'अधिकार' जोडिना फुडें तो कायद्याचींय पुस्तकां वाचपाक लागलो. दोन तीन वर्सां पुर्तुगेज कायद्याचो बारकायेन आनी खोलायेन अभ्यास करून ताणें एक दीस आद्वोगासीचो 'आल्व्हारा'य घेतलो. (म्हळ्यार, सनद घेतली.) लोक ताका आतां लिंगू बदला लिंगूबाब म्हूण पाचारूंक लागले. हिन्दूंच्या चाली-रितींचो एक कायदो पुर्तुगेज सरकारान तयार केल्लो. Regulamento dos Usos e Costumes dos Hindus ह्या नांवान तो कितल्याश्या वर्सां पसून गोंयांत चलत आयिल्लो. तातूंत कितल्योश्यो त्रुटी आशिल्ल्यो. कांय वांटे तर हिन्दूंचो अवमान करपीय आशिल्ले. पुराय कायद्याची नियाळणी करून लिंगूबाबान ह्या कायद्यांत कितल्योश्यो दुरुस्त्यो सुचयल्यो आनी सरकारा कडल्यान त्यो मान्यूय करून घेतल्यो. येवरोपेव अधिकाऱ्यां मुखार उबो रावन, तांच्या दोळ्यांक दोळो लावन 'हें अशें न्हय', 'हें अशें जावंक जाय', 'हें तुमचें चुकता' अशें निर्भीडपणान सांगपी एक हिन्दू म्हूण हिन्दू समाजांत आतां ताका लोक वळखूंक लागले.

कायद्याच्या प्रस्नांची भासाभास करपी 'फोरु इन्दियानु' नांवाचें एक नेमाळेंय ताणें आपल्या खर्चान चलयलें.

जिस्त ह्या वेळार 'ताबेल्यांवा'चो ('पब्लिक नोटरी'चो) एक जागो सरकाराक भरून काडपाचो आशिल्लो. ते खातीर सरकारान एक सर्त घेतली. तिका 'कोंकुर्सु' म्हणटाले. असल्या 'कोंकुर्सा'क व्हडले व्हडले आद्वोगाद बसताले. पुर्तुगालाक वचून 'बाशारॅल' जावन आयिल्लेय बसताले. सामान्यतायेन सगळे क्रिस्तांव आसताले. ते मुस्तींतलें सरकार हिन्दू दुस्वासी आशिल्लें. असलीं पदां फकत क्रिस्तांवांकूच मेळटालीं. तरी आसतना लिंगूबाब धाडसान ह्या 'कोंकुर्सा'क बसलो आनी वेंचुनूय आयलो. ताबेल्यांवाचो हुद्दो आपणाक मेळचो म्हूण व्हडले व्हडले लोक आंवडेताले. तो लिंगूबाबाक मेळिल्लो पळोवन हिन्दू समाजाक

खोस भोगली जाल्यार अजाप न्हय. कित्याक, हिन्दू समाजांतल्या कोणाच्याच नशिबांत तो आयजवेर येवंक नाशिल्लो. पयलोच हिन्दू हो ह्या पांवड्यार पाविल्लो. तोवूय पुर्तुगालाक वचून बाशारॅल जावन येवंक नासतना फकत निजाचे योग्यतायेचेर, लायकेचेर निंबून जोडिल्लो.

लिंगूबाबाची पिराय त्या वेळार फकत वीस वर्सांची आशिल्ली.

रोखडीच पुर्तुगालच्या राजान ह्न दाँ कार्लुशान ह्न ताची नेमणूक दामांवाक केली. दामांव हो गुजराती भाशीक लोकांचो पुर्तुगेजांच्या हातांत आशिल्लो वाटार. जमनीच्या प्रस्नाक लागून थंय कांय किजिलां उपरासून आयिल्लीं. कितलींशीं वर्सां तीं चलत राविल्लीं. गोव्हेर्नादोराक लेगीत तीं पालोवंक येवंक नाशिल्लीं. लिंगूबाबान ह्या प्रस्नांत लक्ष घालें आनी सगळ्यो गांठी निगरगांठी सोडयल्यो. सगळ्यांक सारकोच न्याय मेळोवन दिवन किजिलां सोडयलीं आनी एके वाटेन दामांवकारांचीं काळजां जिखलीं तशी दुसरे वाटेन गोव्हेर्नादोराची तुस्त तोखणायूय जोडली.

जोयशांचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, लिंगूबाबाचे कुंडलेंतलो गुरू ह्या काळांत एकादशाक पाविल्लो आसूंक जाय. ज्या ज्या प्रस्नाक ताणें हात लायला त्या त्या प्रस्नांत ताका येस मेळत रावलां.

जिस्त ह्या वेळार द्वारका पीठाच्या शंकराचार्यान सुरतेक भेट दिली. दामांवकारांक सुरत लागीं. शंकराचार्यांक दामांव येवपाचें आमंत्रण दिवचें आनी तांची पाद्यपुजा करची अशें तांकां दिमपाक लागलें. पुणून ह्या कामाक दामांवच्या गोव्हेर्नादोराची मान्यताय घेवपाची गरज आशिल्ली. गोव्हेर्नादोर धर्माच्या मळार इगर्जेचे सांगणेन चलपी. दामांवच्योच न्हय, गोंयच्यो लेगीत इगर्जेचेच सांगणेन सदां चलत आयिल्लो. दामांवचे इगर्जेन 'हांगा येवंक दिवं नाका ताका' म्हूण गोव्हेर्नादोराक सांगलें. लोकांनी कितलेशे अर्ज केले. पुणून गोव्हेर्नादोर 'न्हों तें न्होंच' घेवन बसलो. कोणें तरी वचून लिंगूबाबाच्या कानार ही खबर घाली. लिंगूबाब तडक उठून पालासींत गेलो. 'शंकराचार्यांक आडावन तुमकां कितें मेळपाचें आसा?' ताणें गोव्हेर्नादोराक विचारलें. 'हांगासल्ल्या क्रिस्तांवांक तो हिन्दू धर्मांत घेवन वतलो ही भिरांत आसा काय कितें तुमकां? जाल्यार, हांव तुमकां हिन्दू ह्या नात्यान सांगतां, एक फावट हिन्दू धर्मांतल्यान भायर सरता ताका भितर घेवपाचें दारूच हिन्दू धर्माक ना. हिन्दू धर्मांत फकत भायर सरपाचीं

दारां आसात. भितर येवपाचें एक लेगीत ना. तुमी भियेवं नाकात. येवंक दियात शंकराचार्यांक. लोक खोश्शी खोश्शी जातलो.'

गोव्हेर्नादोर विरगळ्ळो. शंकराचार्यांक दामांव हाडपाची मेकळीक तर ताणें दिलीच. ते भायर, लोकांनी ताच्या येवकाराचो जो दिव्य भव्य सुवाळो घडोवन हाडिल्लो ताका खासा आपूण हाजीर रावलो. दोन दीस शंकराचार्य दामावांत उरल्यात. ह्या दोन दिसांत दामांवाक कुंभमेळ्याचें रूप आयलां. भोंवतणच्या वाटारांतले हजारांनी हिन्दू दामांवांत कसलेच आडखळी बगर येवन गेल्यात. ह्या काळांत एक भौशीक जमात आपोवन शंकराचार्यांनी लिंगूबाबाचो 'सुनीति भास्कर' म्हूण एक पदवी दिवन भोवमान केला. हीं पदवी हाचे पयलीं तांणी कोणाक दिवंक नाशिल्ली. उपरांतूय कोणाक दिवंक ना.

दामांवच्यान लिंगूबाबाची बदली दिवचले जाली. उपरांत कांय वर्सांनी कुसमणच्या कोर्टांत जाली. कुसमणां लिंगूबाब आयुष्याचे अखेर मेरेन ताबेल्यांवाच्या पदार उरला.

जिवितांत केन्ना केन्ना ध्याना-मनांत नाशिल्ले विचित्र प्रसंग येतात. लिंगूबाब कुसमणां आसतना कोर्टांत एक क्रिमिनल केस आयली. एकल्याचेर कांय गंभीर आरोप जाल्ले. ते खरे थरिल्ले जाल्यार ताका केदीय व्हड ख्यास्त जावं येताली. आपणाली केस हातांत घेवन लडोवपाक तयार आशिल्लो एक बरो आद्वोगाद ताका जाय आशिल्लो. लिंगूबाबान आपणाली केस हातांत घेवची अशें ताका खूब दिसतालें. पुणून घेता काय म्हूण विचारपाक धीर जायनाशिल्लो. तो घुटमळटासो पळोवन लिंगूबाब आपूण जावन मुखार आयलो आनी ताणें केस हातांत घेतली. सारको बरो अभ्यास केलो आनी केस लडयली. आरोपां मदलो एकूय आरोप खरो न्हय, सगळे लटके हें कोर्टाक दाखोवन दिलें. लिंगूबाब लटक्यो केसी हातांत घेना ही छाप जुविजाच्या मनार पयलींच आशिल्ली. ते भायर, लिंगूबाबान केल्ले युक्तिवाद आरोप करतल्याच्या आद्वोगादाक खोडून काडूंक आयलेनात. परिणाम ह्व कोर्टान ह्या मनशाक निर्दोश थारावन सोडून दिलो.

लिंगूबाब फी कितली घेता हाचो अदमास त्या मनशाक नाशिल्लो. ताणें आपणाल्या बोल्सांतलें नोटींनी भरिल्लें पाकिटूच काडून लिंगूबाबा मुखार मेजार दवरलें आनी म्हळें, 'पाकिटूच तुजे फुड्यांत दवरलां. उणे पडटात जाल्यार

आनिकूय हाडून दितां. तुवें म्हाका एका मोट्या संकटांतल्यान वाटायला. तुजें रीण म्हजे कडल्यान ह्या जल्मांत तरी कशेंच फारीक जावपाचें ना.'

लिंगूबाब कदेला वेलो उठलो. पाकीट ताच्याच बोल्सांत परतें घालें आनी मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें, 'तुजे कडल्यान फी घेतली जाल्यार म्हाका पातक लागतलें.' आनी पुटपुटलो, 'म्हाका एकूच खंत भोगता. आयज दादा ना. तो आसूंक जाय आशिल्लो हो प्रसंग पळोवपाक.'

लिंगूबाबान आद्‌वोगासी जोडपा खातिरूच चलयल्ली. फकत गरिबां कडल्यान तो फी घेनाशिल्लो. बाकीच्या सगळ्यां कडल्यान घेतालो. हाचे कडल्यान (क्रिमिनल केस आसुनूय) घेतली ना. कित्याक घेतली ना?

कांय वर्सां फाटीं 'पुताक तूं आदोगाद करूंक सोदता? आरे, फिरंगी बरप म्हळ्यार वागिणीचें दूद. तें फकत वागा पेट्यांकूच पियेवंक मेळटा. बोकोड तिचो पानो लुंचपाक लागलो म्हण ताका तें केन्ना मेळूंक आयलां व्हय? आमकां न्हय हें शिक्षण... ताका तूं पसऱ्यार बसय. आठ बारा आणे जोडटलो' म्हूण जाणें लिंगूबाबाच्या बापायक 'बऱ्याची बुद्द' दिल्ली तोच हो मनीस आशिल्लो.

त्या मनशाक कितें भोगलां जातलें हाचो अदमासूच केल्लो बरो.

लिंगूबाबान ताबेल्यांवाचें पद निष्ठेन सांबाळ्ळें. आदोगासीय बरी चलयली. पयशेय भरपूर जोडले. गरिबांक, अडचणींत पडिल्ल्यांक, ते भायर, शाळा, वाचन-मंदिरां चलयतल्या समाज सेवकांक दुडवांचो आधारूय दिलो. पुस्तकांय बरयलीं. *ज्युईझ पोपुलार ई सेउश इश्क्रिव्हांइश* नांवाचें एक आनी, *गीअ दुश नोतारियुश* नांवाचें दुसरें ह्व आद्‌वोगादांक उपकारा पडपा सारकीं हीं कायदयाचीं दोन पुस्तकां. आद्‌वोगासी कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लें आनीक एक पुस्तक ताणें बरयलां. कुंकळ्ळेच्या इतिहासाचें, *इश्तॉरिया द कुंकोर्ली* नांवाचें, इतिहासाचे भरपूर पुरावे दिवन बरयल्लें.

पुर्तुगेज भास ताचे जिबेर घोळटाली. हाताच्या बोटांनीय बरी खेळटाली. हे भाशेचेर ताणें एके तरेचें धनीपण जोडिल्लें. पुर्तुगेजीच्या मानान ताची मराठी दुबळी आशिल्ली. तिचेरूय धनीपण जोडूंक जाय अशें ताका आतां दिसपाक लागलें. तो हिन्दू घराण्यांत जल्माक आयिल्लो म्हुणूच हिन्दू आशिल्लो. हिन्दू धर्मा संबंदान ताका व्हडलेंशें ज्ञान नाशिल्लें. ताचो संबंद चडसो क्रिस्तांवां कडेन येतालो. क्रिस्तांव सगळे इगर्जेच्या प्रभावांत वाडिल्ले आनी इगर्ज सदांच हिन्दूंची आनी

हिन्दू धर्माची अखटाय करीत आयिल्ली. लिंगूबाब ती आयकून खंती जातालो. प्रतिवाद करपाक हिन्दू धर्माची आसूंक फावो तितली म्हायती ताका नाशिल्ली. ती जाणा जावन घेवपाची जिज्ञासा ताच्यांत आतां जागी जाल्ली. ताका इंग्रजी येनाशिल्ली. पुर्तुगेजींत ह्या विशयाचेर पुस्तकां नाशिल्लीं. ताणें मराठीचो आधार घेतलो. लोकमान्य टिळकांचें *गीतारहस्य* त्या काळांत गाजतालें. विवेकानन्दांलींय कांय पुस्तकां मराठींत अणकारीत जावन येवपाक लागिल्लीं. लिंगूबाबान हीं पुस्तकां मागोवन हाडलीं आनी वाचुनूय काडलीं. लोकमान्यांचे आनी विवेकानन्दांचे प्रेरणेन *रामायण, महाभारत, भागवत, योगवासिष्ठ* हे सारकेले ग्रंथ हाडून वाचले. *गीता* वाचपाक घेतली. कांय वांटे सारके समजऽ नाशिल्ले. कोणाक विचारतलो? माशेलांत करंडेशास्त्रीं सरीं वचून बसतलो म्हळ्यार माशेल पयस पडटालें. पर्तगाळ कुंकळ्ळेक लागीं. पर्तगाळ मठांत इन्दिराकान्त स्वामी आशिल्ले. लिंगूबाब तांकां एक पवित्र मनीस म्हुण्णूच न्हय, तर एक व्हड विद्वान म्हुण्णूय वळखतालो. तांचे सरीं वचून *गीते*चो अभ्यास सुरू केलो. आत्रापयऱ्यान पर्तगाळच्यो वाऱ्यो घडपाक लागल्यो.

लिंगूबाबाक दिसपाक लागलें, पाद्री आनी तांगेल्या प्रभावांत आयिल्ले क्रिस्तांव हिन्दूंची आनी तांगेल्या धर्माची अखटाय करतात ती दुस्वासान करतात अशें म्हणचे परस अज्ञानाक लागून करतात अशेंच मानूंक जाय. तांकां हिन्दू धर्म म्हळ्यार कितें तेंच खबर ना. (आमकां तरी खंय खबर आसा?) तांकां हिन्दूंच्या धर्मपुस्तकांची वळख करून दिवंक जाय. *गीता* आनी *योगवासिष्ठ* ह्या दोन पुस्तकांचो पुर्तुगेजींत अणकार करपाचो निर्णय लिंगूबाबान घेतलो.

*गीते* इतलेंच *योगवासिष्ठ* ताका आवडटालें. पिराय पन्नासांचेर पाविल्ली. 'वानप्रस्थाश्रमांत वचपाची पिराय ही,' ताका दिसूंक लागलें. 'आदोगासी करून खूब जोडलें. गृहस्थाश्रमूय बरे भाशेन चलयलो. 'आतां जोडप-बिडप सगळें सोडून *गीता* आनी *योगवासिष्ठ* पुर्तुगेजींत हाडपाचें काम घेवन बसतलों,' ताणें थारायलें.

पुणून ते पयलीं एक लागणूक करपाची उरिल्ली. आवयच्या अस्थींचें त्रिवेणी संगमांत व्हरून विसर्जन करपाचें आशिल्लें. आवयचीच तशी इत्सा आशिल्ली. ती पुरी करपाक लिंगूबाब एक दीस यात्रेक भायर सरलो. सावड्ड्यां गाडी धरली. हुबळी, हॉस्पेट, गुंटकल, विजयवाडा करीत करीत जगन्नाथपुरीक पावलो. थंयच्यान

कलकत्त्याक गेलो. कलकत्त्याक सावन प्रयागाक गेलो. थंय त्रिवेणी संगमार अस्थी विसर्जन केलें.उपरांत गयेक गेलो. थंय पितरांचें स्राद्ध केलें. मागीर काशी, अयोध्या, हरिद्वार, दिल्ली, मथुरा, आग्रा बी थळां पळोवन नासकाक आयलो. थंयच्यान भायर सरून निट्ट मडगांवां परतलो. हे यात्रेचें वर्णन ताणें 'माझा काशीक्षेत्राचा प्रवास' ह्या मराठींत बरयल्ल्या लेखांत केलां. हो लेख तीन खिस्तींनी 'भारतमित्रां'त उजवाडा आयला. तीन सप्तकांत केल्ले ४२३५ मैलांचे यात्रेचें वर्णन हें. खंय कितें पळेलें, खंय कितें पळोवपा सारकें आसा हाची विस्तृत जाणकारी दिवन बरयल्लें. कोणूय हे यात्रेक गेलो जाल्यार ताका उपकारा पडपा सारकें. ह्या बरपांतली मराठी? ताचे पुर्तुगेजी इतलीच 'सफाईदार'.

कलकत्त्याक लिंगूबाब रवीन्द्रनाथांकूय वचून मेळ्ळा. साश्टींतलो एक क्रिस्तांव भाव कलकत्त्याक एके कॉलेजींत इंग्लीश शिकयतालो. वळखीचो. आपूण अमक्या दिसा कलकत्त्याक पावतलों, शान्तिनिकेतनांत वचून आपणाक रवीन्द्रनाथांची भेट घेवपाची आसा अशें लिंगूबाबान ताका कळयल्लें. रवीन्द्रनाथ त्या दिसांनी कलकत्त्याच्या तांच्या म्हालगड्यांच्या 'जोडासांको' घरांत येवन राविल्ले. एपॉयन्टमॅन्ट घेवन लिंगूबाब तांकां मेळपाक गेला. लिंगूबाबाक इंग्लीश येनाशिल्ली. पुणून कलकत्त्याच्या साश्टीकार इश्टाक येताली. ताणें दुभाश्याचें काम केलां. बरोच वेळ तांचीं उलोवणीं जाल्लीं. खंयच्या विशयाचेर तें 'माझा काशीक्षेत्राचा प्रवास' ह्या लेखांत सांगूंक ना. काव्याचेर आसचीं नात. कित्याक, रवीन्द्रनाथांचें काव्य लिंगूबाबान वाचूंक नाशिल्लें. मराठींत तें येवंकूय नाशिल्लें. पुणून 'पुर्तुगाल प्रजासत्ताक राज्य जायत सावन गोंयकारांच्या पदरांत थोडो तरी सुखाचो वांटो पडला, काय, पयलीं भाशेनूच हिन्दू समाजाक जाचक वर्तन आतांय मेळटा' असो रवीन्द्रनाथांनी आपणाक प्रस्न केलो आनी 'आम्ही त्यांना समर्पक उत्तर दिले' इतलेंच ह्या लेखांत म्हळां. 'समर्पक उत्तर' कितें दिल्लें तें सांगूंक ना. लेख बरयतल्याक आनी तो छापतल्याक तें 'त्रासांत उडोवपी' आशिल्लें म्हण दिवंक ना जातलें. पुणून 'प्रजासत्ताक पुर्तुगालाक सारकें पचूंक ना; आत्र्यापयऱ्यान थंय सरकारां बदलत आसात' हें उत्तर दिलां. 'एकूच बदल जाला. आमी प्रजासत्ताका पयलीं पुर्तुगेज subjects आशिल्ले. आतां पोर्तुगेज citizens जाल्यात. पुर्तुगालच्या लोकांक मेळ्ळ्यात तितलेय अधिकार आमकां मेळ्ळ्यात. गोंयच्या हिन्दूच्यान जाय जाल्यार आतां राष्ट्राध्यक्षाचे वेंचणुकेक लेगीत उबो रावं येता' ही

जाप दिल्या. 'हिन्दूं कडेन पळोवपाचे इगर्जेंचे नदरेंत मात बदल घडून येवंक ना. हिन्दूंची आनी तांच्या धर्माची अखटाय ती आयजूय करता. पुणून ती अज्ञानाक लागून करता. तिगेलें हें अज्ञान ना करपाक हिन्दूंच्या मुखेल धर्म पुस्तकांचे पुर्तुगेजींत अणकार जावंक जाय. आपूण यात्रेंतल्यान परततलों तेन्ना हो वावर घेवन बसतलों' अशेंय सांगिल्लें म्हूण लिंगूबाबाक लागीं आशिल्ल्या कांय जाणां कडल्यान आयकलां.'

रवीन्द्रनाथांच्या भव्य व्यक्तित्त्वान लिंगूबाब बरोच प्रभावीत जाल्लो आसूंक जाय. (सगळे जाताले.) पुणून येवरोपांतल्या व्हड व्हड लोकां कडेन दाट संबंद आशिल्ल्या ह्या म्हाकवीची Life style (राहणी) मात 'शुद्ध आर्य' आशिल्ली पळोवन तो चड प्रभावीत जाला.

घरा येना फुडें, आपणाक तीन नातू जाल्ल्याची खोसदेणी खबर ताच्या कानार पडली. व्हडल्या पुताक सुबूक एक, दुसऱ्या पुताक श्रीपादाक एक आनी धुवेक चंद्राक एक. तिगांकूय ताणें नरेन्द्र, सुरेन्द्र आनी रवीन्द्र हीं बंगाली नांवां दवरलीं. हांतलें नरेन्द्र हें नांव हाचे पयलीं कोणेंय आपल्या पुताक वा नातवाक दवरिल्लें आसूं येता. कित्याक, तें विवेकानन्दांचें आदलें नांव. आनी विवेकानन्द सगळ्या हिन्दूंचो फाटल्या दोन दसकां सावन 'हिरो' आशिल्लो. सुरेन्द्र आनी रवीन्द्र हीं नांवां हाचे पयलीं कोणें दवरिल्लीं काय कितें हें 'रेजिश्तु सिव्हिला'चीं बाडां उस्तून सोदून काडचें पडटलें. आयज गोंयकारां भितर नरेन्द्रा भाशेन सुरेन्द्र आनी रवीन्द्र शेंकड्यांनी मेळटले. पुणून म्हाका दिसता, भुरग्यांक बंगाली नांवां दवरपाची चाल लिंगूबाबानूच गोंयांत सुरू केल्ली आसूंक जाय. घरा येवन म्हामनी बी करून जातासर अवचीत एक दीस लिंगूबाबान हांतुळण धरलें. कितलेशे दीस एका सारकें ओंकूंक येवपाक लागलें. गोंयच्या व्हडल्या व्हडल्या दोतोरांक हाडून दाखयले. दोतोर आत्माराम बोरकार तर पणजेच्यान कुंकळ्ळे येवन रावलो. तांणी तरातरांचीं वखदां केलीं. पुणून गूण एकाय वखदाचो पडलो ना. लिंगूबाबाक कितें जालां तेंवूय कोणाक सारकें सांगूंक आयलें ना. ॲलॉपॅथीक वखदांचो गूण पडना म्हूण आयकतकूच एक अणभवी आयुर्वेदीक वैज इन्दिराकान्त स्वामीन कुंकळ्ळे धाडलो. तो येवन तांगेरूच रावलो. तरातरांची पाळां झरोवन दिवपाक लागलो. आपूण ह्या मनशाक कसोच मरूंक दिवचों ना म्हूण हटाक पेटिल्लो. पुणून जाचें तेंकलां ताका कोण वाटायतलो? १४ ऑगस्ट १९२७ ह्या दिसा लिंगूबाबाची

प्राण-जोत पालवली. पिराय फकत चवपन वर्सांची आशिल्ली.

पुराय कुंकळ्ळी ताका पावोवपाक स्मशानांत गेल्ली.

हांव तांगेलो नातू. घडये, आर्विल्ल्या गोंयचो पयलो वा पयल्या वयल्या रवीन्द्रां मदलो रवीन्द्र.

('जाग', दिवाळी २००५)



## ४०.

# फकत कर्तुत्व खरें?

स्वर्गसुखाचें एक चित्र उमर खय्यामान आमचे मुखार दवरलां ह्न

*'Here with a loaf of bread*
*Beneath the bough*
*A flask of wine, a book of verse*
*And thou beside me*
*Singing in the wilderness*
*And wilderness is paradise enow.'*

पुणून हे तरेचें जिवीत कोणाक जियेवंक मेळ्ळां? खासा उमर खय्यामाक तरी मेळिल्लें काय कितें, दुबावूच आसा. आपणाक जाय आशिल्लें ते तरेचेंय जिवीत कोणाक जियेवंक मेळूंक ना. कितल्योश्यो प्रेरणा आनी शक्ती जिवितांत काम करतात. त्यो आमच्या हातांत नासतात. आमकां त्यो हेवटेन तेवटेन ओडीत व्हरतात आनी आमच्या जिविताक मनांत नाशिल्लेंच एक रूप दितात, एक आकार दितात.

आयज पिरायेच्या ७७व्या वर्सांत पावल दवरतना फाटल्या ७६ वर्सांच्या काळा वयल्यान एक नदर भोंवडायतां तेन्ना प्रस्न पडटा, ज्या समाजांत जल्म घेतलो तो समाज म्हाका दायजान मेळूंक नाशिल्लो, जे आवय-बापूय मेळ्ळे ते मेळूंक नाशिल्ले, गुलामींत पडिल्ल्या देशाक गुलामींतल्यान सोडोवपाच्यो चळवळी देशांत चलूंक नाशिल्ल्यो, त्या चळवळींनी पडूंक पावूंक नाशिल्लों, आनी तातूंत ज्या आगळ्या-वेगळ्या लोकांचो सांगात मेळ्ळो तो मेळूंक नाशिल्लो, तांचे कडल्यान मेळ्ळी ती नदर मेळूंक नाशिल्ली जाल्यार हांव हांव जावंक पावतलों आशिल्लों? म्हज्या हाता भायल्या गजालींनी म्हाका घडयला.

नियती, दैव, भाग्य खरें नासूं. पुणून फकत कर्तुत्वूच खरें म्हणटात तें खरें न्हय. उमर खय्यामूच म्हणटा ह्न

*'The moving finger writes*
*And having writ, moves on.*
*Nor all thy piety nor wit*
*Shall lure it back*
*To cancel half a line*
*Nor all thy tears*
*Wash out a word of it.'*

('जाग', मार्च २००१)



४१.

# चार दसकांची साहित्ययात्रा

'मीर्ग' सुरू जालां तेन्नाच्यान बरोवपाक लागलां. 'मीर्गा'चो पयलो आंक उजवाडा आयिल्लो १९५३ तल्या १५ ऑगस्टाक. सात दीस पयलीं लिखणी हातांत घेतिल्ली. तेन्ना पसून ती जी चलपाक लागिल्ली ती खंड पडनासतना आयच्या ह्या खिणा मेरेन चलत रावल्या.

'मीर्ग' सुरू केल्लें वर्ध्याकसून. वर्ध्याक पावचे पयलींचीं म्हजीं चार वर्सां गोंयचे सुटकेचे चळवळींत खर्चल्लीं. चळवळींतल्यान डॉ. लोहियांनी आंग काडून घेतिल्लें. आमकां दिका दाखोवपी कोणूच नाशिल्लो. हाका लागून डझनभर फुडारी आमच्या वांट्याक आयिल्ले. केन्ना हाचे सरीं, केन्ना ताचे सरीं अशें करीत करीत एक दीस 'सशस्त्र क्रांतीं'त पडिल्ल्या एका पंगडा कडेन पावलों. कांय म्हयन्यां भितर हे वाटे वयलो म्हजो विस्वास साप उडून गेलो. अश्या वेळार गांधींचे अहिंसेंत कितेंय तथ्य आसा काय ना हें पळोवपा खातीर वर्ध्याक गेलों. वर्ध्याक त्या काळार काकासाहेब, विनोबा, किशोरलाल मश्रूवाला, कुमारप्पा हे गांधींचे मुखेल

सांगाती वेगळ्यो वेगळ्यो संस्था चलयताले. आचार्य कृपालानीय येवन वचून आसताले. स सात म्हयन्यां भितर गांधींचे हे सांगाती गांधीयुगांतूच जल्मा येवं येतात आनी गांधीयूग खंयच्याय राष्ट्राच्या जिवितांत हजार दोन हजार वर्सांनीच केन्नाय तरी एक फावट येता ह्या निर्णयार पावलों. तांच्या पांयां कडेन बसून नवें नवें कितलेंशें शिकपाक लागलों. आनी ह्व

गुपाट काळखांत चलतल्या मनशाक अवचीत वाटेर वीज जोगलावन एका खिणांत पुराय वाट स्पस्ट बरी दिश्टी पडची तशेंशें कितें जालें. जिविता कडेन पळोवपाची एक नदर म्हाका मेळ्ळी. आनी, कोणायचीं गुपितां कळटकूच तीं दुसऱ्यांक सांगपा खातीर कांय जाणांची जीब हुळहुळपाक लागता, तशी, म्हाका जें कितें हांगा होलमल्लें, समजल्लें तें दुसऱ्यांक सांगपा खातीर म्हजी लिखणी हुळहुळपाक लागली. आनी हांवें 'मीर्ग' सुरू केलें.

कोणा खातीर सुरू केलें?

गोंयचे सुटके खातीर कितेंय तरी करूंक जाय म्हूण तळमळटाले आनी कितें करूंक जाय हें सारकें खबर नाशिल्ल्यान घुस्मट्टाले तांचे खातीर. वाचपी कोण हें थरतकूच म्हजे शेलीन आपशींच फावऽ ती दिका घेतली. तांकां जें कितें सांगचेंशें दिसतालें तें उकत्या चिंतनाच्या रुपान सांगपाक लागलों.

एक गजाल स्पश्ट करूंक जाय ह्व कोंकणी बरपावळींत भर घालूंक जाय ही मोख मुखार दवरून हांवें 'मीर्ग' सुरू करूंक नाशिल्लें. ही मोख दवरिल्ली जाल्यार 'मीर्गा'त कथा कविता बरयतलों आशिल्लों. कथा कविता हांवें बरोवंक नात. आयल्यात तेन्ना उजवाडायल्यात. जाय जाल्यात तेन्ना दुसरे भाशेंतल्यो अणकारून घेतल्यात. वामन सरदेसाय त्या दिसांनी वर्ध्याक म्हजे सरीं येवन राविल्लो. ताणें 'अभिजीत' हें टोपणनांव घेवन कांय कविता 'मीर्गा'क दिल्यात. पुणून 'मीर्गा'न चडशें विचारीक बरपूच दिलां. तें हांवें स्वता बरयलां वा अणकारून दिलां.

'मीर्ग' अडेच वर्सां चल्लें. पंद्रशे पंद्रशेक तें येतालें. उपरांत म्हाका दिल्लीक वचचें पडलें. दिल्लीकसून तें चलोवंक येवपा सारकें नाशिल्लें. म्हूण बंद केलें. वर्सभर दिल्लींत रावन मुंबयंत आयलों आनी 'गोमंत भारतीं'त काम करपाक लागलों. तेन्ना 'गोमंत भारती' नांवाचें एक सप्तकी नेमाळें सुरू केलें. कोंकणींत. पुणून रोमी लिप्येंत. वाचपी धोबी तलाव, चिरा बाझार सारकेल्या वाटारांनी

रावतले गोंयकार क्रिस्तांव भाव आशिल्ले. चडशे नवसाक्षर. तांचेर इगर्जेचो सगळ्यांत चड प्रभाव आशिल्लो आनी इगर्ज ते मेरेन प्रो-पुर्तुगेजूच उरिल्ली. वाचपी बदलतकूच म्हजी शैलीय बदल्ली आनी बरोवपाचे विशयूय बदल्ले. वाचप्यां भितर गोंयचो आनी कोंकणी भाशेचो उपाट मोग भरिल्लो पळेलो. तोच म्हाका तांचे कडेन आपलेपणाच्या सुतान बांदून घेवपाक पुरो जालो. तीन वर्सां हांव तांकां ह्या सप्तकी नेमाळ्यांतल्यान राष्ट्रवादी विचार दीत रावलों.

उपरांत गोंयांत आयलों. चार पांच वर्सां पसून बंदखणींत राविल्ले आमचे सुटके झुजारी सुटून आयिल्ले. तांचे मजगतीं भरसलों. दोन अडेच म्हयने पणजे क्वार्तेलाचेरूय उरलों. वर्सा भितर गोंय मेकळें जालें आनी, मेकळ्या गोंयांत भारताच्या नकशा वयलें गोंयचें नांवनिशाण पुसून उडोवपा खातीर कांय शक्ती वयर सरिल्ल्यो पळेल्यो. त्यो गोंय महाराष्ट्रांत विरगळावंक सोदताल्यो. तांचे आड झुजपाक फुरफुरून आयलों. म्हजें अशें नवें नेमाळें सुरू केलें ना. पुणून म्हज्या इश्टांनी सुरू केल्लीं नेमाळीं आशिल्लीं. ह्या नेमाळ्यांतल्यान म्हजे विचार मांडपाक लागलों. तेन्ना म्हजो वाचपी परतून एक फावट बदल्लो. आपणाक मराठी लेखपी, गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक जाय म्हणपी गोंयकार म्हजो वाचपी थरलो. ताचे ग्रह पूर्वग्रह दुराग्रह कातरून उडोवपाक म्हजे लिखणेन तरसादीचें रूप घेतलें. हाका लागून म्हजी शैलीय थोडी-भोव झगडाळ जाली म्हणूं येता. एक घेतलें जाल्यार दोन दिवप ह्या नेमान बरयत रावलों. चडशें मराठींत बरयलें. १९६८ पसून १९८० मेरेनचें म्हजें बरप चडशें हेच दिकेन आनी हेच प्रेरणेन चलत रावलें. ह्या काळांतलें सगळें बरप हांवें सांबाळून दवरूंक ना. थोडें-भोव उरलां. तिसऱ्या वांट्या इतलेंच म्हणुया. ताचे वयल्यान नदर भोंवडायतां तेन्ना हें बरप एका साहित्यिकाचें न्हय, तर मिशनान भारून गेल्ल्या एका ध्येयवाद्याचें, एका झुजाऱ्याचें कशें दिसता. अख्खो महाराष्ट्र घुरी घालून आयिल्लो आसतना गोंय महाराष्ट्रांत कित्याक लागून गेलें ना, एक घटक राज्य म्हूण भारतांत कशें रावंक पावलें; जे भाशेक लिपी ना, व्याकरण ना म्हूण खासा तिचेच व्हडले व्हडले पूत हिणयत आयिल्ले ती कोंकणी भास भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत कशी बसूंक पावली हें समजून घेवपाक आनी ताचेर पुस्तक बरोवपाक कोणूय मुखार सरलो जाल्यार ताका हें बरप उपकारा पडटलें. इतिहासीक दस्ताऐवजाचें ह्न दोकुमेन्ताचें ह्न मोल ताका आसा. 'साहित्य' म्हूण ताका व्हडलेंशें मोल ना.

पुणून हें बरप 'बरोवंक जाय' म्हूण बरोवंक ना. 'बरयले बगर रावं नजऽ' जालां तेन्नाच बरयलां, जीव ओतून बरयलां हे मात म्हाका कबूल करच्चेंच पडटलें.

हाचो अर्थ, ह्या काळांत 'साहित्य' म्हणपा सारकें हांवें कांयच बरयलें ना असो मात करूंक येवपाचो ना. ह्या काळांत कोंकणींत जितलींय नेमाळीं भायर सरल्यांत तितल्याय नेमाळ्यां खातीर हांवें कितें न्हय कितें बरयलां. केन्ना आगळें वेगळें एक थळ पळेलां, आगळो वेगळो एक देखाव नदरे मुखार उबो रावला, केन्ना आगळो वेगळो कोणूय मनीस पळेला वा आगळो वेगळो अणभव घेतला तेन्ना तांची खबर सांगपाक लिखणी फुरफुरून आयल्या.

*उजवाडाचे सूर* ह्या पुस्तकांतलीं बरपां हे भाशेन बरोवन जाल्यांत. *हिमालयांत* हेच प्रेरणेन बरोवन काडलां. *भजगोविन्दम्* फाटल्यान हेच प्रेरणेन काम केलां. म्हज्यांत एक पत्रकार आसा हाची जाणवीक 'मीर्ग' सुरू केलां तेन्ना सावन आशिल्ली. म्हज्यांत एक साहित्यकारूय आसा हाची जाणवीक ह्या बरपांनी म्हाका करून दिली. पत्रकारी बरप एक 'मिशन' म्हूण बरयत आयिल्लों. साहित्यीक बरप म्हजी खोस उकतावपा खातीर बरोवपाक लागलों. म्हज्यांतल्या ह्या साहित्यकारा कडेन तेन्ना सावन हांव बारकायेन लक्षूय दिवपाक लागलों आनी ताका पोसवण दिवपाचेंय यत्न करपाक लागलों.

ह्या बरपाक लागून म्हजी शैली परतून एक फावट बदल्ली. वाचपी म्हज्या पांवड्याचे अशें धरून तांचे खातीर बरोवपाक लागलों.

जिस्त ह्या वेळार जिवितांतलो एक व्हडलो निर्णय हांवें घेतलो. सुमार चाळीस वर्सां जें मन राजकर्णांत घुमपून उरिल्लें तातूंतल्यान ताका भायर काडलें. राजकर्ण आतां आमच्या हातांत उरूंक ना ह्र कोणाच्याच हातांत उरूंक ना ह्र तातूंत वेळ होगडावपांत अर्थ ना, तें निवळायतलों म्हळ्यार पयलीं सारकी शक्तूय उरूंक ना आनी आयुश्यूय चडशें उरूंक ना अशें खोलायेन दिसपाक लागलें. जांच्या सांगातान राजकर्ण केल्लें तांच्यांतले जिवाभावाचे कांय सांगातीय संवसार सोडून गेल्ले म्हूण ह्या मळार हांव आतां एकलों पडलां अशेंय कितें दिसपाक लागलें आनी हांवें राजकर्णांतलें निखटें आंग न्हय, तर मनूय काडून घेतलें. कोंकणीच्या मळार एक नवी पिळगी ह्र आमचे पिळगे परसूय कर्तुत्वी ह्र वयर सरिल्ली पळेली. तिच्या कर्तृत्वाक म्हजी आडखळ जावंक पावची न्हय म्हूण

कोंकणी चळवळींतल्यान ह्व बापूय जसो पुता कडेन घर संवसार दिवन जाता तसो ह्व निवृत्त जालों. आनी उरिल्लें आयुष्य साहित्याक ओंपचें अशें थारायलें.

पयलीं मनांत आयलें, *'हिमालयांत'* हें पुस्तक अर्दकुटें उरलां तें पुरें करतलों. हांवें जम्नोत्री गंगोत्रीचे यात्रेचीच खबर सांगल्या. केदार बद्रीचीय खबर सांगतलों आनी पुस्तक पुरें करतलों अशें येवजिल्लें. पुणून हे यात्रे उपरांत हांव काश्मीराकूय वचून आयलां. हिमालयाचेच हे सगळे वांटे. तांचीय खबर बरोवन काडले बगर पुस्तक पूर्ण जावपाचें ना अशें दिसलें. पुणून प्रवासवर्णना खातीर जी शैली हांवें मानून घेतिल्ली, आनी जी म्हाका थोडी भोव सादिल्ली, ती आतां पोरणी जाल्या अशें दिसपाक लागलें. ते शैलींत बरोवप ना आनी नवी शैली अजून हाताक लागूंक ना. तेन्ना म्हळें, अर्दकुटें उरिल्लें पुस्तक पूर्ण करूंक बसचे परस नवेंच कितेंय बरोवंक घेतिल्लें बरें, आनी *ब्रह्मांडांतलें तांडव* बरोवपाक बसलों. वर्ध्याक जंय गांधीविचाराची वळख जाल्ली थंयच मळबांतल्या नखेत्रांचीय जाल्ली. अख्खें ब्रह्मांड त्या काळांत भोंवन आयिल्लों. तेन्ना म्हजे कडेन टेलेस्कोप नाशिल्लो. आतां एक टेलेस्कोपूय आयिल्लो. ह्या टेलेस्कोपाच्या आधारान पर्थून एक फावट ब्रह्मांडाचे यात्रेक भायर सरलों. हे खेपे धुवेक घेवन भायर सरलों. नक्षत्रविद्ये वयलीं नवीं नवीं पुस्तकां घेवन आयलों आनी फाटल्या तीस वर्सांत लागिल्ले नवे सोद सगळे समजून घेतले.

आनी दोन-तीन म्हयन्यां भितर पुराय पुस्तक बरोवन काडलें. 'तुवें कविता नाका बरोवं, पुणून ह्या पुस्तकाच्या रुपान तुवें कोंकणीक एक महाकाव्य दिलां' अशें पुस्तक वाचून बाकीबाबांनी म्हजे फाटीर हात मारून म्हळें तेन्ना 'हांवें आनीक कांयच बरयलेंना जाल्यार जाता' अशें म्हजे म्हाकाच दिसपाक लागलें.

पुणून, दोन वर्सां पयलीं *महाभारत* हातांत घेतिल्लें. दोन खेपे सुरू करून रद्‌दूय केल्लें. तें परतें हातांत घेतलें आनी चार साडे चार वर्सां लावन पुरें केलें. केन्ना केन्ना तें खंयचें हातांत घेतलेंशें जालां. केन्ना केन्ना सोडून दिवचेंशेंय दिसलां. मुदलांतलीं शें देडशें पानां धा पानां भितर आटयतासर आठ-आठ, धा-धा वरां लागल्यांत तेन्ना खर्शेलां. पुणून काम करीत रावलां. असल्या व्हड कामाचें एक आसता ह्व सुरू करूंक जाय. मागीर, तें कामूच तुजे कडल्यान आपणाक पुरें करून घेता. *महाभारत* कोंकणींत हाडटा आसतना हांव व्यासाचे प्रतिभेचो थाव घेवपाक बसलां आनी हे प्रक्रियेंत केन्ना केन्ना व्यासमय जालां.

व्यासूच म्हजे कडल्यान हें बरोवन घेता अशें दिसलां आनी भक्तिनम्र जावन बरयत रावलां. *महाभारत* सुरू केलां त्या वेळार हांव आशिल्लों तसोच, तें पुरें केलां त्या वेळार उरूंक ना. नवो जावन आयलां.

हो वावर चलता आसतनाच 'सुनापरान्त' सुरू जालें आनी 'जागा'नूय म्हयनाळ्याचें रूप घेतलें. ह्याच अदमासाक 'नवप्रभे'नूय बंद उडयल्लें 'स्वगत' परतें सुरू कर म्हूण मागलें. हांवें रासवळ मळा वयल्यान आंग काडून घेतिल्लें आसलें तरूय म्हज्यांतल्या देशभक्तान देशांत जें कितें घडटा मोडटा ताचे हुस्के काडपाचें सोडून दिवंक नाशिल्लें. म्हूण, हांचे खातीर बरोवपाक लागलों. म्हज्या कामाचो, वेळा-तक्तो तयार केलो. आयतार मेकळो दवरप, सप्तकांतले पयले चार दीस हातांत घेतिल्ल्या खंयच्याय साहित्यीक प्रकल्पा खातीर कडेक काडप, सुक्रार 'नवप्रभे'खातीर, शेनवार 'जाग' वा 'सुनापरान्त' हांचे खातीर राखून दवरप अशें थारायलें. जें कितें बरोवपाचें आसता तें, तेन्ना सावन, हांव आदल्या दिसा येवजून दवरतां. सकाळच्या आदेसाक तें बरोवन काडटां आनी दनपारचो आदेस 'अभ्यासा'खातीर राखून दवरतां. 'नवप्रभें'तलें 'स्वगत' तेन्ना सावन चलत आयलां. तें नेमान आनी रुचीन वाचपी ह्व तें वाचपा खातिरूच 'नवप्रभा' घेवपी ह्व लोक आसात ते हांवें पळेल्यात. वाचून ते केन्ना केन्ना तिडटात, केन्ना खुबतात आनी केन्ना खोश्शीय जातात म्हणपाचेंय पळेलां. म्हूण, जीव ओतून बरयत रावलां. वाचपी खुबतात, तिडटात ताका म्हजो उपाय ना. हांव तांकां खुबळायना, तिडायना. उगडें-नागडें कोड्र सत्य अशेंच करता आनी कोडू सत्य म्होंवांत घोळोवन सांगप म्हाका केन्ना जमलें ना, रुचलें ना. म्हूण म्हजी टिका करतल्यांक जाप दिवपाक हांव वचना.

'सुनापरान्तां'त वर्स दोन वर्सां बरयत रावलों आनी एक दीस 'आतां पुरो' अशें म्हळें आनी बंद केलें. 'सुनापरान्ता'नूय 'बरय' म्हळें ना. 'जागां'त मात नेमान बरयत रावलां. सुमार तीनशीं साडेतीनशीं ल्हान व्हड निबंध कोंकणींत बरोवन जाल्यात. तांतल्या कांय निबंधांचें *समिधा* नांवाचें एक पुस्तक पोरूं उजवाडा आयलां. बाकीचे निबंध पुस्तका रुपान केन्ना उजवाडा येतले,खबर ना. पांच पुस्तकां तयार करून दवरल्यांत. केन्नाय तरी येतलीं. म्हाका ताकतीक ना. हांव आसतना आयलीं जाल्यार तांचे वयल्यान म्हाका आनीक एक हात ओडपाक मेळटलो. म्हजे कसवटणेक उतरून येतलीं. हांव नासतना आयलीं जाल्यार काळाचे

कसवटणेक उतरून येतली.

एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय ह्न हांव पुस्तकां छापतां लोकां खातीर. बरयतां खासा म्हजे खोशये खातीर.

साहित्याच्या मळा वयली म्हजी जात थारावची जाल्यार म्हाका निबंधकार म्हणचो पडटलो. निबंधकारांच्योय कितल्योश्यो जाती आसात. खबरेपत्रांतले अग्रलेख निबंधांत मोडटात. 'सायड आर्टिकल्सू'य निबंधांत येतात. हाचे भायर 'पर्सनल ॲसेज' नांवाची निबंधांची एक जात आसा. म्हज्या निबंधांक खंयचे जातींत बसोवचे, म्हाका सांगूंक येना. ते विचारीक तितले पर्सनलूय बी. तातूंत विचारूय आसतात, तसो 'हांवू'य आसतां.

इतलेंय आसून हांव म्हणन, म्हजो खाशेलो फॉर्म दिसपटयांचो. *वेळे वयल्यो घुलो* पसून तो सुरू जाल्लो. ह्या 'फॉर्मा'चे हांवें तरातरांचे प्रयोग केल्यात. जे विचार उबून वतले आशिल्ले तांकां धरून दवरपा खातीर हांवें *वेळे वयल्यो घुलो* बरयलें. मागीर, जें एका निबंधांत सांगतलों आशिल्लों तें दिसपटयेच्या एका पानांत सांगूंक येत काय हें पळोवपा खातीर *सांगाती* बरयलें. हो फॉर्म म्हजे कालेतीक मानवला. थोडो भोव साधलाय म्हणूं येता. *सांगाती* उपरांत तसलेंच आनीक कितें कितें बरयलें तें *ओथांबे* ह्या माथाळ्या खाला एकठांय करून दवरलां. 'जागां'त खंय खंय दिलां. 'जागा'खातीर ल्हान ल्हान 'नोट्स' बरयल्यो. तांतल्यो कांय वेंचून *पिंपळा पानां* म्हूण एक पुस्तक तयार केलां. आनी, केन्ना खंय वाचिल्ले, खंय आयकल्ले, खंय मेळिल्ले एके एके वा दोन दोन वळींचे विचार *'पिडडुको'* ह्या नांवान पुंजावन दवरल्यात. बुद्ध म्हणटालो, खंयूय कितेंय सत्यवचन मेळ्ळें जाल्यार तें 'बुद्धवचन' धरचें आनी अनमन नासतना उखलून घेवचें. तशीं, खूब कडलीं सत्यवचनां हांवें उखल्ल्यांत. खंयचीं, कोणाचीं हाचो हिशोब दवरूंक ना. म्हजीं जाल्यांत म्हूण तीं 'पिडडुकां'नी गुंथून काडल्यांत.

कांय जाण विचारतात, तूं कितल्याश्या विशयांचेर बरयता. इतल्याय ह्या विशयांचो तूं अभ्यास केन्ना करता? सांगपाची गरजूच ना, अभ्यास करुनूच सगळें बरयतां. पुणून म्हाका एक गजाल मुजरत सांगची पडटली, फाटल्या चार साडेचार दसकां सावनचो म्हजो अभ्यासाचो विशय एकूच ह्न गांधी. ह्या विशयाक कितलींशीं आंगां आसात. सगळींच समजलां अशें ना. पुणून जीं समजल्यांत तांचेर बरोवंक बसतां तेन्ना परतून एक फावट मूळ झरी कडेन वतां. गांधींनी कितें म्हळ्ळें तें

समजून घेतां. तागेल्या सांगात्यांनी ह्या विशयाचेर कितें म्हळां तें पळेतां. तांच्या विरोधकांचेंय मत्त लक्षांत घेतां. आनी तकलेंत स्पस्ट जाले उपरांतूच बरोवपाक बसतां. वाचप आनी बरोवप सोडून हालींसराक दुसरें कितेंच करिना. म्हूण जें बरयतां तें मन लावन बरयतां. आनी जें बरयतां तें 'म्हजें'च म्हूण दितां.

सप्तकांतले पयले चार दीस हांवें म्हज्या 'प्रकल्पा' खातीर राखून दवरिल्ले. *ब्रह्मांडांतलें तांडव* आनी *महाभारत* हे दोन प्रकल्प पुरे केले उपरांत हांवें हिन्दींत दोन पुस्तकां बरयलीं. एक गांधींचें जिवीत, काँग्रेस शताब्दी समिती खातीर आनी दुसरें काकासाहेबांचें जिवीत, काकासाहेब कालेलकर शताब्दी समिती खातीर. ते उपरांत परतो कोंकणी कडेन आयलों आनी बुद्धाचेर एक पुस्तक बरयतलों म्हूण बसलों. कितलींशीं पुस्तकां एकठांय केलीं. कितल्याशा जाणांक मेळ्ळों. आनी चार वर्सां लावन पुस्तक बरोवन पुरें केलें. *तथागत* ह्या नांवान तें 'जागां'त खिस्ती खिस्तींनी तुर्ताक येवपाक लागलां.

'खूब बरयलें, आतां थांबिल्लें बरें' अशें खूब फावटीं मनांत आयलें. पुणून जितलेय खेपे तें आयलें तितलेय खेपे 'तुजें बऱ्यांतलें बरें पुस्तक तुवें अजून कोंकणीक दिवंकूच ना' असो एक आवाज भितर काळजांत आयकूंक आयलो. आनी तीस पस्तीस वर्सांचो तरणाटो जाल्ले वरी आतां मेरेन बरयत रावलों. ब्यास्तराव्या वर्सांत पावल दवरलें तेन्ना म्हळें, आयुष्याचे बँक-बॅलन्सींत आतां कितलीं वर्सां उरल्यांत जातलीं, कोण सांगतलो? आतां व्हडलो खंयचोय प्रकल्प घेवन बसलों जाल्यार तो अर्दकुटोच उरतलो. ते परस जो दीस मेळटा तोच खरो अशें मानून त्या दिसा जाता तेंच बरोवन काडपाचें. आठ-धा खंडांनी गांधींचें जिवीत बरोवपाचें, पुराय गांधीयुग उबें करपाचें मनांत आशिल्लें. पांच सात वर्सां लागतलीं आशिल्लीं. तितलें आयुष्य उरलां जातलें अशें दिसना. म्हूण हो प्रकल्प तकलेंतलो तुर्ताक काडून उडयला. असलो कसलोच व्हडलो प्रकल्प हातांत घेवपाचो आतां धीर जायना. म्हूण, तुर्ताक जें बरयतां तें वेगळेच एके प्रेरणेन बरयतां ह्र हालींसराक म्हाका दिसपाक लागलां, कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो यत्न आमी सारको केलो ना जाल्यार तें मराठी गद्याचें रूप घेवन मुखार वतलें. म्हाका कोंकणी सारकी येना हें हांव जाणां. कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना हेंवूय जाणां. तरी आसतना कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो जागरूक यत्न करीत रावलां. जे भाशेक काल पयर मेरेन कोण भासूच मानूंक

तयार नाशिल्लो ते कोंकणी भाशेक आठवे वळेरेंतल्या बंगाली, हिन्दी, तमीळ बी भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवपाक जांचो हातभार लागला तांची लागणूक ही अशें मानलां. आनी म्हजे कडेन म्हजे भाशेक जें कितें दिवपा सारकें आसा तें हांव जीव ओतून दीत रावलां. जें दितां तें आयचे वा फुडले पिळगेक अन्न म्हूण खावपाक उपकरा पडलें ना तरूय कोंकणी सरस्पतीच्या शेतांत बऱ्यांतलें बरें पीक काडपाक सारें म्हूण ताचो बऱ्यांतलो बरो उपेग जावं येता हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

असलें भाग्य सपसप सगळ्या बरप्यांच्या वांट्याक येना.

('जाग', ऑक्टोबर १९९७)



४२.

# उतार पिरायेंतलीं सपनां

*नव्या तॅश्तामॅन्ता* ची म्हाका सुमारा भायर ओड. हें सादें पुस्तक न्हय, सांगात हो एक, येशूचो. ह्या सांगातान केदया तोलामोलाचे लोक संवसाराक दिल्यात, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना. सगळ्यांचें जिवीत भांगराचें केलां ताणें. कांय हिन्दूंचें लेगीत. मुजरत सांगपाचें म्हळ्यार, ह्या हिन्दूंक ताणें 'बरे हिन्दू' केल्यात. हिन्दू धर्म सोड म्हूण कोणाक सांगूक ना.

कोंकणींत ताचे दोन अणकार आसात. तरी आसतना तिसरो अणकार म्हाका करचोसो दिशिल्लो. *गीते* चे सात जावंक नात व्हय? *नव्या तॅश्तामॅन्ता* चो अणकार फकत ताचे सांगणे खातीर न्हय. ताचे सांगणे भायर ताचे भाशे खातीर करपाचो आशिल्लो. इतलें प्रभावी गदय दुसऱ्या खंयच्याच पुस्तकांत म्हाका अजून वाचूंक मेळूंक ना. केदो व्हडलो प्रभाव घाला ताच्या इंग्लीश अणकारान इंग्लीश बरपावळीचेर! म्हाका म्हजी कोंकणी त्या पांवड्यार व्हरूंक येत काय कितें तें पळोवपाचें आशिल्लें. रोमी, कन्नड आनी नागरी ह्या तीन

संवसारांनी वांटून गेल्ले कोंकणीक एक भास करपाक *नव्या तॅश्तामॅन्ता* चो एक बऱ्यांतलो बरो अणकार पुरो. घेवन बशिल्लों. अवचीत हांतुळणार पडलों.

हांतुळणा वयलो उठलों तेन्ना नवोच एक हावेस मनांत जागो जालो. *तथागता*चो दुसरो वांटो म्हूण बुद्धाचे वीस पंचवीस धर्मसंवाद वेंचून तांचें 'धर्मचक्रप्रवर्तन' म्हूण एक नवें पुस्तक संपादीत करपाचो. प्रेरणा मेळ्ळी ती *दीघनिकाय*तल्या 'महापरिनिर्वाणसुत्ता' पसून.

बुद्ध अंयशीं वर्सांचो जाला. अवचीत ताका निर्मोळी जाता. आपणाली कूड आतां खटाऱ्या सारकी जाल्या अशें ताका दिसपाक लागता. तीन म्हयन्यांनी ती सोडची अशें तो थारायता. वैशाख पुनव हो दिसूय निर्वाणा खातीर वेंचून काडटा. जल्माचो दीस ताचो तो. ते भायर, 'बोधी' जोडिल्ल्याचोय दीस.

वैशाख पुनवेक तो कुशिनाराक पाविल्लो आसता. परतून ताका निर्मोळी जाता. कुशिनाराच्या शाल रुखांच्या रानांत ताका दोन रूख एकामेकांक तेंकून नीट वयर गेल्ले दिश्टी पडटात. तो आनन्दाक सांगता, 'आनन्दा, ह्या रुखां मुळांत म्हजी गोयडी पातळाय. पुरो जालां... मातसो आड पडटां...'

आनन्द गोयडी पातळायता.

बुद्ध कुशिनाराक पाविल्ल्याची खबर सुभद्र नांवाच्या एका परिव्राजकाच्या कानार पडटा. तो मनांत म्हणटा, 'हो सादो म्हापुरूस न्हय; हजार दोन हजार वर्सांनी केन्नाय तरी धर्तरेचेर येता तसलो युगपुरूस हो एक म्हणपाचें कितल्याश्याच लोकां कडल्यान आयकलां. आयतोच गांवांत पावला आनी आयजूच खंय ताचें निर्वाण जावपाचें आसा. म्हजे तकलेंत कितलींशीं वर्सां जालीं, एक प्रस्न घोळटा, तो ताचे मुखार कित्याक दवरचो न्हय?'

तो आनन्दाक आपणाली भेट घडोवन हाड म्हूण सांगता. आनन्द म्हणटा, 'ताका कित्याक त्रास दिता? ताका पुरो जालां तें तूं पळेता आनी तरी आसतना आपणाली भेट घडोवन हाड अशें म्हणटा? कितलो निश्टूर रे तूं!'

'ताचें आयज निर्वाण जावपाचें आसा म्हूण आयकलां... प्रस्न विचारपाक परतो तो म्हाका मेळपाचो ना, म्हूण मेळूंक सोदतां...' सुभद्र जाप दिता.

बुद्धाच्या कानार दोगांय मजगतचो हो संवाद पडटा. आनी तो आनन्दाक म्हणटा, 'आनन्दा, ताका घेवन यो हांगा. तो म्हाका त्रास दिवंक सोदिना. ताका खऱ्यांनीच जिज्ञासा जाल्या. ती भागोवपा खातीर तो मेळटलो म्हणटा... मनशाक

जिज्ञासा जाता तेन्नाच ताका खरें गिन्यान मेळूंक जाय... ताका धाड हांगा...'

आनन्द सुभद्राक बुद्धा सरीं धाडटा.

'सांग, कितें विचारपाचें आसा तुका?' बुद्ध ताका विचारता.

'इतलेय हे जे परिव्राजक मगध देशांत भोंवतात तांकां ते सांगतात ताचो अणभव आसता व्हय?'

'अशें केन्ना विचारचें न्हय,' बुद्ध म्हणटा. 'जिवितांत दुःख आसा, दुःखाक कारण आसा. हें कारण पयस करूं येता आनी तें पयस करपाची एक वाट आमचे कडेन आसा. अशें ते सांगतात काय कितें, तितलेंच पळोवपाचें...'

'असलें कितेंच हांवें तांच्या तोंडांतल्यान अजून मेरेन आयकूंक ना...' सुभद्र सांगता.

'तशें जाल्यार, आयक' अशें म्हणून बुद्ध ताका उपदेस करता. सारनाथाक ताणें आपणाल्या आदल्या पांच सांगात्यांक केल्लो तोच. पयलो वयलो. त्रिपिटकान ताका 'धर्मचक्रप्रवर्तन' नांव दिलां. मनांत म्हळें, बुद्धाचो पयसो उपदेस होच आशिल्लो. निमाणोय ताणें तोच केलो. चार आर्यसत्यां आनी चवथ्या आर्यसत्यांतल्या आठ आंगी मार्गाचेर ताणें जें सांगलां तांतलें म्हत्वाचें वेंचून काडचें, ताच्याच उतरांनी तें कोंकणींत सांगचें आनी पुस्तकाक 'धर्मचक्रप्रवर्तन' हेंच नांव दिवचें.

घेवन बसल्लां. उतार पिरायेर असलें कितेंय घेवन बसप धाडसाचें, हांव जाणां. पुरें जावंक पावतलें हाचें खंरेपण ना, हेंवूय जाणां. तरी आसतना...

आयुष्याची बँक बॅलन्स सोंपली जाल्यार दुसरो कोणूय तें हातांत घेवन पुरें करतलो ह्या भावार्तान घेवन बसल्लां. बऱ्या मनान सुरू केल्लो खंयचोच वावर फुकट वचना म्हणटात न्हय? मागीर हुस्को कसलो? 'धर्मचक्रप्रवर्तन' जातकूच *नवो तॅश्तामॅन्त* घेवन बसतलों म्हणटां. तोवूय करूंक पावलों ना जाल्यार दुसऱ्या कोणाक करचो पडटलो. हांवें केलो जाल्यारूय करचो पडटलो. कोंकणीक त्या पांवड्यार चडोवपाचो वावर कोणाकूय जाल्यार केन्नाय जाल्यार करचोच पडटलो.

('जाग', सप्टेंबर २००३)



## ४३.

# मनोहरराय

एक उर्दू शायर आशिल्लो. जाणटो जालो. दांत पडपाक लागले. दोळ्यांक सारकें दिसना जालें. कानांनी सारकें आयकूंक येना जालें. पयलीं भाशेन चलप जमना जालें. तो शिणपाक लागलो:

*'या खुदा, तुमने ही तो जवानी दी थी। देकर तुमने वह तुरंत क्यों ले ली? अब क्या, जो आकर कम्बखत कभी जाता ही नहीं वह बुढापा दिखा रहे हो?'*

जाणटेपणांत आमी सगळे हेच भाशेन शिणपाक लागतात.

पुणून जाचो भोवमान करपाक आयज आमी हांगा एकठांय जाल्यात, तो मनोहरबाब जाणटेपणांत वेगळोच शीण काडपी एक कवी. तो म्हणटा, *'देवा, कसली तुजी करणी, केंस जाले धवे, तरूय नदर अजून तरणी!'* खंयच्या तोंडान आमी ताका तूं पंच्यात्तर वर्सांचो जाला म्हूण सांगतले!

हेच उतार पिरायेर रवीन्द्रनाथांचे केंस धवेफुल्ल जाल्ले. खाड मिशयो पिकिल्ल्यो. दोळेय अधू जाल्ले, आनी कमरूय बागवल्लें. तरूय ते *'मोदेर पाकबे ना चुल गो'* म्हजे केंस

पिकूंक नात, केन्ना पिकपाचे नात, हांव जाणटो जावंक ना, केन्ना जावपाचों ना' अशें म्हणटाले.

मनोहरबाब हेच परंपरेंतलो. तो जाणटो जावंक ना. केन्ना जावपाचो ना. सैमाचो कवी तो. रवीन्द्रनाथां सारकोच सैमांतल्यान आयिल्लो, सैमाचेंच आंग जावन राविल्लो.

सैम केन्ना जाणटें जायना.

आमी सैमा कडेन दोळे आसून लेगीत केन्ना सारके पळेनात. फाल्यां उठना फुडें मुजरत उदेंते कडेन तोंड करून, मनांतले चिंता-हुसके, विचार विकल्प सगळे काडून मन स्वच्छ करून मेकळ्या चित्तान सकाळ कशी उदेता ती पळेयात. ती तुमकां आयजूच, ह्याच खिणाक, पयलेच फावट उदेल्ले वरी दिसतली. फ्रॅश, नवीताल्ल सामकी. आयजूच जल्माक आयिल्ल्या भुरग्या वरी.

युगां जालीं, सकाळ सदां अशीच उदेत आयल्या. धर्तरी उज्याचो गुळो आशिल्ली तेन्नाय ती अशीच उदेत आशिल्ली. धर्तरेन जीव जल्माक घाले, धर्तरेचे फाटीर तांची तरातरांची लीला सुरू जाली तेन्नाय सकाळ अशीच उदेताली. मायक्रोस्कोपांतल्यान पळेल्यारूच दिश्टी पडटात असल्या बॅक्टेरियां पसून हती गेंड्या मेरेनचे लाख तरांचे जीव धर्तरेन जल्माक घाल्ले तिणें पळेले. तणाच्या पात्या पसून पिंपळ वडा सारक्या रुखांची वनस्पतसृश्टूय जल्माक आयिल्ली तिणें पळेली.

मनीस जल्माक आयिल्लो पळेलो. ताणें जल्माक घाल्ल्यो, तरतरून वयर सरिल्ल्यो आनी कसलीच कुरू दवरी नासतना मातये भरवण जाल्ल्यो ह्र खाल्डियन, असीरियन, इजीप्शियन, इण्डस व्हॅली, ग्रीक, रोमन ह्र व्हडल्यो व्हडल्यो संस्कृतायो तिणें पळेल्यो.

कितलीं झगडीं झुजां पळेलीं, क्रांत्यो उलथापालथी पळेल्यो, कोंत आनी हिशोब मेळचो ना.

इतलेंय हें पळोवन लेगीत तिच्या मुखामळार जाणटेपणाची एक ल्हानशी मिरी लेगीत पडिल्ली दिश्टी पडना. तिका पुरो जालां, ती खर्शेल्या, उबगल्या म्हणपाचेंय एक चिन्न तुमकां दिसपाचें ना.

ती सदां उदेतली आनी उदेतली ती नवी ताल्लूच उदेतली.

कित्याक, तिच्या शिरंत्रांनी जें रगत व्हांवता तें नवेताल्लपणाचें आसता म्हण.

नवेताल्लपण हेंच सैमाचें मूळ तत्त्व. तेंच सैमांतल्यान आयिल्ल्या आनी सैमांतूच रावतल्या कवींच्या शिरंत्रांनी घोळटा. सैमाचे कवी केन्ना जाणटे जायनात. सदां नवेताल्ल आसतात.

मनोहरबाब, तूं पंच्यात्तर वर्सांचो जाला हें सांगपाक आनी, शंबर पुरीं जायसर आमकां तुजो सांगात मेळूं म्हूण मागपाक आमी हांगा एकठांय येवंक नात. सट्ट करून तूंच आपूण जाणटो जालां अशें मानशीत ह्या दुबावान, तूं जाणटो जावंक ना, आमकां तूं अजून तिशी-पस्तिशींतलोच कवी उरला, पंच्यात्तर अदीक शंबर वर्सां जियेलो जाल्यारूय गोंयकारांक तूं सदां तिशी-पस्तिशींतलोच दिसतलो, हाचो तुका उगडास करून दिवपाक आयज आमी हांगा जमल्यात.

मनोहरबाब सैमाचो कवी तसो गोंयचोय कवी.

ईश्वरान येदेंय व्हडलें हें विश्व ब्रह्मांड निर्माण केलें, निर्माण केल्ल्या सगळ्याक नेमान बांदून तें आपले आपूण चलता अशें केलें आनी आपणाक रावपा खातीर एक सर्ग निर्माण करपाक तो मुखार सरलो आनी, सगळी कला, सगळी कुशळताय वापरून ताणें गोंय निर्माण केलें. गोंयांत प्राणाची लीला, गतीचें नृत्य आनी वैचित्र्याचें वैभव दिश्टी पडटा तें गोंयांत तो रावता म्हूण.

मनोहरबाबाचो जीव ह्या गोंयचेर.

सुमार साठ वर्सांचो आमचो दोगांयचो संबंद. खूब दाट. चवदा पंदरा वर्सांचे आसतना आमी फोंड्यां मेळिल्ले, आल्मैद कुलेजींत. ह्या साठ वर्सांच्या काळांत मनोहरबाबाक कोणाचो मत्सर दिशिल्लो हांवें पळोवंक ना. ताणें कोणाचो दुस्वास केल्लोय पळोवंक ना. ताका अभिमानूय कोणाचोच आनी कित्याचोच ना ह्व कुटुंबाचो ना, घराण्याचो ना, धर्माचो ना. तें कित्याक, खासा आपणालोय ना. पुणून गोंयचो अभिमान? ताका सुमारा भायर. गोंयकाराचोय तितलोच आनी गोंयचे भाशेचो तर सगळ्यांत चड. मनोहरबाब फ्रँच जाणा. खंयच्याय व्हड फ्रँच कवीक येता तितली ताकाय फ्रँच येता. तो फ्रँच साहित्य कोळून पियेला. इंग्रजीय ताका तितलीच बरी येता. इंग्रजींतलें बऱ्यांतलें बरें काव्य सगळें ताणें वाचून काडलां. आनी, खूब जाणांक खबर आसची ना, तो मराठी घेवन मुंबय विश्वविद्यालयांतल्यान एम. ए. जाला, फर्स्ट क्लास फर्स्ट आयला. हांचे भितरले खंयचेय एके भाशेंत नांव जोडून तो व्हड जावं येतालो. पुणून आपुणूच व्हड

जावपाक मनोहरबाब जल्माकूच येवंक नाशिल्लो. गोंय व्हड करतलों आनी गोंया वांगडाच आपूण व्हड जातलों अशें म्हणपाक लागलो आनी तो कोंकणी कवी जालो. कोंकणी गोंयचो प्राण अशें म्हणपाक लागलो.

गोंय मनोहरबाबाच्या रगतांत घोळटा. गोंया भायर खंयूय वचूं तो, आपणा वांगडा गोंयूय घेवन वता. '*हांव जंय वतां थंय रगतावरी व्हरतां माती,*' तो म्हणटा. तो फकत गोंयची मातीच घेवन वता अशें न्हय. घुंवते दोंगुल्लेचो हुडकोय घेवन वता. देव-देवतां आंगां वयले कुराडेचे घाय घेवन वता. तें कित्याक, तो वता थंय आपणा वांगडा अठरा जूनूय घेवन वता आनी तो रावता थंय अठरा जून गर्जेत रावता. अत्त्वादाच्या शिंवा वरी (लोहियां वरी) ताचोय जीव पिरंगता. ताचें मन तापता. रगत पेट्टा. ताच्या काळजाची ल्हाय फुट्टा. आनी मागीर, '*गोंया तुजे जिणे बगर, मोगा बगर रावं नज*' म्हण तो तळमळटा.

तो फ्रांसाक पावता. पॅरिसांत रावता. पॅरिस म्हळ्यार केंद्र एक येवरोपेव संस्कृतायेचें. ते भायर इन्द्रनगर, भोगांचें. इन्द्राक लेगीत मत्सर दिसचो हे तरेचें भाग्य ताचें. मनोहरबाब वैरागी न्हय. चाखपा सारकें जें जें कितें 'गंधांत, गानांत पानांत' आसा तें चाखपाचें मन घेवन आयिल्लो एक रसीक तो. पुणून ताचें मन थंय निखालूस लागना.

'*म्हजें मन ना रे हांगा, हांगचो म्हाका नाका भोग,*' तो म्हणटा, आनी सांगता,

'*म्हजी जीण उपाट भरूंक म्हाका जाय गोंयचो मोग.*'

गोंयचो मोग तो खंय सोदता? आवय-बापायच्या, भावां-भयणींच्या सोयऱ्या-धायऱ्यांच्या, इश्ट-मित्रांच्या मांगातांत? हांचो कोणाचो ताका उगडास लेगीत जायना. तो गोंयचो मोग सोदता फांत्या पारा वेल्या म्हातारेच्या कोंब्या सादांत. सान्नीच्या सरसराटांत किणकिणपी कांकणां नादांत. माडा राबस हांडी वेल्या सुक्या चुट्टां सळसळाटांत. चंवरेल्ल्या आंब्या वेल्या सुकण्या खोशये किलकिलाटांत.

*'म्हाका जाय जुंवारेचीं*
*पातळ्ळेलीं पांचवीं ल्हारां*
*नळखुट्यांच्यो बेबक्यो मेजपी*
*देगे वयलीं शेंबडीं पोरां*

*म्हाका जाय पाडेल्यांचे*
*माडा वयले उल्यार उले*
*आंग मोडपी चांफ्या वयले*
*गोरे, धवे वासा झेले.'*

एक दीस ताच्यो ह्यो 'सावदादी', उगडासांचे हे चटके, शिमे भायर वेतात. जांचे सासायेंत तो ल्हानाचो व्हड जाल्लो ते सगळे देखाव ताच्या दोळ्यां मुखार उबे रावतात. आनी तो म्हणटा, ते पळे ह्न

*'हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे*
*चांफो हांसता वासाळ हांशें*
*तेंगशे वयलें पिकलें तोर*
*म्हणून चानयेक लागलां पिशें.'*

ताका देवकेळम्यार जोती फुलिल्ल्यो दिश्टी पडटात. घडा भारान बागिल्ल्यो केळी तो पळेता. आंब्या काथे चोखीत चोखीत जळीं मळीं भोंवपी पोरां दिश्टी पडटात. जांबळां, काण्णां, चुन्नां, चारां ह्न गोंयचें अख्खें जिवीत तो पळेता आनी आकूळ-पिकूळ जावन म्हणटा ह्न

*'हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे*
*चांफो हांसता वासाळ हांशें*
*गोंया भायल्या मनाक म्हज्या*
*लागलां पिशें, लागलां पिशें.'*

*'गुरबत में हो अगर हम, रहता है दिल वतन में / समझो वहीं हमें भी, दिल हो जहाँ हमारा...'* मनोहरबाब आसा फ्रांसांत, पुणून रावता गोंयांत. हो गोंयचो मोग ताका फ्रांसांत रावंक* दिना. स वर्सां उपरांत अभ्यास पूर्ण करिना फुडें मांडवीच्या ल्हारां खातीर दर्या ल्हारां उंपून तो परत येता. दूदसागरा हांशा खातीर तो सोन्या पेलो मोखून दिता. कुळागरां स्पर्शा खातीर अप्सरांचो सर्ग सोडटा... फकत गोंयच्या मोगा खातीर.

परतो येता. पुणून गोंयांत पावना. तागेलीं आवय-बापूय, भावंडां सगळीं मुंबयंत आसात. ताका मुंबयंत रावचें पडटा. तुज्या मोगा खातीर परतो आयलों खरो *'तरूय तांबडी माती म्हज्या हाताक लागली ना'* म्हूण तो खंतीन गोंयाक सांगता. तो फ्रांसांत आसतना गोंयचे सुटके खातीर हांगा दोन मोट्यो चळवळी

जाल्यो. शेचाळिसांतली चळवळ ताणें पळेल्ली. चवपन-पंचावनांतल्यो चळवळी पळोवंक नाशिल्ल्यो. शेंकड्यांनी गोंयकार बंदखणींत पाविल्ले. कांय जाण तर प्राण होगडावन नाच जाल्ले. आपणाक ह्या यज्ञांत वांटो घेवंक मेळ्ळो ना, *'तुज्या उल्याक दिवंक उलो म्हज्या काळजाक गावलें नां'* म्हूण तो पच्छात्ताप करता.

तो फ्रांसांत आसतना गोंयान वेगळेंच एक रूप घेतिल्लें. नाक दांबलें जाल्यार तोंड उकतें जातलें हे आशेन भारत सरकारान गोंयचेर इकनॉमिक ब्लॉकेड घाल्लो. आमच्या स्वातंत्र्य सैनिकांनी भारत सरकाराक तो घालूंक लायिल्लो. परिणाम उरफाटोच जालो. इकनॉमिक ब्लॉकेड कोणाचेंच नाक दांबूंक पावलो ना. उरफाटीं, गोंयांत मिनां सुरू जालीं आनी गोंयकारांच्या हातांत सुमारा भायर दुडू घोळपाक लागलो. कोट्ट्यांनी वर्सां लावन सैमान गोंयच्या पोटांत जें लोखण तयार करून दवरिल्लें, कोट्ट्यांनी वर्सां मेरेन गोंयकारांक उपकारा पडचें म्हूण, तें आठ धा मिनेरांनी उस्तून उस्तून भायर धाडून दिलें आनी बदलांत गोंय फॉरेन मालान भरून उडयलें. गोंयकार दूद हॉलँडचें पियेवपाक लागले. सफरचंदां स्वित्झर्लंडांतलीं मागोवन खावपाक लागले. शीत ब्रह्मदेशांतल्या मदियामांडला तांदळाचें जेवपाक लागले. कांय जाणांच्या दारांत नव्यो करकरीत इम्पोर्टेड गाडयो दिश्टी पडपाक लागल्यो. एके तरेच्या वैभवांत गोंयकार लोळटात ते मनोहरबाबान पळेले. कवी तो. दिश्टी पडटा ताचे पेलें कडलें, खूब पयसलें पळोवपी. उद्वेगान तो गोंयकारांक सांगपाक लागलो ह्न

*'खणात खणात खणात खणी*
*खणात झाडां पाळां मुळां*
*शेता भाटां खणात खुशाल*
*खणात पुरूस खणात खांबे*
*हुयेल मारीत आजे पणजे*
*आयज ना फाल्यां जातले उबे*
*खणात फोण, खणात फोण*
*वयर पळे भोंवता घोण.'*

घोण बेश्टी वयर भोंवना. हांगा सकल लचके तोडून खावपा सारकें कितेंय दिश्टी पडटा तेन्नाच ती वयर घिरट्यो घालूंक लागता. मिनाच्या उद्वेगान गोंयची

आवतिकाय लचके तोडून खावपा सारकी करून उडयल्या म्हणपाचें मनोहरबाब पळेता आनी ताचें काळीज खेदान भरून येता.

मंगेश पाडगांवकारांची मराठींत एक कविता आसा. खूब वर्सां पयलींची. एक राजकुंवरी राजम्हालाचे गच्चेर बसून मुखार दिश्टी पडटा तें जिवीत नियाळपाक लागता. अवचीत तिका रस्त्यार एक भिकारीण दिश्टी पडटा. बोंदरां न्हेशिल्ली. हांडीर एका धाकल्या भुरग्याक घेवन ती भीक मागताली. राजकुंवरी तिका पळेता आनी मनांतल्या मनांत म्हणटा, 'आरे रे! बावडी कितें जेवता खाता काय? भुरग्याक कितें दिता काय?' तिचें काळीज कळवळून येता आनी दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागतात.

पाडगांवकार म्हणटात ह्न

*'नृपकन्येच्या डोळ्यां मधुनि अश्रु गळती*
*उंचावरूनि धुळींत पडती, धुळींत मिळती.'*

चडशे कवी हे नृपकन्ये सारके. तांकां संवसारांतलीं दु:खां दळदिरां, अन्याय अत्याचार सगळें दिश्टी पडटा. तें पळोवन तांचें काळीज खंतीन भरून येता. पुणून तांच्या हातान कांयच घडूंक पावना. कितेंय घडूंक जाय म्हणपाची तांकां जाणविकाय जायना. ते फकत कविता रचतात आनी थंयच थांबतात.

मनोहरबाबाची प्रतिभा वांझकुटी न्हय. फकत कविता बरोवन कडेक सरपी न्हय. एक कृतिशील कवी तो. एक ॲक्टिव्हिस्ट. तो साहित्यकार ह्या रुपांतल्यो आपणाल्यो जापसालदारक्यो जाणा.

लॉर्ड कर्झनान बंगालची फाळणी करची थारायली तेन्ना तिचे आड बंगालांत तिडकीचें एक ल्हार उसळ्ळें. रवीन्द्रनाथ ताचेर चडून बशिल्ले. स्वदेशीच्या आंदोलनांतूय ते सगळ्यांत मुखार राविल्ले. जालियांवाला बागेंतल्या हत्याकांडा आड सगळ्यांत खणखणीत आवाज सगळ्यांत पयलो तांचोच उठिल्लो. फ्रांसांतले सार्त्र, काम्यू सारकेले व्हड साहित्यकार देशाचो उलो कानार पडना फुडें झुजा मळार देंविल्ले. मनोहरबाब लक्ष्मणरावांचो पूत. गोंयच्या उल्याक उलो दिवन लक्ष्मणरावान घरसंवसाराची होळी केल्ली ताणें पळेल्ली. आनी तिची झळूय अणभविल्ली. मनोहरबाबाचीय कूड लक्ष्मणरावां सारकी. भाराची. तो पेट्टा. आपणाले जापसालदारकेची जाणवीक तो आपणाकूच करून दिता. *'खणी फोंड*

*पुरचो आसा, तरणो कावथो रोवचो आसा'* हाची जाणवीक ताका जाता आनी तो म्हणटा ह्र

*'खूब खूब करचें आसा*
*रगतान मळो शिंपचो आसा*
*जिणे फातरीर काळीज घांसून*
*वीज जगाक दिवची आसा...*

*उज्या वादळ झेलचें आसा...*
*संवसाराचें वीख पियेवन*
*चंद्र माथ्यार घेवचो आसा...*

*गांवांत म्हज्या न्याया सूळ*
*ऊंच उबो रोमचो आसा.'*

नशिबाचो काळोख आटोवन तो रुप्या सपन घडोवंक भायर सरता. नवी खोंप बांदतलो म्हणटा. पोरणो पुरूस पुजतलो म्हणटा. मांडवीच्या झेमेल्ल्या ल्हाराक नवी जाग हाडटलो म्हणटा. ताचे कडेन फकत सपनां नात. सपनां चलणुकेंत हाडपाची कार्यावळ्य आसा. पयलें पावल म्हूण तो सगळ्यांत पयलीं खणी फोण पुरून थंय तरणो कावथो रोवंक जाय म्हणटा. म्हणटकूच ह्या कावथ्याचो एक दीस माड जातलो आनी *'फायच्या गोंयांत'* तो *'येद्दे नाल्ल'* दिवपाक लागतलो हाची ताका खातरी आसा.

हीं रुप्या सपनां रंगयता आस्तनाच जिस्त गोंयची सुटका जाता. मनोहरबाब खुशालभरीत जाता. *'आयलें आमचें राज, आयज आयलें आमचें राज'* अशें म्हणून तो नाचपाक लागता.

पुणून कटा! साडेचार शेंकड्यांच्या बंदपणांत रावन आयिल्लो गोंयकार धनीपणाची भावनाच होगडावन बसला म्हणपाचें तो पळेता. फिरंग्यांनी एका गोंयांत पयलींच दोन गोंयां निर्माण करून दवरिल्लीं. एकामेकां कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लीं. दोनूय स्वायत्त. Autonomous. दोनूय एकामेकांक भियेतालीं. हांच्या हातांत गोंय गेलें जाल्यार आमकां हे खावन उडयतले अशें एका गोंयाक दिसपाक लागलें, तर हांच्या हातांत गेलें जाल्यार आमी सामकेच ना जावन वतले

अशें दुसऱ्या गोंयाक दिसपाक लागलें. दोनां मजगतचें, संख्येचे नदरेन सगळ्यांत व्हडलें गोंय सगळ्यांत चड भियेल्लें. 'नाकाच हें राज आमच्या हातांत... दिवन उडोवया तें शेजारच्या लोकां हातांत' अशें तें म्हणपाक लागलें. शेजारचे बुदवंतूय तांकां 'तुमी कशे खेरीतपणान राज्य चलयतले? तुमकां भास ना, तुमकां इतिहास ना... आमची भास तीच तुमची भास, आमचो इतिहास तोच तुमचो इतिहास' अशें सांगपाक लागले. तांच्या सुरांत सूर मेळोवन हे घरचे पिशेय 'हय, हय... तुमी म्हणटात तेंच खरें, आमकां भास ना, आमकां इतिहास ना... आमी षंढ... बाबत कुळां' अशें म्हणपाक लागले.

म्हळ्यार, एका बंदेपणांतल्यान मेकळें जाल्ल्या गोंयाक दुसऱ्या बंदेपणांत धुकलून उडोवपाचो वावर खासा गोंयकारांनीच सुरू केल्लो. तोवूय, गोंय मेकळें जायना फुडें रोखडोच.

'गोव्याला इतिहास आहे? पोर्तुगीज आले आणि पोर्तुगीज गेले' हाचे पेल्यान कितें घडलां गोंयांत? अशें महाराष्ट्रांतले 'तर्कतीर्थ' म्हणपाक लागले तेन्ना मनोहर उसळ्ळो. हय गा, पुणून एक गजाल विसरूं नाकात... पुर्तुगेज आयले आनी पुर्तुगेज गेले ह्या दोन घडणुकां मजगतीं चारशें पन्नास वर्सांचो काळ गेला. ह्या चारशें पन्नास वर्सांच्या काळांत भारतवर्षांतल्या खंयच्याच वाटारांतल्या लोकांच्या वांट्याक येवंक नात इतले उतळताप गोंयकारांक सोंसचे पडल्यात. गोंयकारांक हुलपावन मारपाचे उपद्व्याप फिरंग्यांनी केल्यात. फकत, नवो धर्म घेवनूय पोरण्यो चाली-रिती ते सोडिनात म्हूण. फिरंगी आमकां बाटयतात म्हूण पयलीं हिन्दू लोक गोंय सोडून पळून गेल्ले. बद्द कोची मेरेन पाविल्ले. शितांत मीठ घालिनात म्हूण, तुळशीच्या रोप्याक उदक घालतात म्हूण आतां क्रिस्तांव पळून वचपाक लागले. जाला असो छळ कोणाचोच दुसरे खंयचेच कडेन ह्या देशांत? दक्षीण कॅनरांत जे क्रिस्तांव आयज दिश्टी पडटात ते चडशे ह्याच गोंयच्यान पळून गेल्ल्या क्रिस्तांवांचे वंशज. ह्याच चारशें पन्नास वर्सांच्या काळांत गोंयची म्होंवाळ कोंकणी भास ना नपश्यात करपाचे तरातरांचे निश्ठूर यत्न गोंयांत जाल्यात. ती जिबेर लेगीत घोळची न्हय म्हूण तांणी एका फुडले एक कडक फतवे काडल्यात. जाला असलो छळ ह्या देशांतले दुसरे खंयचेय भाशेचो? हो इतिहास न्हय? हो इतिहास नामुष्कीचो आसत, लाचारीचो आसत, लज दिसपा सारको आसत. पुणून इतिहास तो. ह्याच इतिहासान गोंयकारांक घडयल्यात. गोंयकार मेंगो आसूं, लाचार

आसूं, सत्वशून्य आसूं, बाबत कूळ आसूं. इतिहासान घडयल्लो मनीस हो.

इतल्या वर्सांचो इतिहास आयज संवसाराचेर आपणाली दादागिरी चलयता ते अमेरिकेचो लेगीत ना.

आनी हांचो इतिहास? छत्रपती शिवाजी महाराजां पसून सुरू जाता आनी छत्रपती शिवाजी मेरेन पावतकच थांबता. आदलोय ना, उपरांतचोय ना.

तुमकां भास ना, इतिहास ना अशें भोवन भोवन कानार पडपाक लागलें तेन्ना मनोहरबाब संतापान उसळ्ळो. आमकां भास ना? इतिहास ना?

*'आमकांय इतिहास आसा*

*आमकांय बी भास आसा*

*तुमचे वरीच नखेत्रांचो*

*आमकां लेगीत ध्यास आसा.'*

अशें तिडकून तो सांगपाक लागलो. इतलेंच न्हय, तर मुखार तो तांकां एक म्हत्वाची शिटकावणी दिवपाक लागलो ह्न

*'आमच्या मनाक धार आसा*

*सोंशीकपणाक पार आसा*

*आड येतल्यांक आड घालपाक*

*आमचे कुडींत हाड आसा.'*

मनोहरबाब मुदलांतलो बंडखोर. गोंयच्या 'दुस्मानाक' तो पारिसाक आसतनाच सांगतालो ह्न

*'तुजे मुखार दुस्माना*

*नाच दिमी मोडचों ना*

*वठार दोळे, पेटय नाळी*

*हावेस म्हजो मरचो ना...*

*लागत तशे बांद पांय*

*तोंडाक केदोय गुड्डो लाय*

*हाणशी जाल्यार हाण उबो*

*तरूय दिमी मोडचों ना...'*

हेच धिटायेन, हेच पोटतिडकेन, हेच जीवसाणेन तो नव्या साम्राज्यवाद्यांक *'आड येतल्याक आड घालपाक/आमचे कुडीक हाड आसा'* अशें सांगपाक

लागलो.

भोंवतणच्या तरणाट्यांक तो किंवाट्यान विचारपाक लागलो ह्न

*'तरणे तशे दांडगे तुमी*
*अजून कशे रावल्या वोगे*
*हड्ड्यांतले इंगळे आयज*
*धगधगून जावं दी जागे*
*जायात जागे.'*

गोंयचे सुटके पसून ओपीनियन पोल मेरेनच्या काळांतलो मनोहरबाबाचो अवतार पळोवंक जाय आशिल्लो. मोटवीच ही मूर्त वेदीर चडटाली आनी मायका मुखार उबी रावन अवसर आयिल्ले वरी उलोवपाक लागताली तेन्ना मुखार उबे आशिल्लेय सगळे कुदपाक लागताले.

मनोहरबाबान ते मुस्तींत आमकां दोन स्लोगन दिल्ले ह्न मंत्रां सारके. उपाट अर्थान भरिल्ले. *'कोंकणी आमची माय/आमची भास आमकां जाय'* हो एक, आमचो नित्शाय उकतावपी आनी, *'घरचे भेदी, भायले चोर... सांगात तांकां वास्सिमोर...'* हो दुसरो, आमकां कृतिशील करपी.

बेश्टो ओपीनियन पोल जिखूंक पावले नात आमी.

मनोहरबाबाच्या ते मुस्तींतल्या वावराचो by product म्हळ्यार *'आमी इकरा जाण'*. हे इकरा जाण कोण, हांव सांगूंक वचचों ना. गोंयांत आयज एक विश्वविद्यालय आसा. फादर थॉमस स्टीफन्स आनी सेंट फ्रान्सिस झेवियर हांच्या नांवान भासविज्ञानीक, इतिहासीक संशोधन करपांत गुल्ल आशिल्लीं दोन केन्द्रांय आसात. हांव तांकां इतलेंच सांगीन, सोळाव्या शतमानाच्या इतिहासांत तीं घुसपून उरलीं जाल्यार कालचो पयरचो गोंयच्या कर्तुत्वाचो इतिहास तांच्या हातांतलो निसरून पडटलो. आदलो काळ खूब सवकासायेन चलतालो. आयचो रॉकेटाच्या वेगान धांवपाक लागला. आमच्या दोळ्यां मुखार जाल्लो ओपीनियन पोल आयज मध्ययुगांत वचून पडला आनी अठरा जून तर प्राग्-इतिहासीक काळांत वचून बसला. इकरा जाण कोण तें हांणी कळाव लाय नासतना सोदून काडचें. हांव तांकां एक clue दीन. खासा मनोहरबाब त्या इकरा जाणांतलो एक आशिल्लो.

ह्या इकरा जाणांनी कोंकणी चळवळीक पयलेच फावट संघर्शाची देख दिल्या.

ह्या 'इंडिया दॅट इज भारत' देशांत संघर्श केले बगर तुमकां कितेंच मेळपाचें ना हें त्या इकरा जाणांनी सगळ्यांक स्पस्ट उतरांनी सांगून दवरलां. ते पयलीं आमी सगले कविता कथा बरोवपांतूच गुल्ल उरिल्ले. ह्या इकरा जाणांनीच कोंकणीक 'साहित्य अकादेमीं'त पावयल्या आनी तिका 'आठवे वळेरें'त व्हरून बसयल्या. ह्या इकरा जाणांनीच गोंयकारांक एक identity दिल्या. कोंकणीक स्वताची अशी एक भूंय दिल्या. तिका स्वताचें अशें एक राज्य जोडून दिलां. इकरा जाण जेन्ना उठून उबे रावतात तेन्ना सत्येर केदेय मदांध लोक बशिल्ले आसूं, तांकां हार खावची पडटा, मारूय खावचो पडटा.

भूतखांब केरीचे इकरा जाण उठून उबे रावले तेन्ना द्युपाँ सारकेले एके बळिश्ट कंपनीक साटली-पोटली कवळून गोंयच्यान वचचें पडलां. आनी 'आतां कांय जावपाचें ना' अशें सांगतल्या 'खाश्यां'च्या पुलिसांक लोकांचो रुद्रावतार पळोवन पळून वचचें पडलां.

सत्येचेर सत्या चलोवपाक समाजांत सदांच जागरूक इकरा जाणांची सत्या चलूंक जाय हें कोंकणींतल्या इकरा जाणांनी दाखोवन दिलां.

मनोहरबाब म्हणटा ह्

*'जाणटे पुणून तरणे आमी*
*लाल भुंयेचे राखणे आमी*
*संवसारांत राखतले गा*
*हिचो व्हडलो मान*
*आमी इकरा जाण*

*आसले आमी जरी थोडे*
*उजवाडाचे आमी गडे*
*काळखी कुपां वेतलो चिरीत*
*आमचो उज्या बाण*
*आमी इकरा जाण*

*भायले शाणे, घरचे पिशे*
*लेखती आमकां नेण्टे कशे*

*वामना वरी धाकटे जरी*
*पावल आमचें म्हान*
*आमी इकरा जाण*

*येवंदी कोणूय घालूंक फूट*
*एकचाराची दाखोवं मूठ*
*घट आमी बांदलां आयज*
*नित्शयाचें काण*
*आमी इकरा जाण*

*आडमेळ्यांचे येवंदी फातर*
*आमच्या ओंठार एकूच उतर*
*'जैत जोडून दितले आमी*
*पडलो जरी प्राण'*
*आमी इकरा जाण.'*

ह्या इकरा जाणां खातीर, मनोहरबाब, गोंय आनी गोंयकार, गोंयचें राजकी जिवीत, सदांच तुज्या रिणांत उरतलें.

आयज गोंय गोंय उरूंक ना. ज्या गोंयची तुका फ्रांसांत याद येताली, तें गोंय आयज सोदल्यारूय तुका गोंयांत मेळपाचें ना. ज्या फायच्या गोंयचीं तूं रुप्या सपनां पळेतालो तें गोंय राजकर्णी गोंयकारांनी पोटांत आसतनाच व्हळोवन उडयलें, जल्माकूच येवंक दिलें ना. आयचें गोंय पळेतलो? बायणा पळोवन यो. थंय मुंबयचो फोरस रोड उबो जाल्लो तुका दिश्टी पडटलो. कळंगुटे भोंवन यो. थंय भेंडी बाजार तुका पळोवंक मेळटलो. विकासाच्या नांवान धरबांद नाशिल्लें जें उद्‌देगीकरण आनी ताळतंत्र नाशिल्लें शारीकरण गोंयांत चलपाक लागलां तें तुजे यादींतल्या आनी सपनांतल्या गोंयाक विनाशाच्या फोंडांत धुकलून उडोवपाक लागलां. तुज्या इकरा जाणांनी गोंयचें merger आडायल्लें. गोंयचें submersion ते आडावंक पावले नात. आमी सात लाख आशिल्ले. आयज बारा लाख जाल्यात. धा पंदरा वर्सां भितर  वीस पंचवीस लाख जावपाचे

आसात. पेडणेच्या तेरेखोल सावन काणकोणच्या काब-द-राम मेरेनची एकूय वेळ आयज गोंयकारांची उरूंक ना. गोंयांत कितल्योश्यो इंडस्ट्रियल इस्टेटी उब्यो जाल्ल्यो आमी पळेतात. एकेय इस्टेटींतली एकूय म्हत्वाची इंडस्ट्री गोंयकाराच्या हातांत ना. गोंयच्या प्रशासनांत एकाय म्हत्वाच्या स्थानार गोंयकार बशिल्लो दिश्टी पडना. एका काळार आमी Goa for Goans म्हणटाले आनी *'गोंय कोणाचें? गोंयकारांचें'* म्हूण घोशणा दीत गोंयभर नाचताले. आयज Goa for everybody except Goans ह्न गोंय गोंयकारांचें सोडून हेर सगळ्यांचें जालां. गोंयांत गोंयकारांक खंयच सुवात ना.

आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी केली तीच चूक कोंकणीच्या मळा वेल्या तुज्या इकरा जाणांनी केली. सुटके झुजाऱ्यांनी गोंयची सुटका जावची म्हूण जिवाचें रान केलें आनी सुटका जायना फुडें गोंय काडून अश्या लोकांच्या हातांत दिलें, जांणी सुटका जावची म्हुण्णूय कांय करूंक नाशिल्लें, जावची न्हय म्हुण्णूय कांय करूंक नाशिल्लें. पीटर आल्वारीस सुटके झुजांतलो आमचो हिरो. लोकसभेंत वचपा खातीर ताचेर ह्याच गोंयकारांच्या एका थळाव्या पक्षाचो ह्न म.गो.पक्षाचो ह्न आधार घेवपाचो प्रसंग आयला. आनी पीटर दो. पुंडलीक गायतोंड्यां सारक्या एका तेजिश्ट सुटके झुजाऱ्याक हरोवन वेंचून आयला. आमच्या सुटके झुजाची फलश्रुती हाचेकूय बरे तरेन सांगूंक येवपाची ना. तुज्या इकरा जाणांनी गोंयाक एक वेगळी आयडेंटिटी जोडून दिल्ली. गोंयकारांक तांचें हक्काचें राज्य जोडून दिल्लें. तांणीय हेंच केलें. राज्य आपणा हातांत घेवपा बदला अश्या लोकांच्या हातांत काडून दिलें, जांणी गोंयच्या खंयच्याच प्रस्नाचो आयुष्यांत पांच मिनटां लेगीत केन्ना विचार केलो ना. आयज तुज्या त्या इकरा जाणां मजगतच्या कांय म्हालगड्यांक सत्येर आशिल्ल्यांचे भोंवतणी आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडटना तूं पळेता तेन्ना तुका कितें दिसता जातलें, म्हाका अदमास आसा. म्हाका लज लज दिसता. जीव दिवचोसो दिसता. कोंकणीचे चळवळीची फलश्रुती हाचेकूय बरे दुसरे कसलेच तरेन सांगूंक येवपाची ना.

पुणून आमी जाणात ह्न तुजे खंयचेच कवितेंत निर्शेणेचो सूर आमी कोणें पळोवंक ना. तूं निर्शेवपी कवी न्हय आनी गोंयची कूस वांझकुटी न्हय. ती सदां नव्या नव्या इकरा जाणांक जल्म दीत आयल्या. गोंयचो विनाश आडावपी नव्या, आदले परस तेजिश्ट, इकरा जाणांची आयचें गोंय वाट पळेता. तांकां

उलो मार. तुज्या *'जायात जागे'* गितांत शंकरा रागाचो नवो सूर जोड. आनी भास्करराव तांब्यां भशेन *'पाड सिंहासने दुष्ट हीं पालथीं*

*ओढ हत्तीवरूनि मत्त नृप खालती*

*मुकूट रंकासि दे, करटी भूपाप्रती'* अशें रुद्राक आवाहन कर. नवे इकरा जाण येतलेच येतले. गोंयाक ते परत एक फावट जाग हाडटलेच हाडटले आनी तुज्या सपनांतलें गोंय उबें करून दाखयतलेच दाखयतले.

*भगवान के दरबार में देर है, अंधेर नहीं.*

मनोहरबाब, आयज आमी हांगा दोगां विभूतिंचो भोवमान करपाक एकठांय जमल्यात. एक, तुजो ह्न गोंयच्या आनी गोंयकारांच्या कवी मनोहरराय सरदेसायांचो. आनी दुसरो, मनोहरराय सरदेसायांतल्यान कवी जावन मुखार आयिल्ल्या गोंयचो आनी गोंयकारांचो.

तुका पंच्यात्तर वर्सां जालीं म्हूण कोणूय कितलेंय सांगूं, तूं तांचे कडेन लक्ष दिवं नाका. आमकां तूं पस्तीस वर्सांचोच दिसता. पस्तीस वर्सांचोच सदांकाळ उरिल्लो जाय तूं आमकां.

('जाग', फेब्रुवारी २०००)



# ४४.

# रवीन्द्रनाथांतल्या सर्जकाची आंतरकथा

पंचेचाळीस वर्सांचे पिरायेर रवीन्द्रनाथ आपल्या कवितां वयल्यान एक नदर भोंवडावन पळोवपाक लागले तेन्ना अचकीत तांकां हो जो वावर आपणा हातान घडून आयलो, ताचेर आपणालो कसलोच ताबो नाशिल्लो म्हणपाचें दिसून आयलें. तेच म्हणटात, 'बरयतालों तेन्ना हांवूच बरयतां अशें दिसतालें. पुणून तें खरें नाशिल्लें म्हणपाचें आतां म्हाका दिसूंक लागलां. बरयतां तें म्हाका खंय घेवन वता हाचो म्हाका अदमास नाशिल्लो. म्हण, कविते फाटल्यान कविता बरयत रावलों. जे कवितेचो जो अर्थ हांवें मानिल्लो तितलोच तिचो अर्थ अशें धरून चलतालों. पुणून आयज म्हज्यो सगळ्यो कविता एकाच वांगडा पुरायपणान पळेतां तेन्ना दर एके कवितेंतल्यान तिच्या अर्था भायर आनीक एक अखंड तात्पर्याची झर एका सारकी व्हांवत राविल्ली स्पश्ट बरी दिसूंक लागता.'

ते अजापभरीत जातात आनी जी शक्त हें अजाप घडोवन हाडटा तिका  विचारतात ह्व

*'ए की कौतुक नित्य नूतन*
*ओगो कौतुकमयी!*
*आमि जाहा ह्न किछु चाहि बोलिबारे*
*बोलिते दितेछो कई!'*

ह्न हें कसलें दिसपट्टें अजाप तुजें, कौतुकमयी, हांव सांगूंक सोदतां एक आनी म्हजे कडल्यान तूं सांगून घेता दुसरेंच कितें तरी. म्हज्या काळजांत दीस रात बसून म्हज्या तोंडांतली भास तूं ओडून व्हरता आनी तिच्यांत एक नवोच सूर भरसून तूं तुजेंच सांगपाक लागता. मागीर ह्न

*'की बोलिते चाइ सब भुले जाइ*
*तुमि जे बोलाओ आमि बोलि ताइ ।'*

ह्न म्हाका जें सांगपाचें आशिल्लें तें विसरून वतां आनी तूं सांग म्हूण सांगता तेंच सांगूंक लागतां.

सैमाचो एक नेम आसा ह्न मुखार, जें उबें आसता ताका 'तूं ल्हान' म्हूण तें केन्ना दिसुंकूच दिना. तूं एक सपण, आनी असलीं कितलींशीं सपणां मुखार चडपाचीं आसात म्हणपाची जाणविकूच ताका तें करून दिना. तुज्यांतूच तूं पूर्ण अशें ताका भासयत रावता. झाडार फूल फुलता तेन्ना फूल फुलोवपा खातिरूच झाड आशिल्लें अशें दिसता. फुलाचो आंगलोट, ताचो रंग आनी गंध पळोवन वनलक्ष्मीचे साधनेची ही व्हडांतली व्हड जोड अशें दिसता. पुणून तातूंतल्यान फळ येता तेन्ना 'आरेच्या! हें फळ जल्माक घालपाचें फकत एक साधन आशिल्लें तर फूल!' अशें आमी म्हणपाक लागतात. ही गजाल मात लिपोवनूच दवरिल्ली उरता. मुखावयल्या खिणाच्या भोवमानांतूच फूल धादोसभरीत आसता. फुडाराचें तें कांयच येवजिना. फळ पळेतकूच सफळतायेचो होच कळस जाल्ले वरी आमकां दिसपाक लागता. पुणून फुडाराच्या रुखाचें बीं ताच्या पोटांत वाडटा म्हणपाचें आमच्या लक्षांत येना. हेंवूय सत्य धांपिल्लेंच उरता. फुलांत फुलाच्या व्हडपणाची, फळांत फळाच्या व्हडपणाची राखण करीत करीत सैम तांकां तांचे पेल्यानच्या परिणामा कडेन, तांकां खबर पडूंक दिनासतना, व्हरताच काय ना? 'तशेंच,' रवीन्द्रनाथ म्हणटात, 'म्हजे कविते संबंदान घडिल्लें हांव पळेतां. ज्या वेळार जें बरयलां त्या वेळार ताकाच पूर्ण लेखलां. तें घांसून पुसून निवळ करपाच्या वावरांतूच आनंद मानला. हांवूच हें बरयतां आनी खाशेलो एक अर्थ मनांत धरुनूच

बरयतां, हे विशीं मनांत कसलोच दुबाव येवंक ना. पुणून आयज हांव जाणां, हें फकत एक साधन आशिल्लें ह्न जें घडून येवंक ना तें घडोवन हाडपाचें. तें कितें तें मात हांव नकळं आशिल्लों. म्हज्यांत बसून जो म्हजे कडल्यान बरोवन घेतालो तोच तें जाणा आशिल्लो. ताचे मुखार तें स्पश्ट आशिल्लें. मुरलेंत फूक मारतकूच तिच्या एका एका बुराकांतल्यान एक एक सूर येता. पुणून ह्या वेगळ्या वेगळ्या सुरांक एके रागिणींत कोण बांदून काडटा? फुकेंतल्यान सूर येतीत. पुणून तितल्यान मुरली वाजपाची ना. ती जो वाजयता ताच्या मनांत मात रागिणी स्पश्ट आसता. तिचें खंयचेंच आग ताचे पसून लिपिल्लें, धांपिल्लें उरिल्लें नासता.'

रवीन्द्रनाथ, मागीर, मुरली वाजयतल्याक म्हणटात, 'एके कडेन बसून म्हज्या मनांतली गजाल म्हज्याच लोकांक सांगतालों. पुणून,

*'तुमि से भाषा रे दहिया अनले*
*डुबाये बासाये नयनेर जले*
*नवीन प्रतिमा नव कौशले*
*गडिले मनेर मतो ।'*

ह्न 'तूं भाशेक उज्यांत भाजून, दोळ्यांतल्या दुकांनी बुडोवन नवे फिशालकायेन एक नवी मूर्त, तुका जाय तशी, घडयता...' हांव जें बरोवंक वतालों तातूंत आगळें-वेगळें कितेंच नाशिल्लें, पुणून हांव सांगतां तातूंत असो एक सूर येवन भरसता की ताका लागून हांव सांगतां तें आगळें-वेगळें जावन पडटा, तें म्हजें उरना, विश्वाचें जाता. नवो छंद खुशालभरीत जावन धांवंक लागता, हाका लागून नव्यो वेदना नव्या रागांनी भरून वाजपाक लागतात.

*'जे कथा भाबिनि बोलि सेइ कथा*
*जे व्यथा बुझिना जागे सेइ व्यथा'*

ह्न मनांत नाशिल्लें तेंच सांगून जाता. जे व्यथेची जाण जावंक नाशिल्ली तीच काळजांत जाग घेता. मागीर एकलो ताचो एक अर्थ करता, दुसरो दुसरोच करता. तिसरो तिसरोच करता, आनी मागीर ते हाचो अर्थ कितें, ताचो कितें म्हूण म्हाकाच विचारतात. आनी तूं? कडेक रावन फकत हांसता! कोण तूं? खंय लिपून बसला? हांव तुका सोदीत आसां...'

*के गो तुमि, कोथा रयछो गोपने*
*आमी मरितेछि खुंजी ।*

तर कितें, कवीच्या हातांतली लिखणी आपणा हातांत घेवन तो फकत कविताच बरयता अशें मानपाचें? 'ना', रवीन्द्रनाथ जाप दितात आनी म्हणटात, 'तो म्हाकाय घडयत रावला तें हांव पळेतां. म्हज्या सगळ्या सुखां-दुःखांचे, सगळ्या योगवियोगांचे कुडके कुडके हांगा थंय शिंपडून पडिल्ले, ते सगळे तो एका सुतान गुथून काडटा तेंय पळेतां. एक खरें, ताणें चलयला तसो हांव चल्लां अशें म्हज्यान म्हणूंक जावचें ना. पुणून म्हज्यो सगळ्यो अडचणी विपत्ती ताणें एकठांय हाडून सांदल्यात हेंय म्हज्यान ना म्हणूंक जावचें ना. इतलेंच न्हय, तर म्हज्या स्वार्थांनी आनी वावरांनी म्हजे भोंवतणी वणटी उबारून म्हाका भितर बंदिस्त करून दवरला तेन्ना ताणें ह्यो वणटी मोडल्यात, केन्ना व्हडले घाय घालून तर केन्ना म्हाका पयस धुकलून, आनी म्हाका समेस्तां कडेन जोडला हेंय म्हज्यान ना म्हणूंक जावचें ना... हांव वचूंक सोदतालों एके दिकेन आनी तो म्हाका ओडून घेवन गेला दुसरेच दिकेन. आनी म्हाका अनवळखी अश्या नव्याच देशांत ताणें व्हरून पावयला!

हो जो कवी आपणा भितर रावन आपणाक घडयत रावला ताका रवीन्द्रनाथांनी एक नांव दिलां 'जीवन देवता' म्हूण. इंग्रजींत ताका ते 'life of my life' म्हणटात. आनीक एके कवितेंत 'प्राणेश्वर' हें नांव दितात. आयुष्यभर ते हे जीवन देवतेकूच आळयत रावल्यात.

*उत्सर्ग* नांवाचो तांगेलो एक कवितां झेलो आसा. तांतले एके कवितेंत ते जीवन देवतेक उद्‌देशून म्हणटात, 'तुका वळखतां हांव, अशें गर्वान सांगूंक लागलों सगळ्या लोकांक. तांकांय तूं दिसपाक लागली म्हज्या कवितांतल्यान आगळ्या-वेगळ्या रुपांत. आतां ते येतात आनी म्हाका विचारतात, 'कोण रे ती?' आनी म्हाका सारकी जाप दिवंक येना. 'म्हाका खबर ना' इतलीच जाप दिवन हांव ओगी रावतां. ते मागीर म्हाका दुशण दिवन उठून वतात. आनी तूं... कडेक बसून फकत हांसता...'

*उत्सर्गा*तल्यो सगळ्यो कविता जीवन देवते वयल्यो.

रवीन्द्रनाथ दार्शनीक नाशिल्ले. द्वैत अद्‌वैता संबंदान कोणूय उलयतालो तेन्ना ते गोंदळांत पडटाले. पुणून ते साक्षात्कारी कवीं मजगतचे एक आशिल्ले. म्हुण्णूच जावये, ते पुराय मनीस-जाती कडेन, सगळ्या झाडां-पेडां कडेन, सुकण्यां-सावदां कडेन, किडी-मुयां कडेन ह्न पुराय सैमा कडेन ह्न मोगाचे नदरेनूच पळोवंक

पाविल्ले. सगळ्यांत सैमाचें परमतत्त्व आनंदाच्या रुपांत भरिल्लें पळेताले. तोच आनंद तांकां पुराय संवसारा कडेन जोडटालो. आनी तोच आनंद तांकां आपणा भितरूय उदेल्लो दिश्टी पडटालो.

रवीन्द्रनाथ कविता कश्यो येतात हेंवूय जाणा आशिल्ले. त्यो कोण बरोवन घेता हेंवूय जाणा आशिल्ले. *'आमि जेनेछि ताहारे'* ह्न हांव वळखतां ताका ह्न अशेंय आत्मविस्वासान सांगूंक पावताले. रवीन्द्रनाथांतलें आगळें-वेगळें आंग तें हें.

**('जाग', ऑगस्ट २००१)**



४५.

## वाटे आशीकुशीक

नवें कितेंय वाचतलों अशें येवजून पुस्तकांची आरमार उकती केली. मुखारूच *पथे ओ पथेर प्रान्ते* (''वाटेर आनी वाटे आशिकुशीक'') पुस्तक दिश्टी पडलें. बंगाली भाशेंतलें, रवीन्द्रनाथांलें. उकतें केलें. मदल्याच एका पानाचेर नदर पडली ह्न

> 'फूल झाडाचे ताळयेक जाता. तोच ताचो आधार आसता. पुणून मनीस ताका नांव दिता आनी आपणाल्या मनांत ताका एक सुवात करून दिता. आमच्या देशांत हजार तरांचीं फुलां जातात. तींय झाडांच्या ताळयांकूच जातात. पुणून सगळ्यांक मनीस वळखना. फुलां विशीं येदी उदासीनताय हेर खंयचेच कडेन पळोवंक मेळची ना. सगळ्या फुलांक नांवां आसात. पुणून आमी तीं नेणात. परमळाक लागून जाचें नांव जालां, ताकाच आमी वळखतात. देखून उदासीन मनीस ताचेर नदर घाली नासतना मुखार गेलो जाल्यारूय तें आपूण जावन ताचे मुखार येता

आनी परमळान आपणाली वळख करून दिता. आमी हांकांच आमच्या बरपांत आमंत्रण करून आपयतात. हांतल्या कांय फुलांचीं नांवां हांव जाणां. पुणून हांव तांकां वळखतां अशें म्हणूं येना. वळख करून घेवपाचो यत्नूय केन्ना करूंक ना. कवितेचे नामावळींत जूय, शेंवतें असलीं कांय नांवां भोवन भोवन आयिल्लीं पळेल्यांत. छंदांत तीं बसतात हें पळोवन खोश्शी जालां. म्हूण म्हजे कवितेंत तीं येवंक पावल्यांत. खूब जाणांक विचारले उपरांत एक दीस जूय म्हळ्यार चमेली म्हूण कळ्ळें. शेंवत्याची खूब जाणां कडेन चवकशी केली. अजून तें कोण तें कोणूच म्हाका सांगूंक पावूंक ना. शान्तिनिकेतनांत एक झाड आसा. कोण कोण ताका पियाल म्हणटात. संस्कृत काव्यांत नांव जोडिल्लें पियाल तें हेंच काय दुसरें, कोणाक सारकें सांगूंक येवंक ना. न्हंयां विशीं मात आमी इतले उदासीन उरूंक नात. ल्हानांतले ल्हान न्हंयेक लेगीत आमी अपुर्बायेचें एक नांव दिलां ह्न कपोताक्षी, मयूराक्षी, इच्छामती ह्न आनी आमच्या काळजांत तिका सुवात करून दिल्या. न्हंयां कडेन आमचे कसले न्हय कसले वेव्हार चलतात. फुलांत पुजेचीं फुलां सोडीत जाल्यार हेर फुलां कडेन आमचो कसलोच संबंद येना. संबंद येता तो अल्पायुशी 'सीझनल फ्लावरां' कडेन. तांची अर्थअपुर्बाय करपाची जापसालदारकी माळ्यांची (फुलकारांची). फुलदाणयेंत तांणी तीं सारकीं दवरपाचीं. हाकाच म्हणटात तामसीकपण ह्न मटीरियलिझम्. गरजेचें न्हय ताचे भायल्या गजालीं विशींचें चित्ताचें फातराळपण. नांव नाशिल्ल्या फुलांच्या ह्या देशांत कवींची कितें गत्त जाता जातली, अदमासूच केल्लो बरो. तांचे लिखणेक बावडेक फुलांच्या राज्यांत सामके अशीर पायणींतल्यान वचचें पडटा. सुकण्यां शेवण्यां संबंदानूय आमी इतलेच उदासीन. कावळो, कोगूळ, कीर, साळोरी असल्या चार स शेवण्यांक आमकां, उपाय नासून, आमच्या जिवितांत सुवात दिवची पडल्या. हांचे भायर कितलींशीं शेवणीं आमचे भोंवतणीं उडत आसतात. तांचीं नांवां आमकां खबर नात. आमच्या सगळ्या संकश्टांच्या मुळांत हीच उदासीनताय आसा. आमच्या देशांतल्या लोकां विशींय आमी इतलेच उदासीन. परिक्षेंत पास जावपा खातीर आमी इतिहास शिकतात. हरशीं, इतिहासाचो आनी आमच्या जिविताचो कांय संबंद ना.

आमचें देशप्रेमूय इतलेंच उखलापें. देशांतल्या लोकां विशींच्या आपलेपणांतल्यान उदेल्लें न्हय. कितलो ल्हान आमचो संवसार! कितलें सुटलां आमचे नदरेंतल्यान!'

आं, म्हणटकूच, *पथे ओ पथेर प्रान्ते* ही दिसपटी तर रवीन्द्रनाथांली! दिसपटयांचो हांव मोगी. खंयच्याय व्हड बरप्याची गाजिल्ली एक नवलकथा, ताची आत्मकथा आनी ताची दिसपटी अशीं तीन पुस्तकां एकाच वांगडा हातांत पडलीं जाल्यार सगळ्यांत पयलीं हांव ताची दिसपटी वाचपाक घेवपी. मागीर, आत्मकथा, उपरांत नवलकथा. रवीन्द्रनाथांली दिसपटी म्हजे नदरेंतल्यान कशी सुटली काय देवा? जावं, म्हळें, 'बॅटर लेट दॅन नॅव्हर' ह्या न्यायान आतां वाचून काडुया. आनी हांवें दुसरें मदलेंच एक पान काडून पळेलें.

म्हाका वाचूंक मेळ्ळें ह्

'म्हजे हांगासल्ले जिणेची म्हत्वाची खबर सांगची जाल्यार, हालींसराक हांव चित्रां काडपाक लागलां. इतलीं वर्सां सुरांच्या नादांत गुल्ल उरिल्लों. आतां रेगांच्या जाळांत घुसपलां. रेगांच्या (आनी रंगांच्या) जादवान म्हाका चोंय दिकांतल्यान बांदून घेतला. न्हय त्या वेळार अवचीत आयिल्ले हे इश्टिणी कडली म्हजी ओड पळोवन कवितेन हो वाटारूच तुर्ताक सोडून दिला. आयुष्यभर कविता बरयत आयिल्लों म्हणपाचो उगडास लेगीत हालीं म्हाका जायना. रेगो केन्ना कसलें रूप घेतीत हें सांगूंक येना; पयलीं मातूय कळना. हेंय म्हजे हे ओडी फाटलें कारण म्हणूंक जाय. कवितेचें रूप मनांत हय-न्हयशें तरी आरंभा सावन तयार आसता. उपरांत लिखणेच्या तोंकांतल्यान छंदां वाटयां व्हांवत रावता. चित्रांची प्रक्रिया उरफाटीच. रेगो कसलीं रुपां घेतल्यो, आरंभाक मातूय कळना. इल्ल्यो इल्ल्यो करून त्यो रुपां घेवपाक लागतात तेन्नाच तांचे कडेन लक्ष वता आनी मागीर तांकां समजून घेवपाचो मन यत्न करता. रुपांच्या ह्या सर्जना कडेन (निर्मणे कडेन) मन अजापान पळेता आनी ताका पिशें लागता. हांव चार चवगां आर्टिस्टां सारको आर्टिस्ट आशिल्लों जाल्यार अमकें काडटलों अशें आदीं थारावन पेन्सील वा ब्रश घेवन बसतलों आशिल्लों आनी मनांत आशिल्लेंच कागदार वा कॅनव्हासार हाडटलों आशिल्लों. तातुंतूय आनंद आसाच. पुणून मनांत नाशिल्लो संवसार जेन्ना मनाचो ताबो घेता तेन्ना

वेगळेच तरेचो एक कैफ चडटा. हाचो परिणाम असो जाला की भायल्यो सगळ्यो लागणुको, जापसालदारक्यो दरवट्या मुखार येवन उब्यो रावतात, भायल्यानूच भितर पळेतात आनी आमकां हांगा सुवात ना अशें म्हणून उठून वतात. फाटल्या काळांत आशिल्लों तसो सगळ्या जापसालदारक्यां पसून मेकळो आसूंक जाय आशिल्लों. पद्मेचे तडीर बसून काळाचे 'भांगरा तारी' खातीर फकत चित्रांचेंच पीक लुंवन काटडलों आशिल्लों. तरी आसतना, कांय जापसालदारक्यो हे वटेन ते वटेन धुकलून चित्रां खातीर थोडी सुवात करून दितां. पुणून जीव धादोसभरीत जायना. मनाक पुराय मळब आपणाक मेळचेंशें दिसता. आनी म्हाकाय तें ताका मेळोवन दिवचें शें दिसता. पुणून ग्रहदशेक लागून तरातरांचीं आडमेळीं येतात. संवसाराचें बरें-भलें करूंक जाय हें हांतलें सगळ्यांत व्हडलें आडमेळें...'

रवीन्द्रनाथांनी हांगा 'काळाचे भांगरा तारी'चो उल्लेख केला ताचो तांगेले 'सोनार तरी' ('The Golden Boat') कवितेकडेन संबंद आसा. मनीस आपणाल्या जिविताच्या जुंव्यार बऱ्या वायट करण्यांचें शेत रोयता, तरातरांचें पीक काडटा. अवचीत एक दीस मोड येता, जुंव्या भोंवतणच्या उदकाक हुंवार आयिल्ले वरी जाता आनी जुंवो बुडटा कायसो जाता. पीक काडलां तें ना जातलें काय कितें, असो ताका भंय दिसपाक लागता. इतल्यान ताका एक भांगरा तार दिश्टी पडटा. तो तारयाक उलो मारता, 'तारया मामा, हांवें काडलां तें पीक तुजे तारींत घेशीत व्हय? पलतडीं पावोवपाचें आशिल्लें.' तारयो तार हाडून तडीक तेंकयता आनी 'घाल हातूंत तुवें काडलां तितलेंय पीक' अशें म्हणटा. सगळें घालून जातकूच मनीस आपुणय तारींत चडपाचो यत्न करता. तेन्ना तारयो ताका सांगता, 'तूं? तुका रे तारींत सुवात खंय आसा? तुवें काडलां तें पीक सगळें घेतलां तारींत. तुका घेवपाचों ना. तूं घेवपा सारको न्हय.' अशें म्हणून ताका सांडून तो तार सोडटा.

कवींक कविता कश्यो 'येतात' हें अजून कोणाक सारकें सांगूंक येवंक ना. रवीन्द्रनाथांक कविताय 'येताल्यो', चित्रांय 'येतालीं'. चित्रां ते काडी नाशिल्ले. तींच तांच्या हातान आपणाक काडून घेतालीं. म्हजी जिज्ञासा वाडली. दिसपटयेंतली मुखावयली 'ॲण्ट्री' वाचपाक उत्सूक जालों. आरंभाकूच एक वाक्य मेळ्ळें. 'हेर खबरी मागीर. पयलीं तुवें धाडिल्लो च्या (पालो) खूब बरो आशिल्लो हें सांगूंक

जाय.' तांकां चित्रां 'येतालीं' ते मुस्तींत कोणाक तरी बरयल्ली तांगेली ही चीट आसूंक जाय. निवळावन तांणी ती हे दिसपटयेंत घेतल्या जावंक जाय. *छिन्नपत्र* नांवाचें तांगेलें एक पुस्तक आसा. धुवडेक बरयल्ल्यो चिटी निवळावन तयार केल्लें. ताचेंय रूप खंय खंय दिसपटये सारकेंच जालां. म्हळें, *छिन्नपत्रा* भाशेन *पथे ओ पथेर प्रान्ते* पुस्तकांतूय कांय चिटी निवळावन घेतिल्ल्यो आसूं येतात.

मुखावयलें वाचपाक लागलों ह्व

'हांव चित्रां काडटां तश्योच चिटी बरयतां. तकलेंत आशिल्लें सगळें बरोवन मेकळो जातलों म्हणटां. जिवितांत ल्हान व्हड हजार गजाली घडटात तांचो चिटीं कडेन कसलोच संबंद येना. म्हजीं चित्रांय हेच तरेचीं. खंयचेंय एक रूप अवचीत पळेतां तेन्ना ताचो भोंवतणच्या गजालीं कडेन संबंद आसा काय ना हें पळोवंक बसना. म्हज्या काळजांत दर एका खिणाक कितेंय तरी घडटा मोडटा, चलता भोंवता, कसलीय तरी जोडतोड एका सारकी चलिल्ली आसता. तांतलें कांय भावनांच्या रुपान वयर सरता तर कांय चित्रांच्या रुपान आकार घेता. म्हजे लिखणेचो आनी पिशोलांचो कारभार तांच्या सांगातान चलता. हाचे पयलीं म्हजें मन अंतराळांत कान लावन बसतालें. हवेंतल्यान येतात त्या सुरांच्यो खबरी आयकतालें. आतां तें दोळ्यांच्या आधारान रुपांच्या राज्यांत, रेगांचे गर्देंत, झाडां-पेडां पळोवपाक लागता आनी तांचें 'भितल्लें जिवीत' लेगीत तें पळेता. संवसार म्हळ्यार आकारांची, रुपांची एक महायात्रा म्हणपाचें म्हाका आतां स्पश्ट कळपाक लागलां. रुपांची ही लीला म्हजे लिखणेंतल्यान आनी पेन्सील-पिशोलांतल्यान अवतरपाक आंवडेता. आवेगान न्हय, भावनेन न्हय, विचारान न्हय, फकत रुपान. हातूंत एक खरो आनंद आसा. ताचो कैफ चडटा. तुर्ताक रेगांनी म्हाका आपणा हातांत घेतला, तांच्या हातांतलो सुटपाची आस्त ना.'

निर्मणे प्रक्रियेची खबर सांगता आसतना रवीन्द्रनाथां सारकेल्या एका प्रतिभावंताची लेगीत लिखणी आडखळत आडखळत चलपाक लागता. खंय खंय लटलटुंकूय लागता. कबीराच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार *'यह तो अकथ कथा है, कहते कही न जाई.'*

थावूच लागना असलो एक चमत्कार हो.

शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी चित्रां संवसारांत दिसपट्टीं जल्माक येतात. शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी गितां येतात, कविता येतात. सात रंगांच्या मेळानूच चित्रां जातात. सात सुरांचे जुळवणेन गितां घडटात, आनी जीं वीस पंचवीस वा पंचवीस पन्नास हजार उतरां आमचे जिबेर घोळटात तांतलीं कांय मेळोवन, जुळोवन, एकवटावन आमच्यो कविता जल्माक येतात. नाशिल्ल्यांतल्यानूच हें सगळें आयिल्लें आसता ह्र नाशिल्लें फूल अवचीत येता, नाशिल्लें भुरगें येता, तशें. पुणून फुलां सगळीं बावतात, तशीं भुरगीं जाणटीं जावन मरतात. चित्रां, गितां, कविताय काळाचे व्हांवतेंत एक दीस व्हांवन वतात. सैमाच्या संवसारांत चलिल्ले उत्पत्ती-स्थिती-लयाचे प्रक्रियेंत जसो एकाद-दुकलोच मनीस अज्रंवर जावन उरला तशें ह्या शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी चित्रां, गितां, कवितां मजगतचें एकाद-दुकलेंच चित्र, एकाद-दुकलेंच गीत, एखाद-दुकलेंच काव्य अज्रंवर जावन उरलां. काळाच्यो सगळ्यो शिमो उंपून तें दिग उबें राविल्लें दिश्टी पडटा. कित्याक लागून? तांची निर्मणी करपी चित्रकार, गीतकार, कवी आमचेच सारको कोण तरी एकलो आसता. ताचीच एकल्याची निर्मणी कित्याक उरता? आमची कित्याक उरना? सारकें केन्नाच कोणाक सांगूंक येवंक ना. निर्मणी करतल्याकूय खासा ती कशी 'जाली' वा 'आयली' तें सांगूंक येवंक ना.

एकूच जाप दिवची जाल्यार ही अज्रंवर निर्मणी करपी चित्रकार, गीतकार, कवी निर्मणेच्या खिणाक 'तो' उरूंक नाशिल्लो. तो सोंपिल्लो आनी ताच्यांतल्या सर्जकान जागो जावन निर्मणी केल्ली, इतलीच दिवंक येतली. ओपार व्हडलिशी बरी न्हय, पुणून, खुनी मनशाक तुवें खून कित्याक केलो म्हूण पुलीस विचारता तेन्ना तो केन्ना केन्ना खरें सांगता, 'त्या वेळार म्हाका कितें जालें, खबर ना. कोण तरी म्हजे गोमटेर बसलो आनी म्हज्या हातान हो खून जालो.' तो 'जालो' म्हणटा. आपणें 'केलो' म्हणिना. अशें कितें निर्मणेच्या वेळार जाता जावंक जाय. रवीन्द्रनाथांक अडखळत आडखळत जावं, पुणून थोडें भोव कितें ह्र शंबरांतल्या दोन वांट्यां इतलें ह्र तरी सांगूंक आयलां हें म्हत्वाचें.

('जाग', मे २००१)



४६.

# कोंकणीचो एक महाराष्ट्रीय भक्त

'ज्ञानेश्वरान अठरा वर्सांचे पिरायेर *ज्ञानेश्वरी* बरयली म्हणटात तें खरें न्हय. अंयशाव्या वर्सार ताका मरण आयलां. जिविताचो पूर्ण अणभव घेतले उपरांतूच ताणें ती बरयल्या...

'निवृत्ती, ज्ञानदेव, सोपान, मुक्ताबाय हीं भावंडां म्हणटात तेंय खरें न्हय. वेगळ्या वेगळ्या काळांतलीं हीं वेगळीं वेगळीं मनशां. लोकधारणेन तांकां भावंडां धरून ज्ञानेश्वराच्या जिविताची मिथक-कथा रचल्या...

'नामदेव पंजाबांत गेल्लो म्हणटात तेंवूय खरें न्हय. मध्ययुगांत चार नामदेव जावन गेल्यात. एकलोय पंजाबांत पावूंक ना. चवगांचींय पदां एकठांय गुथून *नामदेव-गाथा* नांवाचें एक खतखतें तांच्या भक्तांनी आमचे मुखार दवरलां...

'पंजाबांत गेल्लो तो शिंपी विष्णुदास नामा. एक प्रतिभावंत कवी. जनाबाय ताची शिष्या आशिल्ली...

'जनाबाय लेगीत दोगी जावन गेल्यात...'

असलें कितेंय हांवें बरयल्लें आनी तें गोंयांतल्या

मराठीवाद्यांनी वाचिल्लें जाल्यार ते पिसडून खावचे नाशिल्ले म्हाका? औरंगजेबा संबंदान 'नवप्रभां'त फाटीं एक 'स्वगत' बरयल्लें. इंग्रजांनी आनी सर जदुनाथ सरकारां सारकेल्या तांगेल्या शिष्यांनी औरंगजेबाचें चित्र आमचे मुखार दवरलां तें तागेलें खरेलें रूप लिपोवन दवरता. तो दुश्ट आशिल्लो हे विशीं दुबाव ना. शिवाजीक धरून ताणें आग्र्याचे बंदखणींत दवरिल्लो हें अजापाचें न्हय, ताणें आपणाल्या खासा बापायक लेगीत धरून बंदखणींत घाला हें विसरूंक फावना, अशें म्हळ्ळें. तो हिन्दूंचो दुस्वास करतालो म्हणटात तें मात खरें न्हय, ताणें कितल्याश्या हिन्दू देवळांक आनी मठांक जमनी दानांत दिल्यात... हिन्दूं खातीर तांगेल्या तीर्थथळांनी धर्मसाळो बांदपा खातीर आधारूय दिला, असलें कितें कितें बरयल्लें. तेंवूय विश्वंभरनाथ पांडे सारकेल्या एका गडगंज इतिहास संशोधकाचो आधार दिवन. त्या वेळार म्हाका जें वाचचें आयकुचें पडलां तें सोंसपाचें न्हय.

खूब जाणां कडल्यान गाळी खाल्यात हांवें आयुष्यभर. पुणून इतल्यो न्हय.

हांव बरयतां तें म्हजे सारकेल्या सरसमान बुद्दीच्या वाचप्यां खातीर. तेंवूय उकत्या चिंतनाच्या रुपांत बरयतां. आमी जें मानीत आयल्यात तातूंत खूबसो घयरांव भरला, विवेकाची सान्न घेवन तो काडून उडोवंक जाय हें सांगपा खातीर बरयतां. मोगलां मुस्तींतलो इतिहास तर परतून एक फावट नियाळून तर्जून पळोवंक जाय, अलाहाबाद युनिव्हर्सिटीन ह्या काळाच्या इतिहासाचेर खूब नवे सोद लायल्यात ते मातशे पळोवंक जाय म्हण सांगपा खातीर तें 'स्वगत' बरयल्लें.

गोंयकारांक तें मानवलेंना. ते जे मानीत आयल्यात ताचे परस वेगळें कितेंय कोणेंय तांकां सांगलें जाल्यार तांकां आपलो अवमान जाल्ले वरी दिसता आनी ते उसळटात. केन्ना केन्ना खुब्रतात. मागीर, दांत वोंठ चाबून गाळीय घालपाक लागतात.

म्हाकाच हो अणभव आयला अशें न्हय. खूब जाणांक आयला. धर्मानन्द कोसंबी सारकेल्यांक लेगीत आयला. सत्तर अंयशीं वर्सां पयलीं मडगांवां तांणी एक उलोवप केल्लें तेन्ना 'गीता' बुद्धा उपरांतची अशें म्हळ्ळें आनी बुद्धाच्यो कितल्योश्यो गाथा जश्याच्यो तश्यो 'गीते'न कश्यो घेतल्यात तें दाखोवन दिल्लें. आयकतल्यां मजगतच्या एकल्याक तें सोंसलें ना. ताका कुर्रर जालें. तो उठलो आनी 'असलें कितेंय जगा भायलें उलयतकूच मनीस विद्वान जाता अशें तुमकां दिसता व्हय? जाल्यार, तुमी चुकतात. गीता ज्या कृष्णान सांगल्या तो केन्नाचो

आनी तुमी जाच्यो गाथा सांगल्यात तो बुद्ध केन्नाचो हें तुमकां शाळेंत वचपी शेमडें पोर लेगीत सांगतलें. आपणा उपरांत कितल्याश्या शेंकड्यांनी आयिल्ल्या बुद्धाच्यो गाथा कृष्ण कसो घेतलो?' अशें विचारलें.

धर्मानन्द हांसले, आनी 'म्हजे परस तुमकां चड खबर आसूं येता' इतली जाप दिवन मुखावयलें उलयत रावले.

ज्ञानेश्वर अंयशाव्या वर्सार भायर पडला, नामदेव पंजाबांत वचुंकूच ना, जनाबाय दोगी आशिल्ल्यो असलीं मत्तां जाणें मराठी लोकां फुड्यांत दवरलीं ताका महाराष्ट्रान कसो सोंसून घेतला जातलो, खबर ना. महाराष्ट्रीय लोकांचो सोंशीकपणाचो पांवडो गोंयकारां परस वयलो आसतलो, अशें म्हणपाचो धीर जायना. पुणून इतलें खातरीन सांगूं येता, हीं मत्तां जो मांडटालो तो 'किरकोळ' मनीस नाशिल्लो. एका खंयच्याय विशया फाटल्यान लागलो जाल्यार वीस वीस, तीस तीस वर्सां ताचे फाटल्यान लागतालो. त्या विशयांत खोलायेन देंवन चिंततालो. मराठी संतसाहित्या फाटल्यान लागला तेन्ना तो तीस वर्सां हांगा थंय भोंवला, हातबरपां एकठांय केल्यांत, तीं पडठाळून पळेल्यांत, त्या त्या संतांच्या भक्तांक आनी अभ्यासकांक हांगा थंय वचून मेळ्ळा, तांचे कडल्यान मेळूं येता तितलें ताणें मेळयलां आनी आपणाक जें होलमलां तें सरसमान लोकांक धसके दिवपा सारकें आशिल्ल्यान तें बरयतना खूब जतनाय घेवन एक एक उतर तोलून जोखून बरयलां. ताच्या 'जगा भायल्या' मत्तां फाटल्यान तागेलो तीस वर्सांचो सोद, अभ्यास, तप आसा हें मान्य करचेंच पडटलें.

हो मनीस आमगेर येवन गेला, म्हजे सरीं बसून दोन तीन वरां ताणें कोंकणी मराठी वाद समजून घेतला, म्हाका तरातरांचे प्रस्न करून भांबावन सोडला, भासाभास केल्या हाचो म्हाका मातूय अदमास नाशिल्लो. पयर 'भाषा आणि जीवन' नेमाळ्याचो दिवाळे आंक मेळ्ळो आनी तातूंत कल्याण काळे हांणी बरयल्लो 'एका संशोधन-समर्पित जीवनाचे दर्शन' लेख वाचलो तेन्नाच म्हाका हें कळ्ळां.

कांय वर्सां जालीं हे खबरेक ह्

सकाळचीं खबरेपत्रां वाचीत बशिल्लों. अवचीत दारांत एक अनवळखी मनीस उबो आशिल्लो पळेलो. 'कोण जाय आशिल्लो तुमकां?' हांवें ताका विचारलें.

'आपण रवीन्द्र केळेकर का?' ताणें म्हाका चक्क मराठींत विचारलें.

हांवें 'हय' म्हण सांगतकूच ताणें म्हळें, 'मी सु. बा. कुळकर्णी. कोंकणी मराठी वादावर मी एक पुस्तक मराठीत लिहिले आहे. ते वाचायला आपण वेळ काढू शकाल का?'

ताका भितर आपोवन बसयलो आनी विचारलें, 'केवढंसं आहे?'

ताणें पिशवेंतली फायल काडली आनी म्हज्या हातांत दिली. हें छापून आयलें जाल्यार, म्हळें, शंबरेक पानांचें जातलें. आनी फायल चाळूंक लागलों. तांतूंत थॉमस स्टीफन्साच्या *दौत्रीन क्रिश्तां* पुस्तकाचें एक फोटोस्टॅट पान पळेलें.

'पीएच्‌डीचा प्रबंध आहे का?' हांवें विचारलें.

'पीएच्‌डीचे प्रबंध माझे विद्यार्थी लिहीत असतात. मी नागपूर विश्वविद्यालयातल्या भाषाविज्ञान विभागाचा प्रमुख आहे,' ताणें जाप दिली.

म्हळें, 'म्हाका एक दीस लागतलो वाचपाक. फायचो दीस दवरतां हे खातीर, परां येशात?'

'केन्नासो येवं...?'

'सकाळच्या आठ-णवांक जमत?'

त्या दिसा आमी कांय उलयले नात. च्या येतकूच तो घेवन, 'येतो' अशें म्हणून तो उठून गेलो.

हांवें रोग्बडींच फायल वाचपाक घेतली आनी दनपार मेरेन वाचुनूय सोंपयली. कोंकणीचो प्रश्न इतलें आपलेपणान समजून घेतिल्लो काकासाहेब कालेलकरां उपरांतचो हो दुसरो महाराष्ट्रीय हें पळोवन म्हाका अजापांचो धसको बसलो. महाराष्ट्रांतल्या चडश्या सगळ्या विद्‌वानांक मेळ्ळां हांव. तांचे कडेन कोंकणी संबंदान उलयलां. चडश्या विद्‌वानांनी 'तुका कांय समजना' अशेंच म्हाका भासयलां. 'ती मराठीची एक बोली' अशेंच सगळ्यांचें 'ठाम मत्त' आशिल्लें. 'तुमी करतात तें महाराष्ट्र फोडपाचें राजकर्ण...' अशेय आरोप कांय जाणांनी केल्ले. फकत ग.त्र्यं. माडखोलकरांनी वेगळेच तरेचो एक धसको दिल्लो. 'कोंकणीला एक स्वतंत्र भाषा म्हणून महाराष्ट्राने बिनशर्त मान्यता दिली पाहिजे अन् तिच्या विकासासाठी भरघोस मदत केली पाहिजे... त्याशिवाय गोवा महाराष्ट्रात येणार नाही' अशें म्हळ्ळें. स  कोटी मराठी लोकांच्या ह्या राज्यांत आमच्या प्रश्ना कडेन आपलेपणान पळोवपी काकासाहेब सोडून दुसरो कोणूच मेळूंक नाशिल्लो. दुसऱ्या एका काकासाहेबान (गाडगीळान) तर 'कोंकणी उलयतले जाल्यार घरांत

उलयात. घराच्या हुमऱ्या भायर गोंयांत मराठीच चलतली' असो पणजेंत येवन फतवोय काडिल्लो. म्हज्या अणभवांचे हे फाटभुंयेर सु.बा. कुळकर्णी म्हाका आगळे-वेगळेच दिसले.

थारायल्ल्या दिसा जिस्त आठांक सु.बा. आयले. 'कोंकणीचो प्रस्न इतलो बरो समजल्ले काकासाहेब कालेलकर सोडले जाल्यार तुमी दुसरे महाराष्ट्रीय हें पळोवन म्हाका खूब अजाप जालें आनी ताचेकूय चड खोस भोगली...' हांवें म्हळें आनी विचारलें, 'तुमकां भास ह्या विशयाचो अभ्यास करपाची प्रेरणा कशी जाली?'

'अ. का. प्रियोळकारांनी दिली,' तांणी जाप दिली.

'कितेंऽ?! प्रियोळकारांनी आपणालें सगळें भासविज्ञान कोंकणी मराठीची बोली म्हूण दाखोवन दिवपांतूच खर्चिलें. अखेर मेरेन ते कोंकणीक मराठीची बोलीच म्हणीत रावले. तुमी तिका एक स्वतंत्र भास लेखतात ते कशे?' हांवें विचारलें.

'भास म्हळ्यार कितें? बोली जेन्ना आपूण भास जातली म्हणटा तेन्ना ती भास जाता. आयज जांकां आमी भासो लेखतात त्यो कितें भासो म्हुण्णूच जल्माक आयिल्ल्यो? मुदलांत त्यो बोलयोच आशिल्ल्यो...' ही जाप दिवन तांणी म्हळें, 'कोंकणीय आतां भास जावंक लागल्या म्हणपाची जाणवीक प्रियोळकारांक निमाणें निमाणें जाल्ली. कोंकणीक तिगेलें अशें एक राज्य मेळ्ळां, ह्या राज्याचो आधार, तेंको आतां तिका मेळपाक लागतलो हें तांकां कळिल्लें.'

प्रियोळकारांक लागून सु.बा. भासविज्ञानाचो अभ्यास करपाक लागले. पुणून थंयच थांबले नात. उपरांत सागर, कर्नाटक, उस्मानिया विश्वविद्यालयांतल्या गिमाळ्या शिबिरांनी वांटो घेवन तांणी ह्या विशयाचो अदीक खोलायेन अभ्यास केलो. १९६३ वर्सा तांणी भासविज्ञानांत डिग्रीय घेतली. तांगेली ह्या विशयांतली गती पळोवन डॉ. शं. गो. तुळपुळेंनी तांकां पुण्याक आपोवन घेतले आनी पुणे विद्यापीठाच्या मराठी विभागांत बोली प्रकल्पाचे 'रिसर्च असिस्टंट' म्हूण तांची नेमणूक केली. दोन वर्सां महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक, गुजरात ह्या चार राज्यांतल्या सोळा जिल्ल्यांनी भोंवन तांणी थंयच्या कांय प्रातिनिधीक बोलयांतलीं अडेज अडेज हजार मुळावीं उतरां एकठांय करून तांचो एक कोश तयार केलो. डॉ. तुळपुळ्यां वांगडा *'ग्रॅमॅटिकल स्कॅच ऑफ मराठी'* म्हण एक पुस्तक बरयलें. डॉ.

कानडेंच्या आधारान *'ज्ञानेश्वरी टिपण'* नांवाच्या आदले मुस्तींतल्या एका ज्ञानेश्वरी कोशाचें संपादन केलें. डेक्कन कॉलेजींत डॉ. घाटगेंच्या मुखेलपणा खाला सुरू जाल्ल्या 'मराठी बोली सर्वेक्षण' प्रकल्पांत पांच वर्सां काम केलें. 'काणकोणची कोंकणी', 'ठाण्यांतली वार्ली', 'कासरगोडची मराठी', 'रह्याटाडची कोळी' आनी 'डांगची भिल्ली' ह्या पांच बोलयांची विसकावणी करून तांचीं व्याकरणां तयार केलीं. कातकऱ्यांचे बोलयेचो अभ्यास करून 'डिस्क्रिप्टिव्ह ऍनलिसीस ऑफ कातकरी' म्हण प्रबंध बरोवन भासविज्ञानांत पीएच्‌डी घेतली.

म्हळ्यार. म्हजे मुखार बशिल्ले ते भासविज्ञानाचे एक 'अधिकारी' आशिल्ले.

तांगेली फायल तांच्या हातांत दिवन हांवें म्हळें, 'फकत दोन गजालीं कडेन तुमचें लक्ष ओढूंक सोदतां. तुमी अंत्रुजी नांवाचे कोंकणीचे एके बोलयेचो उल्लेख केला. कारवारी, मंगळुरी, कुडाळी, भतग्रामी, बारदेसी तशी अंत्रुजी ही एका वाटाराची बोली. खंयचेच जातीची न्हय. आनी दुसरी, तुमी फादर स्टीफन्साच्या *ख्रिस्त पुराणाक* कोंकणी पुस्तक म्हळां. तें कोंकणी न्हय, मराठी.

'कित्याक? तो *'जैसी पुस्पांमाजि पुस्प मोगरी... तैसी भासांमाजि साजिरी मराठिया'* म्हणटा म्हूण? तिका मराठी म्हळी जाल्यार, ते मुस्तींत मराठींत हेर कडेनचे लोक बरयताले तिका दुसरें कसलेंय नांव दिवचें पडटलें. स्टीफन्साचे मराठी सारकी मराठी ते मुस्तींत महाराष्ट्रांत खंयचेच कडेन कोण बरय नाशिल्लो...' अशें म्हणून ते मुमुरख्यांनी हांसले आनी म्हणपाक लागले, 'म्हजो एक विद्यार्थी ह्या विशयाचेर तुर्ताक एक प्रबंध बरयता, पीएच्‌डी खातीर.'

हांव ओगी पडलों.

'आणखीन काही?...'

म्हळें, 'कांयच ना...'

उपरांत, एकार एक प्रस्न विचारून तांणी कोंकणी-मराठी संघर्शाचो पुराय इतिहास म्हजे कडल्यान समजून घेवपाचो यत्न केलो. कोंकणी साहित्य अकादेमींत कशी पावली, तुमचे कडेन कसलें साहित्य आशिल्लें, कितलें आशिल्लें, व्हडलेंशें कांयच नासतना साहित्य अकादेमी सारकेले संस्थेची मान्यताय मेळोवन घेवपाचें धाडस तुमकां कशें जालें, आतां कसलें साहित्य तयार जाता, तें कोण छापता, कोणाचो आधार मेळटा, सरकार आधार दिता व्हय? एक आनी दोन न्हय, हजार प्रस्न विचारले. (हांवें ज्यो जापो दिल्यो त्यो हांगा सांगूंक बसना. इतलीं

वर्सां जें बरयत आयलां तातूंत त्यो आयल्यात.) म्हज्यो जापो आयकून तांणी म्हळें, 'ह्या संघर्शाचो इतिहास कोणें बरयला व्हय?'

हांवें 'ना' म्हणटकूच तांणी तोंड वांकडें केलें आनी म्हळें, 'तुमी कोंकणीचेर खूब व्हड अन्याय करतात... हो इतिहास कोणेंय बरोवंक जाय... तूं कित्याक बरयना?'

'हांव ह्या संघर्शांत घुसपल्लों. ताचो इतिहास बरोवपाक हांव बसलों जाल्यार हांवेंच सगळें घडोवन हाडलें असो सूर तातूंतल्यान भायर सरत ह्या भंयान धीर जायना. कोणें तरी तटस्थ मनशान आमी आसतनाच बरोवंक जाय... तसो कोण अजून मुखार येवंक ना.'

तांणी आनीक एक प्रस्न विचारलो, 'ह्या संघर्शांत खबरेपत्रांतल्यान जो दोनूय वसल्यान वाद जालो तो तरी कोणें एकठांय करून छापला?'

हांवें 'ना' म्हूण जाप दितकूच खंती जावन तांणी म्हळें, 'खंयच्याय कारणाक लागून जावं, छळांक लागून जावं, उवेखणेक लागून जावं, फाटीं पडिल्ल्यो कितल्योश्यो भासो संवसारांत आसात. तांचे मजगतची कोंकणीच एकली पंचवीस तीस वर्सांच्या संघर्शान खंयचे खंय पावल्या. हो भासविज्ञानाच्या जाणकारांचे नदरेन एक 'फिनॉमेनन'. येवरोप अमेरिकेंतले लोक येतले आतां हें समजून घेवपा खातीर. तेन्ना तांच्या हातांत दवरपाक असलें पुस्तक तुमी दिवंक पावले नात जाल्यार तें तुमचें व्हडांतलें व्हड अपेस थारतलें... कोंकणीन आयज जी सुवात जोडल्या ती तुमच्या कथा कवितांक लागून न्हय. कोंकणी खातीर तुमी जो संघर्श केलो ताका लागून...'

हांव येदेंशें तोंड करून ओगी बसलों.

'भाषा आणि जीवन'च्या आंकांत सु.बा. कुळकर्ण्यांक फाटल्या वर्सा ऑक्टोबरांत मरण आयलें म्हणपाचें वाचून खूब म्हळ्यार खुबूच वायट दिसलें. तितलेंच तांगेलें कोंकणी-मराठी वादा वयलें पुस्तक अजून कोणें उजवाडावंक ना म्हणपाचें वाचून दुःख जालें.

('जाग', दिवाळी २००२)



## ४७.

# पु. ल.

पु. ल.चें खंयचेंय पुस्तक पयलेच खेपे वाचलां तेन्ना पोट फुटऽसर हांसलां. म्हूण, दुसऱ्याक वाचून दाखयलां. तेन्ना, दुसऱ्याचो हांसून हांसून मुड्डो जालो. म्हाका कांयच जावंक ना. व्हडलेंशें हांसुंकूय येवंक ना. तिसरे खेपे वाचलां तेन्ना म्हाका तें सामकेंच पास्कळ दिसलां. म्हळें, हीं पुस्तकां एकाच्या हातांतल्यान दुसऱ्याच्या हातांत वचूंक जाय. तांणी दुसऱ्यांक हांसोवंक जाय. आरमारींत दवरलीं जाल्यार बावडीं घुस्समटटलीं. तीं घोळत रावंक जाय. भोंवती भागरथीचे जातीचीं, circulating, पुस्तकां हीं. म्हज्या सॅटांतलीं सगळीं पुस्तकां हांवें हाका ताका दिवन उडयलीं. पु. ल.च्या पुस्तकांचो एक पुराय सॅट म्हजे कडेन आशिल्लो.

मराठी भाशेंतलो सामान्यां भायलो लोकप्रिय साहित्यकार हो, हांव जाणां. मराठी मनशान हाचो केला तितलो दुसऱ्या खंयच्याच लेखकाचो मोग करूंक ना. हाचीं खपल्यांत तितलीं कोणाचींच पुस्तकां खपूंक नात. हाच्या नाटकांक लोकांची खेट जाल्या तितली कोणाच्याच नाटकांक जावंक ना. 'वाऱ्यावरची वरात' सारकेल्या तागेल्या कार्यावळींक लोकांक

तिकेटी लेगीत मेळूंक नात. मराठी मनशान पु.ल.क जितलो वयर वयर केला तितलो कोणाक करूंक ना. दिश्ट लागपा सारकें भाग्य ताचें हें.

कित्याक लागून तो इतलो लोकप्रिय जावंक पावलो? कितेंय तरी कारण आसूंक जाय. म्हाका एकूच जाप मेळ्ळ्या ह्न ताणें वाचप्यांक जाय आशिल्लें, वाचप्यांक जाची भूक वा तान लागिल्ली तेंच दिलां, हेंच एक कारण आशिल्लें अशें म्हणूंक जाय.

पु.ल.चो फॅन (भक्त) चडसो मुंबय-पुणेच्या वाटारांतलो मदल्या वर्गांतलो 'खर्डेघाशी' करपी मनीस. क्लार्क, मॅनेजर, इजनेर, दोतोर, वकील वा असलोच कोणूय तरी, जो पयलीं चाळींनी रावतालो, आतां फ्लॅटांनी रावपाक लागला. ह्या वर्गांतल्या लोकांनी आपूण, आपणालीं बायल-भुरगीं, आपणालो बँक-अकाउंट, आपणालो करियर आनी आपणाले कम्फर्टस् सोडून दुसरें कितेंच आपणाक लावन घेवंक ना. भोंवतणच्या संवसारांतलें सगळें सकल-वयर जावं, हाच्या इस्त्री केल्ल्या जिविताक एक लेगीत चूर ताणें केन्ना पडूंक दिवंक ना. उमेदीचे पिराये वयलो ताचो पूत, सोयरो वा हेर कोणूय खंयचेय चळवळींत पडलो जाल्यार, 'तुका कोणें सांगल्यात रे ह्यो भानगडी? तूं तुजो अभ्यास सारको कर पळोवया' अशें म्हणून ताका सदांच फाटीं ओडला. सिनेमा नाटकां पळोवप, मदीं मदीं संगिताच्या मैफलींक वचप वा एकाद दुसरें मन रिझोवणें पुस्तक वाचप हे फास्के भायर ताणें केन्ना पावल दवरूंक ना. वापरून वापरून गुळगुळीत जाल्ल्या एका उतराचो आधार घेवन सांगचें जाल्यार, पु.ल.चो भक्त चडसो 'बुर्झुआ' वर्गांतलो. पु.ल.हें 'लाडकें व्यक्तिमत्व' जालें तें ह्याच वर्गांतल्या लोकांचें. हांकां आवडटा, रुचता तोच माल पु.ल.न तांकां सदांच पुरयला, तो मागीर साहित्याच्या रुपांत आसूं, संगिताच्या आसूं, नाटकाच्या आसूं वा व्याख्यानाच्या रुपांत आसूं. कामगार, मजूर, दलितां मजगतीं शिकिल्लो कोणूय पु.ल.चो भक्त आसत काय कितें, तें कित्याक, विदर्भ, मराठवाड्यांत कोण मेळत काय कितें, दुबावूच आसा, पु.ल.ची तार जुळ्ळी ती पुण्या मुंबय वाटारांतल्या चित्पावन, कराडे, देशस्थ, सारस्वत ब्राह्मण वर्गां मदल्या लोकां कडेन.

ह्याच वर्गांतल्या लोकां कडेन कित्याक जुळ्ळी, मातशें तर्जून पळोवया ह्न

शंकराचार्यां उपरांत तांचे गादयेर बसता ताका नवो शंकराचार्य मानून लोक ताची पाद्यपुजा करपाक लागतात. ह्या नेमान, टिळकां उपरांत 'केसरी'चे गादयेर

जो बसतलो ताकाच लोक नवो 'लोकमान्य' लेखतले आनी ताचें आयकतले (आनी देशाचें नेतृत्व ताच्याच हातांत उरतलें) असो गायकवाड वाड्या वयल्या कांय मुखेल टिळक-भक्तांचो समज जाल्लो. पुणून तशें घडूंक पावलें ना. लोकमान्यांच्या मरणा उपरांत नवेच तरेचें एक नेतृत्व देशांत वयर सरलें आनी स्वातंत्र्य संग्रामाचीं सुतां गायकवाड वाड्या पसून पयस साबरमतीचे तडी वयल्या गांधींच्या हातांत गेलीं. आनी टिळकांच्या शिष्यांच्या पदरांत फकत निर्शेणीच पडली. इतलेंच न्हय. तर खासा गायकवाड वाड्याकूय वेरो वचपाक लागल्यो. 'केसरीं'त लोकमान्यांचे उजवे हात म्हूण खाडिलकर वावुरताले. तेच गांधींचे भक्त जाले. 'हो खंयच्याय युगांत जल्माक येता तसलो महापुरूस न्हय, हजार दोन हजार वर्सांनी केन्नाय तरी येता असलो एक युगपुरूस हो' अशें म्हणून खाडिलकर 'केसरीं'तल्यान गांधींची तुस्त तोखणाय करपाक लागले, तांच्या कार्यावळींक मना पसून तेंको दिवपाक लागले. 'केसरी'च्या 'विश्वस्तां'क हें उस्तऱ्यां गेलें. परिणामीं, खाडिलकरांक 'केसरी' सोडून वचचें पडलें. उपरांत, टिळकांच्या मुखेल सांगात्यां मजगतचे एक तेजिश्ट सांगाती गंगाधरराव देशपांडेय गायकवाड वाड्या पसून पयस गेले. म्हणटासर आपणाले खाशेले चिमट्यांचे, कुटल्यांचे खुसखुशीत शैलीन महाराष्ट्राचें काळीज जिखिल्ले 'काळकर्ते' शिवरामपंत परांजपेय 'गांधाळ्ळे'. टिळकवादी घुटमळ्यांत पडले आनी तांणी कितें करचें, समजना जावन, गांधींच्या नेतृत्वाची 'टिंगल-टवाळी' (मराठी लोकांचो आवडटो 'सांस्कृतीक कार्यक्रम' हो) करपी एक कारखानोच पुण्यांत सुरू केलो. एका सारकीं दोन दसकां गांधींच्या व्यक्तिमत्वाच्यो, तांगेले अहिंसेच्यो, सत्याग्रहाच्या चळवळींच्यो, उपासाच्यो भगल्योच ते मारीत रावले.

पु.ल.क जे भक्त मेळ्ळे ते ह्याच कारखान्यांतल्यान तयार जावन आयिल्ले.

पु.ल.चीं सगळींच नाटकां गाजल्यांत. पुणून सगळ्यांत चड गाजलां *तुझे आहे तुजपाशी*. ह्या नाटकांत दोन देखींचो, दोन विचारांचो, दोन आदर्शांचो संघर्श दाखयला. एका आदर्शाचो (विचार वा देखीचो) प्रतिनिधी नाटकांतलो 'आचार्य'. तर दुसऱ्याचो 'काकाजी' (म्हळ्यार खासा पु.ल.?). पयल्या आंका सावन निमाण्या आंका मेरेन सगळींच पात्रां आचार्याची टिंगल टवाळी करतात. सगळ्यांत चड टिंगल काकाजी करता.

गांधींची एक तरा आशिल्ली. म्हशी कडले सर्तींत गाय फाटीं पडल्या,

गायेक म्हत्व आसा तें तिच्या दुदाक लागून न्हय, तर ती दिता त्या बैलांक लागून. गाय ना जाली जाल्यार बैल ना जातलो आनी बैल ना जालो जाल्यार शेतकाम उबंत पडटलें (रेडो शेतकामाक उपकारा पडना) म्हूण, गायचेंच दूद, गायचेंच तूप वापरपी लोक देशांत निर्माण करूंक जाय, अशें म्हणून गांधीन 'गोसेवाव्रत' लोकां मुखार दवरलें. *तुझे आहे तुजपाशीं* तल्या काकाजीक हें समजलें ना. ताका हो फकांडांचो विशय दिसलो. दूद गायचेंच घेवप, तांदूळ हातांनी कांडिल्लेच खावप, साकरे बदला म्होंव वापरप ह्या 'व्रतां'च्यो पु.ल. ह्या नाटकांत यथेच्छ बकत्शायो करता. एकल्यागेर आचार्य येता. ताचे खातीर गायचें दूद, तूप, हातांनी कांडिल्ले तांदूळ, म्होंव हाडून दवरपाचो घरांत बोवाळ चलता. काकाजी तो पळोवन म्हणटा, 'आरे, हातगाडयेर घालून हाडात रे ताका... सगळें हातांनी करूंक जाय म्हणटात न्हय हे आचार्य लोक?' काकाजीच्या वाक्या कणकणी असल्यो बकत्शायो लोकांच्या कानार पडटात आनी लोक खो खो करून हांसतात. कित्याक? काकाजीचें भोग विलासाचें, खावपा-पियेवपा संबंदान कसलोच पात्सो नाशिल्लें, फोल्गी, सदळ, easy going जिवीत लोकांक सोंपें दिसता, आपलेंशें दिसता, आवडटा. आचार्यांचें तपस्व्याचें, त्यागा कश्टाचें, धक्या-चपाट्यांचें तत्त्वनिष्ठ जिवीत लोकांक पेलना. तें आमच्या जिविताची घडी विस्कटावपी जिवीत कशें दिसता. पु. ल. मदल्या वर्गांतल्या ह्या सुखासीन दुबळ्या आंगांक पोसवण दिवंक पाविल्ल्यानूच *तुझे आहे तुजपाशी* नाटक महाराष्ट्रांत 'सक्सॅसफूल' जावंक पावलां.

ह्या नाटकाचे गुजरातींत वा हिन्दींत अणकार जाल्यात काय कितें, खबर ना. जाल्ले जाल्यार मराठींत जालां तितलें तें थंय सक्सॅसफूल जातलें आशिल्ले काय कितें, दुबाव आसा. महाराष्ट्रांतूच तें सक्सॅसफूल जावंक पावलें हाचें कारण, गायकवाड वाड्यान तयार करून दिल्ले प्रेक्षक पु.ल.क आयतेच मेळिल्ले.

ज्या आचार्याची नक्कल पु. ल.न ह्या नाटकांत केल्या तो 'किरकोळ' मनीस नाशिल्लो. महाराष्ट्रांतलो तो एक बुदवंत, प्रज्ञावंत, व्यासंगी आचार्य आशिल्लो. ताचें जिवितूच चलत्या भोंवत्या विद्यापिठा सारकें आशिल्लें. बंदखणींत लेगीत ताचें हें विद्यापीठ चलत रावलां. 'चले जाव' चळवळींतले बंदखणींत ताणें येरवड्याक *गीतांजली*चेर वर्ग चलयल्ले. ह्या वर्गां पसून प्रभावीत जाल्ले देशभक्त आयजूय महाराष्ट्रांत पळोवंक मेळटले. म्हजो अदमास चुकिल्लो नासत जाल्यार साने गुरुजींक 'आंतर-भारती' सुरू करपाची प्रेरणा ह्याच आचार्या कडल्यान

मेळ्ळ्या. खूब जाणांक ताणें बंगाली भास शिकयल्या आनी रवीन्द्रनाथां विशीं तांच्या मनांत ओड निर्माण केल्या. उर्दूय तो बेस बरी जाणा आशिल्लो. रवीन्द्रनाथांचेर उलयतालो तितल्याच अधिकारान तो इक्बालाचेरूय उलयतालो. बंदखणींतल्यान भायर आयले उपरांत ह्या आचार्यान केशवसुतांचेर मुंबयंत १९४६-४७त आठ-णव व्याख्यानां दिल्लीं. बाकीबाब म्हाका त्या व्याख्यानांक घेवन गेला. त्या वेळार मुंबयंतल्या सगळ्या नांवाजत्या पत्रकारांक आनी साहित्यकारांक हांवें थंय पळेल्यात. खासा पु.ल. कूय पळेला. मर्ढेकरांच्या कवितांचेर 'अश्लिल' म्हूण छाप मारून कांय जाण मर्ढेकरांक कोर्टांत घेवन गेल्ले तेन्ना होच आचार्य मर्ढेकरांच्या अर्दान साक्ष दिवपाक कोर्टांत राविल्लो. फकांडां मारपा सारके जायते जाण पु.ल. भोंवतणच्या संवसारांत आशिल्ले. पूण पु.ल.न हात घालो तो ह्या निर्मळ, तेजिश्ट, व्यासंगी, प्रज्ञावंत आचार्याचेर. पु.ल.क व्हड मनीस वळखुपाची नदरूच नाशिल्ली अशें म्हणचें पडटलें.

लोकांक हांसयत हांसयत समाजांतलें कुसकें, नश्टें, पाडें हुमटावन काडपाची तांक आशिल्ली एक आगळी वेगळी शैली पु.ल. कडेन आशिल्ली. आनी महाराष्ट्रांत हुमटावन भायर मारपा सारकें थोडे कुस्कें, नश्टें, पाडें नाशिल्लें. पु.ल.क तें दिश्टीय पडलें ना. हीच म्हजे नदरेन पु.ल.चे प्रतिभेची शोकांतिका आनी हीच पु.लं.न आशिल्ल्या विनोदाच्या अस्त्राची विफलता.

आगळी वेगळी प्रतिभा आसली म्हूण भागना. हे प्रतिभेचो मनीस खंय उपेग करता तें पळोवंक जाय. हे नदरेन पु.ल. कडेन पळेतां तेन्ना ह्या सामान्यां भायल्या प्रतिभावान मनशान सामान्यां भायले आपले प्रतिभेचो उपेग 'करूंक जायना आशिल्लो' थंयच्च केलो अशें खेदान म्हणचेंशें दिसता.

कांय जाण म्हणटात, पु.ल. उपरांत बदल्ला. तो शान्तिनिकेतनांत वचून रावल्ला आनी रवीन्द्रनाथांचो भक्त जाल्ला. विव्यक्तिमत्वाचीं जंय जंय प्रचीती आयल्या थंय थंय ताचे हात आपशींच जुळ्ळ्यात. ताणें कांय वेगळ्या वेगळ्या व्यक्तिमत्वांचेर लेख बरयल्यात तातूंन ताच्यांतलो हो बदल दिसून येता.

पुणून, *'जो बूंद से गया सो हौद से नहीं आता'* ताका कोण कितें करतलो!

('जाग', जून २०००)



## ४८.

# परतून पु.ल.

मुंबयच्यान मनोहर पै धुंगट बरयतात ह्न

'कालूच 'जागा'चो जून म्हयन्याचो आंक मेळ्ळो. 'नदर संपादप्याची' ह्या सदरांतली 'पु.ल.' ही टिप्पणी वाचून निराशा जाली हें कळोवपाक हें पत्र. रवीन्द्रबाबांनी पु.लं.च्या पुस्तकांचो पुराय सॅट दिवन उडयतना तांच्या निवडक साहित्याचो *एक साठवण* म्हणून जो संग्रह सर्गेस्त दळवीन काडिल्लो तो आपणा कडेन दवरून, टिप्पणी बरोवचे पयलीं तो नदरे सकयल घाल्लो जाल्यार पु.लं. क थोडो न्याय दिवपी बरप जातलें आशिल्लें. दोतोर सुखठणकाराचें *मान्नीपुनंव* वाचून तांणी कोंकणींत बरयल्लें पत्र त्या संग्रहांत आसा. त्या पत्रांत 'वाचतना हांसून हांसून गुळी जाली' अशी फ्रेज आयल्या. मराठींत हांसून 'पोट दुखता'. 'हांसून हांसून गुळी जावपा'ची फ्रेज

पयलेच खेपे मेळ्ळी! कोंकणी पु.लं.ची कायद्यान 'आवय-भास'. तांकां कोंकणींतल्यान उलयल्लें आवडटालें. हे संबंधीची याद भौ. मोहनदास सुखठणकार हांणी हालींच एका लेखांत दिल्या. *स्वाती* निबंध संग्रहांतल्या 'कारवार' ह्या तांच्या निबंधाची वेगळी वळख करून दिवपाची गरज ना. हो निबंध आनी कोंकणींत बरयल्लीं दोन पत्रां हांचे वयल्यान तांकां हे भाशेची बरी ज्ञाण आशिल्ली हें कळटा. *मराठी वाङ्मयाचा (गाळीव) इतिहास* ह्या पुस्तकांत कोंकणी संबंधान कितें म्हळां ताचे वयल्यान ते कोंकणी भाशेच्या मळार कितें फकाणां चलतात हाचे विशीं जागरूक आशिल्ले हाची नाट मेळटा.

'मध्यमवर्गा विशींच आपणें बरयलां हें तांकांय मान्य आशिल्लें. जाचे विशीं आपणाक खबर ना, कामगार दलितांचीं दु:खां हांचे विशीं बरोवंक जालें ना हें तांणी मान्य केलां. (*पु.ल. वृत्तांत*). *तुझे आहे तुजपाशी* ह्या नाटका विशीं बरीच चर्चा जाल्ली आसा. पु.ल.न एकाच खंयच्या आचार्यांची नक्कल केल्या (आचार्य भागवत) अशें म्हणप बरोबर जावचें ना. हालींच भौ. सुनिताबाय देशपांडेन *सगे सांगाती* म्हणून पुस्तक बरयलां. तातूंत आचार्य पटवर्धनांचें नांव आयलां. एकदां ते सुनिताबायगेर आयिल्ले. तांकां जेवणार धंय लागता म्हणून धंय दवरिल्लें. धंय गायच्या दुदाचें, विरजण मात म्हशींच्या दुदाचें अशें स्पश्टीकरण सुनिताबायन दिलें. आचार्यांक राग आयलो खंय. पु.लं.क विशय मेळ्ळो अशें तांणी बरयलां. जेवणा खाणा विशीं आचार्य लोक जितलो जिवाचो थातोमातो करताले तितलो जेवणाची आवड आशिल्ले gourmet लोक सुद्धां करिनात! काकाजी तांकां रसिकाग्रणी रामूभय्या दाते वयल्यान सुचलो असो सर्वसाधारण समज आसा.

*तुझे आहे तुजपाशी* चो गुजरातींत अणकार जाला *मीन पियासी* नांवान.. पयलो प्रयोग आय.एन.टी.न केल्लो. *आइए जनाब* ह्या नांवान इंग्लीश, हिन्दी अणकार आसात. थंयूय तें नाटक 'सक्सेसफूल' जरूर जालां. आसूं!

'समाजांतलें कुसकें, नश्टें, पाडें हुमटावन काडपाची जापसालदारकी आचार्यांची! असामान्य प्रतिभेच्या मनशान अमकेंच करूंक जाय आशिल्लें

> अशें सांगप चुकीचें दिसता. 'विनोदाच्या अस्त्राची विफलता' म्हणप हीं तर सुबेजपणां. आपली जापसालदारकी वळखून आणीबाणीच्या वेळार आनी उपरांत पु.लं.नी काम केलां. दलीत साहित्याक फावो तेन्ना उत्तेजन दिलां. मेळिल्लें धन उत्तम प्रक़ारे वांटलां हाचो उल्लेख खंयच ना. जाणकारा कडल्यान तांच्या कार्याचेर लेख बरोवन घेवन भरपाय करची.'

जाप मातशी स्पस्ट बरयतां, रागार जावचें न्हय, मनोहरबाब. पु.ल. एक साहित्यीक आशिल्ले, हांवें न्हय म्हळां व्हय? ते आगळे-वेगळे प्रतिभेचे एक साहित्यीक आशिल्ले म्हणपाचेंय मेकळ्या ताळ्यान कबूल केलां. साहित्यिकाक साहित्याची जाण आसुंकूच जाय आनी पु.लं.क ती बेस बरी आशिल्ली. तांकां कोंकणी येताली. कोंकणी मनशा कडेन ते सदां कोंकणींतल्यानूच उलयताले. कोंकणींत कितें येता हाचो तांकां थोडो भोव अदमासूय आशिल्लो. पुणून, कोंकणीचे व्यथेची जाण तांकां आशिल्ली व्हय? आशिल्ली जाल्यार 'कोंकणी ही भाषा आहे की बोली हे सांगायला डॉ. मीनाक्षीसुंदरमची आवश्यकता नाही, कळ्ळें मू भेंब्रेबाब?' हो लेख ते बरोवचेच नाशिल्ले. तांणी तो बरयला आनी महाराष्ट्र टायम्सार छापुनूय हाडला. तोवूय अश्या एका म्हुर्तार, जेन्ना 'भास काय बोली' ह्या चिखलांत मुंगरिल्ली कोंकणी चिखलांतल्यान वयर सरपा खातीर 'साहित्य अकादेमी'चो आधार मागताली. इतल्यान सोंपूंक ना. कोंकणीचे मान्यतायेक मराठीचे प्रतिनिधी भोवन भोवन विरोध करतात म्हूण उबगून मान्यतायेच्या प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लावपा खातीर अकादेमीच्या अध्यक्षांनी तो जनरल कौंसिलाचे बसकेंत मताक घालो त्या वेळार पु.लं.नी 'मान्यताय दिवची न्हय' ह्या अर्दान आपणालो हात वयर काडून कौल दिल्लो विसरले तुमी, मनोहरबाब?

पु.लं.क कोंकणी बोलीच म्हूण उरिल्ली जाय आशिल्ली. 'भास' जाल्ली नाका आशिल्ली. खंयच्या तरी भोवमानाचेर नदर दवरून (काय कोणाच्या प्रॅशराक बळी पडून?) कोंकणी चळवळीच्या ऐन त्या निर्णायक खिणार तांणी कोंकणीचे फाटींत सुरो तोंपला.

पु.ल. एक व्हड दानशूर आशिल्ले ही तांची तुस्त तोखणाय आयकून आयकून कान भेरेले. कित्याक करची पडटा ही तुस्त? दानशूर करता तो विस्वासघात विस्वासघातांत मोडना, अशें सुचोवंक सोदतात काय कितें तुमी? मनोहरबाब, आमचे दयानंद बांदोडकार दानशूर नाशिल्ले? तांकां मीन लागलें, लाखांनी रुपया

तांच्या हातांत घोळपाक लागले त्या वेळार तांणी लोकांक जे पयशे वांटल्यात ताचें म्हाका व्हडलेंशें ना. पुणून बोल्सांत पानदुडू लेगीत नाशिल्लो त्या वेळार लेगीत ह्या मनशान गरजेवंताक आपणा कडलें सगळें दिवन उडयलां. कोणाक रिकाम्या हातान वचूंक दिवंक ना. गोंयच्या बारीक दुबळ्या लोकांक ते बेश्टे देव कशे दिसनाशिल्ले. हजारांनी लोकांक ते पावल्यात.

पुणून ह्याच बांदोडकारांच्यो तांच्यांतल्या महाराष्ट्रवादाक लागून आमी तिसत्यो-वादऱ्यो केल्यात. विसरले तुमी? तांकां सत्ये वयले देंवोवपा खातीर तरातरांच्यो चळवळीय चलयल्यात. 'इतल्या बऱ्या मनशाक तुमी अशें करपाचें न्हय' अशें म्हणटले व्हय तुमी, मनोहरबाब? आमी तांचे आड झुजूंक नाशिल्ले जाल्यार भारताच्या नकशार आयज तुमकां गोंयचें नांव निशाण लेगीत दिश्टी पडचें नाशिल्लें.

बऱ्या मनशाचे लेगीत हात आडावन धरचे पडटात केन्ना केन्ना.

पु.लं.त कितलेशे व्हड गूण आशिल्ले, खबर आसा म्हाका. ते संगिताचे दर्दी आशिल्ले. कवितेचेय आशिल्ले, विनोदांत तांचो हात धरपी कोण नाशिल्लो. एक बरे नट आशिल्ले. बरे नाटककारूय आशिल्ले. एक प्रतिभावंत मनीस आशिल्ले. सगळें खरें. पुणून साहित्यीक फकत प्रतिभावंत आसून उपकारना. तो थोडो भोव प्रज्ञावंतूय आसूंक जाय. प्रतिभेचो आपूण सदुपयोग करतां काय दुरुपयोग हाची जाण ताका आसूंक जाय. *तुझे आहे तुजपाशी* नाटक बरयलां त्या वेळार पु.लं.ची प्रज्ञा खंय चरूंक गेल्ली, देव जाणा. ह्या नाटकांत तांणी गांधीवादी आचार्यांची 'दांभीकपणां' उकताडार घाल्यांत म्हण तुमी नाटकाची तोखणाय करतात. तांकां दांभीकपणां फकत आचार्य भागवतांतूच दिश्टी पडलीं? बाबा आमटेंत दिश्टी पडलीं नात? बाबा आमट्यांच्या पांयां कडेन तर तांणी आपणाली थैली खणखण करून ओतल्या!

तुमी तुमगेल्या म्हणण्याक तेंको दिवपा खातीर सुनीताबायच्या *सगे सांगाती* पुस्तकांतलो एक प्रसंग सांगला. 'तागेर खंय एक फावट आचार्य पटवर्धन आयिल्ले (कोण हे?) तांकां धंय लागता म्हण धंय दवरिल्लें. धंय गायच्या दुदाचें आशिल्लें. पुणून म्हेंळांय म्हशीच्या दुदाचें आशिल्लें. सुनीताबायन आचार्यांक हें सांगतकूच तांकां खंय राग आयलो आनी पु.लं.क एक विशय मेळ्ळो.'

हांवें *सगे सांगाती* पुस्तक पळोवंक ना. पुणून सुनीताबायचें *आहे मनोहर तरी*

वाचलां. तातूंत हो प्रसंग सांगतना तांणी शंकरराव देवांचें नांव घेतलां. आनी 'शंकररावांनी ह्या दह्याला हात लावला नाही' इतलेंच म्हळां. तांकां राग आयिल्ल्याचो उल्लेख तातूंत ना. 'पंगतीक बशिल्ल्या लोकांक' मात राग आयिल्लो म्हळां. (ते गांधीवादी आशिल्ले?) दुसऱ्याच पॅरेग्राफांत शंकररावांच्या 'कणखर व्यक्तिमत्वा'चे आनी 'निर्भय स्वाभिमाना'चे दोन प्रसंग सांगून सुनीताबायन खासा आपणाकूच एक प्रस्न केला ह्न 'सत्ताधिशां मुखार ह्न मागीर ते इंग्रज आसूं वा भारतीय ह्न मात लेगीत तकली बागयनासतना 'तत्त्वाक घट्ट दसून रावपाचें धैर्य' तांच्यांत गांधीवादाक लागून येवंक पावलें काय मुदलांतूच तांच्यांत हें धैर्य आशिल्लें म्हूण ते गांधीवादा कडेन पावले?' सुनीताबायन फकत प्रस्न विचारला. जाप सोदपाची तकालस घेवंक ना. इल्लीशी घेतिल्ली जाल्यार 'हे लोक सरसमानां सारके नाशिल्ले, तांच्यांत वेगळें कितेंय तरी आशिल्लें... हे integrityचे लोक आशिल्ले' म्हणपाची जाप तिका मेळटली आशिल्ली. मागीर, बरीं बरीं लुगटां बाजारांत मेळटा आसतना हे लोक दाट खरखरीत खादीच कित्याक घालतात, विज्ञानान एका फुडलीं एक यंत्रां सोदून काडिल्लीं आसतना हे लोक दोन चार हजार वर्सां पयलींच्या चरख्यारूच सूत कित्याक काडटात, दाट्ट बरें म्हशीचें दूद सगळे कडेन सोंपेपणान मेळटा आसतना मेळूंक कठीण असलें गायचें पातळ दुदूच आपणाक कित्याक जाय म्हणटात ह्न ह्याय प्रस्नांच्यो जापो मेळटल्यो आशिल्ल्यो. सुनीताबायन आपणाल्या प्रस्नांची जाप सोदपाची तकालस घेवंक ना ती घेवंक ना, तिका जाणा जावन घेवपाची इत्साय जावंक ना. *तुझे आहे तुजपाशी* नाटक पळेतल्या प्रेक्षकांकूय केन्ना ती जायना. मागीर गांधीवाद्यांक कोल्ली, विक्षिप्त, धोंगी, दांभीक, फॅडिस्ट सोडून ते आनीक कितें म्हणटले?

महाराष्ट्रांत खूबश्या जाणांचो एक समज जाला ह्न देवान जेन्ना सगळ्यांक बुद्द वांटली तेन्ना धड मडकीं घेवन फकत हेच गेल्ले, बाकीचे चाळणी घेवन गेल्ले आनी गांधीवादी लोक तर पोंदूच नाशिल्लें आयदन घेवन गेल्ले. हाका लागून, प्रस्न समजून घेवपाची जी जिज्ञासा मनाक आसता तीच तांच्यांतली ना जाल्या. 'सर्वज्ञ' जाल्ले वरी ते उलयत बरयत आयल्यात. कोंकणी हे बडीक 'काडली जीब लायली ताळ्याक' बड म्हणटा आनी तिका 'थिल्लरपणा'ची कुरू मानता. मातशी तकालस घेवंक जाय. म्हणटकूच मागीर गांधीवाद्यांच्या 'विक्षिप्तपणा' फाटल्यान एक 'विचार' आसतालो, तो काळाचे व्हांवतेचे उरफाटे

दिकेन पेंवतालो म्हणपाचें दिसून येतलें आनी, अशें पेंवप असल्याच कणखर लोकांक जमपाचें म्हणपाची जाणवीक जातली. आपणाल्या व्रतांचो लोकांक 'उपद्रव' जाता हें ते नकळ आशिल्ले व्हय? बेस बरे जाणा आशिल्ले. पुणून 'उपद्रव' ते 'जावंक दिताले'. उपद्रवांक लागून तरी हे लोक असलीं व्रतां कित्याक घेतात म्हूण विचारतले आनी थोडे भोव चिंततले अशी ते उमेद बाळगिताले.

चिंतपाक एके तरेचें तांचें हें provocation आसतालें.

एक सांगात ह्न मुसलमानांनी एक गाय मारल्यार धा मुसलमान मारपाक फुरफुरून येवपी लोक आसात न्हय ह्या देशांत? हिन्दू मुसलमानांचे आयजवेर जितलेय दंगे देशांत जाल्यात (जांकां लागून देशाच्या स्वातंत्र्याक आडखळ जाल्या) तितलेय हे एके गायन घडोवन हाडल्यात. गायचो प्रस्न हो देशांतलो एक 'स्फोटक' प्रस्न, जो फाटल्या देड दोन हजार वर्सां सावन देशाक सोडोवंक येवंक ना. आतां सांगात, मारपाक मुसलमानांक गायो खंय मेळटात? ते कांय स्वता गायो पोशिनात. हांवें पळोवंक नात. तुमी पळेल्यात व्हय? क्रिस्तांवूय पोशिनात. आदिवासीय पोशिनात. पोसतात फकत हिन्दू. 'तेत्तीस कोटी देव तिच्या पोटांत आसात' अशें मानून. पुणून गायन दूद दिवपाचें बंद केल्यार पुरो, तिका 'पांजरपोळीं'त व्हरून सोडपाक हेच गोरक्षक हिन्दू मात लेगीत अनमननात. पांजरपोळींतल्यानूच ती कसाबांच्या हातांत पावता आनी कसाबां कडल्यान ती मुसलमानांच्या हातांत वता.

कसाब चडशे मुसलमानूच आसतात.

गाय मारल्या म्हणपाचें कळना फुडें हुर्रफुर्र जावन मुसलमानांक मारूंक धांवतल्या गोरक्षकांक 'बाबांनो, तुमी करतात ते तरेन गोरक्षण जावपाचें ना. गोरक्षण करतले जाल्यार पयलीं एक नित्शय करात ह्न गाय दूद दिना म्हूण तिका पांजरपोळींत धाडचे नात अशें थारायात, घराच दवरात, गाय म्हारग पडना... ती दूद दिना जाली जाल्यारूय दुदा परस लाख मोलाचें शेण दिता... ते भायर, आनीक एक निश्चय करात, म्हशीचे सर्तीत गायक राखण मेळूंक जाय जाल्यार आमी गायचेंच दूद पियेतले, गायचेंच लोणी-तूप वापरतले असो सोपूत घेयात' हें जे सांगतात, (गोरक्षणाक जे गोसेवेचें रूप दितात) तांकां धोंगी, दांभीक, विक्षिप्त, कोल्ली, फंडिस्ट म्हणपाचे, मनोहरबाब? बिरमत फुट्टली.

ज्या लोकांनी एका स्फोटक प्रस्नाक विधायक दिका दिवपाचो यत्न केलो,

ते खातीर एक खेरीत 'गोसेवासंघ' सुरू केलो, देशांत खूब कडेन गोशाळा चलयल्यो, गायचो वंश (breed) सुधारून दुदाचें उत्पादन वाडोपाचो यत्न केलो, आनी, लोकांक जें करात म्हूण ते सांगताले तें तांणी खासा आपणाल्या जिवितांत चलणुकेंत हाडून दाखयलें तांकां 'जिवाचो थातोमातो करपी' मानप मू हो तुमी? 'जिवाचो थातोमातो' खंयचोच गांधीवादी करिना. तो जेवता कितें तें तुमी पळेलां? आयुष्यभर तो मीठ नाशिल्लें, मसालो नाशिल्लें जेवण जेवीत आयला. जिवाचो थातोमातो करप हें जांकां तुमी रसिकाग्रणी म्हणटात तांचें काम. तांचेंच तत्त्वज्ञान तें. 'खायात, पियात, मजा मारात' हाचे पेले कडलें खंयचेंच उदात्त तत्त्व जांकां पेलना, पटना आनी समजय ना ताची देख ह्या देशांतल्या लोकां मुखार दवरप आनी 'आदर्श' लोक ते हे, आनी दांभीक ते दुसरे म्हूण तांकां सांगप हें 'असामान्य प्रतिभे'त बसता जायत, सामान्य प्रज्ञेंत बसता व्हय?

स्पस्ट बरयतां म्हूण रागार जावं नाकात, मनोहरबाब. पु.लं.चें *तुझे आहे तुजपाशी* नाटक *मी नथुराम बोलतोय* नाटकाचें precursor. जे भाशेंत *तुझे आहे तुजपाशी* नाटक येवं येता तेच भाशेंत *मी नथुराम बोलतोय* जल्माक येता. काँग्रेसवाल्यांनी धुमशेणां कांडून ह्या नाटकाचेर सरकाराक बंदी घालूंक लावंक नाशिल्ली जाल्यार पु.लं.च्या नाटका इतलेंच (घडये चडूच) तेंय 'लोकप्रिय' जातलें आशिल्लें. जंय जंय संघ परिवाराचो प्रभाव आसा थंय थंयच्या भासांनी भाशांतरीत जावन येतलें आशिल्लें आनी पु.लं.च्या नाटकां परस चड गाजतलें आशिल्लें. पु. लं.नी फकत गांधीवादी आचार्यांक दांभीक म्हूण चित्रायल्यात. *मी नथुराम बोलतोय* नाटकान खासा गांधींक दांभिकूच न्हय, तर दुश्ट आनी देशद्रोही म्हूण सिद्ध करपाचो यत्न केला.

'असामान्य प्रतिभे'च्या साहित्यकारान अमकेंच बरोवंक जाय म्हणप चुकीचें आसत. पुणून 'अशें बरोवंक जायना आशिल्लें' अशें म्हणप 'सुबेजपणा'चें जाता आसत जाल्यार, असलीं सुबेजपणां हांव आयुष्यभर करीत आयलां, आनी मुखारूय करीत रावतलों म्हूण आसां.

('जाग', सप्टेंबर २०००)






४१.

## कोडसाणीचेर जैत : अंतरमनांतली एक यात्रा

कोंकणीच्या वावरांत गाळी, अपमान, आरोप-हेत्वारोप खूब सोंसचे पडल्यात. ओपीनियन पोलांत तर कुसकीं तांतयां, तोमातां, गुंडेय खावचे पडल्यात. 'मराठी द्‌वेश्टो', 'महाराष्ट्र द्‌वेश्टो' म्हूण कांय सर्टिफिकेटांय जोडल्यांत. काकासाहेब, विनोबा, आचार्य भागवत, अप्पा पटवर्धन, दादा धर्माधिकारी सारकेल्यांक गुरुतुल्य मानपी हांव तांचे भाशेचो आनी तांचे जल्मभुंयेचो 'द्‌वेष' कसो करतलों? पुणून हांव म्हजो बचाव करपाचे भानगडींत केन्ना पडलों ना. जो आपणालो बचाव करपाक मुखार सरता तो अंतीं हार खाता म्हणपाचें पळेलां म्हूण, बचावा बदला 'हय, मराठी द्‌वेश्टो, महाराष्ट्र द्‌वेश्टोच हांव... जांणी गांधींची हत्या केली तांचे जल्मभुंयेक आनी तांचे भाशेक चाटत बसपाचें काय कितें' अशें म्हणून गाळी, अपमान, आरोप-हेत्वारोप तांच्याच गळ्यांत परते घालून मेकळो जालां.

गोंयच्या रासवळ मळार 'एक घेतलें जाल्यार दोन दिवंक जाय' होच नेम चलता. गांधीवादांत बसना तो. नाका बसूं,

पुणून 'where there is choice only between cowardice and violence, I will choose violence' ह्या गांधीतत्वांत तो बसताच बसता.

पुणून एक सांगुंकूच जाय, हांचे मजगतच्या कोणाच संबंदान म्हाका केन्नाच कितेंच दिसूंक ना. वायट तर निखालूस दिसूंक ना, तिडकूय केन्ना येवंक ना. जांचें साम्राज्यूच कोसळावंक भायर सरला ताका तांणी गाळी घाल्यो, ताचो अपमान केलो, ताचेर आरोप-हेत्वारोप केले जाल्यार अजाप कसलें, तांणी अशेंच करपाचें, अशेंच मानीत आयलां.

आयज तांचे मजगतचे कांय जाण म्हजे इश्टूय जाल्ले पळेतां.

पुणून, जांकां हांवें म्हजे मानले, जांच्या उत्कर्षांत खासा म्हजो उत्कर्ष पळेलो, जे वयर सरचे, खूब व्हड जावचे म्हूण मना पसून आंवडेलों तांचे मजगतच्या कांय जाणांनी म्हाका कोंकणीच्या मळा वयलो भायर घालपाक म्हजे आड एक मोहिमूच उकती केल्ली पळेली, म्हाका 'कृतघ्न' म्हणपा मेरेन तांचे मजगतचो एकलो पावलो, तेन्ना काळजाक जे खोल घाय जाले ते मात लेगीत सोंसूं नजऽ जाले. ब्रुटसाक सुरो मारपाक आयिल्लो पळोवन सीझराक कितें जालां जातलें ताचो अणभव आयलो. पुणून जावं, म्हळें, Brutus was an honourable man. कोडू जालो तरूय भोव मोलादीक एक अणभव हो म्हज्या कोंकणी कार्यांतलो. तो पचोवपाचो यत्न करपाक लागलों. पुणून पचोवंक जमूंक नाका? हलाहल पचोवप एकल्या म्हादेवाकूच जमिल्लें. दुसऱ्या खंयच्याच देवाक जमूंक नाशिल्लें. म्हाका कशें जमतलें?

कांय इश्ट कितलेशे खेपे 'क्षमा कर तांकां ह्व forgive them' म्हूण समजावपाक लागिल्ले. आनी तितलेय खेपे, to forgive is Divine, हांव Divine न्हय, human हांव, अशें तांकां सांगीत राविल्लों. देवाचो गूण म्हज्यांत असा अशें म्हजे म्हाका कसो भासयतलों? दुसऱ्यांक फटोवं येत, मनीस खासा आपणाक केन्ना फटोवंक पावना.

एक खरें, येवजून करून कोण चुकी करिना. आमकां खबर नासतना त्यो आमचे कडल्यान 'जातात'. To err is human. म्हजेय कडल्यान चुकी जाल्यात. खूब जाल्यात. 'जाल्यात' म्हणटां. कित्याक, हांवें त्यो 'करूंक' नात. म्हज्या चुकींक लागून दुसऱ्यांचेर अन्याय जाला वा ते दुखावल्यात म्हणपाची

जाणवीक जाल्या तेन्ना हांवें कळाव लावंक ना, नीट उठून तांचे सरीं गेलां आनी sorry म्हणून परतलां. दुसऱ्यांचो अपसमज पयस करपाक, तांची तिडक न्हिवोवपाक खूब आधार दिला म्हाका ह्या इंग्रजी भाशेंतल्या उतरान. इतलें प्रभावशाली उतर आमचे भाशेंत ना. ह्या एका उतरान अपसमजूय पयस केल्यात, तिडकूय न्हिवयल्या, इतलेंच न्हय, तर काळजाचे घायूय पेखयल्यात.

पुणून sorry म्हणप वेगळें आनी क्षमा करप वा मागप वेगळें. चूक 'केल्ली' जाल्यार क्षमा मागूंक येताली. करूं येताली. चूक करुंकूच ना, ती 'जाल्या'. क्षमा कित्याक म्हूण मागपाची / करपाची?

मागीर, क्षमा म्हळ्यार कितें?

ख्रिस्ताच्या जिवितांतलो एक प्रसंग सांगतात ह्र

एकले बायल-मनशेक व्यभिचार करता आसतना लोकांनी धरली आनी ख्रिस्ता मुखार तिका उबी करून तांणी म्हळें, 'हिका व्यभिचार करता आसतना आमी धडधडीत पळेल्या आनी सोमतीच तिका धरून हांगा हाडल्या. म्हालगड्यांनी घालून दिल्ल्या नेमां प्रमाण हिका फातरांनी मारूंक जाय... आमी कितें करपाचें?'

ख्रिस्त खीणभर ओगी रावलो. दुसऱ्याच खिणाक ताणें म्हळें, 'जाचे हस्तुकीं आयजवेर कसलेंच पातक घडूंक ना ताणें तिचेर पयलो फातर मोखून मारचो.' सगळे एकामेकांच्या तोंडा कडेन पळेत रावले. मागीर एक एक करून सगळे कूस मारून थंयचे पळ्ळे. ती एकलीच ख्रिस्ता मुखार उबी उरली. ख्रिस्तान तिका विचारलें, 'तुका कोणेंच ख्यास्त केली ना?'

'ना,' तिणें म्हळें.

'वच तूं घरा... परती हे अळशिकेंत पडूं नाका' अशें म्हणून ख्रिस्तान तिका सोडून दिली.

मुखार कितें जालें तें जॉनान आपणाल्या 'गॉस्पेलां'त सांगूंक ना. पुणून आमच्यांनी अदमास करूं येता. तिका धरून हाडटल्यांनी तिका ख्यास्त केली ना, कित्याक तेच खासा पातकी आशिल्ले. आमकां हो अधिकार ना अशें तांकां दिसलें. ख्रिस्त पातकी नाशिल्लो. तरी आसतना ताका तशेंच दिसलें. कित्याक, ख्यास्त करप वा क्षमा करप हो देवाचो अधिकार, तो हांवें म्हज्या हातांत घेवंक जायना, अशें ताका दिसलें. आनी ताणें तिका देवा सुवादीन करून 'देवा, हिका क्षमा कर' अशें मागून सोडून दिली.

हय. पुणून क्षमा करप म्हळ्यार कितें करप हें म्हाका समजलें ना. तें ही कथा आयकून लेगीत समजलेंच ना.

एक दीस एक गुजराती पुस्तक वाचीत बशिल्लों. तातूंत म्हाका 'खमवुं' म्हूण एक उतर मेळ्ळें. ह्या उतरा कडेन थोडो वेळ घुटमळत रावलों.

खूबश्या भारतीय-आर्य कुळयेंतल्या भासांनी जाता तशें गुजरातींत जालां. 'क्षमा' हें उतर 'क्षम्' वयल्यानूच आयलां म्हणटात. सट्ट करून तकलेंतली ट्यूब-लायट पेटिल्ले वरी जाली. क्षमेचो एक नवोच अर्थ मुखार उकतो जालो. आं. म्हळें, क्षमा करप म्हळ्यार सोंसून घेवप, सहन करप. अशें तर! दुसरो म्हाका गाळी घालता, भंय घालता, पिडटा तो हांवें ताका भियेवचो, ताचे पांय धरचे, हांव करतां तें सोडून ताका जाय तें करचें हे खातिरूच मू? *'आकृष्टस्य ताडितस्य वा अविकृत चित्तता'* ह्न गाळी घालप ना घालप, भेश्टावप ना भेश्टावप ताच्या हातांत आसा; गाळी घेवप ना घेवप, भियेवप ना भियेवप म्हज्या हातांत आसा. ताच्या गाळींक उबगून, ताच्या भेश्टावण्यांक भियेवन म्हजें चित्त विचलीत जालें, हाल्लें, उचांबळीत जालें, अस्वस्थ जालें जाल्यार ताच्यो गाळी हांवें घेतल्यो अशें जातलें. ताका हांव भियेलों अशें जातलें. हांव हालिल्ले वरी जातलें आनी ताका म्हजेर जैत जोडून दिल्ले वरी जातलें. ना, हांव म्हजें चित्त हालूंक दिवचों ना. ताका म्हजेर जैत जोडूंक दिवचों ना. हांव हार खावचों ना.'

खिणा भितर काळजांतले सगळे घाय पेखले. आनी एके तरेच्या विमुक्ती-सुखांत पाविल्ले वरी दिसपाक लागलें. आगळो वेगळोच अणभव एक हो. म्हळें, हांव करतालों तें हांणी कर म्हळ्ळें म्हूण करी नाशिल्लों. म्हजे निजाचे प्रेरणेन आनी म्हज्या काळजाच्या उजवाडान करीत आयिल्लों. हे म्हजे सांगाती जावचे पयलीं, तें कित्याक, हांचे मजगतचे बरेचशे जल्माक येवंक नाशिल्ले ताचेय पयलीं सावन हांव तें करीत आयलां. सगळें म्हजेच प्रेरणेन करीत आयलां. मदीं हे म्हज्या वावरांत हातभार लावपाक, हांवें आपयनासतना, आयिल्ले. आतां वचात म्हणी नासतना म्हाका सोडून गेल्यात. In this floating world there are many meetings and many partings. वचूं दी वतात तांकां. तूंय तांकां आतां सोडून दी.

आनी हांवें म्हज्या हातांनीं तांचीं नांवां आनी रुपां म्हजे तकलेंतलीं साप्प पुसून उडयलीं.

तेन्ना सावन म्हजे पिरायेक झेपता तो वावर हांव मन लावन करीत आसां. निष्ठेन करीत आसां. पुरो जायसर करीत आसां. कोणाच कडेन स्पर्धा करी नासतना करीत आसां.

मदीं केन्ना केन्ना हांगा थंय ते मेळटात. तेन्ना वाळवो पेंचून 'बरे मू?' अशें एकामेकांक विचारतात. हाचे पेल्यान आमचो संवाद जायना.

म्हजे परस चड गोदूबाय दुखावल्लें. तें हांकां आपले धाकले भाव मानतालें. तें आमकां पळेता आनी म्हणटा, 'तुमचे संबंद पयलीं सारके उरूंक नात. बऱ्याच वयल्या पांवड्यार गेल्यात. डिप्लॉमॅटिक जाल्यात.'

आनी हांव ताच्या तोंडा कडेन पळोवन मुमुरख्यांनी हांसतां.

('जाग', नव्हेंबर २०००)



## ५०.

# कोण उरपाचे नात

हिन्दींतलीं बऱ्यांतलीं बरीं धा पुस्तकां वेंचून काडपाक एक दीस बसलों.

सगळ्यांत पयलीं कबीर वेंचून काडलो. ताच्या नांवान सत्तर अंयशीं पुस्तकां हिन्दींत घोळटात. तातूंत पं. अयोध्यासिंह उपाध्याय हांणी संपादीत केल्लें *कबीर वचनावली* सगळ्यांत बरें. कबीर म्हाका सदांच आवडला. भास धोंगां-पोंगांची. पुणून विचार? खुबळावन घालपी. न्हीद खळोवपी.

रोखडोच प्रेमचन्द दोळ्यां मुखार येवन उबो रावलो. प्रेमचन्दाचीं सगळीं पुस्तकां वाचपा सारकीं. तांतलें एकूच वेंचून काडचें अशें येवजिलें जाल्यार कोणूय *गोदान* च वेंचून काडटलो. भास उत्तर भारतांतल्या हिंदू-मुसलमान दोगांयचे जिबेर घोळटा ती. देवनागरींत छापल्यार हिन्दींत खपता आनी फारसी-अरबी लिपयेंत घाल्यार उर्दूंत मोडटा असली. हिन्दी उर्दू मदलो पंडितांनी आनी मुल्ला-मौलवींनी उबो केल्लो अडेचो वेगळेचार मोडून उडोवपी.

हीं दोन पुस्तकां वेंचून काडटकूच तिसरें पुस्तक वेंचपाक

बसलों तेन्ना म्हज्या 'अधिकारा'चोच म्हाका दुबाव येवपाक लागलो. म्हळें, जिबेर येतात तींच नांवां घेवप समा न्हय. ते भायर, हिन्दी बरपावळ हांवें हातांत आयल्या तशी वाचल्या. तिचो सारको अभ्यास खंय केला?

हांवें पुस्तकां वेंचपाचो नाद सोडून दिलो.

पुणून मन वेंचपाक लागिल्लें तें थोडेंच थांबतलें आशिल्लें. हिन्दी संवसार सोडून मराठी संवसारांत तें भोंवंक लागिल्लें पळेलें. सगळ्यांत पयलीं ताणें तुकाराम वेंचून काडलो. मराठींत येदो व्हड कवी दुसरो जालो ना अशें पुं. मं. लाड म्हणटाले. आतां दिलिप चित्रेय म्हणपाक लागल्यात. पुणून, तुकाराम म्हळ्यार एक व्हड म्हालसागर. सगळो कोणें पेंवन पळेला? मदीं हांव ताचे शंबर अभंग वेंचून काडपाक बशिल्लों. थोडे वेंचून काडिल्ले. मागीर, म्हाका हें पेलपाचें ना अशें दिसून वेंचपाचें काम हांवें सोडून दिल्लें. तरी आसतना, म्हळें, तुकाराम सगळ्यांत पयलीं घेवंक जाय. मागीर ज्ञानेश्वराच्या *अमृतानुभवा* चेर नदर पडली. ज्ञानेश्वरी रचले उपरांत बरयल्लें पुस्तक हें म्हूण खूब जाणांच्या तोंडांतल्यान ताची तुस्त आयकल्ली. *अमृतानुभवा* ची पु. य. देशपांडेन तीन खंडांनी अर्थावणी केल्या. ती वाचपाक घेतिल्ली. पुणून ती माथ्या वयल्यान गेली. म्हज्या माथ्या वयल्यान गेली हें म्हण समजूं येता, विनोबांच्याय माथ्या वयल्यान गेल्ली म्हूण आयकल्लें. आपणाक एक तर ज्ञानेश्वर समजूंक ना वा मराठी समजना अशें खंय तांणी हें पुस्तक पळोवन म्हळ्ळें. हांवें *अमृतानुभव* कुशीक दवरलो आनी *ज्ञानेश्वरी*च घेतली. हांगा पावतकूच मन घुटमळ्यांत पडलें. फकत संतांचींच पुस्तकां वेंचून काडपाक बसलें जाल्यार धांचो आंकडो आपणाक उंपचो पडटलो अशें तें म्हणपाक लागलें. संत साहित्याचे नदरेन मराठी ही खुबूच गिरेस्त अशी एक भास ह्या देशांतली. कोणाक सोडप, कोणाक घेवप, मन थारावंक पावलें ना. तें संतांक सोडून आर्विल्ल्या मराठी साहित्यांत भोंवपाक लागलें. इतलेंच न्हय तर बऱ्यांतलीं बरीं धा पुस्तकां वेंचून काडपाचें सोडून तें आर्विल्ले मराठी बरपावळींतलें कितलें उरतलें ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक लागिल्लें पळेलें. सगळ्यांत पयलीं ताणें टिळकांचें *गीतारहस्य* वेंचून काडलें. मराठी जाणा जाल्ले सगळे तें घेतात, आरमारींत दवरतात. वाचतात व्हय तर? दुबाव आसा. हालीं तेंपार कोणें *गीतारहस्य* वाचिल्लें आयकूंक ना. पुणून नारायण वामन टिळकांचे घरकान्नीचें ह्न लक्ष्मीबायचें ह्न *स्मृतिचित्रें* लोक वाचतात. हें पुस्तक फकत आरमारींनी बसून रावचें ना.

लोकांच्या हातांत घोळटलें. म्हणटासर पळेलें ह्व मन हरिभाऊ, खांडेकर, फडके, माडखोलकर, काणेकर, वरेरकर, अत्रे सगळ्यांक सोडून पु.ल. देशपांडें कडेन येवन थिरावलां. पु.लं.चीं सगळीं पुस्तकां हांवें वाचल्यांत. पयले खेपे वाचल्यांत तेन्ना पोट फुटऽसर हांसलां. दुसरे खेपे वाचल्यांत तेन्ना व्हडलोसो हांसो येवंक ना. तिसरे खेपे वाचल्यांत तेन्ना म्हाका तीं बास्कळशीं दिसल्यांत. हांव कितें करूं? पु.लं.च्याच साहित्याची न्हय, संवसारांतल्या सगळ्या विनोदी साहित्याची गत्त म्हजे कडेन पावतकूच अशीच जाल्या. वूडहाउज वाचून कितलो हांसलां हांव. पूण तो परतो हातांत घेवपाचो म्हाका धिरूच केन्ना जालो ना.

मन मराठी साहित्यांतलें उठून विश्वसाहित्यांत भोवंक लागिल्लें पळेलें. जिब्रान उरत व्हय? ताणें आपणाकूच विचारून पळेलें आनी 'ताचें आनीक काय उरलें ना जाल्यारूय *द प्रॉफेट* उरतलें, ताणें म्हळ्ळें आयकलें. रवीन्द्रनाथ? ताच्यो कथा, नवलकथा घडये पोरण्यो जातीत. नाटकांय जातीत. इतलेंच न्हय, तर ताच्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कविताय काळाचे व्हांवतेंत व्हांवन वतीत. पुणून *गीतांजली* उरतली. रवीन्द्रनाथांचे भक्त *गीतांजली* क तागेली बऱ्यांतली बरी वा व्हडांतली व्हड कृती मानिनात. नाका मानूं. पुणून *गीतांजली* न देवा-धर्मा कडेन, भजन-पुजना कडेन, साधने कडेन पळोवपाची जी एक आध्यात्मीक नदर दिल्या ती सामकीच नवी. *गीतांजली* उरूंक जाय. आनी *गीतांजली*ची नदर सारकी समजून घेवपा खातीर रवीन्द्रनाथांच्या *शान्तिनिकेतन* नांवाच्या दोन खंडांचीं (प्रवचनां तागेलीं हीं) गरज आमकां सदां भासत रावंक जाय. तॉलस्तॉय कितलोसो उरत? ताचीं *वॉट दॅन वुइ मस्ट डू, किंग्डम ऑफ गॉड इज विदीन यू* सारकीं पुस्तकां उरतलीं अशें दिशिल्लें. न्हीद खळोवपी, जिवीत बदलपी पुस्तकां हीं. पुणून आयज तीं बाजारांत मेळऽ लेगीत नात. *वॉर अँण्ड पीस* मेळटा. पुणून वाचता व्हय कोण तें? तेंवूय आतां आरमारींनी वचून बसलां. पुणून उतार पिरांयेर ताणें 'इव्हान द फूल', 'हाउ मच लँड डज मॅन रिक्वायर', 'व्हॅर लव्ह इज, गॉड इज', असल्यो अठ्ठावीस तीस 'काणयो' बरयल्ल्यो. त्यो अजुनूय लोक वाचतात. आपापणाले भाशेंत अणकारून हाडटात. तॉलस्तॉय उरतलो तो ह्या काणयांक लागून अशें दिसता.

कितें उरता हें सांगप मोटें कठीण. गटे जर्मन बरपावळींतलो एक दिग्गज. बरयतालो तें 'बऱ्यांतलें बरें' आसतालें. बऱ्यांतलें बरें काव्य, बऱ्यांतलें बरें

नाटक, बऱ्यांतलें बरें भोंवडे वर्णन, बऱ्यांतली बरी आपजीण. ताच्यो चिटी उजवाडा आयल्यात, तेरा हजार. बऱ्यांतल्यो बऱ्यो. गटे उपरांत शंबर वर्सांनी नित्शे आयलो. तोवूय जर्मन बरपावळींतलो एक दिग्गज. तो म्हणटा, 'एक्करमान नांवाचो एक किरकोळ भुरगो गटेच्या आयुष्यांत निमाणें निमाणें आयिल्लो. आनी ताणें गटेक कोण मेळूंक येताले तांचे कडेन, खासा ताचे कडेन गटेच्यो ज्यो खबरी चलताल्यो त्यो गटेक कळूंक दिनासतना बरोवन दवरिल्ल्यो... गटेच्या खंयच्याय पुस्तका परस हें पुस्तक बरें, इतलेंच न्हय तर जर्मन भाशेंतलें बऱ्यांतलें बरें!'

*कन्वर्सेशन्स वुइथ गटे* ह्या नांवान हें पुस्तक इंग्रजींत आयलां.

हाचो अर्थ कितें जालो? किरकोळांतलो किरकोळ मनीस बरयता तें लेगीत केन्ना केन्ना उरता. असो न्हय? विशय व्हड आसूंक जाय.

हेच तरेचें एक पुस्तक आमच्या देशांत एकल्यान बंगाली भाशेंत बरयलां ह्र महेन्द्रनाथ गुप्तान. *श्रीरामकृष्ण कथामृत* नांवाचें. सगळ्या देशी भासांनी हाचे अणकार जाल्यात. आनी बंगाल्यां मजगतीं अशें एकूय घर मेळचें ना जंय हें पुस्तक आसचें ना, एक मनीस मेळचो ना जाणें हें पुस्तक वाचूंक ना. विवेकानन्दांच्या हातांत हें पुस्तक पडलें तेन्ना, 'सभाग्या, तुवें कितें बरयलां तें तुका खबर ना' हे तरेचीं उतरां तांणी महेन्द्रनाथ गुप्ताक कळोवन धाडिल्लीं.

असलेंच एक पुस्तक महादेवभाई देसाई हांणी बरयलां, दिसपटयेच्या रुपान. महादेवभाईच्या दिसपटयांचे वीस खंड उजवाडा आयल्यात. विसूय खंडांतलें म्हत्वाचें वेंचून एक नवें पुस्तक तयार करूं येता. श्रीरामकृष्णां भाशेन महात्मा गांधीय जिवे तट्टटीत आमचे मजगतीं उरतले.

गांधीचो आमी कोण साहित्यकारांत आसपाव करिनात (पाड पडलें आमचें). *सत्याचे प्रयोग* सारकेंलें पुस्तक जाका बरोवंक आयलें ताका साहित्यकार न्हय अशें खंयच्या तोंडान म्हणटात आमी, समजना. *सत्याचे प्रयोगा* सारकी आत्मकथा विश्वसाहित्यांत मेळपाची ना.

हांगा पावतकूच मन कोंकणी बरपावळींतलें कितें उरतलें तें सोदपाक लागिल्लें पळेलें. र.वि. पंडित उरतलो अशें दिशिल्लें. कितें तरी नवें घेवन आयिल्लो. कोणाच सारकें ताणें बरोवंक ना म्हूण, आनी ताचे सारकें कोणाक बरोवंक येवंक ना म्हूण, ताका आगळो-वेगळो ह्र original ह्र मानतालों. पुणून ताका वचून आतां सात आठ वर्सां जालीं, कोण ताचें नांव घेना. क्रमीक पुस्तकांनी तो मेळत.

घडये कोणाकूय पीएच्डी करपाक उपकारा पडत.

पुणून हाका 'उरप' म्हणिनात.

उरूंक जाय *गलिव्हर्स ट्रॅव्हल्सा* भाशेन.

बाकीबाब? बाकीबाबान मराठीक दिलां ताच्या शंबराव्या वांट्यान लेगीत कोंकणीक दिवंक ना. पुणून दिलां तें मोलान ल्हानासमानांतलें न्हय. *'प्राणाक क्षय, बुद्‌दीक भय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय आयलां थंय स्वातंत्र्य तें, स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय'* ही कविता उरूंक जाय आशिल्ली. जिबे जिबेर घोळूंक जाय आशिल्ली. घोळतूय एकाद्री, सांगूं येना. पुणून *'त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां, मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां'* गीत उरतलें.

मनोहरराय? *'बिलुबाय बिलुबाय, कोणें खाली साय? म्हाका बाबा खबर ना. हांव गेल्लें कुसमणां', 'आरे आरे कोल्या, कोली खंय गेल्या? सांगतां तुज्या कानांत, कोली गेल्या रानांत'* असल्यो ताच्यो 'पाडिल्ल्यो' कविता उरतल्यो. बाकीच्या कवितांचें खरेपण ना.

मन मोटें अवजाळी. तें खंयच्यान खंय उडी मारीत, सांगूं नजऽ. म्हजे आदल्या, म्हजे मुस्तींतल्या, म्हजे उपरांतच्या सगळ्यांक सोडून तें म्हजे कडेन ह्व रवीन्द्र केळेकारा कडेन ह्व येवन थांबलें. 'अँ, हाचें कांयच उरचें ना... कोणाचेंच उरूंक ना, हाचेंच कित्याक उरतलें?' अशें ताचे जिबेर आयलें खरें. पुणून ताणें तें गिळ्ळें. आनी 'घडये हाचें *महाभारत* उरत' अशें तें म्हणपाक लागलें. म्हणटासर आपणाकूच सांगपाक लागलें, '*महाभारत*, उरत, पुणून हाचें म्हूण न्हय, ***महाभारत*** म्हूण उरत... सगळे कडेन *महाभारत* उरलां.'

इतल्यान म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें. मनोहररायान एक फावट म्हाका सांगिल्लें, 'वॉल्त्तॅरान जीव तोडून जें बरयलें तें आयज फकत आरमारींनी बंदिस्त उरलां. पुणून *कान्दीद* नांवाचें ताणें एक हलकें-फुलकें पुस्तक बरयल्लें तें अजून उरलां. अजून लोक तें वाचतात.' म्हाका हाचो उगडास जालो आनी हांवें म्हळें, म्हज्या पुस्तकांतलें फकत *तुळशी* च उरचें ना मू? ताचीं कन्नड आनी रोमींत लिप्यंतरां जाल्यांत. एक टेलेफिल्मूय जालां... सांगूं नजऽ. वॉल्त्तॅरा सारकी गत्त म्हजीय जावं येता.

हांव काचाबूल जालों. इतलेंच न्हय, तर घामाघुमूय जालों. गोदूबाय जिस्त च्या घेवन आयलें. म्हजें तोंड पळोवन विचारपाक लागलें, 'कितें जालां? जिवाक

बरें दिसना?'

'नागो, बाय...' अशें म्हणून ताका सगळें सांगून उडयलें. तें खो खो करून हांसपाक लागलें. 'च्यॅ, च्यॅ, भियेवं नाका तूं... तूंच न्हय, हे जे हड्डें मुखार काडून भोंवतात तांच्यांतलेय कोण्ण उरपाचे नात. हांव काळ सगळ्यांक ना करपाक उठलां म्हणपाचें कृष्णान गीतेंत सगळ्यांक 'आश्वासन' दिलां तें लक्षांत ना? सगळे ना जातले... ही च्या घे आतां न्हिवचे पयलीं' अशें म्हणून ताणें च्याची चिक्र-बशी म्हज्या हातांत दिली.

('जाग', मार्च १९९८)







कषाय मधुर एका आधुनीक तपस्वी-संवेदनेच्या पुराय तपाचें संचीत; पूण तातूंतल्या धारणा-अवधारणांचें, आलोचना-अवलोकनांचें पाथेय पळेल्यार ताका भावी बदलाचें आश्वासक अर्जीत म्हणूंक जाय. तातूंत युगान्तराची संभावना लिपल्या आनी... भाकितूय!

- डॉ. किरण बुडकुले